## खेरीत आर्गां

प्रि. रूमाल्दो दे सौजा, एस्. जे. आदलो प्रांतीक जेजुईतांचो वडील हांकां

प्रि. लेस्ली आल्मेदा, एस्. जे.

प्रि. मोरेन दे सौजा, एस्. जे.

प्रि. लाक्तांसिवो आल्मेदा, एस्.एफ्. एक्स

प्रि. आवशेमिओ मोन्तेरो, एस्.एफ्. एक्स

प्रि. ओलाव व्हेल्हो पेरैरा

ब्र. सेबास्तियांव बार्नेटो, एस्.एफ्. एक्स

श्री. आनी श्रीमती मारिओ ओजोरिओ साल्दान्य

श्री. आनी श्रीमती मार्साल फेर्नांडीस

दिवचलकारांक आनी सिर्लेकारांक

श्री. झितु आल्मेदा

*देव तुमकां बरें करूं*

आ. पेरैरा. एस्. जे.

## बरोवप्याचीं हेर पुस्तकां (रोमी)

कुरपेचीं किर्णां

शिंवतुलें

ओंवळां - *कोंकणी भाशा मंडळ पुरस्कार*

तुजो विचार

काळजीदार - *कला अकादेमी पुरस्कार*

जात्रेकार जुजे - *कला अकादेमी तशेंच कोंकणी भाशा मंडळ पुरस्कार*

आमचें मीस

गोंयचें माणीक - *मराठींत अणकार जाला*

धर्तरेवयली सुंदरी

गोंयचे धर्तरेवयलो - *कोंकणी भाशा मंडळ तस्त्रींप*

जेजूचीं कमळां

Dalgado, The Man and Scholar

- *साहित्य अकादेमी उजवाडावणी*

कोंकणी शास्त्री दाल्गादो

वादळ आनी वारें

जेजू क्रिस्त - *जिवीत, कथा आनी क्रिस्त शास्त्र*

*(Christology)*

इंग्लेज कोंकणी शब्द कोश

# गोवा कोंकणी अकादेमीचे वतीन...

कोंकणीतले फाकिवंत बरोवपी फादर आंतोनिओ पैरैरा हांगेलें 'फ्रान्सीस्कन शेतकामती' हें हातबरप. गोवा कोंकणी अकादेमीन 1993 वर्सा 'लिपी सहकार येवजणे' खाला रोमी लिपींतल्यान देवनागरींत उजवाडावपाखातीर घेतलें. अकादेमीन रोमी बरप देवनागरींत उतरायलें. आनी अकादेमीच्या नेमाप्रमाण तें अभिप्रायाखातीर जाणकारांकडेन धाडलें. जाणकारांच्या मताप्रमाण पुस्तकांत कांय दोश आशिल्ले, जे काडपाखातीर खासा बरोवप्यान हातबरपाचें पुनरलेखन करपाची गरज आसली. तें जावप कठीण आशिल्लें. कारण फा. पैरैरा खुबूच दुयेंत आशिल्ले आनी फेब्रुवारी 2004 वर्सा ते ह्या संवसाराक अंतरले. 'फ्रान्सीस्कन शेतकामती' पुस्तकाचो प्रश्न तसोच अर्दकुटो उरलो म्हणपाची जबर खंत अकादेमीक उरली.

अकादेमीच्या वावुरपी मंडळाचे एक वांगडी आनी नामनेचे बरोवपी श्री. तोमाजिन्यु कार्दोज हाणीं वावुरपी मंडळाचे बसकेंत एक नवो प्रस्ताव मुखार हाडलो. तो म्हळ्यार अकादेमीन फा. पैरैरा हांगेल्या 'फ्रान्सीस्कन शेतकामती' ह्या पुस्तका बदला तांगेलें 'वादळ आनी वारें' हें रोमींतलें गाजलेलें पुस्तक आदलेच लिपी सहकार येवजणेखाला उजवाडाक हाडचें. हो प्रस्ताव सगळ्या वांगड्यांनी एकमुखान मानून घेतलो आनी पुस्तकाच्या वावराक गती लाबली.

'वादळ आनी वारें' ही बरोवप्याची एक सुंदर अशी कादंबरी. फा. पैरैरा ह्यात आसतना लेखक श्री. दिलीप बोरकार हांकां ताणीं आपली ही कादंबरी देवनागरींत करपाक सांगिल्ली आनी श्री. बोरकार हाणीं फा. पैरैराच्या मोगाक

लागून ती देवनागरींत उतरावन आपल्या 'बिम्ब' मासिकांतल्यान खिस्ती खिस्तीनी प्रकाशीत करपाक आरंभ केल्लो. अकादेमीन हे संदीचो फायदो घेवन श्री. दिलीप बोरकार हांचेकडल्यान कादंबरीचें देवनागरींतलें सगळें हातबरप घेतलें आनी उजवाडावपाचें थारायलें.

'लिपी सहकार येवजणे'चे नेम सदळ करून एक खास प्रस्ताव म्हणून अकादेमीन ह्या पुस्तकाचे छापणावळीखातीर शंबर टक्के अर्थीक पालव दिवपाचें थारायलें आनी पुस्तक प्रकाशीत करपाचो वावर 'बिम्ब' प्रकाशनाकडेन सोंपयलो.

फा. आंतोनिओ पेरैरा हांकां कोंकणी साहित्याच्या संवसारांत फादर ए. पेरैरा म्हणून सगळे वळखताले. कोंकणींत ताणीं विपूल अशें बरोवप केलें. जीव तोडून बरोवपाची तांगेली पद्धत. हेंवूय पुस्तक ताणीं अशेंच जीव तोडून बरयिल्लें. पाद्रीपणाच्या वावराक उंचाय आनी प्रतिष्ठा दिवपाखातीर ताणीं हे कादंबरीची रचना केली. रोमी लिपींत हे कादंबरीक वाचप्यांचो बरो प्रतिसाद लाबलो.

आयचे घडकेक ती देवनागरींत उजवाडा येता. ती पळोवपाक आयज फा. ए. पेरैरा आमचे मदीं नांत पूण ताणीं जोडिल्ले असंख्य इश्ट आनी बरे मागते गोंयभर पातळ्ळ्यात. तांकां सगळ्यांक हें पुस्तक ही एक खोशेची गजाल जावन आसतली हातूंत दुबाव ना.

जून 2004

**पुंडलीक ना. नायक**

अध्यक्ष

गोवा कोंकणी अकादेमी

पयलो अवेस्वर

# सिरावळी - साश्टी

**वा**दळ आनी वारें ! पानां पडलीं, जोगलावणें मारलें, घडघडें गाजलें, पावसाचें उदक व्हांवलें, भायल्यान काळोख आनी अंदोक पसरलो, असल्या काळार, सिरावळी-साश्टी, बळवंत नांवाचो भुरगो जल्मलो. ताच्या जल्माच्या गांवांत ताच्या आवय-बापायचें घर आसतालें. तुफानाच्या नादार आनी थांवार घराचे नळे उबले आनी सर्वय वाटांनी पडले. ताच्या बापायचें नांव जयवंत आनी आवयचें शांती.

जयवंताचें आडनांव कोस्ता. तो मायेमोगान भरलेलो आनी आपली धन-गिरेस्ताय दुबळ्यां - धाकट्यां खातीर वापरतालो. तो आंगलटीन मोटवो आनी मोटो. ताचे हात रुंद आनी अस्कळ, जिवाक भियेनासलो, रातचो आनी दिसाचो तो बंदूक घेवन, सिरावळेच्या बांदांत बकीं आनी रानपोगडे मारतालो आनी ताचो तीर केन्नाच चुकनासलो. आपल्या आंगांतलें बळ तो दुसऱ्यां आनी असक्त मनशांखातीर खर्चितालो. ताच्याय आंगांत केन्नाय वादळ आनी वारें भरतालें, तें तो दमायतालो, आनी आपल्या भुरग्यांकूय राग आनी क्रोध दमावंक उस्कायतालो. ताच्या दारांत आयलेलो भिकारी रित्या हातांनी वच नासलो आनी जयवंत कोस्ताची दयाळपणाची गजाल सगळ्याक फांकलेली. देव-भिरांतीन जियेतालो.

बळवंताची आवय शांती कोस्ता खूप मनशाळ आनी मोगाळ. ती कोणाचोच राग धरिनासली. तिचें जिवीत निवळ आनी नितळ. आपल्या भुरग्यांक ती सदांच हो संदेश आनी सुलूस दिताली : "तुमी कोणाचोच राग धरुं नये, कोणूय तुमचे लागीं झगडलो जाल्यार, तुमी तांकां पयलीं जाप दिवंची. तुमीं म्हजे भशेन शांत जावंचीं आनी म्हज्या नांवां प्रमाणे जियेवंचीं." ती सदांच काळजाची नितळाय सोदताली आनी भुरग्यांकूय शिडकायताली. "काळजान नितळ ते सुभागी, कित्याक ते देवाक पळयतले." मागण्याक आनी ध्यानाक लागताली, दिसाक चोवीस वरां काम आनी मागणेंय करताली. चलतां-भोंवतनां देवाकडेन उलयताली.

श्रीमती शांती दा कोस्ता आपल्या भुरग्यांक सकाळचीं पांच वाजतां उठयताली आनी उपरांत आर्गां आठयताली. एक एकल्याक आप-आपलें काम करुंक ओडटाली आनी बळवंताक आनी ताच्या दुसऱ्या भावंडांक, आंतोन, सुरेश, रोजा आनी मेलविनाक घेवन गांवच्या कपेलांत वेताली. तिणें दिसपटीं मीस आयकुचें, ना जाल्यार, आपणाक कितें तरी उणें जाता म्हूण ती आपल्या भुरग्यांक सांगताली. श्रीमती दा कोस्ता आपले भुरग्यांक इगर्जेंत देवाचें उतर आयकूंक वळकिताली. घरा येतकच, तांचेकडे इगर्जेंत कितें सांगलां आनी कसलो सेरमांव जाला हाचो हिशोब घेताली. बळवंत देवाचें उतर गांठीक मारतालो. एक-एकदां, सेरमांव पयलो तो निमाणो पर्यान बोटांचेर खेळयतालो आनी सरळ आवय आनी घरच्यांफुडें उतरान उतर उच्चारतालो. एकदां एक पाद्री सिरावळेच्या कपेलांत सेरमांव सांगूंक आयलो. बळवंतान आपले कुशीक आसलेले मांयक सांगलें, "मांय गे, हो तो पाद्री देवापुरींत सेरमांव सांगतालो तो आमच्या कपेलांत सांगता आनी ताणें तोच सेरमांव आनी तीच काणी सांगल्या." बळवंताची याद पदवी खूप तरणी आनी पाचवी आसली. तो कितेंय रोखडोच पाठ करी.

सिरावळेचो गांव साश्टीत उरता. त्या गांवचे वडील आनी आजे-पणजे सांतेरी देवीक पुजताले आनी गांवपणाच्या माजार तांचें मंदीर उरतालें. आनी मंदिरा मुखार भक्तिपणान लोक उदक न्हाताले. साळ न्हंयचे पलतडीसून सिरावळे जेजुइत रिगले. ताणीं सिरावळेकारांक बाटयले आनी क्रिस्तायलीं आनी गांवकारांनी नवें कपेल बांदलें आनी तें ताणी काकुटीचे मायेक वोपलें. बळवंत हे मायेक सदांच उलो मारुंक आपले आवयकडल्यान शिकलो आनी जिवितांत आपलें निर्मळपण आनी आंकवारपण अख्खें दवरुंक तिकाच उलो मारतालो. सिरावळेच्या

गांवांत निसर्ग आनी सैम गिरेस्तकायेन व्हांवतालें. थंय रसाळ आनी रुचीक नाल्ल पिकता, थंय जांबूळ आनी काज रुजता, थंय लोक मुठभर वोंपता आनी कडोभर लुंवता. त्या गांवचे धडेंतल्यान साळ नद सवकास धांवता, तातुंतल्यान मीठ पिकता, जिनसावार नुस्तीं भोंवतात, मंगळुरचे नळे पावतात, मदेर आनी फातर पातमारींनी येता. सिरावळेचें तळें चड फांकी, तळ्याचो बांद करुंक जेजुईतांनी हिकमत आनी माण्णी शिकयली आनी तेथून पासून सिरावळीकार  वर्साक दोन पिको काडूंक शिकले. बळवंताच्या घरांत जेवण-खाण आनी न्हेसण केन्नाच उणें नासलें आनी भूक आनी दुबळेपण ताणें पळेलें ना. घरांत मदेस्ताय आनी थंडाय वसताली आनी कसलेंय वादळ उप्रासलें जाल्यार, बळवंताची आवय सोंपयताली, शांतीची भावना पसरायताली. मारियेची नदर दोळ्यांमुखार दवरताली.

सिरावळे तेंकून देवापुरी, धर्मापुरी आनी सोजडीपुरी आनी चिंचीपुरी वसताल्यो. सिरावळी, धर्मापरी, देवापुरी, सोजडीपुरी आनी चिंचीपुरी इतिआसांत खूप फांकी जाल्लीं आनी थंय खुपसो ख्रिस्ती लोक आपले पेणें करतालो. त्या गांवपणांनी  सैमाचे देखावे आनी वाडे दिसताले. थंय वकील, थंय वैज, थंय गुरु आनी शिकोवपी, थंय यज्ञीक आनी पाद्री, शेतकामती आनी वावराडी हाताक हात धरुन जियेताले. खेळा-मळार आनी शिकपामळार, राजकारणांत आनी देव-धर्मांत तांच्या म्हालगड्यांनी फांकी नांव आनी मान मेळयलो. तांच्या तळ्यांनी, तांच्या गायऱ्यांनी, कमळां आनी साळकां येत्या वत्यांक नमन करतालीं. तांच्या दोंगरांनी पिटकळीं आनी कोंब्याशेंकरीं पयसून जात्रेकारांक सलाम करतालीं. ह्या गांवचे मनीस शिकपांत आनी वावरांत चकचकलेले आनी येते पिळगेक मानाक आनी महिमेक ओडटाले. असल्या गांवांत बळवंतबाब उजवाडाक आयलो.

बळवंतबाबाचे आवयन ताचे ठांय खेरीतूच गूण पळेल्ले. ताका अवगुणूय आसले. त्या अवगुणांतल्यान जैत मेळोवन, तांचो फायदोय काडूं येतालो. तिच्या मतान तिच्या पुताक देवाचे आनी मनशांचे सेवेक आपयल्लो. तो सोंपेपणी दुसरेवसल्यान ओडटालो. कोणाकूय रोकडोच पावतालो, जिवितांत देवाची भक्ती खेरीतपणी पाळतालो. देवान आपल्या पुताक आपले आनी मनशांचे सेवेक आपयला हें तिका दिसून आयलें. तिणें ताचेर खेरीतूच दोळो दवरलो. ताचे सदळ जिबेचे गूण फुलोवंक, आनी ताचे अवगूण मोडूंक तिणें खुपसो भर आनी भार घालो.

बळवंतबाब एक फुडारी जावन आसलो. तो सिरावळेच्या भुरग्यांक एकठायतालो आनी तांकां घेवन तो मीस बा भेटयतालो. ताणें एके कदेलीर चडचें आनी भेंडाक मांदरी घुटलांवची, आंगार कागदाचें पाद्रीचें न्हेसण घालचें आनी आपलें तोंड उगतें करुन व्हडल्यान सेरमांव सांगचो. सेजारचीं भुरगीं आंऽ करुन ताचें उतर आयकतालीं. एकलें ताचें सोयरें, ताची मावशी-भयण, मारिया, कान फुलोवन, व्हडले दोळे करुन, ताच्या तोंडावेली दिश्ट काडिनासतना सेरमांव आयकतालें. बळवंत बाबाक विचित्रूच दिसलें आनी ताणें ताका रागान शिडकायलें.

“मारिया, तुजे पोले हांव फोडटलों. तूं म्हाका येदे व्हडले दोळे करुन कित्याक पळेता, लज दिसना तुका?”

मारियाबाय लजलें, तोंड सकला घालें, रडत-रडत घरा वेतनां गुणगुणूंक लागलें, बळवंत तूं शापोतकार जालाय! हांवें केलां कितें? तूं म्हाका लोका हुजीर लजेक घालताय? मारियाबाय रडत रडत, मांय फुडें गेलें आनी घडलेलें सांगलें. थोड्यां दिसांनीं सगळें विसरलें आनी केन्नाय बळवंताक, ताच्या मावशेभावाक हांगा-थंय दुसऱ्यां बाराबरीं भेटतालें. केन्नाय बळवंताचे पोले, ताच्या दोळ्यांची मावली ताच्या मनांत भरताली आनी काळजांत खेळताली. तरी तें आपले सुवातेर रावंक जाणां आसलें आनी आपणाक बळवंताचो गडगड नाका म्हूण पयसूच रावतालें.

सिरावळे, शेतांमदें एक व्हडलें मळ आसलें. थंय सिरावळेचे तरनाटे एकठांय जाताले. ते फुटबॉल खेळूंक सगळ्यांक फाटी दवरताले. बळवंतबाब भुरग्यांक घेवन, तोंडाक पिल्लूक लावन फुटबॉलाची तालीम आनी प्रॅक्टीस करतालो. फुटबॉल घेवन, वादळ आनी वारें जाल्ल्या भशेन, तो एका गोला कडसून दुसऱ्या गोला लागी पावतालो आनी बोलान जाळी तोपतालो. पेले भशेन तो बोल बोटांचेर खेळयतालो, पांयांचेर उजव्यान आनी दाव्यान काडून दुसऱ्यांक फसयतालो आनी हे आपले धाकटे पिरायेर लेगीत बोल बाण कसो एके शिमेरसून दुसरे शिमेर पावयतालो. भुरगोच पासून, ताका जाणटे पुजताले आनी आपल्या नांवांप्रमाणे तो एक बळवंत मनीस जातलो अशी आशा धरताले. एकदां मॅच जाली. सिरावळीकार आनी देवपुरीकार खेळाक आनी मॅचीक आयले. दोनूय गांवपणां एकठांय जालीं आनी दोनूय गोलां वटेन लोकांच्यो पुंजी एकठावल्यो. खेळ सुरु जालो. बळवंत तूफान कसो धांवलो आनी एकार एक तिनदां गोल तोपलो.

देवपुरीकार चाळवले. ताणी बळवंताक पांय घालून जमनीर आपटिलो. सिरावळीकार आनी देवपुरीकार झगडूंक लागले. मारामारी जावंची जाली. बळवंत उठलो आनी दोगांय जाणांक दोशीं करुंक लागलो. ताणें तांका हो निरोप दिलो.

आमी सिरावळीकार आनी देवपुरीकार भाव-भाव आमी झगडूंक फावना. आमी जिखपाचे पासत खेळूंक फावना. जिखप आमचो शेवट न्हय, खेळपांतल्यान कुडिची आनी आत्म्याची भलायकी मेळोवंक होच आमचो हावेस आनी हेतू. चल झगडीं बंद करुंया आनी दुसऱ्यान खेळुंया.

इतल्या म्हणसर, एक देवपुरीकार फुडें आयलो आनी बळवंताच्या गोमट्याक धरलो आनी ताका जमनीर आपटूंक वावुरतालो. बळवंत रागान भरलो आनी ताणें एके मुठीन देवपुरीकाराक जमनीर आपटिलो. आनी आनीकूय दोन मुठी घालपाचो. तेथून मेरेन बळवंताचो बापूय, जयवंत आयलो आनी आपल्या झगडट्या पुताक कुशीन काडलो आनी ताका ताणें सांगलें :

"बळवंत तुजें नांव. तुका बळ आसा आनी तें तुवें माराक आनी फाराक वापरुंक फावना. तुजीं देणीं जावं कुडिचीं, जावं आत्म्याचीं, तुवें तीं दुसऱ्या खातीर वापरुंक जाय. मनशाक देवान एक मेकांचेर पडूंक आनी विरोधूंक रचूंक नांत. देवान दिल्लीं देणीं मनशांखातीर वापरुंक जाय. तर सोंपय तुजीं केस्तांवां आनी देवपुरीकारांक हात दी. फुडाराक तुज्या पायच्या नांवाप्रमाणे, आपणाचेर जैत व्हर आनी मांयचे भशेन शांतीन सगळ्यांकडे जिये." बळवंत उठलो आनी आत्म्याचें बळ दाखोवंक शिकलो. रागाचें वादळ सोंपलें, शांत वारें सुटलें.

बळवंताच्या गांवांत साळ न्हंय ताच्या घरा फुडल्यान वेताली. ताचें काळीज नुस्त्या आनी उदकावसल्यान ओडटालें. दिसपट्टीं ताणें अ[illegible]य-बरीं मिसाक वचचें आनी उपरांत ताणें गऱ्याबडी घेवन न्हंयचे लागीं गरोवंचें. ताचे बाराबरी दुसरेय भुरगे वेताले. ताच्या सांगाता म्हातारो, लागशिलो जुवांव वेतालो आनी दोगूय गजाल मात करताले. जाण्टो ताका खंय नुस्तें बरें लागता तें सांगतालो आनी ताका बळवंताचो मोग देखून बळवंताक बरी बुद्द आनी मत दितालो. बळवंताचे चाली आनी वागणुकेप्रमाणे, जाण्ट्याक तो एक पाद्री जातलो आनी आपल्या गांवाचेर उजवाड आनी किर्ती हाडटलो हें खात्रेन दिसलें. ताणें वाडट्या भुरग्यांक सांगलें : "बाबा, बळवंत तुका गरोवंची खूप आवड, एकदां आमकां नुस्तें रोकडेंच लागता, एकदां आमकां खूप वेळ खावंचो पडटा. नुस्तें मारपाक फाव तो वेळ

जाय. फाव तें हांयस जाय, फाव ती सुवात जाय. नुस्तें मारचें काम सोसणीकायेचें. तुजे मांयन म्हाका तुका पाद्री जावंची खोशी म्हूण सांगलां. पाद्रीचें जिवीत एका खारव्याचें जिवीत. खारव्यान खूप सोसणिकाय घेवंक जाय. मनशांचेर तापूंक आनी तिडूंक फावना. आपल्या आत्म्याचेर बळ आनी जैत चलोवंक जाय. आंगांतलें रागा-किंवाचें वादळ आनी वारें दमवंक जाय. तुज्या जिवितांत तुंवें कोंकणी म्हणणी जियेवंची - मूय जा आनी साकर खा, वाग जा आनी लाकूड खा." बळवंतान जुवांव शेजाऱ्याचीं उतरां गांठीक माल्लीं. आपलें उचंबळ सैम दमयतलो आनी दुसऱ्यां ठांय आपले आवयभशेन जातलो म्हूण निर्णय घेतलो. "मूय जा आनी साकर खा." ही म्हणणी तो चिंतीत आनी चिंवत रावलो.

सिरावळेच्या गांवांत धाकटें इस्कोल आसलें. थंय वाचूंक आनी बरोवंक शिकयताले. हे शाळेंत रेबेक वाजोवंक, दो-रे-मी-रे-फा सोल्फां आनी सूर शिकयताले. बेजमी मेस्त्री, मार्कु मेस्त्री, क्रिस्तोव मेस्त्री मोटवीं कालसांवां घाल्ल्या भुरग्यांक आनी वाडट्या चेडवांक वाचप, वाजप आनी मेजप शिकयताले. शिकनांत तांचेर आर्क मारताले आनी हाताचेर पालमातोर सोडटाले. न्हिदतात तांचेर कूट मारुंक लायताले. बळवंतबाब धाकटोच पासून ह्या इस्कोलांत शिकूंक लागलो. आ बे सी शिकूंक ताका वेळ लागलो ना. पूण तीं सोल्फां आनी तुवाद ताच्या मनांत सोंपेपणीं भरनासलीं. तरीय तो दुसऱ्यां सगळ्या शिकप्यांक गणितांत आनी वाचप-उलोवपांत सकला दवरतालो. इस्कोलांत आरग्युमेंट, दीगा-दीगा म्हणून अर्थ विचारताले आनी सांगना जाल्यार एक पुस्तकाचें पान परतिताले आनी चड अर्थ जाणां तो जैतिवंत जातालो. असल्यो स्पर्धा आनी सर्ती हे शाळेंत जाताल्यो. केन्नाय दोन जोमे स्पर्धेत भितर सरताले. बळवंतबाबाचो जोमो जिखतालो. तेन्ना बेजमी मेस्त्री सगळ्या भुरग्यांक बावटो घेवन बळवंतबाबाच्या घरालागीं धाडटालो आनी ताचो बापूय खोशयेन मुरगट्टालो आनी ताची आवय शांतीबाय भुरग्यांक मिठाय आनी बिस्कूत वांटटाली.

मुज्ग आनी संगीत आपणाक आवडना देखून बळवंतबाबान इस्कोल सोडलें आनी सिरावळेच्या पाद्रीच्या इस्कोलांत रिगलो.थंय मारियाबाय आनी दुसरींय भुरगीं वेतालीं. मेस्त्री-इस्कोल आनी पाद्री-इस्कोल हांकां पडून वचनासलें. बळवंतबाब आनी ताच्या सांगात्यांनी मेस्त्रीच्या भुरग्यांक लिसांव शिकोवंक आनी तांकां चाळोवंक निर्णय घेतलो आनी निश्चेव केलो. सिरावळेच्या झिलांनी आनी

झाडांनी वचून, ताणीं खातकुतल्यांचीं बोटां हाडलीं आनी मेस्त्रीच्या बाकांक लायलीं. बाकांक बरीं निबर घांसलीं. मेस्त्रीचीं भुरगीं दुबावाविणें बांकार बसलीं. जांगडां खरजलीं, पांय खरजले, कुले खरपूंक लागले. खातकुतल्यो चेड्यांनी हाडल्यो, पूण चेडवांनी त्यो लायल्यो. चेडवांचें तोंड पोंवता न्हय? ताणीं गूट फोडलो आनी आपणे लायल्यो म्हूण गाजयलें. गांवांत बोबाळ पडलो. बळवंताच्या बापायच्या कानांत खबर पडली. ह्या कामाचो फुडारी बळवंत म्हूण पायक गोमलें. रातयां-रातीं, बळवंताक आपयलो आनी ताचेर लिंगड्याचे बडयेन मार घालो. ताणें बळवंताक सागलें : "बळवंत तुवें केलां तें सारकें न्हय. जिवितांत मनशान एकमेकांचेर पडूंक फावना. मनशान दुसऱ्यांची सेवा करुंक जाय. जिवितांत कोम्पेतिसांव केलेंय जाल्यारुय, जीत खेळ्ळें जाल्यारुय प्रतियोगांत वाकडे उपाय घेवन जिखूंक फावना. खातकुतल्यो घालून, तुवें बरें केलें ना. तुका पाद्री जावपाची खोशी म्हूण तुजे मांयन म्हाका सांगलां. पाद्रीन जिवितांत पदवी सोडूंक फावना, ताणें सेवा करुंक जाय. तुका हें हावें आदीं सांगलां." बळवंतान हें लिसांव मनांत धरलें.

पाद्रीच्या इस्कोलांत खातकुतल्यांची झडटी जाली आनी पाद्रीन सगळ्यांक शिडकायले. ताणें बळवंताक बोट लायलेंना. घरा ताच्या पायन ताका सांगलां तें पुरो जाल्लें. हो पाद्री बळवंताची खुपशी माया आनी मोग करतालो. ताणें बळवंताशीं पाद्रीपणाची खुणां वाचली आनी तो ताका केन्नाय कुशीक आपोवन घडये घडये हो संदेश दितालो : "पाद्री आपलो न्हय, तो दुसऱ्यांचो मनीस, तो मनशांचो आनी देवाचो सेवक." हीं उतरां बळवंताच्या काळजांत सादतालीं आनी तो केन्नाय एकसुरो बसून तीं नियाळतालो. आपणाच्यान आतांच पासून लोकाची सेवा कशी करुं येता तें चिंतीत बसतालो. बळवंत त्या मोगाळ पाद्रीक विसरुंक ना. केन्ना केन्ना ताका भेट दितालो आनी दिसपट्टीं ताचें मीस आजूदार करतालो, मिस-वेदी सभोवतीं भोंवतालो.

बळवंताच्या बापायन आपल्या पुताची हुशारकाय पळोवन, आनी ताका पाद्रीपणाची आनी शिकपाची ओड आसा ती पळोवन, ताणें ताका प्रिमैर-सेगुंदग्राव काडूंक एका नावास्त्या गांवांत, एके नावास्ते कॉलेजींत धाडलो. गांवचें नांव कुडाळतरी आनी इस्कोलाचें नांव कोलेजीओ पुर्तुगेज. त्या इस्कोलांत भुरगे कीर कशे शिकताले, पूण जेवपाक-खावपाक वळवळटाले. ते कॉलेजींत एक जाणटो

पाद्री शिकयतालो आनी एक तरनाटो पाद्री आदार दितालो. शिकपाचे नदरेन सगळें बरें चलतालें. नितळकायेचे दिश्टीन, भुरगे खरजेन भरताले आनी खरजेची पूड आनी खरजप घेवन केन्नाय घरा परतताले. ते कॉलेजींत पाद्रींच्यो भयणी रांदताल्यो आनी जेवण खाण पळेताल्यो. जरी त्यो दुसऱ्या भुरग्यांक वांकड्या दोळ्यांनी पळेताल्यो तरी त्यो बळवंताचो खेरीतूच मोग करताल्यो. केन्नाय ताचे जेवणाचे बशेंत दोब्राद नुस्तें पुरतालीं आनी पयस रावन कसो जेवता तें हांसत्या तोंडान पळेतालीं. सकाळचीं उठून बळवंताक चोरयां लिपयां तूप लायल्लो उंडो दितालीं. पोसको जाल्ल्या भाशेन हीं आंकवारां बळवंताक लेखतालीं.

सिरावळेकार बळवंत एका खेड्या गांवांतसून दुसऱ्या खेड्या गांवांत गेल्लो. ताच्या घरांत कोंकणी उलयतालीं. कॉलेजींतले भुरगे पुर्तुगेज शिकलेले आनी बळवंताचो पुर्तुगेज सीं - नांव इतल्यारुच उरतालो. मोटवें कालसांव घालून, तो लोलो कसो बांकार निमणो बसतालो. भुरगे वोळीन रावतना, ताची सुवात निमाणी आसताली. ते फट-फट करुन विचाराक जाप दिताले. बळवंताक वाचपा भायर दुसरें कांय एक कळनासलें. तरनाटो पाद्री बळवंताची अपुर्बाय करतालो. जाणटो पाद्री बळवंत तकलेन हुशार म्हूण जाणां आसलो. ताचे सांगणे आनी म्हणणे प्रमाणे, बळवंत सगळ्यांची फाट धरतलो आसलो. जाणट्या पाद्रीन ताका आपोवन हाडलो आनी ताका पुर्तुगेज कोंकणी उतरां आनी अर्थ शिकूंक सुचना केली. फांतोडेर उठून बळवंत अर्थ शिकूंक लागलो आनी थोड्याच काळा भितर निमणो बसतालो तो पयलो पावलो. परिक्षेंत ताणें पयली सुवात जोडली आनी सगळ्यांक फाटीं दवरले. प्रिमैर ग्राव पास करुन तो तेच कॉलेजींत सेगुंद ग्राव शिकूंक लागलो. जरी तो उमेदीन शिकतालो तरीय तो दुयेंत पडलो. जाणट्या पाद्रीच्या भयणींनी ताका इलाज आनी वखद दिलें पूण तें ताका फायद्याक पडलेंना. बळवंताक मोटारींत घालून घरा हाडलो. घरचीं वखदां केलीं पूण कांय फायदो जालो ना.

बळवंताची आवय, शांतीबाय काचाबूल जाली. कितें करचें, कितें करचें न्हय हाचेर ती श्वासाभास करताली. तिचो पूत खुपदां पोटाक लागून पिडेस्त जातालो. सोजडीपुरीचो वैजबाब डॉ. शांताराम मास्कारेन्हास, ताका भुरग्यांचो वैज म्हणटाले, आपल्या अणभवान आनी वखदान ताका जायते पावटी बरो करतालो. हे पावटी ताणें बळवंताक आरतिलो आनी परतिलो, काळीज तपासलें, दोळे उगडले आनी हे पावटी तो बरो जावंक उपाय ना म्हूण शांतीबायेक ताणें सांगलें. ताच्या बापायचें

काळीज धरनासलें. ताच्या दोळ्यांचेर काळकी कुपां आयलीं. शांतीबाय दुखानीं रडूंक लागली. सगळो वाड्यांतलो लोक एकठावलो. मारियाबाय, सोयरीं आनी इश्टीन-चिंतेस्त उबी आसलीं. घरचीं आनी सेजारचीं दुखेस्त जावन घरचे आल्तोरी फुडें दिंबयेर पडलीं. शांतीबाय मागण्याक लागली.

"देवाचे माते, धर्तरेवयले सुंदरे, हो भुरगो तुवें म्हाका दिलोय. ताका हांव तुका भेटयतां. भलायकेची आशा ना. तूं ताका बरो करशी जाल्यार, हांव ताका खात्रेन पाद्री करतेलीं. तुजी खोशी जाल्यार, सेमिनारींत धाडतेलीं. तो बळवंत, ताणें आपलें बळ देवा खातीर वापुरचें. तो जिबेन सुदळ, ताणें आपली जीब देवाखातीर वापुरची. तो तकलेन हुशार, ताणें शिकपान इगर्जेचेर आनी आपल्या जल्माच्या गांवांचेर म्हयमा घालची."

मारिया बाय तेंकुनूच दिंबयेर आसलें. पोले आनी वोंठ हालयतालें. बळवंताक बरो कर गे माये म्हण गुणगुणटालें. पूण कोणाखातीर ? देवा खातीर वो ?........

तीन म्हयन्यानी बळवंत बरो जालो आनी त्या वर्साक ताणें आपलें शिकप उमेदीन आनी हुशारकायेन सोंपयलें आनी ताका दिस्तीन्सांव पडलें. ताणें कुडाळतरीचो गांव सोडलो आनी पाद्रीपणाची वाट धरली. त्या वेळार, एका साष्टीच्या गांवांत एक सेमिनार आसली आनी थंय सगळ्या गोंयचे पाद्री शिकताले. ते सुवातेर आनी सेमिनारींत बळवंत गेलो. थंय तो शिकूंक लागलो. पाद्रीपणाच्या शिकपाक बारा-तेरा वर्सां लागतात. ते एकसुरे सुवातेर तरनाट्या आनी जाण्ट्यांमदें आपली जीण सारली. कांय शेकडे पासून ह्या गांवांत तरनाटे शिकपाक वेताले.

दुसरो अवेस्वर

# रायपुरचो शिकपी

**सा**श्टीच्या एका कोनशाक कदंब रायाचें एक कोट आसलें. त्या कोटा भितर एक बंदीर आसलें. कदंब-राय त्या बंदिरालागीं बसतालो, कितल्यो पातमारी आनी व्हडीं येतालीं वतालीं तीं मेंजतालो आनीआपल्या गांवांतली गिरेस्ताय मापून आनी मेजून मुरगट्टालो. साश्टीची आनी नव्या जिल्ल्यांतली गिरेस्ताय आपल्या बंदिरांत येता ती पळोवन तो संतोसतालो आनी बंदिरार बसून सुखेस्त आनी सुस्त वारो खातालो. ताचेर मुसलमानाच्यो घडये - घडये घुरी पडटाल्यो दखून ताणें कोट बांदलें. कोटाच्या फुड्यान, व्हडलो दरवंटो आसलो. कोटा सभोंवती, न्हंय आसली आनी ती न्हंय काडूंक व्हडें आनी ताज जाय आसली. तें कोट मुसलमानाच्या हातांतलें पडलें. तें पुर्तुगेजांनीं आपल्यो नाळी आनी गुळयो घेवन, मुसलमानाच्या ताब्यांतल्यान जिखून काडलें. सगळ्या वाटांनी रायपूर घटायलें, सर्वय वाटांनीं व्हडल्या वण्टींचो किल्लो आनी दुरीग चडयलें. पुर्तुगेजांनी थंय इल्लेंशें कपेल बांदलें आनी त्या कपेलांत साश्टींत पयलें मीस जालें म्हणटात. खरें, खोटें तें सांगूक जायना. पुर्तुगेजांनी मठगांवांतसून जेजुयतांक आपयले. ताणीं व्हडली सेमिनार बांदली. थंय साबार गांवचे जेजुयत आयले. ते कोंकणीच्या अभ्यासाक - शिकपाक लागले. ते गांवची भास हुशारकायेन शिकले. तांचें कवतूक

करूंक, एका गोंयकार कवीन तुस्तीचें आनी वाखाणणेचें कवीत रचलें. तें कवीत सगळे साश्टींत सादलें. तें भुरगीं लेगीत गायतालीं, आनी गाजयतालीं.

रायपुरचे सेमिनारींत ते जेजुयत खूप वर्सां रावले. थंय ताणीं व्हडलें भुयमार आडायलें. साश्टीच्या गांवांनी मोयरांचें भिरें येतकच, साश्टीकार, आपलें भांगर, दुडू-आडको घेवन येताले. ते दुडू आनी भांगर जेजुयत भुयमाऱ्यांत लिपयताले. एक ब्रादर वस्तुंची वळेरी करतालो, आनी मुसलमानाचो पेरीग आनी धोको पळतोच, एक एकल्याक आप-आपल्यो वस्तू वांटून दितालो. रायपूरसून जेजुयत साश्टीच्या वाठारांत वेताले, आनी क्रिस्तांवपण फांकयताले. लोकाक पोटाच्योय वस्तू शिकयताले. साश्टीकारांक ते आंबे पणस लावंक ओडटाले. ताणीं बांद बांदूक शिकयले. बांदा वरवीं वर्साक दोन पिको काडूंक गोंयकार शिकले. ते सेमिनारींत ताणीं धर्मीक आनी संवसारीक, आर्थिक, भाशीक विकास केलो. जेजुयतांक मार्कीस द पोंबाल हाणें धांवडायले आनी साश्टीकारांक ते धर्मीक, संवसारीक, आर्थिक, शेतीक नदरेन खुपशें वायटाक पडलें. रायपुरा आनी साश्टींत शिकपाचो नेट उणो जालो. रायपुरा, गोंयकार ओरातोरियांनी आनी तेयातीन पाद्रींनीं शिक्षण चालू दवरलें. १८३७ वर्सा उपरांत, गोंयसून सगळे पाकले आनी येवरोपी पाद्री गेले आनी गांवांतल्या पाद्रींनी रायपुरचे सेमिनारीचें शिकप आपल्या हातांत घेतलें.

गोंयकार पाद्रींनी धर्मीक शिकवपाचीं सुत्रां आपल्या हातांत घेतलीं. ताणीं उमेदीन आनी जाणवायेन शिकवपाचें काम आपल्या ताब्यांत धरलें. रायपुरचे खुपशे वरते आनी व्हडले मनीस आयले-गेले आनी ताणीं सगळे इंडियेच्या गांवांनी क्रिस्ताची उजवाडी आनी दिवटी पावयली. रायपुरा, कोटामंदें आनी न्हंयांमदें रावंक आनी शिकूंक बळवंतबाब गेलो. ह्या विसाव्या शेकड्यांत तो रायपुरचें सेमिनारींत रिगलो. ते सेमिनारीच्यो वण्टीं खूप रूंद आनी लांब. तिचे क्वार्त आनी कूड लांबदीग. लागसाराक पोपाय पिकता, नाल्ल उत्पन्न जातात, आनी शेत-भात चारूय वाटांनी परजळता. पुर्तुगेजां काळार, थंय हत्ती आसताले, शिपाय भोंवताले, घोडेकार चलताले. उदक कुसून जळार वाडली, जळारेन पाकल्यांक आनी काळ्यांक माल्ले आनी रायपूर अर्दे मेल्लें शार जालें. उदक चाचूर जालें, पिण्याक उदक पयसून हाडचें पडलें. बैलांगाडयेर कोटा भायरसून उदक हाडटाले.

रायपुरचे सेमिनारींत व्हडले खाडाचे पाद्रीय आसले. तांकां पळोवंक भंय बा दिसतालो. थंय शिकपाक ते वेळी पांयशीं तरनाटे आसले. रोमाक आनी दुसऱ्या

येवरोपी म्हाविद्यालयांनी शिकलेले मनीस रायपूर सेमिनारींत शिकयताले आनी गांवचें आनी गोंयचें नांव गाजयताले. बळवंतबाब लातीन आनी दुसऱ्यो भासो शिकूंक लागलो. लातीन, फ्रांसेज, इंग्लेज, मराठी, पुर्तुगेज शिकून काडली. ह्या पाद्रीपण शिकपाच्या घरांत लातीन भाशेची परंपरा आनी चाल आसली. कोणूय भायलो पाद्रीबा आयलो जाल्यार, गोंयकार पाद्रींची लातीन आयकून अजापतालो. आनी तांची तोखणाय करतालो. बळवंतबाब जिबेचे तोंकशेर येवं मेरेन ती भास शिकलो आनी जेन्ना तो रोमाक पावलो तेन्ना ताका हे भाशेन पुस्तकां आनी पत्रां वाचूंक, धर्मशास्त्राचीं आनी तत्वगिन्यानांचीं बरवपां आनी रचपां गिळूंक मोठ्या उपकाराक पडटालीं. फ्रांसेज तो उलयतालो, वाचतालो आनी बरयतालो.

रायपुरच्या वण्टींनी एका भाग्यवंताची गजाल जाताली. ताका ते मेंढरो-सांत म्हणटाले. तो फांत्या पारार उठ्ठालो. एक वर, दोन वरां दिंबयेर पडटालो, आपलो सेरमांव आनी उलोवपां दिंबयेर आनी खुरसा मुखार तयार करतालो, आपले उपदेश मागण्यांतल्यान आनी वाचपांतल्यान भरशितालो. ताचे पोले पडलेले. दिसाक पोटभर जेविनासलो, पेज जेवन दीस काडटालो, ताचें जिवितूच पिराजीत म्हूण बळवंताचे इश्ट आनी सांगाती म्हणटाले. ह्या मेंढऱ्या-सांताचें चित्र बळवंतान आपल्या मेंदवांत पुरलें. हो सांत पाद्री दिंबयेर पडटालो आनी आपलो सकाळचो निहाळ केदींच सांडीनासलो. धांपलेल्या दोळ्यांचो सांत आनी गुरू सेमिनारीस्तांक मागणें करूंक उस्कायतालो आनी मागण्याविणें ते आपल्या पाद्रीपणाच्या हुद्यांत आनी आपोवण्यांत तगचे नांत म्हूण तांकां शिडकायतालो. बळवंताच्या जिवितांत तुफानां आनी वादळां खुपशीं आयलीं. तीं तो मागण्यांतल्यान सुटयतालो आनी ताका जिवितांत खुपशे समजीक आनी बुदवंत इश्ट आसले तेय बरें मार्गदर्शन दिताले आनी शिकपाक देख आनी ओड दिताले.

रायपुरचे सेमिनारींत याद-पदवेचो खूप-सो वापर करताले. तत्वगिन्यान आनी धर्मशास्त्र शिकपी शिकप पाठ करताले. ते वेळी एक हुशार प्रोफेसर आयलो. तो बळवंताचे आवडिचो आसलो. तो ताका आपणाशीं आपयतालो. तत्वगिन्यान शिकताना, याद-पदवेचो उपेग चड करूंक फावना. तें समजून घेवंक जाय. वरते आनी फांकी शास्त्री कितें सांगतात तें वाचूंक आनी नियाळूंक तो ताका शिडकायतालो. बळवंत पुस्तकालयांत वो लिवरारींत वचून, खूप वाचतालो, निहाळटालो आनी आपल्या दोनूय पायांचेर उबो रावंक शिकतालो. वाचप ताचें

दुसरें सैम जाल्लें. खूप वाचप, खूप निहाळप, ही ताची जिविताची सवंय आनी चाल जाल्ली.

शिस्त आनी मांडावळ खुपूच खर आनी दारूण चलताली. वेळ आसा उठपाचो, न्हिदपाचो, शिकपाचो आनी उलोवपाचो. शिस्त मोगांतल्यान आनी समजणेंतल्यान येवंक जाय. तें जबरदस्तेन आनी बळान पाळूंक फावना. रायपुरच्या घरांत, एक मोठो - मोठो पाद्री आसलो. ताचे पांय बारीक. आवाज घणघणीत. तो हांगा थंय उबो रावतालो. कोणूय मोनेपण सांबाळच्या वेळार उलयत सांपडलो जाल्यार, तो ताका सोडिनासलो. कानाक वळ घालतालो. एकदां बळवंत दुसरे शिकपी चलतना, कोणालागीं उलवंक लागलो. मोठ्या पाद्रीन ताका धरलो. सेमिनारीच्या दारार ताका दिंबयेर दवरलो. बळवंताचें काळीज सिजूंक लागलें. ताका आपले शांती आवयचो उगडास आयलो आनी त्या वेळार ताणें शिस्त आनी दिसीप्लीन जबरदस्तेचें काम करूंक न्हय, पूण मोगांतल्यान कायदे पाळूंक दुसऱ्यांक ओडटलों म्हूण निश्चेव केलो. थंय हो मोठो मनीस चडसो तगूंक ना. उपरांत हो पाद्री मनीस खूप मनशाळ जालो. ताणें विगारकी चलयतना, कुरांक आनी लोकांक मोगान वेंगायलो. दारूणाय मनशाक सुदारिना, धोंगी करता हें ताका उजवाडलें, ताणें धोरण बदल्लें.

रोमाकसून आगामेनन नांवाचो वडील आयलो. ताच्यान ही दारूणाय आनी जबरदस्ती सोसूंक जायना जाली. ताणीं शिस्तीचो अध्यक्ष, दिरेतोर दा दिसिप्लीना ही झुटी सोंपयली. शिस्त आनी मांडावळ आपल्या हातांत धरली. मनशान कायदे खोशेन आनी खुशालकायेन पाळूंक जाय. ते भायल्यानूच पाळल्यार पुरो न्हय. देवाखातीर मनशान मोगान कायदे आनी आज्ञा पाळूंक जाय. नवें वारें आनी वाव मारलो. आगामेनन भुरग्यांबाराबरीं भोंवतालो, तांचेकडे उलयतालो, तांकां आपल्या कुवार्तांत आनी कुडांत उगत्या हातांनी घेतालो, तांचे आरोप आनी निरोप समजून घेतालो. आगामेनन रोमाक आसून ताणें भारत वळखून घेतलेलो आनी ताचें व्हडपण आनी वरतेपण भारताभायर रावन ओडून घेतलेलें. भारती व्हडपणाची खबर तो आपल्या शिश्यांक सांगतालो. बळवंतान भारत आमची माता हें सत रगतांत ओडून घेतलें. तिची व्हडव्हीक तो हाकाताका सांगतालो. ही खबर पणजे, बिसपाचे पलाशेंत पावली. बळवंताक बिसपान आपोवंक धाडलो. तांचेमदें हो विवाद जालो.

बिसप सायब : बळवंत. तूं भारती वो पुर्तुगेज?

बळवंत : हांव भारती. पुर्तुगेज न्हय!

बिसप सायब : जाल्यार तुज्यान सेमिनारींत रावंक जायना.

बळवंत : तर किद्याक? म्हज्यान शंबर टक्के पाद्री जावं येता आनी शंबर टक्के भारती जावं येता.

बिसप सायब : क्रिस्तांवपण गोंयांत फुलूंक पुर्तुगेज राष्ट्राची गरज.

बळवंत : बिसप सायब, क्रिस्तांवपण फुलूंक आनी फाकूंक, पुर्तुगेजांची गरज ना, जेजु क्रिस्ताची गरज. जेजु क्रिस्ताच्यान आमकां आमच्या भावार्तांत दवरूंक जायना जाल्यार, कोणाच्यानूच जायना.

बिसप-सायबान बळवंताचें बळ पळयलें आनी शेकीमेत ताका कांय करिनासतना घरा धाडलो. ताचे सांगाती अजाप जाले आनी तेय चिंतनेंत पडले. क्रिस्तांव जावंक सारको जावंक, पुर्तुगेज जावंची गरज ना, एका मनशाच्यान शंबर टक्के क्रिस्तांव जावं येता तसोच शंबर टक्के भारती जावं येता. क्रिस्तांवपण पुर्तुगेजांचें दायज न्हय. सेमिनारीच्या कोनशांनी एक नवो उत्सव उत्पन्न जालो. "क्रिस्त आनी देस."

बळवंत पुर्तुगेज, इंग्लेज शिकलो आनी ताच्या सांगात्याच्या आनी ताच्या मता प्रमाणें कोंकणी भास खूप दुबळी आनी तांतुंतल्यान कांय एक सांगूंक आनी म्हणूंक जायना. ते रायपुरचे सेमिनारींत एक साश्टीकार पाद्री आसलो, तो कोंकणीच्या मोगान पडलेलो. ताका मराठी येताली, ताका कोंकणी येताली. ताचें नांव ग्रासिआ मोरेनो. बळवंत कोंकणीचे असक्तायेची गजाल करतालो. साश्टीकार ग्रासिआ मोरेनान ताका आपयलो आनी ताणें ताका आपल्या कुवार्तांत व्हेलो. रायपुरा, बळवंतान कोंकणी विरूध्द खूप आयकल्लें. ती भास हेंगाडी, चौगांमदें उपकारची न्हय, तातूंत सरस्वत ना, ती कोण वाचिना आनी आयकना. ग्रासिआ मोरेनो उलयलो, आनी बळवंतान आपलें सांगचें आसा तेंय बी कळयलें. ग्रासिआ मोरेनो आपली अपुर्बाय आनी आपुलकी करता म्हूण ताका ठावें आसलें. ते दोगूय उलयले.

मोरेनो : बळवंत, तूं कोंकणी उलयता?

बळवंत : हय, उलयतां, ती दुबळी खंय.'

मोरेनो : ती पोल्की. ती गरीब म्हूण तुका कोणे सांगलां? तिचेवयल्यान कांय

सांगूंक जायनां म्हूण तूं कसो जाणांय?

बळवंत : म्हाका चडसो अनुभव ना. ते भाशेंत दुसरे म्हजे सांगाती उलयतात आनी पुर्तुगेज उलयत जाल्यार खूप वरतें म्हण्टात. कोंकणी उलयत जाल्यार वडिलांक सांगतात. कोंकणी शिकपाची गरज ना म्हण्टात कित्याक आमी सगळे घरसून ती जाणां. हे भाशेंत पत्रां-पुस्तकां नांत, ती एक तोंडांतली बोली.

मोरेनो : बळवंत, तुवें दाल्गादाचे कोश, पुर्तुगेज-कोंकणी, आनी कोंकणी-पुर्तुगेज वाचल्या! तुवें ताचो फ्लोरीलेजीओ दोस प्रोव्हर्बीऑस कोंकानीज, ओपारींचो झेलो पळेला? ताणें हेराल्दाचेर बरयलेलें लेख तुवें वाचल्यांत? तांचेवयल्यान कोंकणी ही हेंगाडी, घांटावयली भास न्हय, ती संस्कृत भाशेंतली येता, ती कुळवंत म्हण उगतें जाता. "क्वान्तो आ लिंग्वा कों पोका कोरूप्सांव यें आ आर्याना - भाशें संबंदी इल्ली भश्टावणी काडून ती आर्यांनी भास." तुवें खेरीतूचपणी शणै गोंयबाब वर्दे वालावलीकाराचीं पुस्तकां, गोमन्तोपनिशद, कोंकणीचें जैत, कोंकणी व्याकरणी बांदावळ, झिलबा राणो वाचून घेवंचीं. हें एक मनांत धर. "कोंकणांतलो व्हडलो विद्वान कोंकणीतल्यानूच बरयतलो. जाका आपली मांय भास सारकी येना ताका खंयचीच भास सारकी येयना." तूं तर खंयचीय भास पुरायेन शिकून काडटलोय. तेन्ना आपली भास संपुर्णायेन शिकून काडूंक जाय. समजलोय?

बळवंत : बरें तर, हांव म्हजे भाशेची कामायस्की करूंक लागतां. ती बारीक सारीक शिकून काडतलों. तिचो बावटो उंच-उंच उबारतलों. आवय-भाशेचो सोद करतलों.

बळवंत भाशेच्या शिकपाक लागलो. ताका ते भाशेचो आंगांत उजो कसो लागलो. ताका एक खेरीतूच इश्ट आसलो. ताचें नांव सुरेश फेर्नांडीस. बळवंत आनी सुरेश दाट इश्टागतीन भोंवताले. ही इश्टागत पळोवन दुसरे चाळवले. ताणीं तांची खबर प्रिफेयत वडिलांक सांगली. सुरेशाक आनी बळवंताक आपोवन हाडले आनी प्रिफेयतान तांकां ही शिडकावणी दिली : 'Nanquam duo, raro unus, semper tres'. केन्नाच दोग न्हय, थोडे पावटी एकलो, सदांच तेग! बळवंत मोगाळ आनी मनशाळ आसलो. तो इश्टागत म्हणल्यार एक गिरेस्तकाय म्हूण समजतालो. ताका इश्टागतीचेर आड उलयल्यार राग येतालो. तो रायपुरच्या मेंढऱ्या-सांताक वचून भेटलो. ताका मेंढऱ्या-सांतान हो निरोप

दिलो : 'इश्टागत देवागेलें देणें. आमी आमच्या इश्टांखातीर देवाक आर्गां दिवंक जाय. पाद्री जिवितांन आनी आपोवण्यान एकसुरो, ताका आपलें काळीज उगतें करूंक इश्ट जाय. तूं पाद्री-विगार वो पाद्र-कूर जातकच, तुका इश्टागतीची गरज पडटेली. इतलेंच, सुरेश इश्टाभायर, आनिकूय इश्ट कर, सदांच एकाच मनशाबरीं भोंवनाका, तुज्या काळजांत सगळ्यां सांगांत्यांक सुवात आसूं दी, पूण खेरीतपणी सुरेशाचो मोग केल्यार कांय वायट ना.'

रायपुरा, तेग तरनाटे पाद्री प्रोफेसर आसले. तांकां रायपुरची तवशीं म्हण्टाले. ते खूप वाचताले. ते सडसडीत उलयताले. ते पत्रांचेर बरयताले. ताणी दुसऱ्यांचो सांगात घेवन 'जिवीत' पत्र रचलें. तांचे थंय लेख येताले. ते धर्मिक वस्तुंचेर बेस बरें बरयताले. बळवंताच्या आंगांत बरोवपाची ओड आसली. तो वयल्यां तवश्यांक मेळटालो. तांचेकडे भासाभास करतालो. तांचेकडे उलोवन आपुणूय एक बरोवपी आनी एक पत्रकार जातलों, हे ताच्या मनांत आयलें. सेमिनारींतूच ताणीं एक पत्र काडलें आनी तें तो आपल्या इश्टांमदें भोंवडायतालो. त्या पत्राचें नांव 'A Patria - मांय देस'. ताचेर लेख, काणयो, इतिआस, धर्मशास्त्र, भास-शास्त्र येतालें. बळवंत एक व्हडांतलो बरोवपी, पत्रकार जातलो म्हूण ताच्या सांगात्यांचो भरवंसो जालो. वयले तवशेकार ताका बुध्द आनी पत्रां दिताले.

बळवंतान धर्मशास्त्र आनी तत्वगिन्यान उत्तम मोलां घेवन काडलें. तीन-तीन म्हयन्यांनी तो आपल्या गांव-घरा सुटयेक येतालो. सुटयेक येतकच, ताणें नुस्तें मारूंक वचचें, फुटबॉल खेळाक भुरग्यांक व्हरचें, लोब पेंगटाक बांदून खेळचें. लोबाची आडखळ आसतनां झुमझुमीत वारें कशें ताणें धांवचें. शिकपाच्या निमण्या वर्सा आसलो बळवंत. ताणें सिरावळेच्या गांवांत पयलो क्लूब घडलो आनी नांव दिलें : क्लूब जुवेनील दे सिरावली. कोण एकलो गांवकार क्लुबाचेर आड आयलो. बळवंताची जीब सदळ आसली. बळवंतान गांवकाराक क्लुबाचो अध्यक्ष केलो. इतल्यान ताचीं आडकां -नाडकां सोंपलीं आनी मुज्गाच्या थांवार क्लूब उगतो जालो आनी गांवांतले भुरगे फुटबॉल मळार आनी खेळामळार हुशार जालें. ताणीं कपां जिखून हाडलीं. सिरावळेचे भुरगे बळवंत आपलो कोपीत आनी फुडारी म्हूण समजताले आनी बळवंतूय आपलें पाद्रीपणाचें आपोवणें तेंच, एका कामप्याचें वाट दाखवप्याचें म्हूण समजतालो. रायपुरा आनी सिरावळे बळवंतान आपलें जिवीत फुडाऱ्यांचें म्हूण उगयातलें. धावपांत, शिकपांत, खेळपांत आनी रंगभुयेर

वो पालकार तो पयलो येतालो, जिवीत एक आव्हान म्हूण तो समजतालो आनी तें कुडिच्या आनी आत्म्याच्या बळान जिखतालो. पाद्री फुडारी, पाद्री बोट दाखवपी म्हूण तो सत मानतालो, आनी फुडारकी सगळ्या कामांनी चलयतालो. सांतू-मामाक घेवन तो शिंतारी धरून न्हंयचे धडेर खरसांडी गरयतालो. पुट-पुट करीत नुस्तीं वयर उडयतालो. पेवपांत ताका दुसरो लागनासलो. ताचो तीर आनी मोक सारको आनी सरळ बक्याचेर, हांस-पगड्याचेर, बळारीचेर आनी केंसाराचेर बसतालो. सिरावळेच्या गांवांत कोणूय बुडटा जाल्यार, बळवंताक आपयताले आनी बळवंत एकूच बुचकळ मारून, केंसांक वो पांयांक धरून बुडटल्याक वयर काडटालो आनी सोयऱ्याच्या हातांत घालतालो. पेवपाचे स्पर्धांत तो सदांच पयलो येतालो. जिवीत एक आव्हान, जिवितांत खूप वावरूंक जाय, खूप तळमळेवंक जाय, तेन्नाच येस मेळटा म्हूण तो समजतालो. बळवंत केन्ना केन्ना एकसुरो आनी सांगाती आसतनाय एक पुर्तुगेज गायन म्हणटालो आनी आपलो वावर सुखेस्त करतालो.

Trabalhai, meus irmaos
Que o trabalho riqueza,
E virtude, e vigor -

"- वावरात म्हज्या भावानों, वावर गिरेस्ताय, वावर प्रामाणिकपण आनी भलायकी."

बळवंतान पाद्रीपणाचें शिकप हुशारकायेन सोंपयलें. ताणें आतां जिवितांतलें गंभीर आनी व्हडलें पावल मारचें उरलेलें. ताणें दियाक्न सेवकाची माखणी आनी ओर्द घेवंची आसली. एक पावटी दियाक्न जालो म्हणटकच, उपरांत ताच्यान फाटीं सरूंक जायना, ताणें आंकवारपणाची आंगोवण आनी भासवणी करूंक जाय. कितें करचें तें ताका समजनासलें, पाद्रीपण खेळ न्हय.

पाद्रीन पुरे कुडीन आनी पुऱ्या काळजान क्रिस्ताचो आनी इंगर्जेचो मोग करूंक जाय. ताणें दिसाक चोवीस वरां देवाचें आनी मनशांचे सेवेक आसूंक जाय. बळवंतान सुमार तेरा वर्सां निर्मळपणान आनी आंकवारपणान काडलीं. केन्ना-केन्ना ताच्या मनांत मारिया भरतालें. सुटयेंत तें ताका भेटतालें. केन्ना तें ताच्या मनांत आनी मागण्यांत रिगतालें. बळवंत केन्नाय तकली हालयतालो आनी उगडास पयसायतालो, पूण पयस करता तितलोच चड आनी चड मारियाचो उगडास

आनी याद बळवंताच्या मनांत येताली. ताका सोंपेपणीं मागणें करूंक दिनासलीं.

ताकाच समजनासलें. मारियाक विंचून काडचें वो क्रिस्ताक विंचून काडचें, हें ताका उगतें आनी सिध्द जायनासलें. देखून ताणें मारियाक चीट बरयली.

मोगाळ मारिया,

हांव मायाचे पयलेर गांव-घरा सुटयेक येतलों. म्हाका तुजेकडे गरजेनूच आनी ताकतिनूच उलोवंक जाय. ह्या म्हज्या सेमिनारीच्या निमण्यां वर्सांनी म्हजें मन तुजेरूच फिरलां. मागण्यांत, ध्यानांत आनी निहाळांत तुजी सुरोपाय म्हज्या मनांत खेळटा, उगडास पयस केल्यारूय परतो तकलेंत भरता. हांव, कितें करचें तें नकळ. सेवकाची ओर्द घेवंची वो ना घेवंची हें म्हाका समजना. तुजेकडे उलोवंक आनी तुजी बुद्द घेवंक म्हज्या काळजांत आशा निर्माण जाल्या.

मायाचे दुसरेर हांव तुका भेटतलों, आनी भासा भास करची. ते मेरेन आदेयुस.

तुजो माये-मोगाचो बापूलभाव

**बळवंत**

मारियाच्या हातांत चीट पडनाफुडें मारिया चिंतूंक पडलें. आपणें कितें सांगचें अशें चिंतीत आनी निहाळीत आसतानाच, अकस्मात बळवंत भितर सरलो. बळवंत लोब घालून आसलो. दोगांय जाणां सालांत गेली. जाण्टीं कोण घरांत नासलीं. मारिया आनी बळवंत उलोवंक लागलीं.

बळवंत : म्हाका कितें जालां तें हांव नकळ. ह्या दिसांनी म्हजेर...

मारिया : बळवंत, तुजी चीट म्हाका पावल्या. ताचो म्हाका समज मेळना. इतलीं वर्सां तूं सेमिनारींत आसलोय! हांव तुजे वाटेर केन्नाच गेलींना. सुपुर्लें आसतना पासून म्हजें काळीज तुजे ठांय ओडटालें. हांव खूप आयशिली आनी पयशीली जाल्लीं, हांव म्हजीं पयसूच रावतालीं.

बळवंत : म्हाका कितें जालां तें हांव नकळ. ह्या दिसांनी म्हजेर तुजें पिशें कशें आयलां. उठचे आदी, जेवतानां. न्हिदतानां म्हाका तुजो उगडास येता. म्हाका पाद्रीपण सोडून, तुजेकडे...

मारिया : बळवंत बेश्टोच पिसो जावं नाका. तुका उगडास आसा? भुरगें आसतनां. तुवें म्हाका शिडकायलेलें, हांव तुका व्हडले दोळे करून पळयतालें. तूं कागदाची न्हेसण घालून, कदेलीर चडून. सेरमांव सांगतालो. म्हजें काळीज तुजे

वेसल्यान ओडटालें. तुवें धेंगसो घालो, म्हाका लजेक घालें! हांव तकलीं सकला घालून मांयफुडें गेलीं.

बळवंत : ती भुरगेपणांयली खबर म्हजेफुडें हाडूं नाका, ना तर सांगीच नाका. तेन्ना, हांव वादळांतलो आनी वाऱ्यांतलो मनीस आसलों. तापतालों आनी तिडतालों. आतां म्हजें शांती-मांय भाशेन शांत जालां. सगळें चिंतून करूंक सोदतां.

मारिया: मांयची गजाल बरी सांगलीं तुवें. तूं मर्णाक पावलेलो, तुका वैजान सांडलेलो. तुजे आवयन तुका सायबिणीचे ओल्तोरी समोर व्हेलो. तुका जेजूक भेटयलो. ती तूं बरो जायत जाल्यार, तुजे खोशेप्रमाणे, तुका पाद्री करतली म्हूण तिणें आंगवण केली. तुजे आवयचें खोशेचेर तूं आड वच नाकाय. हांव वेतां म्हजे वाटेन.

बळवंत : भुरगेपणार केल्ली आंगवण आतां उपकारना.

मारिया : आंगवण ना आंगवण. तूं म्हजो मोग करचे आदी जेजूचो करतालोय. आतां तुजे मदीं आनी जेजू मदीं हांव पडनां. हांव वेतां म्हजे वाटेन. तूं वच तुजे वाटेन. हांवें एका ओरेताक उतर दिलां. तो म्हणल्यार जेजू. तोच म्हजो ओरेत. तुकाय एक व्हकल आसा ती म्हळ्यार इगर्ज. तुज्या जिवितांत खुपदां सोबीत सुंदर अस्तुऱ्यो आनी चेडवां येतलीं. जेजू खातीर आनी इगर्जे खातीर तूं तुजें आंकवारपण आनी निर्मळपण सांबाळ. म्हजेंय काळीज तुजे वेसल्यान ओडटालें, आमी सोयरीं आसतनाय हांवें तुका बोट लायलेंना, आनी तुवेंय खरो बळवंत कसो म्हजे ठांय निर्मळपणीं वागलोय. तर, चल फुडें, बरो पाद्री जा, हांव माद्रीच्या कोन्वेंतांत वेतां, म्हजें आकवारपण क्रिस्त आनी इगर्जेखातीर भेटयतां. निर्मळपण आमचें भांडार.

बळवंत : मारिया, बरें सांगलें तुवें! आज पासून तुज्या मनांत इतलीं निर्मळ चिंतनां आनी इतली वरती भावना फिरताली म्हण हांव नकळ आसलों. हांव तुका भासायतां, इगर्जेचो आनी क्रिस्ताचो निर्मळ मोग करतलों म्हण उतर दितां. हांव आतां रेतिराक वेतां आनी म्हजें मन थाऱ्यार घालतां. दुभावा आनी निराशेवेळार तुजीं उतरां हांव विसरचोंना.

इतल्यान बळवंत शांत जालो आनी आपलो रेतीर केलो. पाद्रीच्या जिवितांत वादळ आनी वारें मारता. ताणें आपलें व्हडें, शीड आनी आत्मो समतलीत आनी संतोशी दवरूंक जाय आनी दुसऱ्यांचीय बुध्द घेवंक जाय. भाग्यवंताच्या जिवितांत

निर्मळ, आनी शिटूक अस्तुऱ्यो बरीं चिंतनां आनी भावनां पाद्रीच्या मनांत घालतात. देव खुपदां जाणणारांक ल्हानविकायेंत दवरूंक असकत अस्तुऱ्यांचो उपेग करता. इगर्जेच्या इतिआसांत सिएनाची सांता कातरिना पांपां सायबांक शिडकायताली. सांता मार्गारिदा मारिया दे आलाकोक पाद्र क्लावड दे ला कोलोंबियेर हाका बुद्द, सुलूस आनी नयोण दिताली. मारियान म्हाका बरें लिसांव शिकयलें. तिच्या दोन उतरांनी म्हज्या आत्म्याचें व्हडें थंड आनी शितळ जालें. म्हज्या जिवितांत हांव बऱ्या मनशांची बुद्द, जावं ती अस्तुरी, जावं तो दादलो, घेतलों आनी हांवूच जाणां म्हणचोनां.

बळवंतान रायपुरा सेवकाची माखणी घेतली आनी ताणें एके रायपुरचे कोमेंसालीदादींत काम केलें. मारियान मुंबयची वाट धरली आनी तें कोन्वेंतांत रिगलें. कांय दीस मेरेन तिच्यान बळवंताचो उगडास सोडूंक जालो ना. तशेंच बळवंत एकसुरो बसतना, मारिया ताच्या मनांतल्यान खेळटालें. दोगांयनीय आपले भासवणेचो उगडास काडलो आनी आपलें मन क्रिस्त आनी इगर्जे वसल्यान ओडलें. इतल्या म्हणसर दोन वर्सां उपरांत, बळवंताची पाद्रीपणाचे माखणेची आनी पयल्या मिसाची तारीक लागीं पावली. पाकल्या बिस्प-सायबान ताका माखणी दिली आनी बळवंतान आपलें पयलें मीस आपल्या गांव घरा सिरावळे भेटोवंक तयारी केली. सगळी सिरावळी आनी क्लूब जुवेनील ताकतीर आसलीं. बळवंतान सेमिनारींत आनी सेमिनारी भायर आपल्या बरोवपां आनी उलोवपां उद्देशीं नांव जोडलेलें आनी तातुंतल्यान ताणें हजार इश्ट आनी इश्टीणी मेळून घेतलेल्यो. सगळे दोळे आनी मोटरां सिरावळे वसल्यान पळेताले. शेकीमेंत पयल्या मिसाचो दीस उदेलो. मोटरां दवरूंक सुवात ना जाली. पाद्रींचे आनी लोकाचे लोंडे भरले. भुरगीं साळकां कशीं न्हेसलेलीं. म्हातारीं कुंटीत, हातांत बडी घेवन धांवन येतालीं.

सिरावळेचें कपेल निवळ आनी नितळ सांभाळलें आनी तें सोबितायेन नटयलें. बळवंताचे इश्ट आनी इश्टीणी मोटरार, मोटर-सायकलीर पावलीं. सिरावळीकारांनी इतल्या लोकाक सुवात जावंची ना देखून व्हडलें पंडाल बांदलें, कदेली मांडल्यो, माची उभारली, बंदेरां लायलीं, सिरावळीचो गांव सर्गाचो कुडको जालो. बळवंताची आवय, श्रीमती शांती दा कोस्ता, धवीफूल साडी न्हेसली. तिचे दोळे तिच्या पुताचेरूच घुंवताले आनी जी भेट तिणें तो भुरगेपणार मरता आसताना केल्ली, आतां नव्यान नवसरयली. 'हो म्हजो पूत तुका.' तिचें काळीज खुशालकायेन

सांवरनासलें आनी ती संतोसाचीं दुखां गळयताली. लोक येवंचो येवन तिका धिनवासतालो आनी तिच्या कानांतल्यान हीं उतरां गाजतालीं. 'सुखेस्त कुसव्या, तुवें बळवंताक जल्म दिलोय.' बळवंताचो बापूय जयवंत दा कोस्ता, पायांक मोचे, माथ्याक चेपें, हातांत हतया-दांताचें रोत, गळ्याक ग्रावात, मिरयो नासलेलें खोमीस, काळी-कीट ज्युदी, संतोसान उफेतालो आनी काळजाचो आवंडो पुरो जालो म्हूण मुरगट्टालो. सेजाराची शामुली आर्तिमीजमानां जिणें बळवंताक खेळयलो नवें आस्कीन घालून आनी कलेन आपलो शेंडो बांदून मिसाक तयार जाल्ली आनी आदींच फुडें फुडलें कदेल घेवन बसलेली. मारिया, दोन वर्सां उपरांत वडिलांची परवानगी घेवन, पयल्या मिसाक आयलेली. आपूण आपलो त्याग सदांच आनी सर्वदां जियेतली म्हण दुखांनी जेजूक सांगताली. गोंयचो विगार जेराल आयलेलो आनी तो बळवंताचो खूप मोग करतालो आनी ताचे ठांय मोयपास दाखयतालो. आयशिल्ले - पयशिल्ले बळवंताचे पाद्री इश्ट आयलेले आनी कोंकणी मोगी हिन्दू आनी मोयर भाव हाजीर जाल्ले. पत्रांचेर आनी पुस्तकांचेर बरोवन आनी तांकां हांगा -थंय भेटून बळवंतान तांची इश्टागत आनी मित्रकी जोडलेली. रेडिओ सेरेनेदेर्स बळवंताचे इश्ट फुकट वाजोवंक आयले आनी ताणीं सोबीत गायनां-गीतां करून परब सोबयली आनी सगळी सिरावळी गाजयली. संगीत सिरावळेच्या तळ्याच्या उदकांतल्यान च्यारूय कोनशांनी पावतालें.

पयल्या मिसाचो वेळ पावलो. चिंचण -पेठचो पाद्र व्हिगार आयलो आनी बळवंताक आल्तारावयल्यो रिती आनी मागणी दाखोवंक लागलो. बळवंतान भितल्ल्यान काचाबूल जाता आसतनाय, भायल्यान काळजीदारपणान खुर्साची कुरू काडली. आनी वादळ आनी वारें कशें सगळें मीस सोंपयलें. ताणें आपल्या मिसार आपणेंच सेरमांव सांगलो आनी ताच्या तोंडांतल्यान कोंकणी भाशेची झर फुटली. ताणें सकयलो सेरमांव सांगलो.

म्हज्या मोगाळ मांय! म्हज्या मोगाळ पाय!

भावांनो, भयणिनो!

पाद्री कोण? बळवंत कोण? क्रिस्ताचें तोंड आनी क्रिस्ताचो हात! इगर्जेचें तोंड आनी इगर्जेचो हात. एकदां एक घराबो आसलो. थंय बायलेक आनी दादल्याक पडनासलें. सदांच केंच केंच जातालें. घरांतलो घरकार भायर सरलो आनी वचून

एका रूखाक तेंकलो. तेंकून आसतनां एकलो येता आनी ताका नमान करता, दुसरो पांय पडटा, तिसरो चेंपे काडटा. कांय वेळा उपरांत त्या दादल्यान फाट वळयली आनी रूखाचेर दोळो दवरलो. रूखाचेर खुरसाचेर मारलेलो जेजू आसलेलो आनी लोक जेजूक नमान करतालो, जेजूक सलाम करतालो आनी तो मनीस आपणाक नमान करतात म्हूण समजतालो. तशेंच तें! जेन्ना आमी पाद्रीक नमान करतात तेन्ना आमी क्रिस्ताकूच नमान करतात. "जो तुमकां लेखता तो म्हाका लेखता, जो तुमकां लेखिना तो म्हाका लेखिना." अशें जेजू सांगता न्हय? एक आसली आवय. तिच्या गांवांत कम्युनीश्ट येवंचे जाले. गांवच्या पाद्र-व्हिगारान तिच्या पुताक आपयलो आनी ताका सांगलें "बाबा रे, ही पवित्र संवस्काराची चावी घे आनी ताबेर्नाकल उगड आनी सगळ्यांक कम्युन्यांव वांट. नातर, कम्युनीश्ट भितर सरतले आनी इबाड करतले." भुरग्यान उतर आयकलें. ताणें सांतीज्म उगतो केलो आनी सगळ्यांक कम्युन्यांव दिलो. निमाणो आपले आवयक दिलो आनी आपले आवयकडे ताणें विचारलें "मामा, ह्या हातांचें हांवें कितें करचें?" तिणें जाप दिली. "बाबा रे, तुजे हात जेजूक सांबाळ!" भुरगो सेमिनारींत गेलो आनी पाद्री जालो. पाद्री जावन परतो घरा आयलो आनी पयलें मीस भेटयलें आनी आपले आवयक सायब दितना ताका आपल्या आवयच्या उतरांची याद आयली. "बाबा रे, तुजे हात जेजूक सांबाळ." हय एक दीस म्हजे आवयन म्हाका तेंच सांगलें आनी हांवें म्हजे हात आनी तोंड जेजूक दिलां, हांवूच तो जेजूचो हात आनी जेजूचें तोंड. भाग्यवंत क्रिजोस्तों आमकां सांगता. "पाद्री क्रिस्ताचें तोंड आनी हात" पाद्री कितलोय वायट जावं, तो क्रिस्ताक पांकता आनी ताचेवयली क्रिस्ता - माखणी कोणाच्यान काडूं जायना देखून आगुस्तीन आमकां सांगता. "पेद्रून बातीस्म दिवं, पावलून बातीस्म दिवं, क्रिस्त आमकां बातीस्म दिता." दुसरो एकलो फांकी पुरविलो पाद्री म्हणटा. "पाद्री क्रिस्ताचो जिवो ताजो रूपकार - Dominicae humanitatis incrementum - धनयाच्या मनश्यापणाचो वाढाव आनी चढाव" पाद्र क्रिस्ताक दिश्टीपडाय दिता. धनयाचो हात आनी तोंड.

भावानो आनी भयणींनो, हांव म्हजे मांयक आनी पायक आर्गां आठयतां. ताणीं म्हाका हे हात दिले आनी हे हात हांवें देवाक भेटयले. हांव क्रिस्ताचो आनी इगर्जेचो हात जालों. ह्या फुडाराक इंगर्जेचो मोग करतलों, तीच म्हजी व्हंकल

जातली, तिचे खातीर हांव म्हजें जिवीत खर्चितलों आनी खरपितलों, होच म्हजो आंवडो. म्हाका पाद्रीपण एक आव्हान, वादळ आनी वारें सुटत, क्रिस्त बळवंताक घेवन, हावूंच बळवंत जातलों. सिरावळीकार म्हज्या भावांक म्हजीं आर्गां. आमच्या गांवांत पाद्रीपणाचीं आनी माद्रीपणाचीं आपोवणी वसूं, आमच्या आवयांनी आनी बापायानीं क्रिस्ताक आनी इगर्जेक हात दिवंचे आनी आमचे मदें क्रिस्ताक तोंडां रूजचीं "अशें जावं!"

सेरमांव सोपूंक ना. सेजाराचो सांतुलो ताळयो पेटोवंक लागलो. ताचें काळीज उल्हासलें. आपणांबरी खरसांड्यो गरोवंक वेतो तरनाटो आयज पाद्री जालो. आनी सुदळ जिबेचो प्रेगादोर-प्रवचनकार उतरलो हें येवजून ताच्यान आपले उमाळे सांवरूंक आनी सांबाळूंक जायना जाले. मीस सोंपलें. जयवंतबाबान आनी शांतीबायन सगळ्यां सोयऱ्यां - सामाऱ्यांक आनी पाद्रीक आपल्या वाड्यांत आपल्या घरा चाये-कोपाक आपयलीं. आडसरा उदकान आनी फाव तितलो चुवडा आनी भाजी दिवन परब सोंपची जाली. रायपुरच्या कोंकणीच्या प्रोफेसरान, ग्रासिया मोरेनो हाणें आवय-बापायची साऊद केली आनी बळवंताची तुस्त केली. बळवंत आपल्या नांवाप्रमाणे खरेंच बळवंत. एक वस्त ताच्या मनांत पडल्या उप्रांत कसलेंय आडमेळें आयल्यार, ताणें ती शेवटाक पावयची. बळवंताक आपले भाशेचो मोग, इगर्जेचो मोग, क्रिस्ताचो मोग. हें सगळें ग्रासिया मोरेनान हुशारकायेन आनी निवळ कोंकणी भाशेंतल्यान गाजयलें आनी सादयलें. सांतुल्याली साऊद कवितेन जाली. साऊद सोंपतोच एक मांडो गायलो तो असो :

१ आयचो दीसू संतोसाचो  
बळवंताच्या रे मिसाचो  
आनंदान तो रे सारपाचो  
हांसून खेळून तो गाजोवंचो

धुल्पद : परमळ सिरावळेचो साश्टीचो  
देवान तुका फेलीज करचो

२ काळजा गोंडो रे शांतीचो
उजवो बावळो रे जयवंताचो
यादनीक जालो रे जेजूचो
बळवंत कसो सदांच रावचो

३ शेळयां-चाकरी तुवें करची
देवा-मातेक लागीं धरची
उर्बेन मिसा पूजा ओपची
आनी देवा कृपा हाडची.

इतल्यान परब सोंपली. बळवंत आनी मारिया भेटलीं आनी एकामेकाक दिओस केलो आनी ताणीं आप-आपलें आपोवणें जियेवंक एका मेकांक शिडकायलीं. मारियाच्या दोळ्यांतलें एक दूख झडलें आनी पुशीत घरा गेलें. त्यागांतल्यान सोडवण म्हणीत मुंबय पावलें.'

मिसा उप्रांत बळवंताक दोन दिसांनी, बिस्पान आपयलो. बळवंताक गांवची आनी गोंयची चडशी व्हडव्हीक देखून, बिस्पान ताका थंड उदका सारको घेतलो आनी ताका बार्देसचे आल्देया-मार फिर्गोजेंत धाडलो. पाद्र - विगार बरो म्हण सांगून ताका फुसलायत घरा धाडलो. बळवंत कांय गरजेच्यो वस्तू घेवन, आल्देया - मार, बार्देसांत गेलो. आपले मांयक आनी बापायक आदिओस केलो आनी आपले नवे सुवातेची झुटी घेवंक खाटली-पोटली घेवन वाटेक लागलो. सेजारीं आनी सामारीं आयलीं आनी बेसांव तुजेर पडों रे म्हणीत रस्त्यार दुखा भरीत रावलीं. बळवंताच्या दोळ्यांचेर दुखां व्हांवलीं. आपल्या भुरगेपणावयलो गांव सोडूंक सदांचे आनी सेजारचे रूख आनी झाडां, भुरगेपणावयली न्हंय, धवी फूल रेंव परा करूंक ताका दूख भोगली. ताच्या पायन ताका सांगलें "चल, पुता, देव दाखयता ती वाट. केन्नाय आमकां बरय!" शांतीबायन आपल्या पुताचो उमो घेतलो आनी म्हणलें "चल तुजे हात आनी तोंड जेजूक दी आनी ताचे इगर्जेची सेवा कर. वादळ आनी वारें मारूं, जेजू क्रिस्ताक थीर राव. चल म्हज्या पुता, जिवीं आसूं वा अंतरूं, मागण्यांत सोडचिनां तुका."

## तिसरो अवेस्वर

# आल्देया - मार

सेजारच्या सांतू मामाक घेवन, मोटारींत बसून, बार्देसा आल्देया-मार वचूंक बळवंत दा कोस्त भायर सरलो. आगाशीनी नद काडली, शिद्दोनच्या पुलार पावल्या उपरांत, मोटर बंद पडलें. हालयतात आनी धोलयतात, अेंडेल मारतात, लकयतात, मोटर हालना जालें. पणजे शारांतसून मेकानीक आनी कामगार हाडलो. सगळी इकमत आनी वासपूस घेतल्या उप्रांत, सांजेच्या धा वरांचेर मोटर बार्देसा, आल्देया-मार पावलें. जोगलावणी मारतालीं. दर्यांतलें वारें आनी वादळ सुटलेलें. जून म्हयन्याचें तुफान झुमझुमीत धांवतालें आनी बळवंताक काळजाचें बळ वापरचें पडलें. पाद्र विगाराचो कुजनेर त्याच दिसाक सांगनासतना आनी सोरो पियेवन ना जाल्लो. पोंक-पोंक जाता तें आयकून, पणटी घेवन पाद्र विगार भायर सरलो आनी ताणें बळवंताक वेंग मारली. जेवन पाद्र विगारान मडकेंत उदक घाल्लें. पाद्र-विगार कुजनांत परशीं गेलो आनी आपल्या हातांनी उजो पेटोवन च्याव केली आनी बळवंताक आनी सांतुल्याक दिली. बळवंत आनी सांतुलो भिजून थापे जाल्ले. दोगूय उज्या लागीं शेकूंक लागले. इतल्या म्हणसर पाद्र-विगारान बळवंताक कुवार्त आनी कूड दिलो आनी सगळ्यो गरजो पळेल्या उपरांत न्हिदूंक गेलो. पाद्र-विगाराची सुसंस्कृताय आनी भलेपण आनी मनशेपण पळोवन सांतुलो

खुशाल जालो आनी बळवंताक म्हणलें : “येसो पादीगार मेळूंक कठीण! बाब, तूं भिवं नाका, आपूण बरे जाल्यार सगळे बरे.”

आल्देया-मारचो विगार जेरोनिमो क्वाद्रोस पिरायेन जाण्टो जाल्लो. ताच्या तोंडार मिरयो पडलेल्यो. ताणें जिवितांत खूप अनुभव जोडलेलो. आपुणूच जाणां दुसऱ्याक कांय समजना तशें चिंतिनासलो. दुसऱ्यांकडलेंय शिकूंक आनी जाणां जावंक तो फाटीं सरनासलो. मध्यानरात मेरेन वाचतालो. ताच्या मेजार जेनिकॉत, कापेलो, फ्रीत्झ, पियेर चार्ल्स, मर्सच, दे लुबाक हांचीं पुस्तकां झळकतालीं. ताच्यान चडशें भोंवंक जाय नासलें आनी आपल्या कुरांक तो लांब हात आनी सत्त्या दितालो. ताची फिर्गोज अरबी दर्या आनी समुद्राकडसून, सायलांच्या गांवांक तेंकताली, उजव्यान कांडला गांव आनी दाव्यान ओग्रांगांव ताका सांगात करताले. अरबी दर्याचें उदक न्हावंक आनी शितळ वारो खावंक उदेन्तेक आनी अस्तंमतेकसून जिनसावार मनीस पावताले. मोटारीन आनी बसीन लोक पोयण करताले. दर्याचे धडेर रांपणकार वस्ती करताले. थोडे गिरेस्त जाल्ले. थोडे आजुनूय खोंपट्यांनी रावताले. माग आनी रांपण घालून आपलें उदर पोसण जोडटाले आनी खुशालकायेन जियेताले. ह्या गांवांत भाटकार आनी मुंडकार भरसताले. वाड्यां-वाड्यांनी गिरेस्त आनी दुबळे तेंकून जियेताले. भाटकार आनी मुंडकार थोडे मोगान जियेताले जाल्यार थोड्यांक पडनासलें. ख्यास्ती भाटकार, बोकडो भाटकार, खाडा भाटकार, चोरये भाटकार असल्या नांवांनी ते तांकां उलो करताले, बऱ्यांक बाबुश, मोगा भाटकार नांवांन उलो करताले.

बळवंत सकाळीं उठलो आनी मिसाक गेलो. नव्या कुराक पळोवंक लोक एकवटलो. इगर्जे लागीं थांबलो. तरनाटीं, ‘कितलो सोबीत आमचो कूर’ म्हण्टालीं. जाण्टेले कितलो ‘घट आनी ताण आपचो कूर’ उचारताले. ‘कितलो तरूण आनी गुलगुलीत आमचो कूर’ रांपणकार भाव उल्हासताले. शेजारची शेमाय शिंवतुली फुडें आयली आनी बळवंताचे केंस पोशेले आनी ताच्या हातान कागताक गुटलायल्ली हुंनहुनीत भाकरी घाली. बळवंताक आपल्या आंगांत बरेंशें दिसलें आनी पाद्री सगळ्यांचोच पूत अशें कितें येवजलें. ताणें पाद्र विगाराकडेन मेजार भासा-भास केली आनी ताका आपूण खोंपटयांनी आनी पलाशिंनी रावतल्या लोकाक भेट दिवंक वेतां म्हूण सांगलें. पाद्र विगारान मना केलो ना, तरीय उमेद दिवंक ना. बळवंतान पाद्र विगाराक सांगलें : ‘हांव म्हज्या शेळ्यांक वळखतां,

आनी म्हज्यो शेळयों म्हाका वळखतात.' पाद्र विगार हांसलो आनी ताणें ताका परवानगी दिली आनी ताका सांगलें : "सगळे दोळे, सगळे कान, जीब ना. सगळें आयक, सगळें पळे, पूण उलय नाका, हाचें ताका, ताचें हाका सांगू नाका."

बळवंतान सगळ्या गांवाक भेट दिवंक सुरु केलें. वादळ आनी वारें कसो ताचो लोब उफेतालो. एके शिमेरसून दुसरे शिमेर मेरेन एक एक घर ताणें भोंवून काडलें. बाबा रे म्हणून जाण्टीं पोशेतालीं, धाकटीं भुरगीं लोबाक धरुन ताच्या सांगाता, घरां-घरांतसून वेतालीं आनी मिठाय खातालीं. जाण्टे मनीस कदेलीर बसून गजाल मात करताले आनी बळवंत खंयचो ताच्या आवय बापायची गजाल काडटाले. भोंवतां-भोंवतां एक दीस बळवंत एके खोंपटेंत रिगलो. थंय एक जाण्टोसो, पिकलेल्या केंसांचो मनीस कदेलीर बसलेलो दिसलो. ताका खोंकली मारताली, मरणाक तेंकला सो दिसतालो. ताचे खोंपटेंत एक घांटीन - सारकी अस्तुरी काम करताली आनी जाण्ट्याचो परामर्स करताली. गांवांत खबर पडलेली . हो जाण्टो मनीस पाद्री आनी बिस्प सायबाकडे केस्तांव केलां देखून तो हे बायलेक घेवन दर्याचे  किनारेर झोपडी घालून, दीस काडटालो. खारें आनी सुकें नुस्तें घांटाक धाडटालो आनी आपलें पाद्रीपण विसरलेलो. आदले विगार आनी कूर ताची खबर घेनासले. तो तांकां पयस दवरतालो, तेय ताका घाणयारी जाल्ल्या भाशेन पळेताले. हरशीं प्रि. जेरोनिमो क्वाद्रोस आनी हो अणकळतो पाद्री नावादीक रायपुरचे सेमिनारींत शिकताले आनी इश्टागतीन जियेताले. ह्या पाद्रीचें नांव अनिल जॉर्ज. तकलेन हुशार, वाद-विवाद करुंक ताका दुसरो लागनासलो. अस्तुऱ्यांच्या मोगान पडून, साऱ्याच्या आनी सोऱ्याच्या धंद्याक लागलेलो आनी एकसुरें जिवीत जियेतालो. मरणाक तेंकलेलो. ताच्या तोंडाक पळोवन, बिगडलेली भलायकी नियाळून बळवंताचें काळीज चुरचुरलें. कितेंय करुंक ताणें येवजिलें. ताचें मन धरनासलें.

बळवंतान प्रि. जेरोनिमो क्वाद्रोसाक प्रि. अनिल जॉर्जीची खबर सांगली. प्रि. जेरोनीन असल्या कुसक्या पाद्रीक ताणें जाप दिवंची न्हय आनी ते घाटावयले अस्तुरेक भेटचें न्हय म्हूण सांगलें. प्रि. विगार आनी बळवंतामदें ही जेवणामेजार गजाल मात जाली.

पाद्री विगार : बळवंत, तूं त्या अविस्वासीक पाद्रीचे खोंपटेंत कित्याक भितर सरलोय? एक कुसलेलें फळ दुसऱ्या फळाक कुसयता न्हय?

बळवंत : कोणाकूच आमच्यान कुसलेलो म्हणूंक जायना. मनशाचें अंतस्करण देव पळेता. हो पाद्री अविस्वासीक जालो जाल्यारुय, आमच्यानूय ताचेवून व्हडलीं पातकां आदारूं येतात. जेजू मनशाळायेन आनी काकुतीन भरलेलो सोडवणार न्हय? येन्ना मेरेन, तुवें जावन ताका भेट दिवंक जाय आसली आनी ताका मरणावेळार तरी सोदूंक जाय आसलो.

पाद्र विगार : कितेंच केल्यार ते खोंपटेंत हांव भितर सरपाक ना. पयलीं ते घांटिणीक भायर उडोवंदी. मागीर पळोवंचें!

बळवंत : पाद्र-विगार, घांटीण म्हूण ना. सगळीं देवाचीं भुरगीं, जावं तीं गोंयचीं आनी जावं तीं घांटावयलीं. जावं! आतां, आमी दोगूय ते खोंपटेंत या आनी तुजो सांगाती, अनिल जॉर्ज, खोशेन मुरगट्टोलो आनी घडये तुजेचकडे कुमसार बी जायत. तूं भाग्यवंताचोच विगार न्हय, पूण पातक्यांचोय, सगळीं तुजीं भुरगीं आमी जेजू भाशेन बरे गवळी जावंक जाय.

पाद्र विगार : बळवंत तूं नांवाप्रमाणे बळवंतूच. जें इतल्या कुरांनीं आनी पाद्र-विगारांनी म्हाका सांगलें ना, तें तुवें म्हाका गमयलें. चल, आमी फाल्यां आमच्या आदल्या इश्टाक भेटूंक या. फाल्यां खेरीत मागणीं करुंया.

पयलेच पावटी, जेरोन आनी बळवंत, हाताक हात धरुन भायर सरले. कोण कोण वाटेर म्हणूंक लागले, ‘Aique belo Par’, कितलें सोबीत जोडें. चलत चलत खोंपटेंत पावले. अनिलान आपल्या आदल्या इश्टाक वळखूंक ना. ताका दोळ्यांनी सारकें दिसनासलें. बळवंताचो ताळो आयकून अनिल खुशाल जालो. बळवंतान पाद्र-विगाराची वळख करुन दिली. अनिलान आनी जेरोनीन एकामेकांक वेंग मारली, आनी आपूण मरतासतना, कोणूय आपल्या आदल्या इश्टान आपलें कुमसार आयकुंचें अशें आपल्या काळजांत शिजतालें म्हण अनिलान सांगलें. जेरोनीन आनी अनिलान सेमिनारीच्या दिसांची गजाल केली आनी इतल्यान अनिलाची मोगी भितर सरली. ती चाळवली आनी बळवंताक आनी पाद्र विगाराक खोंपटेंतले भायर सरात म्हणूंक लागली. तिडली, राक्षीण कशी तांबडी जाली. बळवंतान काळजाची शांती सांभाळ्ळी आनी तिका समज़ावंक सुरु केलें.

सरोजिनी : तुमी हांगासर कित्याक आयल्यात? इतलीं वर्सां खंय आसले?

बळवंत : देवाक वर्सां नांत, ताचें सासण देखून आमी इश्टाक भेटूंक आयल्यांत. देवाक एक दीस हजार दीस, आनी हजार दीस एक दीस.

सरोजिनी : तुमी आमचें मदें फूट घालूंक आयल्यात. तो मरवेर हांव हांगासरलीं हालचीं ना, आयल्यात तशे चलात घरा.

बळवंत : आयकून घे, सरोजिनी, तूं खरेंच अनिलाचो मोग करता जाल्यार तुवें ताका सोडचो पडटलो. मरतना तरी ताका ताच्या सोडवणाराक वेंग मारुन अंतरुंदी.

सरोजिनी : तर करचें कितें?

बळवंत : आमी अनिलाक मठा गांवांत साश्टी व्हरतात. थंयसरलें वारें आनी वखद ताका घडये बरो करीत. तुवें ताका सोडूंक एक मोठ्यांतलो मोठो त्याग करुंक पडटलो. आसाय तूं तयार?

सरोजिनी : अनिलाक बरें तें करुंक हांव तयार. तो तरी खुशाल आसचो आनी बरो जावंचो.

जेरोनीन अनिलाचें कुमसार आयकलें. बळवंतान व्हरुन अनिलाक मठा गांवचे सानातोरींत घालो आनी खुपदां ताका भेटूंक वेतालो आनी वेतासतना ताका खावंक आनी वखदां व्हरतालो. सरोजिनी माद्रींच्या कोंन्वेंतांत गेली आनी सायलां गांवांत नवें आनी नितळ जिवीत जियेवंक लागली. नवी खुशालकाय चाखून, बळवंताक आनी पाद्र विगाराक विसरनासली. तांकां केन्नाय येवन भेट दिताली आनी केल्ल्या त्यागाची खुशाली दुसऱ्यांकूय वांटताली. मडगांवच्या कातोल्क वैजान बळवंताक तेलेग्राम धाडलो आनी अनिल मरणाक पावलो म्हण कळयलें. अशी तांची कबलात आसली.

बळवंत मोटर सायकल मारुन सानातोरींत पावलो. अनिलान ताचेर दोळे दवरले. बळ करुन अनिलान हो निरोप दिलो : "बळवंत, हांव तुजो पयलो पातकी. ह्या संवसारांत एक पातकी आसा जाका तुज्यानूच साल्वार करुं येता. म्हाका तुज्यानूच साल्वार करुं येतालो. जी सवंय तुवें सुरु केल्याय, लोकाक भेट करची, सोडी नाका. जेजूख्रिस्त, पयलो पाद्री शेळयांक सोदतालो आनी शेळयो ताका वळखताल्यो. तशेंच कर. आनीक सांगतां..... आनीक सांगतां. हांव सुखेस्त मरतां. देवाच्या हातांत म्हजो आत्मो घालतां. तुवें पातक्यांक सोदचें. आल्देया-माराच्या रांपोणकारांक तुवें एकठांवचें. तांची आर्थिक आनी जेवणा न्हेसणाची परिस्थिती सुदरावंचीं, तांकां आपले हक आनी कायदे कितें तें शिकोवन आनी इस्कटून दिवंचें.

बळवंत, म्हजे भशेन जावं नाका, तुजें निर्मळपण सांबाळ, ताळण्यो खूप येतल्यो, ज्या जेजूक तुवें म्हाका दिला, तोच तुजो आसरो आनी कोट जावंचें. बळवंत, तुजे हात म्हज्या हातांत घाल. आमी दोगूय इश्ट. म्हजें तुजेर बेसांव : बापाचे. पुत्राचे, पवित्र आत्म्याचे नांवीं....

बळवंताच्या दोळ्यांतलें दूख जमनीर पडलें, आपलें काम बरें जालें म्हणून तो आल्देया- मार परतो येवंक लागलो. वाटेर ताचीं चिंतनां, गांवच्या रांपणकारांचेर घुंवलीं. सगळ्यांक एक खोंपटी तरी आसा जाल्यारुय, तांकां खुपशें जेवंक ना. तांची भुरगीं इस्कोलांत वचनांत. ते एकमेकाकडेन झगडटात. आचार आनी सुपरस्टीसांवां पाळटात, पयसो आनी आडको पुंजावंक नकळ. भुरग्यांक घर आनी कूड नितळ सांबाळूंक कळना. तांकां भरमेंतले आनी न्हिदेंतले जागोवंक जाय. तांकां आपल्या हक्कां खातीर अंतकरणावंक जाय. तांकां हुसकावंक जाय. चिंतीत, चिंतीत बळवंत, प्रि. विगाराच्या क्वार्तांत पावलो. ताणें पाद्र जेरोनीक आपले हुस्के आनी काळजांतले आंवडे गमयले.

बळवंत : पाद्र विगार, म्हाका एक येवजण आयल्या. ती बरी जाल्यार, तुवें तिचेर बेसांव घालचें. ना तर पोरो उडोवंची.

पाद्र विगार : तर कसली येवजण?

बळवंत : पाद्र-विगार, तूं आमच्या रांपणकारांची परिस्थिती जाणांय. तें जायतें जोडटात पूण सांबाळूंक नकळो. ते आपणामदें झगडटात. हांव एक सरकारी संस्था बांदतां आनी तांकां सगळ्यांक एकठांय करुन,पयसो वाडयतां. आनी तांकां इस्कोल बांदूंक, आपल्या भुरग्यांक शिकोवंक उपाय रचतां, तांकां खोपट्यां सुवातेर घरां दितां.

पाद्र विगार : बळवंत, हें तुजें म्हाका समजना. आमकां पाद्रींक पोटाचें आनी घरां बांदपाचें कित्याक पडलां? पाद्रीन इगर्जेंत रावंक जाय आनी देव-धर्माच्यो रिती पाळूंक जाय. पाद्री एक पुजारी न्हय? तशें आमकां त्रेंत शाराची सभा सांगता.

बळवंत : बरें सांगलेंय तुवें! आतांची इगर्ज इगर्जेच्या वण्टींतली जावंक फावना. तिणें एका हातांत ब्रेवियार घेवंक जाय आनी दुसऱ्या हातांत खोरें घेवंक जाय. पाद्रीन आपल्या प्रजेच्या पोटाचें आनी जेवणा-खाणाचेंय चिंतूक जाय.

पाद्र विगार : तुका कोणें सांगलां! पाद्रीन पोटाचेंय पळोवंक जाय म्हूण कोण

तुका सांगता? आमी सेमिनारींत आल्ताराचें पळोवंक जाय, आनी आल्तारावयलें खावंक जाय, हें आमी शिकल्यांव. तुका दुसरें कोणें कितें शिकयलां रे?

बळवंत : रायपुरचे सेमिनारींत हांवें चोरयां-लिपयां, कोणाक सांगनासतनां थेयलार्द दे चार्दीन ह्या शास्त्र्याचीं आनी विद्वानाचीं पुस्तकां वाचल्यां. ले लेव डिवायन, द फेनोमेनन ऑफ मॅन आनी दुसरींय बोटायल्यां आनी तांचेवयल्यान एक सत दोळ्यांनी भरता. जेजू मेलो, जेजू जिवंत जाला, जेजू नव्यान येतलो. ह्या विज्ञानशास्त्र्याचे सांगणे आनी म्हणणेप्रमाणे जेजू येण्याक आमीं तयारी करुंक जाय आनी संवसार आमी सुदारुंक जाय. आपच्या जिवितांत आमी एक खेरीतूच अभिमान आनी गर्व ओपूंक जाय. एक अख्रिस्ती बरयता, तर ताचेवून बरें हांव बरयतां कित्याक ही पृथ्वी हांव ख्रिस्ताच्या येण्याक तयारायतां.

पाद्र विगार : तुवें आनीक कितें वाचलांय?

बळवंत : हांवें पावलो फ्रेयर हाचीं बरोवपां गिळ्ळ्यांत आनी ताचें तत्व कोन्सेन्तीजार आपणायलां. कोन्सेन्तीजार म्हणजे आमचे भाशेन अंतकरावणांक. आमचो लोक आपले हक्क नकळ, कितें केल्यार कितें जातलें हें तांकां समजना. हांवें थेवोलोजिया दा लिब्रेतासांव, हेंय पुस्तक आरतिलां आनी परतिलां. त्या पुस्तकाचो सार हो : जेजू सोडवणार, तो न्हय फकत आमकां पातकांतले सुटोवंक आयला, पातकाच्या फळांतलीं, भुकेंतली, पिडेंतली सोडवण दिवंक आयला. मनशाक पुरी सुटका दिवंक आयला.....

पाद्र विगार : आमी ह्यो असल्यो खबरो आनी येवजण्यो चडश्यो आयकूंक नांत, तूं यशवंत जातलो म्हूण तुका खात्री जाता जाल्यार, तुज्यान प्रयोग करुं येता. वेळ आनी अणभव तुका वाट दाखयतलो. इतलेंच, हें तुजें काम करतनां, तुजे आत्मीक आनी मागण्याचे कायदे विसरनाका, कुडीचें पळेतनां, प्रजेच्या आत्म्याक विसरुं नाका.

बळवंत : बरें, पाद्र विगार, तुंवें सांगलें तें सगळें मनांत धरतलों.

बळवंत सांजेचो पवित्र संस्काराफुडें गेलो आनी थंय तो मागण्यांत आनी ध्यानांत गूल जालो. इतल्या लोकांक पुंजावंक आनी झगडटल्यां मनशांक एकठांय करुंक ताचेर भार आनी भंय आयलो आनी ताणें जेजू ख्रिस्ताक हें सकयलें मागणें केलें.

धनया जेजू, म्हज्या आंगांत भिरांत भरल्या. तूं भुकेल्यांक जेवूंक दितालो,

तानेल्ल्यांक पिवूंक, उगत्यांक न्हेसूंक, परदेशांक बिराड, हें काम कशें हांवें करचें हांव नकळों. तुज्यानूच म्हाका आदार दिवं येता. बळवंताक तुजें बळ दी, आपणाक विसरूंक शिकय. हांव तुजेर पातयेतां.

बळवंत उठलो आनी कामाक हात घालो. आल्देया-मारच्या होगेकारां आनी रांपणकारांलागीं गेलो. अर्दो शेकडो पासून, दर्याचे धडेर, खोपट्यांनी आनी चिऱ्यांच्यां घरांनी खासगी आनी भाटकाराचे जमनीर, रांपणकार भाव रावताले. तांच्या हुंबऱ्यांर पाद्रीची सावळी चडशी पडनासली. बळवंत दिसान दीस, तांच्या भुरग्यांक भेटतालो. तांकां आबेशी आनी दोतोन शिकयतालो आनी गांवच्या तरनाट्यांक लावन तांका फुटबॉल खेळयतालो. रांपणकारांची इश्टागत जोडलेली आनी ते ताका आपलो फादर म्हणटाले. सांत आलेक्सीस होगो, सांत आंतोन होगो, सांत फ्रांसिस होगो, सॅम कायतान होगो, फातिमा होगो हांकां आनी तांच्या फुडाऱ्यांक ताणें भेट दिली आनी सगळ्यांक एका आयताराचे सांजे फुटबॉलाच्या मळार एकठांय केले आनी -उणेंच जाल्यार ५०० होगेकार आनी रांपणकार आनी मागकार एकठवले आनी तांकां ताणें हें भाशण केलें.

"म्हज्या मोगाच्या आनी प्रितीच्या भावानो! जंय एकवट आसा थंय धाकट्यो वस्तू व्हडल्यो जातात. जंय एकवट नासता थंय व्हडल्यो वस्तू धाकट्यो जातात. एकठांय जावंचो वेळ पावलो. आमी सगळ्यांनी सांत आलेक्सीस नुस्तें मार सहकारी संस्था घडुंया. आमच्या नुस्त्याक मोल मेळटलें आनी आमकां भरपूर फायदो जातलो. ही संस्था तुमी चलोवंक जाय. तुमचे फाटाफाट हांव आसतलों. तुमचे अधिकारी तुमींच विंचून काडा. अध्यक्ष, भांडारी, वांगडी बऱ्या मनाचे आनी वावराचे मनीस जावंदी.'

इतल्यान आयकुपी उठले आनी एक एकलो फुडारी उलोवंक लागलो.

सांत आंतोन होग्याचो फुडारी : फादर, हें एकवटाचें गीत तूं पयस दवर, आमच्यान झगडनासतना रावंक जावंचेना. आमी झगडत आयल्यांत. ताणीं, दुसऱ्या होग्यांच्यां मनशांनीं आमकां थापटायल्यात आनी बडयल्यात.

सांत फ्रांसिस होगो : नुस्तीं पुंजायतनां आनी माथ्यार मारतनां, आमच्यो बायलो झगड्यां-केस्तांवाक लागतल्यो. कास कवळून एकामेकांचेर मुठींचे फार सोडतल्यो. तुजीं सपनां साकार जावंचीं नांत. तुका पिराय थोडी, तुजे केंस पिकूंक नांत, तूं चड भुरगो.

सॅम कायतान होगो : आजून मेरेन आमी एकठांय रावंक ना. बळवंत-फादर सांगता त्या प्रमाणे, आमी आतां तरी एकठांय जावंया आनी दोस वर्सां उपरांत आमचो एकवट फळादीक आनी सुफल जातलो वो ना तें आमकां गमतेलें. चल या फुडें आनी सगळे एकवटाच्या नांवार आमी सांत आलेक्सीस नुस्तें मार सहकारी संस्था घडोवंया.

सॅम कायतानाच्या होग्या-फुडाऱ्यान आपलीं निमणीं उतरां सोंपोवंक नांत, ताळयांचो आवाज जालो. सहकारी संस्था झिंदाबाद! फादर बळवंत झिंदाबाद हे नारे मळार गाजले आनी सगळें फुटबॉल मळ गाजलें. वयर आसत्या आनी हात दाखयतल्या फा. बळवंताक लोकान खांदार मारलो आनी हांसत खेळत तो घरा गेलो. सहकारी संस्था वाडत आनी चडत गेली आनी पयल्याच वर्सा तांकां भरपूर फायदो जालो आनी दोशीं जियेल्ले होगे मोगान आनी मोयपासान जियेवंक लागले. तांची इश्टागत वाढली आनी तांकां बळवंत उमेद आनी उत्साह दीत रावलो. होगे कारांनी एकठांय जावन आयताराचें काम करचें सोडलें, कुड्यां देवांक पुजचें नाकारलें. देवाक आनी धर्माक वचूंक सुरू केलें. रांपणकारांमदें देवाचो आनी एकामेकांचो मोग फुल्लो. तांची घरां सुदरलीं. तांच्या वण्टींर चुनो पडलो. आपल्या घरांनी तुरीस्तांक आनी जात्रेकारांक दवरूंक लागले. भुरगीं इस्कोलाक आनी कोलेजीक गेलीं आनी बी. ए. आनी एम. ए. पास जावन घराचें आनी गांवांचें नांव वयर काडलें. बळवंताचें नांव सगळ्यांच्या तोंडांत फिरलें. पाद्र-विगारय ताका मायेन पळोवंक लागलो. बापाय भाशेन ताच्या जैतांत वांटो घेतालो. ऐन त्या वेळार ताका बरी बुध्द दितालो, चल फुडें म्हण्टालो, रात जाल्यार भायल्यान पळेत रावतालो.

इतल्या म्हणसर आल्देया-मारची धड मिशीन-बोटींनी गाजूंक लागली. माग घाल्यार, तांचे माग घेवूनच ह्यो मिशीन-बोटी वचूंक लागल्यो. किनारेर नुस्तें येवंचें बंद जालें. व्होडीं काम करचीं बंद जालीं. मागकार राती फोडल्या उपरांत रित्या हातांनी परतताले. भुरग्यांचे जाले हालावाल. बळवंताक न्हीद पडना जाली, कितें करचें तें तो नकळो जालो. पाद्र-विगाराशीं तो उलोवपाक आनी दुबाव सुटोवपाक गेलो. चिंतेस्त आनी दुखेस्त जावन पवित्र संवस्कारा फुडें एक रात फोडली. आंकवार मायेक उलो मारलो. सकाळीं उठलो. होगेकारांक आनी ताच्या फुडाऱ्यांक हुस्कायले. तांकां ताणें सांगलें :

भावांनो, हो काळ संकटाचो, जिवा आनी मरणाचो. आमी कितेंय तरी करूंक जाय. आमचें पोट दर्याचेर आनी धंद्याचेर आसा. कशेय भाशेन ह्यो मिशीन-बोटी आमी बंद करूंक जाय. ह्यो मिशीन -बोटी पोतीवाल्यांच्यो, आस्तीक आनी गिरेस्तांच्यो. आतां आमी कांय करिनां जाल्यार आमी केन्नाच जिखचेनां आनी भुकेन मरतल्यांव. होच तो वेळ. उठात, जायात जागे!

सहकारी संस्थाचे वांगडी उठले आनी वेळेर पारो करूंक लागले. येतात तितल्यां मिशीन-बोटींक धरूंक लागले. इतल्यान सरकार हे बाबतींत पडलो. सरकारांन, तांचेय व्हडले मनीस नुस्त्याचो धंदो करताले, मिशीन-बोटकारांची बाजू घेतली आनी रांपणकारांक आदार दिता म्हूण फसयले. बळवंत वादळ आनी वारें कशें हांगा-थंय धांवलो. सगळ्या वेळांनी भोंवलो आनी तांकां अंतकारणायले, कॉन्सायन्तीज केले आनी ताणीं गोंयच्या पांच कोटांच्या शारांत, पणजे चळवळ सुरू केली. दिसाक पांच लोकांक उपाशी रावपाक सुचना केली. शाराचे मदले यादगिरी मुखार ताणीं उपास-सांकळ सुरू केली. सरकाराच्या मनशांक तिडक आयली. बळवंतान बिस्प सायबाक आनी दुसऱ्या पाद्रींक हुस्कायले. व्हडल्या मनशांचो सहकार मेळून घेतलो. बळवंतान सगळ्या गोंयच्या किनारे वयल्यां नुस्तें मारप्यांक एकठांयले आनी तांकां सगळ्यांक विधानसभेकडे उबे केले. शिपायकांनी वेढो घालो. बळवंतान एकूच दांग मारून वेढो मोडलो. एकलो शिपाय एके अस्तुरेक खोंटायतालो. बळवंत उठलो आनी ताणें एके मुठीन शिपायकाक जमनीर आपटिलो. पुलीसेन बळवंताक धरलो आनी पुलीस चोवकेर दवरलो.

आल्देया-मार बोबाळान भरली. बळवंताक, तांच्या खांब्याक धरलो आनी बंदखणींत घालो! भुरग्यांचीं रडणीं जालीं, जाण्टो पाद्र-विगार आपल्या हातान रांदून, बुती घेवन पुलीस - चोवकेर आयलो. पुलीसेकडे आपणाक बळवंताकडे उलोवंक रजा मागली. पुलीसेन कानांत धरलें ना. जाण्ट्याक परतून धाडलो. बळवंत आपल्यां रांपणकारां खातीर आपूण सोसता म्हूण समजून हांसत - खेळत वेळ सारतालो. ताचे बाराबर ताचे आदले सेमिनारींतले इश्टूय बंदखणींत पावलेले. पुलीस खात्याच्या अधिकाऱ्यान दुसऱ्या दिसा आपले कचेरींत बळवंताक आपयलो आनी हे सकयले विचार केले :

पुलीस अधिकारी : तुमी पाद्री चोर, नागोवणे, क्रांतिकारी, झूजमारे, झगडेकार.

बळवंत : सिन्योर, तूं चड उलोवं नाकाय, तूं ते कदेलीर बसताय मूं बरें, ना तर तुका हांव जमनीर उडयतलों आसलों. तोंडांत येता तें उलोवं नाका.

पुलीस अधिकारी : तुमी पाद्री राजकारणांत आनी पुलीतीक वस्तुंनी आनी कार्यांनी आपलें बोट कित्याक घालतात? तुमी इगर्जेत रावचें.

बळवंत : आमी राजकर्णीक बाबतींत पडनां. आमकांय आमच्या राष्ट्राचो मोग, आमीय शंबर टक्के कातोल्क आनी शंबर टक्के नागरीक जावंक आशेतांव. इतलें आसतनां, दुबळ्यां दाखट्यांचो आनी तांच्या हकांचो आमकां मोग. आमी निती आनी भावार्ता खातीर झुंजतात. आमचें झूंज एका पक्षा-पार्तीदा खातीर न्हय. आमचो धर्म रांपणकार, जांकां जेवूंक ना, जांकां धंदो ना जावन, वाटेर पडपा आसात तांचे खातीर आमी लढाय करतांव. तुमकां पुलीसांक दर दिसाक तीन पुरीं जेवणां आसात, आमचे रांपणकार थोड्यां भावांक आनी भयणींक आनी तांच्या भुरग्यांक दोन तरी जेवणां मेळनांत. दर दिसाक एक एकल्यान तीन जेवणां मेळसर आमची चळवळ चालू आसतली. आमची भुकेची सांकळ कोण्याच्यान तुटोवं जावंची ना.

पुलीस अधिकारी : तुजें आनीक हांव आयकूंक तयार ना. फाल्यां तुका हांव आग्वाद धाडटां!

बळवंताक आग्वादा धाडलो. ही खबर आल्देया-मार फिर्गोजेंत वारें कशीं विस्तारली. बळवंत एकसुरो आपल्या कुडांत चिंतनेंत पडलो. ताका भूक लागली. ताका तान लागली. बंदखणींतली परिस्थिती पळोवन ताच्या दोळ्यांतल्यान दुखां आयलीं. ताच्या काळजांत आपल्या गांवचो मोग शिजतालो. ह्या आग्वादच्या कोटांत फिरंगी लोक आमच्या सैनिकांक आनी स्वतंत्राय झुंजाऱ्यांक बंद करताले. तांचेर मार आनी मुठी मारताले. आजुनय थंय कांय जाण आसले. ते आपल्या गांवां आनी राष्ट्राखातीर झुजताले. तांकां सोसूंक एक भाग्य जाल्लें. आपणाक आपल्या भावां खातीर हाडलो देखून ताचें काळीज संतोसलें. सता, निती, आनी भावार्ता खातीर सोसूंक मोटें व्हडलें भाग्य दिसलें. आपणा आदीं कश्टवल्यात आनी त्रासल्यात तांचो उग्डास करून ताका बढाय दिसली. कांय इश्ट ह्या वण्टीं मदें जियेलेले, आनी सोसून गेल्ले. क्रिस्त आनी ताच्या दुबळ्या भावांखातीर सोसूंक ताका खुशालकाय भोगली. स्वातंत्र्य सैनिक गोंयांत आनी गोंयाभायर वळवळताले आनी कळवळताले.

इतक्या म्हणसर मोटरांचो, आवाज आग्वादाच्या कोटाभायर सादतालो. बळवंत झिंदाबाद, रांपणकार झिंदाबाद असले आवाज आनी नारे गाजताले आनी घणघणताले. तांचे बाराबर, कोणा एकल्या फुडाऱ्याच्या हाताक धरून लकत लकत आल्देया-मारचो विगार आयल्लो. तो सरळ बळवंताच्या कुडांत भितर सरूंक वावुरतालो. पुलीसेन ताका भायरूच दवरलो. येवन, येवन सयशीं लोक आग्वादाच्या कोटा लागीं एकठवलो. पुलीसेचेर कांपरो सुटलो. ताणीं बंदखणींचें दार उगतें केलें. पाद्र विगारान आनी बळवंतान एकामेकाक वेंग मारली. दोगायच्या दोळ्यांतल्यान दुखां व्हावलीं आनी आपूण एका-मेकाचो खरो मोग करतात तांकां दिसलें. आल्देया-मारच्या लोकान आनी होग्यांच्या फुडाऱ्यांनी बळवंताक खांदार मारलो आनी फुगोट्यांच्या आवाजार आपले इगर्जेंत व्हेलो, उपरांत ताका फुटबॉल मळार उबो केलो आनी तांच्या मुखेल्यान आनी कामप्यान हो संदेश दिलो:

मोगाळ भावां-भयणींनो, आमी आमच्या प्रि. कुराक सोडून हाडलो. इतलीं वर्सां जालीं बळवंत आमचो रांपणकारांचे हालावाल पळयता आनी आमचे खातीर तळमळटा. आमी ताका बंदखणींत रावंक दिवंचेनांत. ताणें स्थापलेली सहकारी संस्था मोडूंक दिवंचेनांत. आमचो धंदो सोडचेनांत. आमच्या जाण्टेल्यांनी केल्लो वावर वाऱ्यार घालचेनांत. बळवंत फादर तूं हांगासर आसूं, नासूं, तुजें काम आमी मरूंक दिवंचेनांत, आमी एकवटान जियतल्यांव.

बळवंत उठलो. ताणें उलोवंक सुरू करिना फुडें ताळयांचो पेट आयकूं आयलो. सगळें मळ ताळयांच्या पेटान गाजलें. ताणें आपलीं निमणीं उतरां सांगलीं आनी गांवचो पाद्र-विगार एका बापायच्या काळजान आनी चितान एक-एक उत्तर आयकतालो. असो उलयलो बळवंत :

भावांनो, भयणींनो, हांवें इतलीं वर्सां हांगासर काम केलां आनी खूद दोळ्यांनी तुमीं कितलो मोग करतात तें पळेलां. ह्या मोगांतल्यान जे त्याग हांवें पाद्री जावन केले ते फारीक जाले. हांव इतलो करूंक पावलों कित्याक हांगासर बसून आसलेल्या पाद्र विगारान म्हाकाआदार दिलो. पाय आनी पूत कशे आमी जियेल्यांव. आपले जाण्टे पिरायेर तो म्हाका आग्वादच्या कोटांत जेवण घेवन आयलो. आग्वादच्यां कोटांत म्हाका बिस्प सायब मेळूंक आयलेलो. ताणें म्हाका इल्लो विसव घे म्हण सांगलां. इतल्यान ताणें म्हाका दुसरे सुवातेर वचूंक सुचना केल्या. हे येवजणेचेर तुमी आड येवंचे न्हय, देवाची खोशी म्हजे थांय पाळून येवंक दितले म्हण म्हाका

खात्री आसा. आदेवूस, भावांनो, फाल्यां हांव पिलार वेतां, थंय कांय दीस विसव घेतां आनी उपरांत हांव नवे सुवातेर वेतलों.

बळवंतान खोंपटे-खोंपटेक भेट दिली आनी आयलेलो तसो गेलो. खोंपट्यांचो भेटणार जालो. तांकां भेट दिवन ताणें आल्देया-मारची खुर्ची आनी कुरकी सोंपयली. पणजेसून बिस्प-सायबान ताका आपोवन व्हेलो आनी ताका पोरण्या गोंया तेंकून एक गांव आसा, थंय जायते आदीवासी लोक आसा, ते आदीं क्रिस्तांव आसले आनी ताणीं आपलो भावार्त सांडला, तांकां परतून हाडच्याक बिस्प-सायबान ताका सांगलें. बळवंतान आपूण चिंतता म्हणलें आनी आपल्या बुदवंत पाद्री लागीं बुद्द घेतल्या उपरांत बिस्प-सायबाक 'हय' म्हणलें.

आपल्या इश्टाक पाद्र विगाराक सांडूंक ताका खूप अवघड मारलें. बळवंताक कोंकणीचो मोग देखून, पाद्र विगारान, ताका दिशिओनारिओ पुर्तुगेज-कोंकानी दिलो आनी ती भास आनीकूय सपुर्णायेन शिकची म्हण ताका सुलूस दिलो. बळवंतान पाद्र-विगाराचो उमो घेतलो आनी ताणें आदीवासी लोकांमदें जियेवंक आनी तांकां दुसऱ्यांक इगर्जेचे वेंगेंत हाडूंक निश्चेव केलो. सगळी येवजण आंकवार मारियेच्या ताब्यांत केली. कारामुली गांवांत काम करूंक ताका नेमणूक आयली.

चवथो अवेस्वर

# कारामुलीचो मिशनार

हे नवे सुवातेर वतकूच, आपूण एकसुरो पवित्र संस्काराफुडें वगीच मागणें करीत वेळ सारतलों म्हूण बळवंतान निर्णय घेतलो. आपूण आल्देया-मार आसतनां खूप भोंवलों. वादळ आनी वारें कसो जियेलों. आपल्या जिवितांत मागणें आनी ध्यान चड हाडटलों, धनयाचेर चड विस्वास घालतलों म्हूण ताची येवजण जाली. पिलारच्या दोंगरार मागणें आनी चिंतन केल्या उपरांत, बळवंत आपल्या नव्या गांवांत कारामुले गेलो. थंय जुआंव बातिस्ताची इगर्ज आसली. थंयच्या पाद्र विगाराक जाप दिली आनी आपलें मिसांव कितें तें ताका सांगलें. अक्रिस्ती लोकाक वो आदी बाटयल्ल्या लोकाक लागीं करूंक आनी परतो धर्माक हाडूंक आपूण एकसुरो रावतलों म्हणलें. चडसो क्रिस्ती लोकांकडे भरसना जाल्यार, आपले चालींत आनी समाजीक वस्तुंनीं भारती लोका भशेन चलत जाल्यार, आपूण हिंदू जालों, धर्म सोडलो अशें पाद्र विगारान आनी आदल्या क्रिस्तावांनी समजून घेवंचें न्हय हें ताणें कारामुलीच्या विगाराक कळयलें. आपणांमदें आनी बिसपामदें समजूत आसा म्हूण गमयलें. रोमाक रोमी जावंक जाय, कारामुली कारामुलीकार जावंक जाय. ताणें सांगलें.

कारामुली हो एक सोबीत सुंदर गोंयचो आनी तिसवाडीचो गांव. थंय पुश्कळ

शेत पिकता आनी लांब आनी रूंद तळें गांवकारांक आनी शेतकारांक दुपेट मळणी करूंक सुयेग आनी संद दितालें. शेतकामती मुठभर वोंपताले आनी कडोभर लुंवताले. लागसार माडांचे बांद आसताले आनी नाल्लाच्या पेंडयांनी माड आड पडटाले. आंबो आनी पणस खूब पिकतालो. पावसांत पिट्टोळांचे आनी थिगरांचे लोंडें  दिसताले. गांवातसून लांब दीग व्हाळ देंवतालो आनी रूखांक आनी मोनजातीक थंडाय आनी पिवण दितालो. कारामुली, तिसवाडी जेजुयतानी क्रिस्तायल्ली. कॉलेजीओ दे सां पावलोसून पावलीस वेताले आनी थंयसून गांवकारांक, दुबळ्यांक तशे गिरेस्तांक क्रिस्तांवपणाची वळख दिताले. क्रिस्तांवपणाच्या वेळार, कारामुलीच्या एका मोयरान, सां पावलुच्या कोंन्वेंता मुखार एका आपल्या चेड्याक हाडलो आनी पाद्रींक सांगलें "हाका तुमी दोतोन शिकयात, ना तर तो चोर जातलो", जेजुयतांनी सगळी कारामुली क्रिस्तायली आनी बाटयली. एला आनी पोरण्या गोंयां बायंत व्हडलो हत्ती पडून, शारांत पेस्त आनी पिडा आयली आनी लोकान पळ काडलो. कारामुलीचे  गांवकार आनी सावकार, कळंगुटे, एका उंटार बसून पावले आनी ताणीं एक आपलोच वाडो रचलो आनी ताका उमटांवाडो नांव दिलें. थोडे वेळ्ळे, साश्टी, करमण्यां, पिळेर्णा बा गेले आनी दुपेट गांवकार जाले. तांचे दायजी आजुनूय आसात, ते केन्नाय कारामुली येवन रावताले, आनी आपलो जोण पुंजायताले.

चडसो दुबळो लोक आनी आदिवासी थंय रावले, गांवाक आनी जमनीक बांदून उरून थंय तिगले. हे आदिवासी आपल्या हिंदू जाण्टेल्यांच्यां रितींक आनी चालींक चिकटून आसले. तांचे मदें भुरगींच आस्तनां, तेरा वर्सां जावंचे आदीं, सोयरीक करपाची आनी भुरग्यांक लग्न करपाची सवंय आसली. हे क्रिस्ती आदिवासी इगर्जेकडे हे सवंयेचेर आशिर्वाद घालूंक आनी ती मान्य करूंक विनयताले. इगर्जेन तांचें आयकलें ना. थोड्या धर्म-गुरूंनी ह्या आदिवासी लोकांची चडशी निगा घेतली ना. कांय अक्रिस्ती भाटकारांनी आपले गुरू धाडले आनी तांकां परते हिंदू धर्मांत बाटयले. इगर्जेन उपाय घेतले आनी यत्न केले. सगळें निर्फळ जाले. बळवंताची हुशारकाय आनी जाणवाय गोंयच्या पत्रिआर्काच्या दोळ्यांत भरली आनी काळजांत रिगली. बळवंत काळजांतसून भारती, ताची चाल आनी जियेवप, वागप आनी शिकप इंदियान आनी भारती, ताच्यानूच कितेंतरी ह्या सांडलेल्या आदिवासी लोकांखातीर करूं येतलें अशें पणजेच्या पात्रिआर्काक

दिसलें. ताणें ह्या सांडलेल्यांक सोदपाक आनी बाटलेल्यांक परते हाडपाक बळवंताक मिसांव दिलें. हरशें बळवंताक आनी पात्रिआर्काक ताच्या भारती संस्कृतायेच्या मोगाक पडनासलें. तरी दोगांयच्या काळजांत कातोल्क इगर्जेचो मोग खेळटालो आनी ह्या मोगाखातीर पात्रिआर्क बळवंताची अपुर्बाय करतालो आनी केन्नाय गोंय, पुर्तुगेजांच्या हातांतलें सुटलें जाल्यार, बळवंतूच पात्रिआर्क जावंचो अशें गोंयच्या पात्रिआर्काच्या काळजांत, दों जुजे कास्त्रो हाच्या मनांत फिरतालें. गांवचो मोग दों जुजे कास्त्रो आनी बळवंताक दोशीं करतालो जाल्यार, क्रिस्ताचो आनी शास्त्राचो मोग एकठायतालो.

बळवंत बोबाळ करिनासतनां, कारामुलींत रिगलो. एका पोरण्यां घरांत वस्ती करूंक लागलो. थंय इलेंशें कपेल आसलें. तें घर गोंयच्या पात्रिआर्काक कोण एका भाग्यवंत आनी दयेस्त मनशान दवरलेलें. थंय बळवंतान आपलीं सुपुर्लीं खाटली-पोटली हाडली, आनी आवाज नासतनां कामाक लागलो. दाखटुल्या कपेलांत बसतालो. इलेश्या बांकिनाचेर पवित्र संवस्कार दवरतालो आनी ताका पुजतालो. एकसुरो जमनीर बसून मीस भेटयतालो. मिसाक कोण एक मनीस येनासलो. कोण तरी येत जाल्यार, हो वेगळोच सो सन्यासी म्हण्टाले. उलयना, बोवाळ करिना अशें बळवंताची खबर पत्रांचेर आनी मासिकांचेर आल्देया-मार आसतना गाजताली. एक म्हयनो सुमार जालो. एक दीस कोणें बळवंताच्या दारार मारलें. ताचें नांव अमृत गांवकार. ते एकामेकाक भेटले. अमृताक आवय-बापूय नासलो. आपूण बळवंताशीं रावतां म्हूण अमृतान सांगलें. दोगांय मदें एक दाट इश्टागत उत्पन्न जाली. तरीय बळवंतान बळ केलें ना आनी अमृताक क्रिस्तांव जा म्हूण सांगलें ना. अमृतान आनीक धा जाण भुरग्यांक हाडले आनी ते सगळे आसा तशें जेवन-खावन बळवंत फादरागेर रावंक लागले आनी ताचे बराबर मागणें करूंक सुरू केलें. बळवंत तांकां क्रिस्तांव जावपाची गजाल बी सांगनासलो. आपूण मागणें करतालो, आनी तांका दयाळपण आनी मनशाळपण दाखयतालो. इतलोच ताचो संरमांव आनी सांगप, करणी मनशाची, बदलप देवाचें अशें तो चिंततालो.

एक दीस बळवंताचो इश्ट अमृत भोंवडेक गेलो. एके म्हातारे शेमांयन ताका आपयलो. ते म्हातारे शेमांयगेर तो भितर सरलो. म्हातारी शेमांय सत्तर वर्सांचे पिरायेर पावलेली. तिणें बळवंत -फादराची गजाल आयकल्ली. तिणें

अमृताकडल्यान बळवंताची बारीक - सारीक गजाल काडली आनी बळवंताक आपले खोंपटेंत आपयलो. बळवंत खुशालकायेन आनी धांवीं-धांवीं म्हातारे शेमांयचे झोपडेंत भितर सरलो. म्हातारेचें नांव सरिता. सरिताबायन दिंबयेर पडली आनी बळवंताच्या पायांचो उमो घेतलो. सरिताबाय बळवंताचे केंस पुसले आनी हीं उतरां उच्चारलीं :

"बाबा पुता रे, हांवें बातीज्म घेतलेलो आनी धर्मांतली भायर सरल्यार म्हाका विसेक वर्सां जालीं. म्हज्या जिवितांत, हांव केन्नाय तरी, म्हज्या जाण्टेल्यांच्या आनी म्हालगड्यांच्या भावार्तांत सोंपूंक आशेतालीं. देवान तुका एक सर्गावेलो दूत कसो म्हाका धाडलो. आतां म्हज्यान शांतीन मरूं येता."

बळवंतान तिका दुसऱ्या दिसा सायब दिलो आनी कांय दिसां उपरांत ती सोंपली. बळवंत दिसान दीस तिका भेट दितालो आनी तांचें दयाळपण आनी विस्वासीपण पळोवन दुसऱ्यां सांडलेल्यां आनी सोडलेल्या शेळयांच्या काळजांत एक खेरीतूच मोग आनी मोयपास जल्माक आयलो. सरिताबायेन ताका निमणो निरोप आनी संदेश दिलो.

"बळवंत म्हज्या पुता रे! हांव वेतां आनी तुज्या हातांत अंतरूंक म्हाका व्हडलो संतोस. तुका देवान एक मिसांव दिलां. सांडलेलें सोदूंक आनी बाटयलेलें मेळोवंक. तुका हांव हे तीन सुलूस आनी सुचनां दितां. हांगसरल्यां जमीनदारांनी आमचीं भाटां व्हेल्यां तीं परतून आमकां दी. आमी जाण्टेल्यांच्या भावार्तांत परतीं येतलीं. आमचो भावार्त परको न्हय, पूण आमी ताका भायल्या वस्त्रांनी न्हेसयला, तुजें न्हेसप, वागप आनी रिती पाळप देशी जावंदी. आमी सगळीं शेतकामतीं. जेजू क्रिस्त भुकेल्ल्यांक उंडे दितालो आनी मनशांची पोटां भरतालो. तो बापाची खबर सांगूंक आयलो जाल्यारूय, तो संवसार आनी जेवण -खाण विसरनासलो. हीं तिनूय कामां करशी जाल्यार, तूं नांवां प्रमाणें बळवंत जातलोय. तुजेर वादळ आनी मोड आयलें जाल्यारूय जिखतलोय. हांव मरतां आतां, म्हजें बेसांव आनी मागणें तुजे खातीर आसतलें. चल फुडें, खूप चींत, खूप माग. वयरसून हांव तुका पावतली. वेतां रे, बाबा."

बळवंत चिंतनेंत पडलो आनी ताणें पवित्र संस्काराफुडें हें मागणें केलें. "धनयां हांवें कितें करचें तें हांव नकळों. म्हाका तुजो आदार दी. मनशांचीं काळजां तुज्या हातांत आसात, तुजे विणें म्हजे लागीं कांय एक जायनां. ह्या मनशांचीं

काळजा बदल."

मागण्या उपरांत, बळवंत आपल्या इश्टाक, अमृताक आनी ताच्या एकल्या इश्टाक भायर भेटलो. उपरांत तो मिसाची भेट करूंक गेलो. जमनीर बसतालो, धवो फूल तुवालो आंगार, उडयतालो. कोंकणींतल्यान मागणीं उच्चारतालो. मागण्यांत आनी मिसांत भारतीय पध्दत वापुरतालो. योगा आनी तातुंतलीं आसनां बसपां-उठपां शिकलेलो. अमृत आनी ताचे सांगाती पयलीं वयल्या वयर पळवपाक येताले. उपरांत तेय मिसांत वांटो घेताले आनी तरीय तांकां बळवंत जाण्टेल्यांच्या धर्मांत परते येयात म्हणनासलो आनी क्रिस्तांव जायात म्हूण सांगनासलो. ही खबर सगळ्याक फांकली. बायलो आनी दादले भेटेक आनी भाशणाक येताले आनी आपुणूय ताळयो पेटयताले. बळवंताक आनी तांकां आपूण खूप लागीं पावलेशे दिसताले. थोड्यांनी नव्यान आपलो भावार्त उच्चारलो आनी नियमीतपणीं बळवंतागेर शिक्षणाक आनी वस्तेक येवंक लागले. गांवांत आनी गांवाभायर खबर पसरली. बळवंत हिन्दू जाला, भटपणां करता, ताचे पाद्री इश्ट गुणगुणूक लागले. पणजे बिसपाचे पलासींत खबर सादली.

पणजे पाद्री - बुदवंतांची जमात भरली. थंय बळवंताची गजाल जाली. तो हिन्दू जाला, जमनीर बसता, पुराणां शिकता, योगा करता, क्रिस्ताक पुजिनां, हे आनी दुसरे आरोप ताचेर घाले. एका शाण्या पाद्रीन, जेरोनिमो क्वाद्रोस, ताच्या आदल्या पाद्र-विगारान तोंड घालें आनी सांगलें : बळवंत कायच्या कांय करचोना आनी कसलींय तुफानां येवं, तो शास्त्रा भायर वचचोनां आनी हिन्दुय जावंचोना. तर येते बसकेंत आमी बळवंताक आपोवंचो आनी ताका आपलें कितें सांगचें आसा तें सांगूंक लावंचें. कोणाचीच, व्हडलो पातकी लेगीत जाल्यार, आरोपी नासतनां, आमी झडटी करूं नये.

दुसरे बसकेंत बळवंत हाजीर जालो. पणजेचे वाटेर आसतनां, तो चिंतनेंत पडलो. आपणाक कित्याक आपयला तो नकळ जालो. पयलेच पावटी तो व्हडले बुदवंत पाद्रींचे सभेंत उबो रावलेलो. भरवंशाचें किर्ण म्हणल्यार एके बसकेर पाद्री जेरोन क्वाद्रोस, आल्देया-मारचो विगार-वार आनी ताचो रायपुरचो इश्ट. प्रि. ग्रासिया मोरेनो, कोंकणी भक्त आनी आगामेनोन लॉरेन्सो बी झळकताले. बळ घेवन, बळवंत उबो रावलो आनी ताका बसकेच्या येजमान्यान खुर्चेर बसयलो. इतल्या म्हणसर बळवंत रिकाम्या वेळार. रॉबॉर्त दे नोबिली, माटेओ रिकी,

बाल्तासार द कोस्ता, जुआव द ब्रिटो हांची जिवित कथा वाचतालो आनी ताणीं कशे तरेन भावार्तांचें संस्कृतावप आनी गांवठावप केल्लें तें शिकतालो. गांवच्या एका संस्कृत पंडिताक घेवन, बळवंत संस्कृत भास आपणायतालो. रिकाम्या वेळार बळवंत वकिलकीचीं पुस्तकां बोटायतालो आनी सकाळचो पणजे येवन आदूवोगादाचें-वकिलाचें शिक्षण घेतालो. हे शिकवणे वरवी तो उलोवंक भियेनासलो. फाव तो जबाब, फाव त्या विचाराक दिवंक हुशार जाल्लो. शिंवामदें दानियेल उबो जालो अशें ताका दिसलें. बसका सुरू जाली.

जुआंव दे बार्रोस ह्या अशीर मनाच्या प्रि. बुदवंतान ताका हो विचार केलो "तूं कोंकणो जाला म्हण्टात तें खरें?"

बळवंतान जाप दिली "हांव कोंकणो जांवची गरज ना. हांव कोंकणो जल्मलां आनी कोंकणो हांव सोंपतलों. कोंकणी आमची भास, कोंकणो जावंची म्हाका गरज ना." ताणें तिडकेनूच सांगलें. आपले शांतीबायेचो, आवयचो उगडास विसरलो.

जुआंव दे बार्रोस : 'तर तूं हिन्दू जालाय?'

बळवंत : "हांव हिन्दू जावंक ना. म्हाका म्हज्या धर्माची बडाय, तरी गिरोब कितें आनी पों कितें आनी कचरो कितें, सार कितें आनी अडेचें कितें तें वासरूंक हांव बेस बरो जाणां. भावार्त कितें आनी ताचें न्हेसप हें दोशीं करूंक हांव शिकलां."

जुआंव दे बार्रोस : "प्रमाण करप, दोनूय हातांनी तकली मोडप, हिन्दू पुराणाचो वापर करप हें कितें, जोतीं नासतनां मीस भेटोवप हें कशें?"

बळवंत : "ह्याच गोंयच्या गांवांत रोबेर्त दे नोबिली हाचीं ह्या विशया संबंदी झडटी जाली आनी ताणें आपलो प्रतिवाद केलो आनी आपले वाटेन कार्दीयाल रोबेर्त बेलार्मिन हाका हाडलो. ताची रीत पुर्तुगेज जुआंव दे ब्रिटो आनी बाल्ताजार दा कोस्ता हाणीं वापुरली आनी हजारांनी आत्मे जिखून घेतले. भाग्यवंत आगुस्तीन आनी आंबरोज आनी आदले आपोलोजेत -प्रतिवादी ग्रेग तत्वगिन्यान शिकताले आनी आपलो धर्म विस्कटावंक उपेगायताले. कोलकोत्याक प्री. जोहान्स आनी दांदोय हाणीं शंकराचार्य आनी रामानुज आनी उपनिषदांचीं शास्त्रां आनी क्षेत्रां शिकून काडलीं आनी आमकां क्रिस्त दाखयलो: टू क्रायस्ट थ्रू वेदान्ता. आमी जें भारतावप करतांव तें हिन्दूवप जाल्यार, रोमी रीत कुड्यां देवांक पुजप म्हणूं येतलें. रोमकारांनी तातुंतल्यो रिती अदरून घेतल्यात. हांव क्रिस्तांव, हांव हिन्दू न्हय

इतलेंच हांव म्हज्या कारामुलीच्या भावांक तांच्या जाण्टेल्यांच्या भावार्तांत हाडूंक वावुरतां आनी हातूंत इलोसो म्हाका अणभव आनी जैतूय मेळ्ळां.

हें उलोवप आयकून, बळवंताचो काळीज गोंडांतलो इश्ट जेरोन क्वाद्रोस मुरगट्ट्टालो. ग्रासिया मोरेनो खुशालकायेन हांसतालो. शिटूक आगामेनन तकली हालयतालो. थोड्यांनी सभेमाजार ताळयो पेटयल्यो. आनीकूय विवाद चल्लो. बळवंत आनीकूय उलयलो आनी मुद्दे मुद्यांनी फोडले, रजावांक रजांव दिलें आनी पणजेचे, बुदवंताचे बसकेंत आनी मंडपांत जैतीवंत जालो. प्री. जेरोन क्वाद्रोस हाणें जाणटीकायेन आनी उतरां मेजून आनी मापून सांगलें : "आमच्या इश्टाक, बळवंताक आमी दुखोवं नये, तो करता तें देवाचें काम. चिनाक चिनी रिती आसल्यो. त्या रितींनी जेजुयतांनीं, खेरीतूचपणीं माटेव रिक्की हाणें चिनी साम्राज्याक भुलयलो आनी खुपशा मांदारीं आनी व्हडल्या शाण्यांक क्रिस्तांवपणांत हाडले. कार्दीआल दे टूरनॉन ह्या आमच्या जुजे वाजाच्या काळावयल्या कार्दीआलाक लागून, इंदियेक आनी चिनाक गांवटी रिती बंद केल्यो आनी क्रिस्तांवपणाचो धांव आनी नेट बंद जालो. ह्या परक्या आनी वयल्या वयल्या मिसनाराक चिनी आनी भारती आत्म्याचें पोंद गमलें ना देखून ताणें इतलो धर्माचो इदवास केलो." प्री. जेरोनीन उलोवंचें सोंपोवंचें आदीं आगामेनन, ग्रासिया मोरेनो, आनी बळवंताचे सेमिनारींतले इश्ट ताळयांचो पेट करताले. बळवंताचें शेंकरें फुल्लें आनी तो आपल्यां कारामुलींच्या शेळयांक समजता ते भाशेन धर्म शिकोवंक आनी तांकां आवडटा ते भाशेन धर्मीक रिती पाळूंक निश्चेव करीत, प्री. जेरोनीक आनी आगामेननाक हात दिवन, घरा परतलो. सरिताबायेची एक सुचना पाळ्ळी. दोन उरलेल्यो.

बळवंत एक जिवीताची घडी फुंकीसवाय सोडपाचो न्हय. सगळे न्हिदेक लागतच, बळवंताच्या कुडांत सदांच दिवो दिसतालो. राती फोडीत तो वकीलकेचीं पुस्तकां वाचतालो. गोंयच्यो कोमनीदादी, गांवपणां, भाटां आनी विटां, तांच्यो शिमो, तांचीं कागतां आरती-परतितालो. बोबाळ नासतना, ताणें पणजे वकीलकीची परिक्षा पास केली आनी प्रतिवाद आनी देफेज करूंक परवानगी आनी रज्या मेळयली. कारामुली जमीनदार आसले, भाटकार आसले ते दुसऱ्यांचीं भाटां घेवन, आपूण जेवताले आनी खरेल्या धनयाक उपाशीं मारताले. आदवोगादां आनी वकिलांफुडें वचत जाल्यार, लोकाक नितूय मेळची नासली आनी बोल्सां रितीं करचीं पडटलीं आसलीं. बळवंत शेतां - भाटांच्या खात्यांत आनी कचेरींत

गेलो, नेम आनी मेरो शिकलो. ताबेलियांव आनी नोतार हांच्या घरांनी वचून, ताणें भाटांचीं कागतां घेतलीं, दीस आनी रात तीं शिकून काडलीं, कोर्तींत आनी न्यायसभेंत गेलो आनी आपल्या लोकांची भाटां फाव त्या मनशांक दिलीं. बळवंत फादर आमचो आदवोगाद, आमचो वकील म्हण दुबळ्या लोकामदें फांक पडली. दीस आनी रात ताच्या दारार साबार जिनसांच्यो तक्रारी घेवन लोक एकटावलो. इतल्या लोकांचीं तक्रार फुंकट आनी पयशां शिवाय बळवंत प्रतिवादता आनी जिखता तें पळोवन बऱ्या मनशांक सूख दिसलें. खोट्या मनशांक नसाय दिसली. केन्ना तरी ताका धरचो आनी न्यायसभेमुखार व्हरचो तांचो एक समज जालो. ताणीं एक उपाय काडलो. बळवंत वैजुकी चलयतालो आनी बरेपण शंबर वाट्यांनी शिंपडायतालो.

कारामुली येना फुडें, ताणें एका शेतकामती आनी सैम मोगी शंकर पालयेकार हाची इश्टागत जोडलेली. शंकर पालयेकार कारामुलीच्या रानांनी आनी झाडांनी भोंवतालो आनी मुळां-पाळांचीं वखदां रचतालो आनी आपले गूट आपल्या पाद्री इश्टाक सांगतालो. बळवंताकूय झाडापेडांचो मोग आसलो आनी लोकांक इलाज आनी भलायकी दिवपाची ताका खुपशी व्हडली खोशी आसली. शंकर आनी बळवंत खांदार हात घालून दोगूय खरेले इश्ट कशे गांवांत भोंवडी मारताले. खरज, दाद, ताप आनी जोर पयस करताले. काकोयचो गूट सेग्रेद तांचेकडे आसा म्हण जाणां जावन, सगळे तिसवाडीचो लोक जमा जातालो आनी बळवंताचो जीव खातालो. ताचो तरूण इश्ट अमृत, बळवंत ना तेन्ना लोकांक सुमारान वखद दितालो आनी जायत्या लोकांक फायद्याकूय पडटालो. बळवंताच्या घरांत सुपुर्लें शालीनी वाढलेलें. बळवंताचें दयाळपण आनी कारामुलीच्या लोका ठांय ताचें उदारपण आनी मोयपास पळोवन तें पाद्रीच्या घरांत शिरकल्लें. तेंय बी कुशीनूच रावन, बळवंताक केन्नाय च्या बी करून दितालें आनी केन्नाय अमृताचेर दिश्ट घालतालें. बळवंत ताचो मोग करतालो आनी ती आपलेवतीन आनी वांट्यान ताका मोग दाखयताली. कारामलीच्या आनी सरभोंवतणच्या वैजांक आनी भाक्रांक बळवंताची वैजुकी आनी दयाळी बरी दिसनासली. कशेंय तरेन ताचेर राग काडूंक ते उपाय सोदताले.

भाटकार आनी वैज एकवटले आनी डॉ. पुरूषोत्तम सुखठणकार हाका ताणीं फुडें काडलो आनी पणजेच्या आदमिनिस्त्रासावांत बळवंताचेर तक्रार केली.

बळवंत कार्त नासतना वखदां वांट्टा, देवचाराक काडटा, मनापिडा आनी नेत्रीं पयसायता. दोशीं जाल्ल्यां काजाऱ्यांक एकठांय करता. तो वखदां दिवन, पिंशी काडून, गांवांत भोंवून आनी भेटून, गांवचो सुसेग आनी सवस्थाय उबयता. बळवंताक इंतिमसांव आयलें. बळवंताक इंतिमसांव - आपोवणें येनाफुडें, शंकर पालयेकार, शालिनी, अमृत आनी बरे जाल्ले पिडेस्त आदमिनिस्त्रासांवाचे कचेरी लागीं उबे जाले आनी शेवट कितें जाता तें पळोवंक तयार रावले. शंकरान आपल्या इश्टांक आनी बरे केल्ल्यांकूय उबे केले. गावांत मारलेले भाटकार आनी बोल्सांत तपास-साधन घालून वैज, व्हडल्या चेऱ्याचो आनी मिशांचो पुरूषोत्तम सुखठणकार आनी डॉ. ए. रेवेरेदो माथ्याक मिरयो घालून, कचेरी भायर गजाली करताले. बळवंताक जिविताक एक लिसांव शिकयतले म्हण आपणांच भितर आनी लोकांमदें झांकतालें. इतल्यांत मान पोंदाक घालून, बळवंत धवोफूल लोब घालून, कचेरी भायर उबो रावलो. भुरग्यांनी ताच्या लोबाक हात लावन ताचो लोब म्हेळयलो आनी ताका भिवूं नाका आपूण बाराबर आसात म्हण आस्वासन आनी खात्री दिली.

सिन्योर आदमिनस्त्रादोर, बोनिफासिओ मिरांदा हाणें बळवंताक आनी वैजाक भितर काडले आनी बसूंक विनवणी केली. बसले. अधिकाऱ्यान आनी जाळवणदारान डॉ. रेवेरेदो हाचे लागीं तक्रार करूंक, सांगचें आसा तें सांगूंक शिडकायलो.

डॉ. रेवेरेदो : 'ह्या बळवंतान सगळ्या गांवांत खवदळ घाला. ताका आनी ह्या शंकर पालयेंकाराक वैजुकीची आबेसी येना. ते वखदां दितात, आनी लोकांक बरे करतात म्हूण सगळ्यांक फांक पडल्या! आमी शिकलेले वैज आसून, हे पालयेकार आनी बळवंत पाळां घेवन भोवतले कित्याक?'

आदमिनिस्त्रादोरान, पुरूषोत्तम सुंखठणकाराक बोट दाखयलें आनी उलय म्हण आज्ञा केली. पुरूषोत्तम सुंखठणकारान आपलें तोंड उगडून ही सकयली कायलोळी मांडली.

पुरूषोत्तम सुंखठणकार : 'देंवचार काडटा खंय हो बळवंत - मंत्रांकार. कोण जमनीक घास मारता, कोण हुयेल मारता, कोण गाळ्यां - फोस्त्यांचो बोवाळ करता. बळवत हात दवरता आनी मनीस शांत जाता खंय. हे मंत्रूच, सिन्योर आसमिनिस्त्रादोर हीं आडकां आनी नाडकां पयस कर आनी खऱ्या विज्ञान शास्त्राक

ह्या गांवांत सुवात दी. वैजुकी वेवसायाक मान दी आनी मंत्र आनी पाळां - वखदां पयस कर. हो फकाणांचो म्हाल सोंपय.'

इतल्यान धाकटीं भुरगीं आदमिनिस्त्रादोराचे कचेरींत तोंड भितर घालून पळेतालीं. एकलें जीना मास्कारेन्हास नांवांचें भितर सरलें, अधिकाऱ्याक हात दाखयलो आनी आपलें कितें सांगचें आसा म्हण गमयलें.

जीना मास्कारेन्हास : 'सिन्योर आदमिनिस्त्रादोर, तूं कशेय भाशेन आमच्या बळवंत फादराक आनी पालयेकाराक वखदां दिवंची बंद करूं नाका. खरें, ते पणजेच्या वैजुकी कॉलेजींत वचूंक नांत, तरीय थंयसरलीं वखदां खंयचीं येतात? झाडांचो आनी मुळांचो रोस काडून वखदां करतात. तशेंच हे आमचे गांवचे वैज आमचीं गांवचीं झाडां पिळून आमकां वखदां दितात. ते आमचेकडेन पयशे घेनांत, आमची खोरजेची पिडा आनी पूड पयस करतात आनी आमची अस्काची माव सोंपयतात. ते आमचे पयशे घेनांत, ते मागनासतनां आमी केद्याय वेळार आपयल्यार, आमच्या हुंबऱ्यार पांय दवरतात. आतां रात जाली म्हणून, हांचें भाशेन शेंपडी पोंदाक घालून आनी कांबळींत पांय कवळून, आमकां परते धाडिनांत. आपणाक घात, पेल्याक संतोस, म्हणपी बळवंत फादर.'

जीनाची हुशारकाय पळोवन, आदमिनिस्त्रादोर मिरांडा तटाकलो आनी ताका भायर धाडलें. इतल्यान शालीनी भितर सरलें आनी आपलीं उतरां सांगलीं.

शालिनी : 'हे मनीस नसायेन भरलेले. आमी फुकट वखद आनी भलायकी शिवरायतांव जाल्यार तांकां कसली आडखळ? तांकां जिवितांत यश जाय जाल्यार आमच्या बळवंत फादरा भशेन तांकां वावुरूंदी. रात आसलेली दीस करूंदी आनी दीस आसलेलो रात करूंदी. तांकां तेल जळोवंदी आनी दिसभर शिकूं दी. आमचो फादर घरांतलो भायर सरना. तो पणजेची बिबलिओतिका नाशोनाल आनी गोंयच्या वैजुकी इस्कोलांतलीं पत्रां आनी पुस्तकां हाडून रातचो अभ्यास करता आनी तुमकां जाणां जावंक हांव सांगतां, ताणें आतां वैजुकीचें पद जोडलां. ताच्यान फा. बळवंत दा कोस्ता होमियौपथीक वैज म्हूण व्हडले घराभायल्यान तोकटे मारूंक येतात. खायात आतां, भाटकारांनो तुमची शेंपडी पोंदाक घालून पळापळ काडात. रावूं नाकात.'

वैजांनी आपली तकली पोंदा घाली. तांकां धांवचें दिसतालें. एकलो चोरयां पांय भायर घालून पळून वचूंक सोदतालो. बळवंतान ताच्या हाताक घट्ट धरलो

आनी आपणाक उलोवंक दिवंक आदमिनिस्त्रादोराकडेन मागणें केलें. अध्यक्षान रजा दिली.

बळवंत : 'सिन्योर आदमिनिस्त्रादोर, म्हज्या मोगाळ वैज आनी भाटकार भावांनो, बरें करपाक नेम ना. ताका कोणाच्यान मेरो घालूंक जायनांत. तुमी म्हाका अडचण्यो घालतले म्हण जाणां जावन म्हज्या आंगांतलें रगत आनी बळ झरोवन हावेन वैजकी पदवी जोडली आनी जरी म्हाका तुमचें इतलें वैजुकी शिक्षण ना तरी म्हाका देवान हात गूण दिला. सत सांगतां, हो पालयेकार जाका तुमी पाळनकार म्हणटात तर तो म्हजेहून आनी तुमचेहून शाणो. तो पालव दिवपी. तुमी ताचो पालव घेवंक जाय आनी तुमची जाणवाय वाडटली आसली. शिक्षण आसा पुस्तकांवेलें आनी शिक्षण आसा अनुभवाचें. आनी अनुभवाच्या शिकपांत, आनी शिक्षणांत पालयेंकार पयलो. तुमी मंत्रांकार म्हणला म्हाका. हांव मंत्रांकार न्हय. हांव जेजू ख्रिस्ताक सत मानतां, तोच वैज. तो कुड्ड्यांक दोळे, पांगळ्यांक पांय, भेऱ्यांक कान, पिडेस्तांक भलायकी दितालो. ती पदवी ताणें आपल्यांचेर विश्वास ठेवतल्यांक दिल्या. आनी म्हाकाय तो आपले दयेन दिता. हे तरेन मनशाचेर हात धरून मागणें करतकूच तो मागणें आयकता आनी भलायकी तोच क्रिस्त दिता. हांव देंवचार आसा म्हूण जाणां पूण म्हजें मत सगळेंच देंवचार न्हय. आंब्यांपोंदाक देंवचार, पानांपोंदा देंवचार हें सारकें न्हय. जे इतले आदीं देंवचार म्हण्टाले तें सैरण शास्त्र (मानसशास्त्र) उदरीं आनी विज्ञानशास्त्रा वरवीं विस्कटावं येता. जें सैमाचें विस्कटांव येता तें सैमा भायल्या उपायांनी समजून घेवं नयें तशेंच म्हजी जीण हांव सैराणशास्त्र (मानसशास्त्र) शिकूंक लागल्यार कितलीशीं वर्सां जालीं. म्हाकाच आनी दुसऱ्यांकूय बरे करूंक हें शास्त्र हांव शिकतां आनी पाळटां आनी तातूंतल्यान काजाऱ्यांचे प्रस्न आनी विचार सुटयतां, तांकां हांव खेरीतूच आदार दितां. मंत्रांचें म्हजेलागीं कांय ना. मागणें आसा आनी विज्ञानशास्त्र आनी ताचें शिकप आसा. आमी झगडूं नये. एकामेकाक हात दिवन भोंवुया.'

आदमिनिस्त्रादोर : वैज म्हज्या भावांनो, भाटकार म्हज्या इश्टांनो, बळवंतान आनी ह्या सुपुल्ल्या भुरग्यांनी आपलें कितें आसा तें सांगलां. ताणीं कसलोच कायदा मोडूंक ना. बरेंपण जाल्यार केलां. आमचीं इतलीं झाडां आसात. तांचो तुमी पालव आनी आदाव घेवंक ना. बळवंतान आनी पालयेकार पाळनकारान घेतला. हें काम तांची तुस्त करपाची गजाल. न्हय तांचेकडल्यान चुकल्यो काडपाचें.

बळवंत आनी पालयेंकार तुमी तुमचें मनशाळायचें काम करीत रावात आनी देसाक आनी पोवाक फायद्याचें जायात.

भायल्यान अमृत, शालीनी, आनी पालयेंकार पुरसांव मांडटाले. फोगोट्यांचे मारांड ल्हासून उजो पेटोवंक तयारी करताले. इतल्यान बळवंत भायर सरलो आनी तांकां कुशीन काडलीं आनी ताणें म्हणलें, 'संवसारांत आनी जीत आनी आपोस्त खेळूंक नांव.' जिवीत आमचें आव्हान खेळूंक न्हय. आमी आमचें लागीं जाता तितलें बरेपण आनी भलेपण फांकारूंक जाय. वायट आमी बऱ्यान फारीक करूंक जाय. केन्नाय हे वैजबाब आनी भाटकार बाब आमचे ठांय वखद आनी इलाज मागूंक येतीत जाल्यार तांकां आमी बरे व्हडे खुशीन पांवचें. बळवंतान खूप बरेंपण कारामुली फांकयलें. ताचे काळजांत भुरगेपणी पासून आपले देसाचो आनी धर्तरेचो मोग वसतालो आनी कशे तरेन तो दाखोवंचो ताका चडशें उक्तें जायना आसलें. मोर्तें आनी जाण्टें सरिताबायन ताका आपलो निमणो संदेस आनी बुद्द दिल्ली. कारामुलीचे लोकाक जिकूंक ताणें शेतां आनी भाटां विकासावंक आनी तांची प्रगती करूंक शिकोवंक जाय. हें तो चिंतीत आसलो. ताच्या शिरावलेच्या घरा ताच्या आवयबापायगेर शेतां आनी मळां खुपशीं आसलीं पूण ताणें लक्ष घातलेंना आनी वासपूस केली ना. ताचें धर्मीक काम आनी हेतू सफल जातले जाल्यार शेतकामत शिकूंक जाय आसलें. तांची जात, तांचें लावप, लुवप, आसरावप, मळणी करप, दुवळ घालप हें सगळें करूंक आनी शिकूंक एका मनशाक फुर्सद नासली आनी वेळूय नासलो. करतलो कितें?

बळवंताक एक सोयरी इश्टीण आसली, तिचें नांव फ्रिडा दा कोस्ता पेरैरा. आपलो सोयरो म्हण तें बळवंताक केन्ना केन्नाय भेट दितालें. अंकल, अंकल म्हणत तें बळवंतागेर भितर सरतालें आनी जाण्ट्या आवय बापायची खबर हाडटालें. बळवंतूय आपल्या आवय - बापायक स-स म्हयन्यांनी भेट दितालो आनी उमळशीक मारतालो. फ्रिडाबायक ताणें आपली शेताची अडचण सांगली. फ्रिडाबाय माद्र जावंक आशेताली. आपले एकले आवयक लागून ताणें बंगळूर वचून ॲग्रीकल्चर कॉलेजांत नांव जोडलेलें आनी सगळ्या शिकप्यांमदीं पयलो जागो मेळयल्लो आनी आनिकूय शिकूंक तें आशेतालें. आपल्या तिवाक आदार दिवंक ताका व्हडली खोशी भोगली. तें मिशनार जावंक सोदतालें आनी ताचें मिसांवांचें काम कारामुले जावंचे आसलें.

फ्रिडा बायेन सगळ्या गांवाक भेट दिली आनी शेतां पळयलीं आनी आपली विद्या कशी वापरची हाचेर ती नियाळ करुंक लागली. कारामुलीच्या शेतांनी आनी मळांनी गेलें, तातुंतली माती आनी चिखल हाडलो, आपले प्रयोगशाळेंत-लॅबोरेटोरींत व्हेलो, ताची चवकशी केली आनी कशे तरेन सगळो गांवच एक आदर्श आनी देख-दिणों शेतां-गांव करुंक येता तें येवजीत रावलें. आपल्या दुसऱ्या शेती-शास्त्र्यांक तिणें आपल्या तिवागेर व्हेले आनी तांचे कडेन भासाभास केली आनी तांचो सहकार घेवंन वैज्ञानीक रितीन शेत वाडोवंक कारामुलीकारांक शिकयलें. घरा-घरांमुखार तिणें आनी तिच्या सांगात्यांनी केरळचे धाकटे जातीचे कावथे लायले आनी तीन वर्सांभितर रसाळ आनी पुटपुटीत नाल्लांच्यो पेंडयो दिसल्यो. गांवांत कोण-कोणांचोच नाल्ल चोरीना जालो आनी आपलो नाल्ल खावंन धादोसलो आनी संतोसलो. खासगी भाटांनी आनी खडपांनीं जण एकल्यान केळंबे लायले आनी जीनसावार केळीं उत्पन्न जालीं : रसपाळीं, मोयडेचीं, गोंयचीं आनी वसयचीं बाराच बरीं आमच्या केळ्यांचेर लांबलीं. फ्रिडा-बायेन कारामुलीकारांक गार्फ लावंक शिकयलें. जिनसांवार पॉट-तरेचे आंबे उत्पन्न जाले. एका-एका घरांत तरे-तरेचे आंबे रुजु जाले. फर्नांदीन, अफोन्सो, कोस्ता, मोन्सेरात, घोंट आनी सोलाचें आनी फळांचें तोर वाडलें. घरच्या-घरा भेंडो, तवशें, इरवील. अळसांदो, दुदी, कोंकणो-दुदी, वायंगें, केबेज, मिरसांग, हळद, काळींग, पियाव, लसूण उत्पन्न जाली आनी माथ्यार मारुन लोक धंदो करुंक लागलो. बळवंत बाबान हिरवें आनी पाचवें रिवॉलुसांव वो क्रांती सुरु केली अनी ताच्या काळजांतलो आंवडो 'म्हजो भारत शेतांचो गांव' पुरो जालो. सगळ्या मनशांचीं काळजां बळवंता वसल्यान ओडलीं. हिंदू आनी क्रिस्तांव ताका माये-मोगान आनी मोयपासान पळोवंक लागले. आदले अदिवासी भाव ह्या तिब्राद क्रांतीन शेत, वखद, भारती, रितींतल्यान आपल्या जाण्टेल्यांच्या भावार्थात आनी शास्त्रांत व्हडल्या आंकानीं रिगले आनी थीर जाले.

पणजे, आपले पलाशींत एक अधिकारी आनी धर्मिक मनीस चिंतनेंत पडलेलो. ताच्या हातांत आसलें जाल्यार, तो गोंय सदांच पोर्तुगालाच्या हातांत दवरतलो आसलो. पोर्तुगाल इटर्नो, पोर्तुगाल सासणीक, अशेंच कितेंय पुर्तुगेज तशेंच तांचे मुणयारी आनी बिस्प सत मानताले. गोंयचो पात्रिआर्क आदीं तशेंच चिंततालो आनी देखुनूच ताणें एक दीस बळवंताक आपयल्लो आनी भारतपण

कित्याक घेवंन आसा काय म्हण ताका शिटकायल्लो. आतां ताच्या मनांत दुसरींच चिंतनां आनी भावना खेळताली. पुर्तूगाल सासणाक उरचोना आनी सदांकाळ पात्रिआर्क पुर्तुगेज रांवचोना, पुर्तुगेजांनी खाटली-पोटली घेवंन वयचे आदीं, ताणीं इगर्जेचीं सुत्रां काळे-कातीच्या मनशांच्या हातांत घालूंक जाय आनी जीं उतरां लेयांव तेराव्यान कांदीची सेमीनार उगडताना म्हणलीं, तीं सत जावपाचो वेळ पावलो. “Filii tui, India, administritibi salutis” - ‘इंडिया तुजेच पूत, तुजे तारक जावंचे’ दों जुजेच्या काळजांत कातोल्क इगर्जेचो मोग वसतालो. देखूनच ताणें एक येवजण काडली. गोंयचीं धार्मिक कातोल्क सुत्रां गोंयकारांच्या हातांत दिवंक जाय. ही आपली येवजण तो केन्नाय सरकारी अधिकाऱ्यांक पोर्तुगालाक कळयतालो. तितल्याक लागून ते ताका बऱ्या दोळ्यांनी पळयनासले आनी ताच्यो सांगण्यो आनी म्हणण्यो कुशीक उडयताले. तरी ताणें काळजीदारपण घेतलें आनी कोण, म्हजे फाटल्यान कोण, तो येवजणेंत आनी चिंतनेंत पडलो.

कीं-कीं जाताना, कोळखे रात्री, एकसुरो बसून आसताना, पात्रिआर्काची दिश्ट ‘आल्देया-मार’ आनी कारामुली पावली आनी घुंवली. थंय ताका घट्ट आनी थीर पाद्री बळवंत झळकलो. ताणें आदलें आनी आताचें आपल्या जिवितांत कशें सांबाळ्ळां, वादळ आनी मोड ताच्या जिवितांत इतलें घुसलां आसतनाच तो खरेलोच ‘क्रिस्ताचो पाद्री’ कसो जियेला आनी प्रजेचो खरेलो सेवक कसो वागला. ताकाच पात्रिआर्काचें चेपें आनी कोंके फावो.

दुसऱ्या दिसा ताणें आपली जीप घेतली आनी एकलोच कारामुली पावलो. थंय ताका शालिनीबाय भेटली आनी तिणें बळवंत फादर ना म्हण कळयलें. ‘बेगीनूच आपोवन हाडटां’, तिणें म्हळें. बळवंत कोणांक मरणा-वेळार वखद आनी पिडेवंतांची संस्कार दिवंक गेल्लो. पात्रिआर्क आपणांक भेटूंक आयला म्हण आयकून ताका आटवेंच दिसलें. कितें जायत, कात जायत, आपणाचेर कोणे तरी केस आनी तक्रार केल्या, कोणे कितेंयबी बरयलां अशें ताका दिसलें. तरी काळजाक घटाय घेवंन तो पात्रिआर्काफुडें उबो जालो आनी ताणें शालिनीक सांगून कपभर फुटी च्या हाडून दिली. बळवंत आपलो लोक जियेता तसोच आपूण जियेतालो, जेवतालो आनी पियेतालो. सोरो मात तो केन्नाच आफडी नासलो. इतल्यान दोगांय मदें ही गजाल मात जाली -

पात्रिआर्क : बळवंत, हावें तुका एक बरी खबर हाडल्या!

बळवंत : कसली?

पात्रिआर्क : तुकां हांव रोमाक शिकूंक धाडूंक सोदतां. तुका तकली आसा, भलायकी आसा, ना कितें सगळें आसा!

बळवंत : तर हे म्हजे प्रजेची काळजी आनी निगा कोण घेतलो ? म्हज्यान तांका सांडूंक जायना.

पात्रिआर्क : तें तुका पडूंक ना. तें देव पळयतलो. गोंयचे आर्कीडाओसेझीक तुजी गरज पडटली.

बळवंत : पात्रिआर्क सायब, म्हाका व्हडपणाची खोशी ना. हांव धाकट्टुलो पाद्री कसो वावरुंक आनी म्हजेविशीं कोणेच काळजी केल्ली म्हाका नाका. देवाची आनी पेल्याची सेवा, इतलेंच म्हाका पुरो. हांगासर ह्या म्हज्या आदीवासी भावांची खुब म्हाका अपुरबाय.

पात्रिआर्क : बळवंत, हें सगळें हांव जाणां. तुका देव सोदून काडटा. फुडार देवाच्या हातांत आसा. वच तूं रोमाक आनी गोंयचें नाव वयर काड. गोंयकारांनी आदीं रोमाक आपलें नांव फुलयलां, तुजेर एक व्हडली जबाबदारी पडटा.

बळवंत : हांव रुजू, हांव खोशी. जावं देवाची खोशी! देव दाखयता ती वाट हें म्हज्या पायन म्हाका सांगलेलें. तुजें उतर म्हाका पावलें.

बळवंतान पात्रिआर्काच्या हाताचो उमो घेतलो आनी गांवांत कसलीच बोवाळ केली ना. पात्रिआर्कान आपल्या सेक्रेतार- चिटणीसाक बळवंताक सगळ्यो सवलत्यो आनी सोंपेपणान दिवंक सांगलें. थोड्याच दिसां भितर पासपोर्ट आनी विसा तयार जाले आनी बळवंतान काळो सूट, कोलार बी तयार केलो आनी शेकीमेंत आपली नवी नेमणूक कारामुलीकारांक कळीत केली. गांवांत दुख्खाचें कूप पडलें. थोडे सय मागूंक लागले. आमच्या फादराक दवरया म्हण गजाल गाजली. पात्रिआर्क-सायबान तांची मागणी कानांत धरली ना. रोमाकसून बळवंत फादर परतून येतच, आपूण ताका कारामुली परतून धाडटलों म्हण सांगून घरा धाडले. शालिनीचें काळीज धरनासलें. अर्दें पिशें कशें जाल्लें. जेविनासलें आनी खायनासलें. दुसऱ्या कुडांत अमृत दुखांच्यो झरी करतालो. शंकर पालयेंकार शिरांदारीं रडटालो. ताचीं दुकां पळोवन बळवंत आपलें बळवंतपण आनी बळ

विसरून, आपलींय दुकां पुसतालो. चौगांय एकठांय जावंन तांचें उलोवप अशें जालें :

शालिनी : बळवंत फादर, तुवें म्हाका जल्म दिलो ना तरी तूं म्हजो बापुयच जाल्ल्याभशेन वागलोय. तुवें म्हाका बोट लायलें ना, एक सोबीत फूल कशें तुवें म्हाका सांबाळ्ळें. तुवें म्हजेर मूस बसूंक दिलो ना. आतां तूं म्हाका सोडून वेताय?

बळवंत : खरें, शालिनी, हावें तुजो भयण आनी धूव जाल्ल्यापरी मोग केलो. पाद्रीचें आपोवणें तशेंच, आयज, हांगासर, फाल्या थंयसर. तो इश्टागत आनी नातीं जोडटा आनी त्या इश्टांक सांडून वेग-वेगळ्या सुवातेर वेता, ताका एक घर ना. सगळो संवसार ताचें घर आनी फिरगोज. तो कातोल्क इगर्जेचो एकमुखी सांदो, कातोल्क म्हणजे सगळ्या सुवातांवेलो आनी सगळ्या राष्ट्रांचो. हांव आतां रोमाक वेतां. तुका हांव एक उपाय सांगतां. मनशाच्यान मोगाविणें रावंक जायना... तुका सांगूंक वेतालों हांव... पूण मागीर सांगतां.

अमृत : बळवंत - बापा, अमृत सारकें तुजे जिवीत, तुजें भोळेपण आनी मनशापण मीत-मेर नासलेलें. बापायचे सुवातेर तूं म्हजो बापूय, भावा सुवातेर तूं म्हजो भाव. तुवें म्हाका तुजोच जाल्ल्या वरी वागयलो आनी वेंगयलो. आतां एकसुरो म्हाका दवरुन वेताय! पुताक सोडून तूं खंय वेताय?

बळवंत : अमृत, हांव गोड न्हय. तुज्या अमृत नांवाप्रमाणे, तुवें म्हजी कितली सेवा केल्या. तुवें म्हजेसरीं कितली गोडवाय दाखयल्या. तुका सोडूंक म्हाका काळीज जायना. तुका हांव एक इश्टीण.... दितां. तूं मानून घेतलो?

शंकर पालयेंकार : बळवंत, अमृत आनी शालिनी, हांवय ह्या घरांत एक बापूय जाल्ल्याभशेन जियेलां. हांवूय मरणांक तेकलां. अजुनय हांव क्रिस्तांवपणांत रिगलो ना. तरी हांवें भुरगो आसतना, बातीज्म-स्नान घेतलो. म्हजें खरें क्रिस्ती नांव, 'जुझे डायस'. इतले पाद्री आयले आनी गेले. अजून आमकां बळवंतान येयात, चलात, क्रिस्ताव जायात अशें सांगलें ना, तें ताच्या काळजांत फिरताच जातलें. हांव म्हज्या बापायच्या धर्मांत परतो येतां. बळवंताची जीण पळोवंक दिसता एक सेरमांव. ताका हांवें रातची न्हिद फोडटाना पळयला. ताका हांवें दिमयेर पळयला. ताचें दयाळपण आनी मनशाळपण हांवें चाखलां आनी अणभवलां. तर आयच्यान हांव क्रिस्तांव. सभेमाजार हांव क्रिस्तांव, बळवंताच्या

सेरमावांक लागून न्हय, पूण ताच्या देखीवंत जिविताक लागून. म्हजी निमणी आशा आनी ती बळवंताचीय म्हण हांव समजतां. ती पुरी जाल्या उपरांत म्हज्यान मरूं येता, देवागेर वचूं येता. शालिनी आनी अमृतान एकामेकांचीं सांगाती आनी इश्टां जावंचीं आनी बळवंत वेचे आदीं ताणीं हो लग्नाचो संस्कार जोडचो.

बळवंतान शालिनीक आनी अमृताक एकठांय केलीं. तांच्या हाताक भांगराची मुदी घाली आनी तांचेर बेसांव घालें. अमृताच्या आनी शालिनीच्या लग्नाक सगळी कारामुली एकठांय जाली. एक एकले फामिलीन आनी घराब्यान लग्नाक नाल्ल, केळीं, आंबे, पणस आनी जित्रोप हाडलें. फ्रिडा कोस्ता पेरेरा हे शेत-शास्त्रीणीन सावूद-तुस्त केली आनी शालिनीक आनी अमृताक व्हडलें यश आनी सुखी जिवीत आंवडेलें. बोली ताळयांच्या पेटार सोंपली, फुगोट्यांचो आवाज जालो. व्हिवा सादलो.

बळवंतान आपलें निमणें उलोवप केलें.

बळवंत : अमृत आनी शालिनी, तुमी म्हजीं भुरगीं कशीं जियेलीं. हें आमचें मिसांव तुमच्या त्यागानी आनी मागण्यांनी आनी मोगान सुदारलें. तर जसो तुमी म्हजो मोग केलो आनी म्हज्या मिसावांक आदार दिलो तसोच तुमीं येत्या पाद्रींक सहकार आनी आदार दिवंचो. आदेउश. मोगान आमी जियेवंचीं, आनी मरचीं!

शेकीमेंत बळवंताचो रोमाक वेचो दीस लागीं पावलो. शालिनीन खेरीतूच जेवण आनी भुती केली आनी बळवंताचे धाकटे पोतयेंत घाली. बळवंतान काळो सूट केलो. गळ्याक काबेसांव शिवलो. बुतावांची जुडी केली, माथ्याक चेपें घालें. हातांत धाकट्टुलें मालेत घेतलें आनी लागलो वाटेक. सगळे दोळे पणजेच्या धक्क्यावेसल्यान लागलेले. सगळो कारामुलीचो लोक हांतांत फुलांचे तुरे धरून आनी साबार जिनसांच्यो भेटो घेवंन धक्क्यार पावलो. भुरगीं रडटालीं. शालिनी आनी अमृत हाताक हात धरून एकूच हात जाल्ल्यापरी बळवंताक हालयतालीं आनी तांच्या दोळ्यांतलीं दुकां बुळबुळतालीं. शंकर पालयेंकार हातांत पिकलेलें पेर घेवंन आयलेलो. तें ताणें निमण्या वेळार बळवंताच्या हातांत घालें. बळवंतान सगळ्यांक आदेऊस केलो आनी आगबोटीचेर चडलो. आगबोटीचे देगेर रांवन एका हातांत 'लेंस' घेवंन हालयतालो आनी दुसऱ्यान दोळ्यांतलीं दुकां पुसतालो. शंकर पालयेंकार आपल्या अस्कट ताळ्यान, 'बळवंत फादर जिंदाबाद' जितलो बळान म्हण्टालो तितलोच अस्कट जातालो. खरशेत-खरशेत जमनीर पडलो आनी

आगबोट वेतां वेतां दोळे धांपीत रावलो. दुखीभरीत आनी चिंतेस्त जावंन, बळवंत अग्वादाचे कोट निहाळटालो. तातुंतल्यान कितले बळवंत आनी देश-मोगी मनीस सोंसताले तें ताच्या मनांत फिरत गेलें आनी पयसुल्ल्या दर्यांत रांवन ताणें सुटके झुजाऱ्यांक नमन केलो. आदेउश आदेउस म्हणीत बळवंत एका पुस्तकांत गुल्ल जालो आनी रातयां भितर मुंबय पावलो आनी थंय रोमाक वचपाच्यो वस्तु तयार करुंक लागलो.

कारामुलीचें जिवीत बळवंतान दिल्ल्या नेमांप्रमाणे चलत रावलें. शालिनी आनी अमृत नव्या पाद्रीक आदार दिवंक लागलीं आनी कांय दीस पासून तांचें मन बळवंता वेसलें वचं नासलें. इतल्यांत शंकर पालयेंकार खूब पिडेंत पडलो. शालिनीचे आनी अमृताचे हात आपल्या हातांत घाले आनी तांका दोगांकूय बेसांव दिलें आनी अंतरलो. पालयेंकाराच्या फोंडाचेर ताणीं पिंपळ रोयलो आनी अजून तो येता-वेता एका गोंयकार गांवठी वैजाचो उगडास हाडटा. ताच्या फोंडाचेर शालिनीन बरयलें, 'गोंयकार सैमीक आनी मायेस्त वैजाच्या अमर उगडासाक, बळवंत, शालीनी, अमृत, तुजीं भुरगीं भेटयतात.'

पांचवो अवेस्वर

# रोमाचे दिशेन

**ब**ळवंत एस् एस् कांपाला आगबोटीचेर चडलो. हे आगबोटीचेर इल्लें वाचप करतलों आनी इल्लें बरोवपय करतलों म्हूण ताणें निश्चेव केलो. वेता आसतना, ताणें शालिनी बायेक आपले पेटयेंत थोडीं पुस्तकां घाल म्हण सांगलेलें. वाटेर वेळ राखून ताणें आपल्या जिविताची आनी पोयणाची आनी जात्रेची काणी बरयतलों म्हण येवजण केली. दैनिकी बरयल्यार ती कोणाच्याय हातांत पडत म्हण ताका भिरांत दिसताली. मरतकच ताच्या पुस्तकांच्या गुठलेंत मेळ्ळी आनी मेल्या उपरांत ह्या बरोवप्यान, पाद्रीच्या काळजांत कितें शिजता तें पळोवप्याक आनी लोकाकूय दाखोवपाक छापली. ताणें ती मुंबयच्या दर्यांत बरोवंक सुरु केली आनी रोमाक सोंपयली. उपरांत ताका वेळ मेळनासलो. जिवितांत आळशेपणूय ताचेर येतालें. हरशीं, पेन हातांत धरीत जाल्यार तें धांवतालें. ही आसा ताची दैनिकी :

जून १. मुंबय पावलों. गोंयकारांच्या इगर्जांक भेट दिली आनी हांगा-थंय कालसावांक आनी व्हिस्तिदाक पळेत ज़ाल्यार गोंयकाराक वळखूं येतालो. कार्दीआल सायबाक भेट दिली. गोंयकार पूत रोमाक शिकपाक वेता म्हण आयकून तो खुशाल जालो आनी आपल्या काळावयल्या प्रोफेसरांची, मर्क, बिलोत, त्रॉम्प,

क्रेवसेन हांची गजाल करुंक लागलो आनी गोंयकारांचें नांव वयर काड म्हण म्हाका शिडकायलो. येद्या नावास्त्या गोंयकार पुताक पळोवन म्हज्या काळजाक संतोस भोगलो. कार्दिआलाच्या क्वार्तांत दोग व्हडले आनी वरते गोंयकार बसून आसले.

प्रो. आलोयसिवो सुवारीस आनी प्रो. कुर्रौय आफोंस हे दोगूय कार्दीआला लागीं उलयताले आनी गोंयकार म्हण जाणा जातच ताणी म्हाका हात दिलो. हांवें तांचेकडे गोंय पुर्तुगाला खाला आसल्यार बरें काय विचाल्लें. प्रो. आलोयसिवो सुवारीसान जाप दिली : "सालाजार आमकां सांगता, गोंयकारांनी भावार्त सांबाळूंक पुर्तुगालाची गरज. पुर्तुगेज भावार्त राखपी. तुका बी तो मेळत जाल्यार, तुवें ताका म्हजें मत सरळ सांगचें, म्हजो भावार्त सांबाळूंक म्हाका पुर्तुगाल नाका, म्हाका सालाजार नाका, म्हाका एकलोच जेजू क्रिस्त पुरो." म्हाका ताचें एकदम खरें दिसलें आनी इतलो शिक्षित मनीस व्हडल्या भावार्ताचो म्हण चिंतून काळजांत बळ भरलें. इतल्यान प्रो. फ्रांसिस्को कुरैय आफोन्स उठलो आनी म्हाका पळोवन म्हणलें : "मोगाळ गोंयकार फादर, आमकां पुर्तुगेजांनी भावार्त दिला आनी त्या भावार्ताक लागून तांकां आमी उपकारी. हें भावार्ताचें रीण आनी उपकारपण आमी राजकी गुलामपणान फारीक करुंक उपकारना. स्वतंत्रताय म्हजो हक्क." ह्या दोगूय जाणवीक आनी अंतराष्ट्रीक आनी नामनेच्या गोंयकार पुतांचीं उतरां आयकून म्हजो देस आनी गांव स्वतंत्र आनी भारत मातेचो वांटो जाल्लो पळोवंक म्हज्या मनांत आनी काळजांत खुशालकाय आनी भरवंशाचीं किरणां उदेलीं.

आगबोट सवकास वेता. आमी दर्या मदें पावल्यांव. वेळ दिसना. काळोख जालो. मनांतूय चड उजवाड ना.

जून ३,४,५- दामांवच्यान आनी दीवच्यान वेतांव. हे आमच्या गोंयच्या प्रांताचे वांटे. तेय मेकळीकेक आनी सत्तेक आंवडेतात. दामांवचीं दोन कोटां दिसतात. तांचेर दोन भाग्यवंतांचीं कोंत्रेलां आनी धाकटीं चित्रां मारलेलीं आसात. कितेंय जावं! गोंयकार क्रिस्तांवानीं पुर्तुगेजां कडली भावार्त विस्तारणेची देख घेवं येता. अजुनय दामांवाक व्हडल्यो इगर्जो, एन् एस् दोस रेमेदीओस, बों जेजस ह्यो इगर्जो आपल्यो तेंग श्यो पयससून भावार्ताची खुणां दाखयतात, दामांवसून जेजूईत फ्रांसिस्कानी, दोमिनिकानी गुजरातच्यान इंदियेच्या वयल्या गांवांनी वेताले आनी धर्म प्रगट्टाले. गोंयसून दामांवच्यान, मुंबयच्यान जेजुईत पाद्री अकबराचे पलासींत

रिगले आनी ताणीं ताका कातोल्क करुंक यत्न केलो. कुकळेचो मुखी मार्तीर रुदोल्फ आक्वाविवा फतेपूर सिक्री आनी अफघानीस्तानाचे शिमेमेरेन पावलो. आमी हो भावार्त जो आमी तांचे कडल्यान घेतला, तो आमी पायले पोंदा दवरुंक फावना, तो आमी दुसऱ्यांक दिवंक जाय. गोंयकार पूत सद्याक साबार गांवांनी भावार्ताची चूल व्हरतात, एक दीस गोंय स्वतंत्र जातकच, गोंयचे पूत आपल्या हक्कान आनी गांवकारेन भारताच्या शारांनी आनी वाड्यांनी शिंपडटले आनी हें म्हजें भाकीत. उत्तरेचे बिस्प-गोंयकारूच जातले. सद्याक भारत-उत्तरेचें क्रिस्तांवपण गोंयचें थांबेचें क्रिस्तांवपण. कलकत्याक, अलाहाबाद, जबलपूर गोंयकार आसात आनी क्रिस्ताचें नांव जागयतात. केन्नाय एके एकसुरे सुवातेर एक क्रिस्तांवांची चूल आसा आनी ती म्हणल्यार कातोल्क गोंयकारांची. थंय तेर्स कोंकणींत जाता. ह्या गोंयकारांनी शंबर वर्सां पासुन आपलो भावार्त सांबाळ्ळा.

६.७.८.व्हडलीं मोडां आनी तुफानां उप्रासल्यांत. उदकाचीं ल्हारां भितर सरतात. भुरगीं हुयेली मारतात. कोणाच्याय पडलेल्या धाकट्या भुरग्याक हांव पुंजायतां आनी तांकां हांव आवयचे होटयेंत घालतां. मोगान म्हाका 'थँन्क यू' म्हण्टात. हांव पाद्री म्हण कळतकूच म्हाका दुपेट मोग दाखयतात. वादळ आनी मोड, जिवीत आमचें अशें! पाद्रीचेंय तशें, मोडाचें आनी वादळाचें, पूण ताणें घट धरुंक जाय व्हेरें! ताच्या व्हेऱ्यार बसूंक जाय जेजू क्रिस्त. तेन्नाच तें जाता धीर घटायेचें! म्हज्या मनांत एकसूरपणाचीं कुपां येतात. हांव एकसुरो बसतां. आल्देया मार आनी कारामुली आसतनां, हांव तितलो एकसुरो आसनासलों, जिवीत तितलें कोडू लागनासलें!

९.१०,११. वादळ आनी वारें कशें हांवें सगळे कांपाला बोटीक भेट दिली. कोपीत गोंयकार. ताणें म्हाका आगबोटीचेर भोंवडायलो आनी हांव गोंयकार म्हूण म्हाका हांगा-थंय व्हेलो. म्हाका गोंयकारपणाचो अभिमान भोगलो. कांय जाण आपूण आंग्लो-इंडियन म्हूण बडाय मारतात. हो कोपीत आनी इजनेर आपूण भारती आनी गोंयकार म्हण हड्ड्यार हात मारून सांगता. आयतरा दीस. हांवें मीस भेटयलें. पन्नास गोंयकार आसले. गोंयकार पाद्री आगबोटीर आसा म्हण गमनाफुडें ते म्हाका खावपाक आनी जेवपाक घेवन आयले. हांव तांच्या काबिनांत गेलों आनी तांकां सगळ्यांक बुजवणेचें उत्तर दिलें. तुमी खंयचे, तुमकां कितलीं भुरगीं, तांचो गांव, नांव आनी ठाण विचारतच. ते खुशालकायेन भरले. एक वेळ्ळेकार

आनी चिंचोणकार. जुवांव लासेर्दा आनी आपोलीनो रोद्रीगीस सगळ्या तारवार भोवले आनी सगळ्यांक ताणीं मिसाक आपयले आनी कोंकणीतल्यान मीस आसतलें म्हूण सादयलें. एकान एक गोंयकार, कोपीत तो कुजनेर, मेरेन मिसाक हाजीर जाले. म्हज्या मनांत प्री.सी.सी. मार्टिनडेले एस. जे. हाचो उगडास आयलो आनी हांवें तांकां सकयलो सेरमांव सांगलो :

गोंयकार म्हज्या भावानो आनी भयणींनो (कोपिताची बायल थंय आसली तशीच, पुर्सोराची) प्रि.सी.सी. मार्टिन्डेल एक खबर सांगता, तो लंडन शारांतल्यान वेतालो. पुरसांव काबार जाल्लें. एक गोंयकार, तारवटी आयलो आनी ताका पायां पडलो. ताणें बेसांव घेतलें आनी थँक्यू, देव बरें करुं म्हणलें. पाद्री मार्टिन्डेल हाणें ताचेकडे कित्याक आर्गां आठयताय काय विचारलें. ताणें जाप दिली, “नाताला रातीं तुवें आमचे आगबोटीर मीस भेटयलें आनी ताचेखातीर हांव तुका आर्गां दितां आनी दिनवासतां.” प्रि.सी.सी. मार्टिन्डेल हे घडणेचेर हीं उतरां बरयता, चारशीं वर्सां आदी जो मिसाचो मोग सां फ्रांसिस्क झेव्हियरान गोंयकारांच्या काळजांत ओंपलो तो आजमेरेन ल्हासता आनी भासता. भावार्ताचे मनीस हे गोंयकार. भावानो हो आसा आमचो शेरमांव आनी आमची व्हडव्हीक. तुमकां मिसाचो मोग आसा देखुनूच तुमी एकान एक हे देवाचे भेटेक एकठांय जाल्यात. तर सोंपयताना, ही म्हजी सुचोवणी आनी मागणीं “दोन गोटे आनी मीस चार गोटे जातात. दोन गोटे आनी मीस ना, दोनूच गोटे उरतात.” नुस्तेकारांक म्हजी सुचोवणी: “दोन नुस्तीं आनी मीस चार नुस्तीं जातात, दोन नुस्तीं आनी मीस ना, दोनूच नुस्तीं उरतात.” रेंदेरमामांक सांगतां: “दोन दाबणीं आनी मीस चार दाबणीं जातात, दोन दाबणीं आनी मीस ना, दोनूच दाबणीं उरतात” अशें सांगीत रावं येतालें. देखून सोंपयताना, तारवटी म्हज्या भावाक: दोन व्हियाजी आनी मीस ना. दोनूच व्हियाजी उरतात. कोण जांबयो काडूंक वेतालो, हांवें रोकडोच शेरमांव बंद केलो. ह्या तारवटी भावांक आपलें काम आसा आनी गरजेविणें मीस लांबोवंक जायना. मीस जातकच म्हाका सगळ्यांनी हात दिलो आनी हांव सिरावळीकार म्हूण जाणा जातकच एका सिरावळीकार तारवट्यान म्हाका वेंग मारली. हांव कोणाचो तो जाणा जातकच म्हज्या आज्या-पणज्यांची गजाल सांगूंक लागलो. मिसाक सोबीत कोंकणी गायनां आनी गीतां केलीं आनी सिरावळीकार भाव, आंतोनियो पेरैरान रेबेक वाजयलें आनी सांत फ्रांसिस्क झेव्हियरा हें गीत गावन रीत सोंपली. ह्या

साद्यासुद्या भावांचो भावार्त पळोवन म्हज्या काळजांत एक दुखीचें चिंतप सुरु जालें: "तांच्या काळजांत कितलो भावार्त आसा. हांव पाद्री जावन हांव म्हज्या भावार्तांत तितलो थीर ना. रोमाक तरी म्हज्या भावार्ताक उजवाड आनी थिराय मेळची!"

१२,१३,१४. म्हज्या काळजांत सुखर! हांव एकसुरो जालां, काळजांत मागणें नां. म्हज्या काळजांत खवदळ पडला. काल रातीं, काळखी रात, मळबार नखेत्रां आसलीं. हांव एकसुरो बसून आसलों. चिंतनेंत पडलेलों. काळखीं चिंतनां आनी भावनां म्हज्या मनांत घुंवताली. काळजाचे खरीक निराळेंच एकसुरपण भोगतालें. पाद्री जाल्यार वर्सां जालीं, अशें म्हाका केन्नाच भोगलें ना. म्हजें चिंतूक म्हाका वेळ नासलो. आल्देया - मार आनी कारामुली आसतना म्हजें चिंतूंक म्हाका घडी नासली. त्या भायर, शालीनी, फ्रिडा काळजाक इल्लेंशें खुशालकायेचें कीर्ण हाडटालीं आनी म्हाका मनशाळायेन आनी दुलोबायेन वाडयतालीं. हांव हें चिंतीत आसतना. म्हजे कुशीक एक पत्रकान्न जेनेव्हीव दे चारदीन, स्वीस अस्तुरी बसली. पळोवपाक भिरंड कशी दिसताली. पोले तांबडे, ओंठ-दोळे गुळगुळीत, रंगीत कलसांव घाल्लें आनी म्हजें काळीज तिचे ठांय ओडटालें. हे भशेन म्हजें ठांय आदीं घडलें नां आनी हे तरेन हांव पिसो कसो जालो नां. हांव खंयचो, म्हजें नांव आनी ठिकाण तिणें म्हजेकडेन विचारलें. हांवें तिका पाद्री म्हूण सांगलेंना. गोंयचो म्हूण सांगतकूच, ती खुशालभरीत जाली आनी 'बेले गोवा, बेले गोवा' म्हणीत ती म्हजे लागसार आयली. तिणें म्हाका सांगलें : "तूं एक खेरीतूच मनीस कसो. वाचता, बरयता, उलयता, सगळ्यांक भेटता आनी सगळ्यांकच मोग दाखयता. म्हजेकडेन मात उलयना." म्हजी इश्टागत जोडूंक आपणाक खोशी म्हूण तिणें म्हाका सांगलें. कांपालाचेर नाच जावपाचो आसलो आनी तिणें फाल्यां नाचाक म्हाका आपयलो. सद्याक आपल्या कुवार्तांत तिणें येवंक म्हजेकडे विनवणी केली. हांवें तिका सांगले: "हांव पाद्री आनी देवाक भेटयलेलों मनीस. रातचो तुज्या कुवार्तांत हांव येनां. हांवें म्हजें काळीज देवाक भेटयलां आनी सदांच नितळ काळजान आनी कुडीन जियेवंक हांवें देवाक उतर दिलां. तुजेकडेन हांव नाचत जाल्यार हे म्हजे गोंयकार भाव म्हाका आनीक सत मानचे नांत. आनी हांव एकसुरो तुजे कुवार्तांत दिश्टी पडल्यार, म्हज्यान तांकां आनीक कांय एक बरें करुंक जावंचें ना. आमचे गांवांत पाद्री नाचनांत आनी एके

खेरीतूच मर्यादीन जियेतात. तूं समजून घेतली म्हूण हांव आशा बाळगितां." तिका म्हजें कवतूक दिसलें. म्हज्या पाद्रीपणाची तिका व्हडवीक दिसली. आयदा गोरैस सांगता ते भशेन तिका घडलेंशें दिसता. बायलेचें आनी अस्तुरेचें काळीज पाद्रीवेल्यान साबार कारणांक लागून ओडटा. तांचे ठांय character sacerdotalis -यज्ञीकी शिक्को परजळटा. जेजू खेरीतूचपणीं पाद्री ठांय हाजीर आसा, तो ताचे ठांय सूर्य कसो परजळटा. अस्तुरी पाद्री एका हारशाठांय गेल्ल्या भशेन निर्मळपणीच वेता. जेनेव्हीव बायक घोवान सांडलेली आनी ती ताका सोडून पत्रकारणीचें काम करताली. तिका म्हजेवेल्यान character sacerdotalis क्रिस्त शिक्क्यान ओडली, वो ती जें तिचो घरकार दिनासलो म्हजे ठांय सोदताली. ती खेरीतूचपणीं म्हाका बरी लागताली आनी म्हज्या मनांत शिरकताली. आदेवस म्हणलो आनी हांव म्हजे न्हिदपा-सुवातेर गेलों आनी थकून आड पडलों आनी सकाळीं उठलों. उठतनां मनांत जेनेव्हीव फिरतालें. तकली हालयल्यार वचना आसलें. बेश्टीच हडकीली कशें दिसलें. काळजांत राग कसो रुजूंक लागलो.

१५,१६,१७ म्हाका कसली पिडा जाल्या हांवंच नकळो. ब्रेवीयार म्हणूंक सुरु केलें, सकाळचें मागणें करुंक वेतां, जेनेव्हीव मनांत फिरता. म्हाका तिका पळयनाफुडें शेळो घाम सुट्टालो. मिस भेटयतनां, आंगाक उजो पेटला दिसतालो, उतरां म्हणटालों, मन थाऱ्यार पडनासलें. हांव आसां तारवार, भोंवतालों कारवार. म्हजो जीव म्हाका खातालो. जिवितांत येमकोंड भितर सरलां. हांव जल्मूंक ना जाल्यार बरें आसलें अशें कशें म्हाका दिसतां. धांवन दिसतां. हांव धांवचोनां आनी भियेंवचो ना. भियेतां तेंच करतां. हांवें सांत इनासाचें आत्मीक व्यायाम-Exercicios वो रेतीर वाचल्यात आनी केल्यात. ताणें ह्या आपल्या पुस्तकार, कोण एक मनीस गोंदळांत आनी काळखांत आसतना, ताणें आपले जिवितांत कसलेंच बदलप करुंक फावना, ताणें शांत रावंक फावो. कसलोय थाराव घेतलो जाल्यार, ताणें चड मागणें करुंक जाय, ताणें पिराजीत करुंक जाय. ताणें ताळणी आनी गोंदळा वेळार शांत रावंक जाय आनी कसलोच निर्णय घेवंक फावनां. जेनेव्हीव म्हजे कुशीक येवंन बसत जाल्यार, हांव धांवचोनां, तोंडाक मिरयो घालचो नां, शांतपणीं उलयतलों. घडये तिचें कितें म्हाका सांगचें आसत, आतां ती हांव पाद्री म्हूण जाणां, कुडांत आपोवंची नां, घडये ही इश्टागत म्हाकाय उपकाराक

पडत. म्हाका कितें जालां? हांव शांतपणीं नियाळतालों. काचाबूल जावंचोना, देव दाखयतलो वाट !

१८.१९.२०. काल हांव म्हजे पेटयेंत गेल्लों. थंय म्हाका एका पुस्तकांत कोंकणींचें जैत मिस्ता, तातूंत म्हाका एक गुटलायल्ली चीट मेळ्ळी. ती चीट हांवें उकती केली. ती चीट म्हाका एका धा वर्साच्या सुपूल्ल्या चेडवान बरयल्ली. हांव कुंकळये शेरमांवाक गेल्लों आनी ताणें म्हजो पाद्रीपणा विशयीचों शेरमांव आयकल्लो आनी तो सगळोच ताणें गाठींक मारलो. ताणें ही चीट म्हाका बरयली:

मोगाळ फादर बळवंत,

तूं आमगेर धा दीस रावलो आनी आमकां सगळ्यांक सुखेस्त केलीं. आमच्या घरांतलोच कसो हांगासर जियेलो. तुजे ठांय व्हडपण नासलें. आमी जेवतात आनी खातात तेंच तूं खातालोय. आमच्या भुरग्यांची तूं ख्खूप अपुरबाय करतालोय. तुजें सगळें शेरमांव हांवें देखोर पाठ केल्यांत. आमच्या घरांत तुजीं उतरां गाजतात. लोक तुज्या उतरांचो उगडास करतात आनी इग्रज म्हजी व्हंकल, क्रिस्त म्हजो इश्ट हीं उतरां उच्चारुन भुरगीं फकाणां करतात. तुवें म्हजेकडेन विचारलें, म्हजो व्हडलो इश्ट कोण? हांवें तुका सांगलें : तुजो इश्ट व्हडलो इश्ट कोण जावं येता? जेजू क्रिस्त. मोगाळ फादर, तूं बरो आनी सांत पाद्री जाल्यार पुरो म्हूण हांव मागणें करतां. कुंकळ्ये पावशी जाल्यार, आमगेर येवन म्हाका भेट दिनासतना वचनाका.

रेकाद तुका म्हजे मायचो, भयणींचो आनी खेरीतचपणीं म्हजो उमो तुका, to your friend Jesus, to your wife the Church and all your friends.

तुजें मायें-मोगाचें
**सिंथिया**

कुंकळ्ळी, पांझरकोण.

ही चीट वाचून म्हज्या दोळ्यांतल्यान दुकां भरलीं आनी हांव संतापलों. हे भुरग्यान म्हाका म्हजी व्यक्ती (Personality) आनी एकीताय (individuality) दिली. फ्रेंड जिजस अँड वाईफ द चर्च. जेपर्यंत म्हजे काळजांत इश्ट जेजूची इश्टागत देंवता आनी इगर्जेचो मोग शेळमोडो जाता तितलोच म्हजे

काळजांत आंकवारपणाची आनी निर्मळपणाची अपुरबाय आनी माया शेळेता आनी म्हज्यो आंगवण्यो म्हाका ओजें आनी भार जातात. म्हजे काळजांत जेजू क्रिस्ताचो मोग वाडयतलों. तो म्हजे काळजांत न्हिवला, तो न्हिदला, ताका हांवें जागृत करुंक जाय. तेन्ना जेन्हेव्हीव आनी मारिया आनी शालिनी म्हाका भेकडांवचीं नात, तीं म्हाका हे परदेसांत आदार दितलीं आनी जातलीं. मनशाच्यान मोगाविणें जियेवंक जायनां. दादल्याच्या जिवितांत टेंडरनेस भोळेपणाचें दूद वसूंक जाय, तेन्नाच तो समतोलीत जाता, जिवितांत खुशाली आनी पुराय येता. क्रिस्ताच्या मोगांतल्यान हांवें खूप भोळेपण, मोग, माया मनशेपण अणभवलां, क्रिस्तच खरेलो म्हजो इश्ट आनी ताचे इश्टागतींतल्यान सगळ्या वादळांत, मोडांत आनी तुफानांचेर जैत व्हरु येता. 'Your wife the church' इगर्ज म्हजी व्हकल जाल्ले भशेन हाव तिचो मोग करतालों. म्हज्या पयल्या मिसाच्या शेरमांवांत हांवें म्हजे व्हंकल-इगर्जेचो उल्लेख केल्लो आनी तेथून पासून हांव म्हजें मागणें आनी दिसाचें इगर्जेचें मागणें ब्रेवियार भेटयतालों. म्हज्या जिविताक शेळो मांडला. हांवें खतखत्यांन वाडूंक जाय. हांव भाग्यवंत जेरोनीचें जिवीत वाचतालों. ताचे वयल्यान एक गोमून आयलां, आपले एकसुरपणांत तो जेरुजाल्याक धोलींत जियेतालो. हे धोलींतूय ताच्या मनांतल्यान आनी चित्र-पदवेंतल्यान व्हडल्या हड्ड्यांच्यो रोम शारांतल्यो अस्तुऱ्यो फिरताल्यो आनी मनांचेर आनी मागण्यांचेर प्रभाव-इंफ्ल्युअन्स चलयताल्यो. तेन्ना आपल्या एकसुरपणांत, हिब्रू भास शिकपाचें मनांत ताणें धरलें आनी तो हिब्रू पंडित जालो आनी पवित्र पुराण लॅटिन भाशेंत अणकारलें. वावर एक वखद आनी वैजुकी, खरेली थेरपी, ह्या पयणांच्या म्हयन्यांनी आनी सगळ्या म्हज्या जिवितांत वेळ इबाडचो नां आनी शिकपाक, वाचपाक, बरोवपाक लागतलों. म्हज्या आंगांत पत्रकार आसा, घडये जेनेव्हीव म्हाका पत्रकार जावंक शिकय.......

२१,२२,२३. सिंथिया बायची चीट वाचून म्हज्या आंगांत विस्वास भल्लो. म्हजे थांय मागण्यांत आनी निहाळांत क्रिस्ताचो आनी इगर्जेचो मोग वाढला. हांव दिसानदीस खोलायेन आनी खतखत्यान मागणें आनी मीस भेटयतलों. भाग्यवंत पावलाची चीट वाचतलों आनी इगर्जे क्रिस्ताची मिरयो नासलेली व्हंकल हीं चिंतनां आनी भावनां दोळ्यां मुखार हाडटलों. जेनेव्हीव म्हजो प्रस्न म्हूण हांव चिंतचोना, ती लागीं बसल्यार कदेल घेवन पयस बसचोना, शांतपणी तिचेकडेन

उलयतलों. हांवें पाद्री म्हूण सांगलां म्हण्टकच ती म्हाका निवळ आनी नितळ दोळ्यांनी पळयतली आनी आपल्या पोटांत गूठ आसात ते सांगतली. हीं चिंतनां म्हज्या मनांत फिरतात आनी घुंवतात म्हणल्यार जेनेव्हीव ही पळय आयली आनी म्हजे कुशीक बसली. ती म्हजेकडेन उलोवंक लागली.

जेनेव्हीव : फादर बळवंत, तुजे पोले कितले सोबीत, तू कितलो सुंदर सोबीत, इतलेंय आसताना, तूं देवाचो म्हुणयारी. तुका हांव लिंगी दोळ्यांनी आनी संतोशी काळजान पळोवंची ना. पाद्रींत एक कितें आसा तें अस्तुरेक ओडटा. हांवूय कातोल्क फामिलींत जल्मलीं आनी म्हजो घोवूय कातोल्क. तोय कांपालाचेर दुसरे वाटेन, कुशीन कॅबीन घेवन आनी बाराबोरी म्हजे धुवेक घेवन एकसुरो दीस काडटा. हावेंन ताका समजायलो. तो एक व्हडांतलो व्हड चित्रकार आनी कलाकार. बायल नाका. भुरगीं नाकात म्हणून ताच्यान दीस आनी वरां काडूंक येतात. आमकां कितें जालां तें हांव नकळ, आमचीं मनां आनी काळजां आनी मोगा भावना पयस आसात. आमचीं काळजां पयस पावल्यांत. आमी एकामेकांचो मोग, लग्न जावंचे आदी पासून करतालीं. आतां आमकां शेळो मांडला. आमच्यान एकमेका लागीं उलोवंक जायना. हांव एक पत्रकार, म्हज्या जिवाक काम करुंक सूख लागना.

हांवें सगळें आयकलें. म्हाका तिच्या घोवाफुडें व्हर म्हूण हांवें विनयलें.

ताचें नांव जुवांव दे देवूस फोन्सेका. हरशीं तो गोंयकारुच. कामां आनी एका कलेच्या प्रदर्शनाखातीर स्वीसाक गेल्लो आनी जेनेव्हीवेच्या सोबितकायेक आनी सुंदरायेक भुलून तिच्या मोगांत पडलेलो आनी धवे कातीकडेन काजार जाल्लो. ताणें म्हजी खबर गोंयकार कापीत आनी इंजनेराकडल्यान आयकल्ली. हांव भितर सरनाफुडें ताणें म्हाका कदेल दिली आनी ताची पांच वर्सांची धूव म्हजे दिंबयेर बसली. हांवें तिका पोशेली. इतल्यांत जेनेव्हीव भितर सरली. हांव आपले धुवेक व्हेरोनिकाक पोशेता तें पळोवन जुवांव द देवूस फोन्सेका खोशेन मुरगटलो आनी म्हजेकडेन बारीकसाणेंन उलोवंक आशेता दिसलो. इतल्यांत आपणाक आपलो घरकार चडसो लेखिना तें पळोवन जेनेव्हीव भायर सरली. जुवांव द देवूस फोन्सेका म्हजे लागीं गजाल मात करुंक लागलो. आपले धुवेची गजाल तिची हुशारकाय आनी तिजी हिकमत. तिचें पिंतारप आनी कलेचो मोग म्हाका म्हा व्हडव्हीकायेन सांगूंक लागलो. हांवें सगळें लक्ष दिवन आयकलें. ताणें आपली बायल नसायेची म्हणलें. ती कुन्नाटी तिच्यान म्हजे धुवेंचें बरेपण पळोवंक जायना.

देखून ती कुशीन भोंवता अशें कितें सांगलें. हांवे ताका ही स्थिती बरी न्हय म्हूण समजायलो. आनी हांव जेनेव्हिवेक आफोवंक गेलों. आनी तिका जुवांव द देवूसाच्या केबिनांत हाडली. तांकां एकमेकाफुडें तोंडाक तोंड पळोवन बसयलीं. तांचें कितेंय सांगचें आसा तें सांगूंक लायलें. काळजांत आनी पोटांत आसा तितलेंय ओकूंक शिटकायलें.

जेनेव्हीव : जुवांव द देवूस, तूं म्हजो इतलो मोग करतालो, व्हेरेनिका जल्मना फुडें तुवें म्हाका कुशीन केली. तूं म्हाका मोग दाखयना. तूं म्हजेर दीश्ट घालिना. तूं म्हजेठांय इतलो थंडगार! तूं म्हाका आत्म्याचो आनी कुडीचोय संतोस दिना.

जुवांव देवूस फोन्सेका : जेनेव्हीव तुज्यान म्हजेकडलो चडसो मोग सोदूंक जायना. हांव एक कलाकार आनी काजार जावंचे आदीं म्हजे गूण आनी अवगूण तूं जाणां आसली. हांव भुरग्याचो, व्हेरोनिकाचो मोग करतां म्हणटा तें सारकें न्हय.

हांवें दोगांयचीय काणी आयकली आनी तांकां एक वावर दिलो. तांकां दोगांकूय हांवें एकमेकाठांय आपणाक कितें भोगता, अणभवता ताची खरी भावना बरोवंक लायली, आनी ताणींच खरो निर्णय घेवंक सांगलें. एकमेकांचीं कागदां सर करुन इतलेंच जाल्लें; तीं दोगांय जाणां आपल्या भुरग्याचो एका मनान मोग करिनासलीं. दोगांय जाणांनी निश्चेव केलो आमी एकाच काळजान आनी एकाच मनान व्हेरोनिकाचो मोग करुंक जाय. जेनव्हीवेन आपलें कॅबीन सोडलें आनी दोगांय जाणां मोगान चलूंक लागलीं. म्हज्या काळजांत खुशालकाय देंवली. हांव खुपशीं सैरणशास्त्रीक (मानसशास्त्र) पुस्तकां वाचतालों आनी ताचेवयल्यान हांवें कुमसारांत आनी बुद्द दितना खूप लोकाक फायदो काडूंक दिलो. हांवें तांकां स्वीसाक पावतकच मॅरेज एनकावंटर जें युरोपाक आनी अमेरिकेक जातात तांकां वचूंक सुचना केली आनी ती ताणीं मान्य केली. तांकां हांवें एका पाद्रीचो पत्तो दिलो. आमचेमदें एक खेरीतूच बंदपास निर्माण जालो आनी तातुंतल्यान आमचेमदें नितळ आनी निवळ इश्टागत उत्पन्न जाली. जेनेव्हीव म्हाका आतां घडीघडी चाळोवंक येना आसलें. आपल्या घोवाची आनी धुवेची सेवा आनी बरोवपाच्या कामाक लागली. ताचेकडेन हांवें पत्रकार कसो जावं येता हाची गजाल मात केली. तिणें पत्रकारान चड वाचूंक जाय, आपले दोळे उक्ते करुंक जाय, लोकाक

कितें बरें लागता तें शिकूंक जाय. आनी जण एकल्यान आपली खेरीतूच शैली वापरूंक जाय म्हूण कळयलें. म्हजे जिवितांत समतोल आनी सवकासाय भितर सरली. भिरांत आनी भंय नासतना बायलां लागीं हांव उलोवंक लागलों.

२४.२५.२६. भाग्यवंत जेरोनीचो म्हाका उगडास आयलो. मनशान आनी पाद्रीन खूप शिकूंक जाय. म्हजें म्हाल उगडलें. वेळ मारुंक म्हाका कितें तरी वाचूंक जाय आसलें. शालीनीबाय टिचर - शिकोवपीण जाल्ली. तिणें कोंकणीचो अभ्यास केल्लो आनी तिणें गोंयबाब वर्दे वालावलीकार हाचीं पुस्तकां वाचलेलीं. कोंकणी भास अतीसुंदर, तिच्या बळान सगळीं क्षेत्रां आनी शास्त्रां इस्कटांव येतात म्हूण तीं म्हाका बढायेन सांगताली. हांवें चडशें कानांत धरलेंना. रायपुरा, हांव देवनागरी वाचूंक शिकलेलों आनी इल्लीशी मराठी म्हाका येताली. कारामुलीय वकील आनी वैज भावांकडेन हांव मराठी मारतालों आनी खंयचेय तरेन पाद्री लोलो न्हय म्हणून तांकां उक्तें करतालों. उतर नकळ जाल्यार मोलेस्वर्थ हाचो कोश उकतो करतालों आनी भास सटासट उलयतालों. कोंकणीची आवड म्हजे आंगांत अजून भरुंक ना, अशें म्हाका, ताचें बळ आनी गिरेस्ताय वरती म्हण ग्रासिया मोरेनो हाणें रायपुरा कळयल्लें. अर्दो उबगणेन आनी अर्दो शालीनी बायेक खुशाल करुंक हांवें गोंयबाबाचो भुरग्यांलो इश्ट उकतो केलो. पयलीं वाचूंक मातशें अवगड लागलें. वाचतां वाचतां शणै जायत जायत गेलों आनी भाशेची ओड आनी मोड म्हज्या आंगांत भरली. 'सुंदर म्हजें गोंय, गोड म्हजें गोंय, भांगराच्या वताचें, रुप्याच्या चान्न्यांचें, कर्तुत्वी मनशांचें, धर्तरे वयलो सर्ग' हें कवीत वाचनाफुडें म्हजें आंग शिरशिरलें आनी आनीकूय ताचीं पुस्तकां वाचूंक आनी शिकूंक तयार जालों. हांवें दुसरें पुस्तक हातांत घेतलें. वाचपांत हांव गुल्ल जातालों. जेनेव्हीव आनी ताचो घरकार येतालीं. म्हाका जेवणाक आनी वस्तेक आफयतालीं, पूण म्हज्या मनांत गोमंत उपनिषद घुंवतालें. खंय पावलां, कितें करतां तें म्हाकाच समजनासलें. वेळ उदक कशें व्हांवतालो आनी जियेवंक आनी न्हिदूंक हांव विसरतालों. कोंकणी भाशेंतल्यान सगळें सांगू येता आनी तातुंतल्यान धर्मशास्त्र, इतिहासशास्त्र, भासशास्त्र, विज्ञान शास्त्र, भूंय शास्त्र, रसायनशास्त्र सोंपेपणी आनी दुसऱ्या भासांचीं उतरां हाडी नासतना विस्कटावं येता आनी एकदीस हेच भाशेंतल्यान शास्त्रां आनी क्षेत्रां आमचीं भुरगीं शिकतलीं हें म्हाका उजवाडलें. गोंयबाबाची 'पितूबाबालो तांब्यापटो' ही काणी वाचून ताचो कोंकणीचो आनी

गोंयचो मोग उकतो जालो. तेंच तें ! ताच्या सगळ्या बरोवपांतल्यान आनी लिखणेंतल्यान एक सत परजळटा. गोंयचो आनी कोंकणीचो मोग. हांवूय ही भास सारकी मुळा आनी तळा पासून शिकतलों. धर्मशास्त्र आनी सैराणशास्त्र (मानसशास्त्र) दुसरीं क्षेत्रां हेच भाशेंतल्यान उक्तीं करतलों आनी हे भाशेचें बळगें राष्ट्रांहुजीर स्पश्ट करतलों. सोंपी, सादी, सुंदर, सोबीत कोंकणी भास वापरतलों. शालीनीबायन म्हजे पेटयेंत प्रो. ज्योकीं अंतोनियो फेर्नांदीसाचीं पुस्तकां घातल्यांत तीं सगळीं रोमी अक्षरांनी बरयल्यांत. आमचो सोडवणदार, कोंकणी पयलें पुस्तक, गोंयचो शेतकामती आनी कांदोळेचे व्हड कोंकणी भाषेची गिरेस्तकाय, तिची सोबितकाय, तिची ओड आनी मोड उजळ आनी उजवाडीत करता. आमच्या सोडवणदाराचें वाचप करुन गोंयचे स्वतंत्रताये झुंजारी आपलो वेळ मारताले आनी ताचे वयल्यान ते कोंकणी भाशेचे मोगी उतरले. खऱ्यानीच, जशे आमचो समेस्तांचो वळखिचो, आर्मांदो मिनेझीसबाब सांगतालो आनी ताका गोंयबाब उल्लेखतालो, 'गोंयचो व्हडांतलो व्हडलो विद्वान कोंकणीतूच बरयतलों' हें ब्रीद हांव म्हज्या जिविताचें करतलों. खंयचीय भास कोणूय शिकतलो जाल्यार ताणें ते भाशेच्या पंडितांची आनी विद्वानांची पुस्तकां वाचूंक जाय. पुर्तुगालाक वेतकूच तोरे दो तोंबो आनी बिब्लिओतिका नशनल ह्या पुस्तकशाळांनी हांव आदल्या बरोवप्यांचीं पुस्तकां खेरीतूचपणी, फा. थॉमस स्टिफन्स, फा. मिंगेल द आल्मेदा, आंतोनियो साल्दान्या, पेद्रो सा हांचीं बरोवपां वाचतलों आनी तांचीं पुस्तकां आताच्या लोकांक समजता ते रितीन छापून घेतलों. मोंसिन्योर सेबास्तियांव आर दाल्गाद हाचे कोश आनी व्याकरण आरतून परतितलों आनी ताची व्हडविकी आनी शास्त्रीकी सगळ्या राष्ट्रांनी ओळखून घेवंक तांचें जिवीत इंग्लेजींतल्यान आनी पुर्तुगेजींतल्यान बरयतलों...... क्रिस्ताचे आनी कोंकणीचे सेवेक म्हजें जिवीत अर्पितलों.

२७.२८.२९ आज हांव शांत आसां. जिवितांतलें येमकोंड गेलें. खुपदां आमचें सुकर आनी काळखी राती आमच्या "Misconceptions, distortions, false judgements - खोटीं चिंतपां, वाकडीं तर्का आनी तत्वा लागोन येतातं." आमी शिकत आयल्यांव ते प्रमाणे अस्तुरी एक फुरशें सोरोप, घास मारतलो आर, असो आमचो समज. धनयाच्या जिवितांत खुपश्यो अस्तुऱ्यो आसल्यो; ताची सोबीत, सुरेख आवय, मारिया, मार्था, मारिया माग्दालेना; तांचे ठांय तो वागूंक जाणां आसलो आनी तांचो ताणें देवाच्या

राज्याखातीर उपेग केलो आनी ताणें मनीस-काळजान तांचो मोग केलो. ह्या फुडाराक, अस्तुरेक पळयल्यारुच आंग काडूंक दिवंचोना, धावून न्हय पूण फुडो करुन हांव म्हज्या जिविताचे प्रस्न सुटयतलों. "Christus solutio omnium difficultatum - क्रिस्त सगळ्या आडखळ्यांचो जबाब." ताका म्हज्या दोळ्यांमुखार दवरुन म्हजीं आडमेळीं सुटयतलों. ताच्या मोगांतल्यान म्हज्या काळजाक शांती आनी घटाय मेळटली. कांपाला आमची आगबोट चार दीस सुयेज खाडींत रावताली. इंग्लेजांनी आनी फ्रांसेजानी बॉम्ब उडयल्ले. तांचे कुडके आनी चुरे थंयच आसात देखून ती खाड काडूंक चार दीस तरी लागतले. कोपितान आनी श्री. फोन्सेकान म्हाका व्होवळीक दिली. कोपीत ताची घरकान्न, श्री. फोन्सेका, जेनेव्हीव आनी तांची धूव इजिप्तांत एके मोटरींत बसून सुकलेली मडीं (मम्मीं) पळोवंक गेलीं. हीं सुकलेली मडीं व्हडल्या घरांनी तीन वण्टी-बांदपानी सांबाळ्यांत आनी अजुनूय, इतल्यां वर्सां उपरांत सुकलेली कात आनी हाडां दिसतात. वाटेर कापसाचीं धवीं मळां झळकतात. जाण्टीं, भुरगीं, तरनाटीं कापूस पुंजावन आपलें उदरपोसण करतात. गोंयच्या शेतां भाशेन, हीं धवीं धवीं फूल कापसाचीं मळां मनशाचें मन निर्मळपणां आनी नितळकायेवेसल्यान ओडटात. आमी, हीं मडीं पळेल्या उपरांत, मोटारींत बसूंक वेतालीं. तेन्ना आमच्या दोळ्यांनी एक गोंयचीय कशी फामील दिसली. तिगां भुरगीं मोटवी कलसावां घालून, घरकार ग्रोवात मारुन पायांक मोचे घालून आनी घरकान्न तांबडी साडी न्हेसून, पायांक चिनेलां मारुन चलताली. अकस्मात तांच्या मदल्या भुरग्यान म्हाका बोट दाखयलें, "गोंयकार फादर, बळवंत. मांय गे तो आमचे सांकवाळे प्रि. जुजे वाजाच्या नोवेनाक आयल्लो आनी ताणें शेरमांव सांगलेलो. तो म्हाका घेवन लोकांचीं घरां भोंवतालो, म्हाका मिठाय दितालो." गोंयकार म्हणनाफुडें आमी थटाकले. खंयचे आनी कितले पयस सुवातेर आमी भेटल्यांव! आमचीं काळजां उमाळ्यान आनी उमळशिकेन भरलीं. गोंयची गजाल विचारली. हांवें तांचेकडे हांगासर कशीं पावलीं काय म्हूण विचारलें. तिचो घरकार एक इजनेर आनी मुखी पळोवप्याचें काम करतालो. किर्लोस्कार खातें इजिप्तांत काम करतालें आनी थंय खूप इंदियान जिनसावार कामां धंदे चलयताले. एकलोच एकलो सांकवाळेचो गोंयकार म्हणल्यार जॉन वाज. काळोक जायत आयलेलो. जॉन वाजान आमकां आपल्या घरांत कायरो शारांत व्हेलीं. गोंयची शीत-कडी आनी पापडे खावन आमची गोंयची उमळशीक

मारली. सगळे गोंयकार तेर्साक बसले. थोडे कोंकणीतल्यान जाप दिताले. जेनेव्हीव फ्रेंचीन, कोपीत इंग्लेजीन. तेर्स सोंपतच, सगळ्यांनी रुजारी सायबिणी, गायन केलें आनी उपरांत सकाळीं उठून सुयेज खाडीची वाट धरली. भुरगीं हाताक धरुन भोंवतालीं आनी म्हजी फाट सोडिनासलीं. अर्दे वाटेर पर्यान आयलीं आनी गोंयां पावतकच आपणाक भेट दी म्हूण म्हजेकडे विनयलें. जॉन वाजान रोमाक पावतकूच प्रि. जुजे वाजाच्या अनुक्रमाक-प्रोसेसाक कितें जालां तें पळोवंक विनयलें आनी ताणें आपल्या काळजांतलो सुस्कार सोडलो. "कित्याक रावलाय अजून पर्यान?"

जुलाय १.२.३. काल हांवें जॉन वाजाच्या घराब्याक भेट दिली. ताणें खूप खुशालकाय भोगली. म्हाकाय म्हजें पाद्रीपण पुरें जालें कशें दिसलें. पाद्रीन जेजू भाशेन आपल्या शेळयांक वळखूंक आनी तांच्या शेळयांनी ताकाय वळखूंक जाय. हें हांव करीत आयलां आनी ताचे वयल्यान म्हजें पाद्रीपण पुरें जालें. आतांच्या पाद्रीन धोलींतलो आनी भुंयमेरांतलो पाद्री जावंक जायना. अजुनय म्हजे दोन दीस उरल्यात. एकल्या कोपिताक घेवन हांव जेरुजाल्याक गेलों. जुदेवांनी आपल्या गांवांत घेवंक खूप आडखळ्यो घाल्यो. आमकां सासपिले. हांव तापलों. तापून कित्याक उपकारता काय म्हूण कोपितान सांगलें. म्हाका म्हजीच लज दिसली. जेरुजाल्यांत भितर सरल्यांव. म्हजें शिकप चडशें पवित्र पुराणांचेर जातलें देखून हांवें "Ecole Biblique de Jerusalem" हे संस्थेक भेट दिली. त्या शोध शाळेंतल्यान व्हडले व्हडले फ्रांसेज पुराण पंडीत, लागरांजे आनी बेनोइत येवन गेले आनी पुराण शास्त्रांचेर ताणीं खूप उजवाड घालो. तांचे पुस्तक शाळेंत Vie de Jesus by Pere Langrange, Vie de Jesus by Leonce du Grandmaison, Vie de Jesus by Lebreton. Theologio de Saint Paul by PerePrat ह्या सारकीं मुख्य आनी म्हत्वाचे सुवातेर परजळटालीं. हाजीर आसलेल्या पाद्री लागीं हांवें म्हजी सिमिनारींतली फ्रांसेज मारली आनी ते पेरे गोवानीज म्हणून ते म्हाका वळखिताले. उपरांत हांवें जेजुईतांच्या शिकपाच्या घरा भेट दिली. ताणींय म्हाका आनी कोपिताक व्हडव्हीकेन आनी संतोसान घेतले. गोंयांत जेजुईत कसलें काम करतात ताची म्हायती म्हजेकडेन घेतली. रडट्या दुर्गालागीं (वेलींग वॉल) आमी गेल्यांव. थंय कांय जुदेव मागणें करताले आनी वण्टीक पळयत खुपर्शी वरां लायताले. आंतोनिया कोट पळोवंक गेल्यांव. लिथोस्ट्रोटोस ही सुवात उसपून काडल्या तशीच आसा.

थंय पिलातार्ची ब्रसका आनी व्हडल्यो फातऱ्यो दिसतात. फातऱ्यांचेर गामांचे खेळ आसात; थंय रोमी शिपाय गामांचो खेळ खेळटाले आनी त्या गामांच्या खेळांतल्यान तांकां राजाची याद आयली आनी ताणीं जेजूक राजा न्हेसयलो आनी ताचीं फकाणां केलीं. आंतोनिया कोटाचे लांब आनी रुंद फातर दिसताले. जेतसेमानीच्या मळ्यांत पावले. थंय आझेयतोनाचीं झाडां दिसतात आनी आजुनय व्हडलीं देवदाराचीं रुंद झाडां आपली सावळी घालतात आनी थंय जेजून दिंबी घाली आनी त्या झाडांनी ताका आपली सावळी दिली, असली तोंडी सांगणी चलता. बेल्या शारांत घरां वाडल्यांत आनी हांगा थंय राखणे आपल्या बोकडांक आनी मेंढयांक राखतात. उपरांत आमी नाजारेथ शारांत पावले. काना आनी दुसरे धनयाच्या जिवितांतले गांव आमच्या दोळ्यां हुजरां गेले. नाजारेथ सुपुल्लो गांव आनी अजुनय थंय आंकवारीची झर, मारियेची झर, आपलें उदक तानेल्ल्याक दिता. थंयसून आंकवार मारी उदक व्हरताली म्हूण परंपरा चालू आसा. जुदेवाच्या गांवांत म्हाका एक वस्त खात्रेनूच आनी खासगेनूच पळोवंक जाय आसली. ती म्हळ्यार किबूज. जुदेवांनी पवित्र पुराणाच्या पुस्तकाचो सोद केला. खुबदां पुराणांत कसोच इतिहास ना अशें खूप जाण समजतात आनी खबरो शिंवरायतात. पुराणीक सांगण्याप्रमाणे जुदेव शास्त्र्यांनी खंयचे सुवातेर दाखो पिकताल्यो. खंयचे सुवातेर देवदार झाडां वाडटालीं, खंय पियां रुख लागताले, खंय-खंय मदेरां झाडां फुलतालीं तें सोदून काडलें आनी थंयच आधुनीक जुदेवानी दाखां, देवदार आनी पियां झाडां लायलीं आनी भरपूर पिकप केलें. ही पिकावळ वाडोवंक ताणें किबूज, मनशाच्यो सभा आनी संस्था घडयल्यो आनी हो लोक एकठांय रावंक लागलो. आपलो श्रम आनी वावर एकठायलो आनी फळांचो हिशेब बराबर केलो आनी सगळ्या इज्रायेल गांवांत पिकावळ वाडयली. किबुजांतलो लोक शिस्तीन आनी एकवटान जियेता आनी देखुनूच एक प्रकाशीत आनी प्रगतीत राष्ट्र इज्रायेल जालां. कांय इज्रायेल अस्तुऱ्यांक पळोवंक कवतूक दिसता. त्यो लांब, व्हडल्या आनी भायर सरलेल्या हड्ड्याच्यो, दादल्या सारकिल्यो. त्यो पिस्तोल चलोवंक ज़ाणांत, खांदार बंदूक मारतात, विमानांसून फार आनी तीर सोडटात तितलेच बसतात. देखुनूच लागशिले गांव तांचेकडे लढाय करुंक भियेतात. जुदेवांक आनी पयशांक पडना. जुदेव पयशांक वेंग मारता तेच पासत एका हिमट्याक जुदेव म्हणटात.

जुदेवानी निधी आनी बॅन्की रचल्यात आनी पयशे आनी कळंतर दिवपाक

ते पयले आसतात. इस्रायेल सोडून कोपित आनी हांव आगबोटीर आयले. आमचे इश्ट आमकां रावताले. परतून येनाफुडें ताणीं आमकां मोगान घेतले आनी पोयण आनी वियाज कशी जाली तें विचारुंक लागले. हांव थकलेलों. फाल्यां सांगतां म्हूण हांव बाज्जेर पडलों. आतां म्हाका बरी न्हीद पडटा. बरी जिरवण जाता. मनाची तकलीफ ना. मेकळ्या काळजाचो जालां.

४.५.६. बरोवंक कांय येवजनां. म्हजे जिविताची काणी हांवें बरयली. कोणाचेय हातांत पडत म्हूण हांवें पिंजली. थोडीच दवरली.

१५.१६.१७ इतालीयाक हांव तेंकलां. म्हाका म्हजे मांयचो आनी पायचो उगडास आयलो. जितलें म्हजें मांयकडल्यान हांवें घेतलां ताची याद येवन म्हजे दोळे दुखांनी भरले. म्हज्या पायकडल्यान हांवें बळवंतपण आनी काळजीदारपण घेतलां. हांवें तांचे खातीर देवाक मिसार आर्गां आठयलीं. तांकां आनिकूय वर्सां दवरुंक विनयलें. हांव रोमाक पावलों. पयससून पेटलेले विजेचे दिवे दिसताले. उंच आनी रुंद बंगले परजळटाले. पयससून व्हॅटीकानाचो खुरीस चकचकतालो. जे म्हाविद्यालयांत हांव शिकूंक वतां, ग्रेगोरियानी युनिव्हरसिदादीचें व्हडलें आनी विशाल गोपूर लखलखतालें आनी प्रकाशतालें. शेकीं दीस पावले आनी विसव सोंपून हांवें शिकूंक पडटलें म्हूण आंगांतल्यान भिरांत पास जाली. तरीय वावराविणें इनाम ना. खुरसाविणें मुकूट ना.

इंतल्यांत बळवंताची दैनिकी सारकी वाचूंक मेळना, पानां पिंजल्यांत. निमाणे सुवातेर हीं पिंजकीं आनी वाकडीं तिकडीं उतरां मेळटात. तीं लॅटीन-भाशेंत बारीक बरयल्यांत. “Innocens manibus, et mundo corde काळजान नितळ ते सुभागी. हातांत निरपराधी, काळजान नितळ” हीं उतरां म्हज्या मनांत घोळटात. हांव रोम शारांत, आनी गोंय शारांत काळजान नितळ रावतलों, देवाकडेन हजार इश्ट मागतलों, पूण कोणांतूच गूल जावंचोना आनी कोणाकूच म्हज्या काळजांत गूल जावंक दिवचोना. रोमांक दिसता पावलों. त्या शारांत म्हजें काळीज मेकळें, रितें राखतलों, म्हज्या शिकपाचेर लक्ष दवरतलों. देवान म्हाका, ताच्या बळवंताक बळ दिवंचें.

आमेन !

सवो अवेस्वर

# रोमाचो शिकपी

सवकास सवकास कांपाला आगबोटीन रोमी बंदरांत आपलो नांगर घालो. बळवंताक सगळें काळखी कशें दिसतालें. आपल्या पायक आनी मांयक कितेंय जालें असलीं चिंतेस्त चिंतनां ताच्या मनांत झरी बशेन फुट्ट्र्लीं. धक्यार ताका ताचो आदलो रायपुरचो इश्ट, जॉन द क्रुज आनी ताचे सांगाती आयलेले. ताका ताणीं कॉलेजीओ लुजितानो हांगासर व्हेलो आनी एक क्वार्त दिलो. लुजितान कॉलेजीचो अधिकारी हरशीं तकलेंन हुशार आसलो. इतलेंच ताच्यान गोंय पुर्तुगालाचे पांगींतलें वेतलें आनी स्वतंत्र जातलें आनी इंदियेच्या गोपांत पडटलें हें ताच्यान चिंतूक आनी सोसूंक जायनासलें. ताकाय गोंयकारांचो खूप्प मोग आसलो. ताणीं कॉलेजीओ लुजितानो हाचेर खूप परजळ घाल्लो. आंगोला, मोझाम्बिक, गिनी आनी पुर्तुगाल ह्या गांवच्या शिकप्यांमदें गोंयकार एकदमूच परजळताले आनी चडशीं तांकां पयली आनी वरती मतां मेळटालीं आनी लुजितान कॉलेजीचें नांव उंच पावतालें आनी गाजतालें. बळवंताच्या भारताच्या मोगाची गजाल गोंयसून रोमाक पावलेली आनी तो काळजान भारती पूण झुंजांत आनी गोंदळांत भितर सरपी न्हय म्हूण सांगून 'पिदे' हिणें दवरलेलें. बळवंत तकलेन हुशार, प्रामाणिक आनी आपल्या चिंतपाचो, आनी आपल्या दोनूय पायांचेर उबो रावपी. ह्या गुणांक

लागून लुजितान कॉलेजीचो यजमान, मोंसिन्योर जुवांव मोरेरा दास नेवीस ताची अर्पुबाय करतालो. बळवंत चायेक गेलो आनी परतून येतकच मोंसिन्योर नेवीसान ताच्यो चिटी आनी पत्रां मेजार दवरलीं. इश्ट, हेराल्दो, वोंज दे सां. फ्रांसिस्को झेव्हीयर आनी कांय चिटी बा आसल्यो. एक काळ्या तिंताची चीट आसली. भायल्यान सिस्टर मारिया दा कोस्ता, मुंबय गांव, आनी स्थान मारलेलें. भियेत ताणें ती उक्ती केली. ताची आदली इश्टिण आनी मावशेभयण मारिया ताच्या मांयच्या आनी पायच्या मरणाची गजाल ते चिंटयेंत सांगताली.

सांता क्रूज, मिलाग्रीस कॉन्वेन्ट, १३/६

मोगाळ बळवंत, म्हज्या भावा,

येन्ना म्हळ्यार तूं रोमाक पावलो जातलो. वाटेर बरो वारो बा खाल्लो जातलो. सोबीत देखावे, बरे आनी निवळ मनशांची इश्टागत, रूचिचें जेवण आनी बऱ्या आनी नितळ पुस्तकांचें वाचप न्हय? केन्ना तरी म्हजो उगडास बी आयल्लो तुका?

तुका एक दुख्खीची खबर दितां. काळीज घट्ट धर. मरणांक आमकां सगळ्यांक देवान आपयल्यांत आनी बरें करून मरणाची निमणी घडी जैतिवंत करूंक शिकोवंक आमी घरदार सोडलां आनी पाद्रीपणाचो आनी माद्रीपणाचो भेस वेंगयला. तर सत हें. तुजी आवय आनी बापूय भायर पडलीं. तुजी आवय मरचे आदीं 'बळवंत, बळवंत, म्हजो पूत खंय आसा म्हणटाली. आनी तुका पळोवंक आशेताली. घरा कोण ना म्हूण म्हाका मुंबयसून वयचें पडलें. तिणें पिडेवंताचो संस्कार घेतलो. सायब घेतलो. तिचें मरण पळोवन सगळे संतोसले. जेजूचें आनी मारियेचें नांव घेवन सोंपली. भाग्यवंत आंतोनीक घडये घडये उलो मारताली. तो तुमच्या आनी आमच्या घराचो सांत न्हय? तुजे मांयचें मरण पळोवन तुज्या बापायन जीव सोडलो. ताचीं निमणीं उतरां ; 'बळवंत खंय आसा रे?' जिजस, मारिया, जुजे म्हणून सरलो. म्हजें काळीज सांवरलेनां. तुजी लागशिल्लीं सोयरीं आसलीं. शिरावळेच्या शिमिनारींत एक व्हडलो लांब आनी रूंद फोंड काडलो आनी एकाच फोंडांत, एकामेकाचे कुशींत जशीं जियेलेलीं तशींच तांकां पुरलीं. तूं केन्नाय बी येशी जाल्यार तांच्या फोंडाचेर एक खुरीस पुरला, कित्याक ताणीं एक खुरीस दोगांयनीय एका काळाजान, एका मनान आनी एका हातान

व्हेल्लो. शिमितरीच्या कोनशाक पुरल्यांत आनी तांचेर शांती दा कोस्ता, जयवंत दा कोस्ता हीं नांवां मारल्यांत. प्रि. कोपेलावांन तांच्या मरणाक आदार दिलो आनी खर्चाचो हिशेब तो तुका बरोवन धाडटलो. तेतूंन मेरेन तुजें काळीज घट्ट धर. "मरणान जिवीत सोंपना, बदलता" जें तूं व्हडल्यान गायन करतालोय तें तू जिये.

हांव फाल्यां मुंबय वेतां. म्हजीं वडिलां म्हाका हुसकेतलीं. म्हाका चारूच दीस दिल्ले. शिरावळे सगळीं बरीं आसात आनी क्लूब जुवेनील बेस बरें काम करता. आनी जितले पावटी फुटबॉलाचो खेळ जाता तितलेय पावटी क्लूब जुवेनीलाचो तूं घडणार म्हूण बढायेन उल्लेख करतात. आल्दीया-मार, कारामुली आनी शिरावळेचो लोक तुजी याद काडटात. शेरमांव सांगूंक गेल्ल्या गांवांतलो लोक तुज्या हुनहुनीत शेरमांवांचो उगडास करतात आनी रोमाकसून केन्ना येतलो काय म्हूण विचारतात. शालीनी आनी अमृत आयलेलीं आनी मांय गे, पाय गे म्हणून रडटालीं. हांवें तांकां समादान केलीं. फोंडाचेर दुकांचे व्हाळ करून आनी फुलांचे झेले दवरून कारामुली गेलीं. हांवें आवयच्या गळ्यांतलो रूप्याचो तेर्स शालीनीक दिलो. तो घेवन ती संतोसली. तांकां एक बाबुलो जल्मला आनी ताका ताणीं नांव दिलें 'देवदातो'- देवान दिल्लो.

मायेमोगान आनी मोयपासान,

तुजी भयण,

**मारिया**

चीट वाचून, बळवंताच्या आंगांत वादळ आनी वारें भरलें. देवाकडे झगडूंक वेतालो. तेन्ना ताका ताचे आवयचीं उतरां मनांत आयलीं. 'देवाची खोशी, देव दाखयता ती वाट' इल्लेशा वेळान वादळ गेलें आनी बळवंत शांत जालो. देवाचे गूट देव जाणां म्हणून थोड्या दिसांनी ताणें ग्रेगोरियन युनिवर्सीदादींत नांव घालें. एका गोंयकारान रोमाक आपलोच इतिहास सांबाळूंक जाय. इतिहास मनशाचेर एक झूं आनी जबाबदारी घालता. रोमाक दों माथेवस द कास्त्रो, ताचे विशीं एका बेनेदितीनी पाद्रीन एक व्हडलो ग्रंथ वो पुस्तक बरोवन म्हणलें "Dom Mathieu de Castro, une creature du propaganda" तो पयलो गोंयकार बिस्प सायब, दों थॉमस दे कास्त्रो, दों कुस्तोदियो द पिन्य, आबे फारिया, आनी

ताचो बापूय कायतानो वितोरिनो द फारिया हाणीं सगळें रोम आनी फ्रांस हालयलें. ग्रेगोरियांनी आनी प्रोपोगांदा कॉलेज गोंयकार नांवानी सादलेली, प्रि. आंतोनियो पैरेरा, उतोर्डेकार, प्रि. सिरियाको फेर्नांडीस, शिवोलकार, ताणें जॅकीस मारितेन हाचेकडेन तत्वगिन्यानाच्या विशयांचेर विवाद केलो. वालेरियन ग्रासियस हाणें ग्रेगोरीयनाचो जोड-गुरू हें नांव जोडलें. मोंसियोंर सेबिस्तियांव रूदोल्फ दाल्गाद हाणें गोंयचें नांव गाजयलें. वळेरी सोंपनां गोंयकार म्हणल्यार मेथाफिजिशीयन अतीगिन्यानीक, अती व्हडलो चिंतपी अशें रोमाक समजताले. आनी ही जबाबदारी बळवंताच्या खांदार पडटाली. इतिहास आमची एकीताय आनी खेरीताय दाखयता. बळवंताच्यान वयल्यावयर शिकूंक जायनासलें. ताणें भर आनी लक्ष घालूंक जाय आसलें. वावर आनी घाम हांच्यानूच ताका बळवंत आनी यशवंत करूंक येतालो. बळवंताच्या आंगांत वावराचो मोग शिजतालो.

ग्रेगोरियानी युनिव्हरसिदाद, म्हाविद्यालय भाग्यवंत इनास दी लोयेला हाणें १५५१ वर्सा रचली आनी, तीस वर्सां उप्रांत १५८३ वर्सा, तिका ग्रेगोरीयानीं म्हणूंक लागले, कित्याक ती वाडोवंक आनी चलोवंक पापसायब ग्रेगरीन खूप पयसो आनी अडको दिलो. हो ग्रेगर तेरावो, इतिहासांत खूप फांकी कित्याक ताणें ग्रेगरीयानी कॅलेंडर, वर्सा मेजपाचो कॅलेन्डर सुरू केलो आनी आयच्यान ते पध्दतींतल्यान आमी वर्सां मेजतांव आनी ती रीत सगळ्या राष्ट्रांनी अद्रून घेतल्या. हे युनिव्हरसिदादीक पीव धाव्यान पोंतीफिकल बिबलीकल इन्स्टीट्यूट १९०० वर्सा जोडलो आनी बेनेदीक्त धाव्यान १९१७ वर्सा ओरिएन्तल इन्स्टीट्यूट तेच म्हाविद्यालयाक बांदलो आनी थंय उदेंतींच्या विशयांचो सोद करूंक लागले. आनी थंयसून रूशियेक आनी उदेंतीच्या गांवांनी पंडीत आनी शास्त्री धाडटाले. खऱ्या नांवाची युनिव्हरसिदाद ही; थंय पवित्र पुराण, धर्मशास्त्र, धर्मप्रगटणेशास्त्र, सैराणशास्त्र, कायदूयाशास्त्र, समाजीकशास्त्र, इतिहासशास्त्र, अत्मितायशास्त्र, सगळ्या जिनसाचीं शास्त्रां आनी क्षेत्रां शिकयतात. थंय हजार शिकपी सगळ्या राष्ट्रांतले शिकूंक वेतात. तिनांतलो एक कार्दीयाल आनी संवसारांतल्या सगळ्या बिस्पामदें वीसजाण ग्रेगोरीयनांत शिकल्यांत. थंय दोनशीं शिकोवपी आसात आनी ते सगळ्या राष्ट्रांतले आनी सगळ्या जातींतले आनी वर्गांतले सोदून काडल्यात. थंय फिरंगी, थंय काळे, थंय भारती आनी चिनी बाराचबरी बसतात, शिकयतात. हे सुवातेर संवसाराची कातोल्क इगर्ज एकवटता आनी थंयसून सगळ्याक

शिकोवपाचो धर्मीक उजवाड फांकता. माटेव रिकी हे कॉलेजींत शिकलो आनी चंद्राचेर हे कॉलेजींतल्यान शिकोवप्यांची नांवां पडल्यांत आनी तातुंतले खुपशे शिकोवपी नखेत्रांचो आनी चंद्राचो सोद करताले आनी थंय ते पावलेनांत जाल्यारूय थंय वचूंक ते शिकताले. ही युनिव्हरसिदाद पापासायबाच्या खाला आसा आनी तोच तिचो मुख्य वडील. जेजुइतांचो वडीलूय तिचेर आपली वडीलकी चलयतालो आनी एक ग्रेगोरियनांतलो भायर सरलेलो शिकपी, बिस्प, कार्दीयाल आपले शिकोवपी आवयचो बढायेन आनी मयमेन मोग करता. असले कॉलेजींत रिगलो आमचो बळवंत दा कोस्ता.

बळवंत दा कोस्ता पवित्र पुराणांचो सोद करूंक बिब्लीकम ह्या विभागांत रिगलो. उदेंतीच्यो भासो ताणें सटासट शिकून काडल्यो. हिब्रेव आनी ग्रेग ताच्या बोटांचेर आसल्यो. देखुनूच ताका 'पाद्र हेब्रेव' म्हणटाले. युनिव्हरसिदादीचो वडील कार्दीयाल आगोस्तीन बी ताची खेरीतूच अर्पुबाय करतालो आनी आपल्या कुवार्तांत आपोवन गजाल मात करतालो आनी ताका शिकपाखातीर बुद्द आनी नयन दितालो. बळवंताच्या गिन्यानाखातीर ताचें नांव गाजतालें. केन्नाय प्रोफेसर बा 'कॉलेजीओ लुजितानो' हांगासर ताका भेटूंक येताले आनी आपलीं शिक्षणीक आडमेळीं आनी दुबाव सुटयताले. पवित्र पुराणां भायर ताणें धर्म प्रगटणे इतिहास शिकून काडलो. तें शिकप करूंक ताका एक गोंयकारांचो इश्ट पियेर चार्ल्स भेटलो आनी ताणेंच गोंयकारांक मोगाळ आनी सतेवंत नदरेन पळोवंक येरोपेवांक शिकयल्लें. अरशीं गोंयकार म्हळ्यार माती आनी धूळ म्हण समजताले. गोंयकारांक शिक्षण ना, ते उणाक, अन्नाडी, रागीश्ट, क्रांतिकार असल्या नांवांनी प्रोपागांदाच्या पाद्रीनी उल्लेख केल्लो. बळवंतान वाटीकानांतल्यान आनी ग्रेगोरियानी युनिव्हरसिदादींच्या पुस्तकांचो उपयोग केलो आनी गोंयच्या पाद्रींचो खोल अभ्यास आनी शिकप केलें. बळवंतान दोग्मा, इगर्जेच्या भावार्थाचें निजाचें आनी विज्ञानीक शिकप केलें. हें इतलें शिकप करतना, ताच्या मनांत खूप दुभाव फिरूंक लागले.

युरोप आनी ग्रेगोरियांनी विश्वविद्यालय दोन फांट्यांनी फुटलेलें : होरीझोन्टालीस आनी व्हर्टीकालीस्त आडवे आनी उबे. आडवे चडशे होलांडी, फ्रांसेज, बेल्जीकाचे धर्म-शास्त्री संवसाराचो आनी मनशाचो मोग फुलयताले. पोट आनी जेवण सोदूंक इगर्जेंत दुबळ्या आनी कश्टवतल्यांखातीर झुजूंक आनी मरूंक उस्कयताले. जेजू क्रीस्त पुरी सोडवण दिवंक आयलेलो म्हणटकूच मनशाच्या

पोटाच्या वस्तूनी इगर्जेन गूल जावंक जाय. आडवेकार प्रजेक आनी मनशाक वेंगयताले आनी तातूंत गूल जाताले, मागणें आनी ध्यान उणे सुवातेर उरतालीं. बळवंताक सैमानूच आडवेकार मानताले पूण ताच्या मनांत शांती आनी स्वस्तकाय फुलनासली. कितें करचें तो नकळ आसलो.

उबेकार देवाक आनी मागण्यांक लब्दल्ले. जेजू क्रीस्त आमकां देवाक बांदूक आयला, मनशान मागणें, पिराजीत, ध्यान करूंक जाय; मनशान देवांत गूल जावंक जाय, तितलें पोटाचें आनी जेवणा - न्हेसणाचेर तोलूंक आनी मेजूंक वचूंक फावना. बळवंताची आवय खूप मागण्यांची आनी रोजाराची आसली. "भारत म्हजो गांव" बळवंत बडायो मारतालो. देव आनी धर्म, जशे गोंयबाब वर्दे वालावलीकाराच्या पुस्तकाचेर ताणें वाटेर वाचलेलें, हे प्रस्न आमच्या जाणकारांनी झरयल्यात तशे खंयच्याच धर्तरे वयल्या राष्ट्रांनी झरोवंक नांत. भारत इज अ लॅन्ड इन्टोक्सीकेटेड वीथ गॉड, देवा मोगान बेबदो जाल्लो गांव आमचो भारत म्हण तोच बळवंत छातयेर हात धरून येरोपेव शास्त्र्यांक सांगतालो. उबेकारां फाटल्यान वच्चें, आडवेकाराफाटल्यान वच्चें?

बळवंतान हुशारकायेन पवित्र पुराणांचो सोद केलो आनी ताणें आपलो खेरीतूच ग्रंथ रचलो : पावलाचें मोगाचें शास्त्र. सभेमाजार ताणें आपलो ग्रंथ विस्कटायलो आनी ताका धा - धा मोलां तपासणारांनी दिलीं. बळवंताचें नांव रोम आनी रोमाभायर गाजलें आनी ताका सावंत गोवानीज गोंयकार पंडित म्हूण सगळे चेपें काडटाले. बळवंताच्या भावार्त शास्त्राची वो दोग्माची परिक्षा करची उरलेली आनी तो सोद करीतूच आसलो आनी तातुंतल्यानच ताच्या मनांत दुबाव आयलेले : 'आडवेकार वो उबेकार?' खूप जाणांक ताणें भेट दिल्ली आनी आपल्या जिवितांत तो समतोल आनी स्वस्ताय सोदतालो. ताणें एक ग्रंथ बरोवंक जाय आसलो तो म्हणल्यार 'De Pluralismo in Ecclesia' - इगर्जेंत वेगवेगळीकाय. आर्दी पासून आदले पाद्री 'eadem sententia, eodem sensu - तेंच वाक्य आनी तोच अर्थ सांबाळून' वेगवेगळ्यां शास्त्र्यांच्यान इगर्जेचो भावार्त विस्कटावंक येता आनी ताची समजणी दिवं येता म्हूण सांगतालें. बळवंतान भोंवड्यो मारूंक सुरू केल्यो. वेता थंय ताका सावंत गोवानीज, सावंत इंदियान - गोंयकार विद्वान - इंडियन शास्त्री म्हणटाले. जरी ताका जर्मनी भास येताली तरी फ्रांसेज आपली कोंकणी जाल्ल्या भशेन तो उलतालो. कोण ताका

सावंत फ्रांकायज म्हणटाले. पूण ताची कात तो गोंयकार म्हूण दाखयताली. इन्स्तितूत कथॉलीक द पेरीस, सोरबोन युनिव्हरसिदादींत गेलो आनी ताणें व्हडल्या फ्रांसेज शास्त्र्यांक भेट दिली. जीन दानियेलोव्ह, हेन्री डू लुबॅक, सर्तिलांगेज, युवज दे कोंगार. ह्या पंडितांक ताणें भेट दिली आनी तांकां भेटुंकूच ताका एक गिरेस्ताय कशी दिसली. तेय बी अर्थ आनी वाक्यां सांबाळून इगर्जेंत आपआपलीं थिओलॉजी आनी धर्मशास्त्र प्रगटूटाले. तरी ताच्या जिवितांत समतोल मेळनासलो. बळवंतान जर्मनाची वाट धरली.

जर्मनाक ताणें कार्ल ऱ्हेनर ह्या सर्व संवसारीक मानाच्या शास्त्र्याक भेट आनी जाप दिली. ताणें ताचेकडे विचारलें : “तूं खंयच्या दुखाच्या कोंडांतलो आयला? तूं खंयचो?” बळवंतान जाप दिली : “हांव गोंयसून आयलां” म्हणनांफुडें ऱ्हेनर ताचेकडेन उलोवंक लागलो. “इंडियेक एक आपलो इश्ट आसा आनी तो म्हणल्यार जोसेफ न्यूनर एस्. जे. तोय बी गोंयकारांचो व्हडलो इश्ट म्हूण सांगलें. उप्रांत ताणें हान्स कूंग हाका भेट दिली. ताचेकडेन उलोवंक आनी ताका आयकूंक खुशालीच भोगतालीं. ताचें बरोवप उदकाभशेन धावतालें आनी ताची जीबूय व्हांवताली. इतलेंय आसतना बळवंताच्या काळजाक सूख मेळ्ळेंना. शेकीमेत ताका प्रोफेसर जोसेफ रात्झींगर मेळ्ळो. बळवंतान आपलो प्रस्न ताका कळयलो. जोसेफ रात्झींगेरान ताका आपल्या कुडांत व्हेलो. खंयचो कात विचाल्लें, कितें शिकता आनी खोलायेन आनी चिंतान बळवंताची गजाल आयकूंक लागलो. ‘आडवे, उबे हे आमचे शिकोवपी जाल्यात’ बळवंतान सांगलें. आडवे, आमी पेल्याचे पळोवंक जाय आनी दिसनासलेल्या देवाचो मोग दिसतल्यां मनशां उदेशीं करिनां जाल्यार कशे करतले हें सादयतात. उबे, सगळ्या तुज्या काळजान, सगळ्या तुजे सक्तेन, सगळ्या तुज्या मनान देवाचो मोग करूंक क्रिस्तानूच आमकां सांगलां म्हणटात. तर हाचो समतोल आनी जबाब म्हाका कसो मेळटलो? म्हाका जिविताची तागडी जाय.

ोसेफ रात्झींगेरान बळवंताक आपल्या कपेलांत व्हेलो आनी ताणें ताका कपेलांतलो खुरीस दाखयलो. “बळवंत, ह्या खुर्साचेर तुजो दोळो दवर आनी तुका दिसता कितें?” बळवंतान जाप दिली : “म्हाका कांय एक दिसनां. म्हाका दोन खांबे दिसतात. एक उबो आनी दुसरो आडवो.” जोसेफ रात्झींगेरांन ताका जाप दिली: “तशेंच तें! आमच्या जिवितांत खुरसांतल्यान समतोल आनी जिविताची

तागडी येवंक जाय. आडवी कांब म्हणजे मनीस उबी कांब म्हणल्यार देव. ह्या खुरसाच्या कश्टांतल्यान आनी त्यागांतल्यान आमी देवाचो आनी पेल्याचो मोग करूंक शिकूंक जाय. जबाब आडवेकार वो उबेकार न्हय, जाप ही. उबे आनी आडवे. जण एकल्यान कितलो वेळ उब्या परिमाणाखातीर (vertical dimension) खर्चीतलो आनी आडव्या परिमाणाखातीर (horizontal dimension) कितलो काळ खर्चीतलो नियाळूंक जाय. बळवंताच्या आंगांत शांती भरली. ताणें आपलो प्रस्न सुटयलो. देवाच्या आनी पेल्याच्या कामांतल्यान आपूण देवाक एकवटतलों आनी त्या एकवटांतल्यान जिविताची सुतली आनी सांखळ सोदतलों म्हूण ताणें निश्चेव केलो आनी रोमाक परतलो. बळवंत सैबानूच तरनाट्यांचो इश्ट आसलो. भुरगे म्हणल्यार ताका काळजांत संतोस भोगतालो.

एका म्हयन्याभितर इटालियानी भास शिकून काडलेली आनी ताच्या तोंडांतल्यान ती म्होंव कशी व्हावताली आनी धांवताली. आयतारा आयताराक तो कॉलेजिओ लुजितानो तरनाट्यांक मीस भेटयतालो आनी तो उलयतना एक मुयेचो आवाज आयकूंक येनासलो. जितलें पुराणांतल्यान आनी पुस्तकांतल्यान आपूण शिकलां तें सोंपें सादें, शुध्द भाशेंत ताच्यान दुसऱ्याक दिवं येतालें आनी सांगू येतालें. हें काम तो इतलें बरें करता म्हूण पळोवन, येजमान मोंसिन्योर मोरैरा दास नेवीस खुशालकायेन आनी उमेदीन उफेतालो. मीस जाल्या उप्रांत तरनाटीं बळवंताचो जीव खातालीं. कातोल्क इगर्जेंत मागणें करूंक शिकयनांत म्हूण चिंतून कांय जाणां उदेंतीचीं पुस्तकां वाचतालीं आनी योगा बा करूंक यत्न करतालीं. बळवंतान आपलें संस्कृत शिकचें बंद केलेंना. व्हियेन्नाक वचून तो संस्कृत भास किरा भाशेन आनीकूय शिकलो आनी मॅक्सम्युलर हाचीं पुस्तकां बोटांच्या नाकशांर काडलीं. झेन बुध्दीजम, योगा, आनी साबार इंडियेच्यो रिती ताणें आदीं शिकून काडलेल्यो त्यो पोंदायल्यो आनी सारको कीर आनी पंडीत जालो. आयतारा - आयतारा लोंढ्याचे लोंढे एकठांय जातालें. विस - पंचवीस वर्सांचे तरनाटे आनी तरनाटीं एकठावतालीं आनी तांकां सगळ्यांक बळवंतान भारती रिती शिकयल्यो. एका वेळार माथीं सकयल करून आपल्या दोनूय हातांचेर हजार लोक उबो रावतालो आनी उप्रांत मोनेपणी आनी हात हालयनासतना आनी बोट धोलयनासतना मागण्यांक आनी ध्यानांक लागतालीं. तांकां मागण्यांक लागलीं म्हण्टकच उठोवंक जायनासलें. खंय पावल्या आनी कितें करता तेच नकळ आसले. रोम हिन्दू जालें!

लुसितान कॉलेज भारती जाली. अशें कितें सगळ्याक गाजलें. मोरैरा दास नेवीस घुस्पलो. गोंदळांत पडलो! कितें करचें तें नकळो जालो.

बळवंताची 'थिसीस' ग्रंथ सभेमाजार प्रतिवादूंचो दीस पावलो. ग्रेगोरिआनी युनिव्हार्सिदादींच्या मंडपांत कार्दीयाल, इश्ट आनी भुरग्यांचे जोमे एकठांय जाल्ले. इटालियानी तरनाटीं लोंढ्यानी पयलेच पावटी ह्या सभेघरांत एकठांय जाल्लीं. बळवंत रंगभुंयेर, पालकार चडलो. तरनाट्यांनी ताळयांचो पेट केलो. इतल्या लोकाक पळोवन बळवंत गागेवंक लागलो. पयसून ताच्या इश्टान कोंकणींतल्यान, "बळवंत, भियेंव नाका, कातर रे भाजी." तीं उतरां कानांत पडनाफुडें बळवंतान धीर घेतलो आनी सदांचे भाशेन आपलो ग्रंथ विस्कटायलो. आतांच्या मनशांन आतांच्या मनशाक समजता ते भाशेन आदलीं भावार्ताचीं सतां वाक्यां आनी अर्थ सांबाळून विस्कटावंक जाय. व्हडल्या व्हडल्या पंडितांनी आनी शास्त्र्यांनी ताका घुस्पायलो पूण कितेंच केल्यार तो सोडिना जालो. ताच्या गिन्यानाची धार सगळ्यांक ठावी जाली आनी शिकोवप्यांनी 'Summa cum laude- सगळ्यां वरतो पद' ताका दिलो आनी ताका पवित्र इगर्जेचो दोतोर- शास्त्री ही पदवी दिली. ग्रेगोरियानी युनिव्हर्सिदादीच्या पंडितांनी आनी वडीलांनी ताका रोमांक रावंक आनी थंय शिकोवंक विनवणी केली. बळवंतान नाकारलें आनी आपली सुवात आपल्या गांवांत म्हूण सांगून तो गोंयां येवपाची तयारी करूंक लागलो. इतल्यांत ताका मोरैरा दास नेव्हीस हाणें आपल्या कुवार्तांत आपयलो.

मोरैरा दास नेव्हीस हाका बळवंत एक मिस्तेर आनी गूट लागतालो. इतलीं वर्सां लुजितान कॉलेजींत रावलो आसतनाय तो आपूण केन्नाच पुर्तुगेज म्हणनासलो. 'सेर गोयस, सेर पुर्तुगेज' हो जो नारो जायतीं गोंयकारां सोडटालीं तो बळवंताक माननासलो. 'म्हजो गांव भारत, म्हज्या जाण्टेल्यांनी गमन रचला' ही फ्रांसिस्को लुईस गोमिसाचीं उतरां ताणें आपणायलीं आनी छाती भायर काडून तो सगळ्यांक सादयतालो. मोरैरा दास नेव्हीस बळवंताच्या कातोल्क भावार्थाक दुभावतालो. भुरग्यांक घेवन ही बुदीस्तांची आडकां नाडकां कित्याक म्हूण करतालो? सांता तेरेजा दे आविला आनी भाग्यवंत जुआंव डिक्रूज हांच्यो ध्यानीक आनी निहाळीक रिती आसल्यो आनी हो बळवंत उदेंतीच्यो रिती वापुरतालो आनी हजार लोकांक एकाच फाराक बुध्द जाल्ले भाशेन मागण्यांत आनी ध्यानांत गूल करतालो. बळवंत आपल्या नांवांप्रमाणे जियेतालो, सत तें सत आनी फट ती फट. भायल्यान आनी

भितल्ल्यान दुसरें ताच्या जिवितांत चलनासलें. मोरैरा दास नेवीस हाणें बळवंताक आपल्या कुडांत व्हेलो आनी थंय तांचे मदें हो विवाद जालो :

मोरैरा दास नेवीस : बळवंत, तूं पुर्तुगेज वो भारती?

बळवंत : हांव भारती आनी गोंयकार. हातूंत म्हजी व्हडव्हीक आसा.

मोरैरा दास नेवीस : गोंयकार म्हणजे पुर्तुगेज, अशें जायती गोंयकारां सांगतात.

बळवंत : हांव गोंयकार आनी भारती. खूप लोक समजता की आपूण किरिस्तांव जावंक आनी आपलो भावार्त सांबाळूंक पुर्तुगेजांचीं गरज आसा. तुमकां सांगची गरज ना, खूपशे पुर्तुगेज आपल्या जाण्टेल्यांचो भावार्त राखिनांत, ना तर पळयनांत. म्हाका म्हजो भावार्त सांबाळूंक पुर्तुगेज नाकात, म्हाका क्रिस्त आनी ताची कृपा पुरो. पुर्तुगेज इंडियेक येवंचे आदीं इंडियेक उदेंतीचे किरिस्तांव केरलाक आसले. आनी ते आपलो आत्मो पुर्तुगेजांविणें राखताले.

मोरैरा दास नेवीस : तूं बुध्दीश्ट जालाय वो हिन्दू योगी जालाय ?

बळवंत : हांव हिन्दूय जावंक ना, नातर बुध्दीश्टूय जावंक ना.

मोरैरा दास नेवीस : जाल्यार तूं तरनाट्यांक ह्यो उदेंतीच्यो रिती गरजेविणें कित्याक शिकयताय? तुवें क्रिस्ताक सांडला आनी बुध्दाक वेंग बी माल्ल्याय?

बळवंत : नावास्त्या विज्ञान शास्त्र्यांन, तेयल्हार्द दे चार्दीन हाणें सांगलें : 'जाच्या फुडल्या पिळग्यांक जियेवंक आनी भरवंसो धरूंक खरीं तत्वां दिवंक येतात तांच्या हातांत फुडार आसा? हांव तरनाट्यांक जियेवंक आनी भरवंशान फुडाराचेर दोळे दवरूंक कारणां आनी तत्वां दितां. तुज्यान आनी कोणाच्यानूच म्हज्या काळजांतल्या क्रिस्ताच्या मोगाचेर दुभाव धरूंक जायना. जसो तुका क्रिस्ताचो मोग तसोच म्हज्या काळजांत क्रिस्ताचो, इगर्जेचो मोग पेट्टा आनी पेरता. त्या मोगाखातीर हांवें म्हजो पयलो आनी फुडलें मोग पयसायले. ह्या तरनाट्यांक ह्यो रिती हांव शिकयतां जाल्यार, त्यो तयारीच्यो वाटो, पूण ह्या पध्दतींचो शेवट क्रिस्तूच. मनां आनी काळजां रितीं केल्या उप्रांत ह्या भुरग्यांच्या काळजांत क्रिस्तूच उजवाड घालता आनी तांकां ध्यानाच्या निमण्या आनी उंचल्या पावंड्यांनी तोच क्रिस्त आनी ताचो पवित्र आत्मो पावयता. जसो तुमकां क्रिस्ताचो मोग, तसोच म्हाकाय. तोच हांव ह्या तरनाट्यांच्या काळजांत ओंपतां.

मोरैरा दास नेवीस ह्या विवादांत थंड जालो आनी ताणें बळवंताक सांगलें : तुवें पुर्तुगाल कितें तें पळोवंक ना. तुजी वळख पयशिल्ली. जे पर्यान तूं थंय वचूंक

नाय आनी लोकाची वळख घेतली नाय तो पर्यान तुजें चिंतप अपुरें. तर तुका पुर्तुगालाक वचूंक हांवें सगळी तयारी केल्या. तुंवें 'हय' इतलेंच म्हणूंक जाय. बळवंतान हय म्हणलें आनी आपल्या खास दोळ्यांनी पुर्तुगाल पळयतलों आनी उप्रांत आपलो थारावो घेतलों म्हूण निर्णय घेतलो आनी आपल्या इतालियानी इश्टांक सोडूंक तयारी केली. इतालिया सांडू नाका म्हण तरनाटीं ताचे लागीं पराथूंक लागलीं. आपूण इतालियाकूय, पुर्तुगालाकूय आनी खंयच्याय गांवांत रावंक तयार ना म्हूण ताणें सांगलें. आपलो गांव सुदरावंक जाय. आपल्या गांवांत आपलें काम करूंक जाय, सुट्या आनी स्वतंत्र गोंयांत आपणें पांय दवरूंक जाय अशें सांगून ताणें आपल्या इश्टांक आदेवुश आनी विधाय केली. टीएपी ह्या पुर्तुगेज विमानान, बळवंत लिस्बोवा विमानतळार देंवलों. ब्रागा गांवांत जेजुइतांचे तत्वगिन्यानीक शाळेंत ताका दवल्लो. इतले म्हणसर भारत गोंयांत भितर सरूंक तयारी करताले. बळवंताक एक गोंयकार तत्वगिन्यान शिकपी जेजुइत भेटलो. दोगूय जाणांनी उलयत उलयत रात सारली. ह्या गोंयकार जेजुइतान बळवंताच्या हातांत 'सोरोवींग लायज माय लॅन्ड' हें पुस्तक घातलें. त्या जेजूइत शिकप्यान, ताचें नांव अनिल फालेरो तें चोरयां - लिपयां घेतलेलें आनी तोय बी आपलो गांव स्वतंत्र जातलो ह्या दिसाक आनी घडयेक आशेतालो. आनीकूय युनिव्हर्सिदादींतले शिकपी उलोवंक आनी बरोवंक आशेताले पूण सालाझाराक भियेताले, ताचें शिकप आनी फुडार व्हाळांत वेतलें आसलें. बळवंत चिंतनेंत पडलेलो.

सगळ्या पत्रांचेर बळवंत दा कोस्ता पुर्तुगालाक आयला आनी तो गोंय पुर्तुगाला खाला उरोंक फातिमाक मागणीं करूंक पावला म्हूण गाजयलें, आनी पसरायलें. सगळो लोक फातिमाक वेतालो आनी भारतान, गोंयांत पावल घालचें न्हय म्हूण मागतालो. बळवंत आनी अनिल फालेरो बाराचबरीं गेले. बळवंताच्या हातांत मायक्रोफोन दिलो आनी लिस्बोवाच्या आकाशवाणीन ताचेकडेन मुलाखत मागली. बळवंतान आपल्या हातांत मायक्रोफोन घेतलो आनी ताणें सकयलें भाशण केलें :

"मोगाळ म्हज्या पुर्तुगेज भावांनो आनी भयणीनो! आमी तुमचे दुस्मान न्हय. आमी तुमचे कडलें खूप शें घेतलां. आमी भावार्त घेतला आनी तुमचे रिणकारी आनी उपकारी (ताळयांचो पेट आयकूंक आयलो.) इतलेंय आसतनां, स्वतंत्रताय आमचो गोंयकारांचो हक्क (तोंडा आंबशीं जालीं) आमी मागणीं करताना, गोंयकार

सदांच पुर्तुगाला खाला उरचे, तशेंच आंगोला, मोसबी तुमच्या खालाच उरचीं हें आमी मागूंक फावनां कित्याक देवाचे खोशे प्रमाणे एक एका राश्ट्रां जाणटीकाय जोडूंक जाय आनी तें मेकळें जावंक जाय. इगर्जेंत ताणें आपलो मानाचो जागो मेळोवंक जाय. जें तुमी सत मानतात, पुर्तुगालाविणें इगर्ज उरचीना आनी फुलचीनां तें सारकें न्हय. उरफाटें हे गांव गुलामगिरींत उल्ले जाल्यार कम्युनीश्ट येतले आनी गांवची स्वस्ताय आनी इगर्जेची सुटका सोंपयतले. जी इश्टागत आमचे मदें आनी तुमचे मदें इतलीं वर्सां वसल्या ती पळून वेतली. गोंय स्वतंत्र जायत जाल्यार आनी भारतमातेचे वेंगेंत वचत जाल्यार, पुर्तुगाल आनी भारतामदें बरीं नातीं उत्पन्न जातलीं आनी तांचेमदें धंद्याचो आनी संस्कृतायेचो बंदपास आनी संबंद उत्पन्न जातलो, नातर दुस्मानकाय आनी वायटपणां उबीं जातलीं. भावानो, राश्ट्रां आनी गांव आपआपल्या पांयांचेर उबीं रावंक सोदतात. तांकां आमी पालव दिवया. होच आयचे इगर्जेचो आवंडो, जीं राश्ट्रां आपली सुटका सोदतात तांकां आमी आदार दिवया. आनी दोळे धांपून तांकां आमी पोंदाक घालूं नये."

बळवंतान आपलो संदेश सोंपयलो. 'पीदे'चो अधिकारी आयलो. बळवंताक धरलो. खंय व्हेलो, खंय गेलो कोणूच नकळो जालो. 'पीदे'च्या ऑफशेलान ताका सालाझारागेर उबो केलो. सालाझारान ताका बरेभशेन घेतलो. ताका बसूंक लायलो.च्याचें कोप बा दिलें. बळवंत भियेलोना. सालाझाराविशीं ताणें खुपशें आयकल्लें. ते प्रमाणे आंगांत ताच्या वादळ आनी वारें भरतालें. ताणें आपणाकूच दमायलो. सुस्त आनी शांत बसलो. सालाझारान ताका आपल्या दोळ्यांमुखार बसयलो. तांचेमदें हो विवाद जालो:

ओलिव्हेर सालाझार : तूं गोंयकार आनी भारती?

बळवंत : हांव गोंयकार आनी भारती हो म्हजो अभिमान आनी म्हयमा.

ओलिव्हेर सालाझार : तुमी इतलें घेतलां आनी तुमची संस्कृताय पुर्तुगेज, तूं खंयच्यान भारती?

बळवंत : आमी तुमचे उपकारी, आमी तुमचे कडलें जायतें घेतलां, आमी तुमची भास उलयतां, आमी येरोपी रिती आपणायल्यात. पूण आमी भारतीय. आमचें रगत भारती. तुमचें उपकारपण गुलामपणान आनी राजकी खालतेपणान फारीक करचें म्हूण ना. म्हजे लागीं आर्मां नांत. तुजे सांगणें प्रमाणे "Tem muita forca quem tem muita razao - जाका चड वरतें कारण आसा ताका

व्हडलें बळ आसा.” आमकां स्वतंत्रतायेखातीर खुपशीं कारणां आसात. म्हज्या गांवांक सत्या दिवंची हें तुजेकडेन हांव लालेवन मागतां.

ओलिव्हेर सालाझार : म्हज्या मतान पुर्तुगालाविणें इंडियेक इग्रोज तगचीना.

बळवंत : पुर्तुगालान इगर्जेक बरें केलां जाल्यार ताणें वायटूय केलां. जेन्ना पुर्तुगालाकडेन इंडियेचीं मिसांवां पोसूंक जायनां आसलीं आनी प्रोपोगांदा तीं सांबाळूंक आनी सुदरावंक फुडें सरले, पुर्तुगेजांनी नांवां आनी मानां खातीर हीं मिसांवां पाद्रोआदा खाला दवरलीं आनी इगर्जेचेर आनी गोंयकारांचेरूय मार बसलो आनी सिसमातिक - कडसरलेले वो क्रांतिकार म्हूण तांचेर तकटो मारलो. सिन्योर दोतोर सालाझार, स्वतंत्रताय गोंयकारांचो हक्क, तर तांकां सुटका आनी मेकळीक दीं.

सालाझार चिंतनेंत पडलो. बळवंताची हुशारकाय पळोवन संतोसलो. आनी असले पाद्री पुर्तुगेजांवटेन आसलेले जाल्यार गोंयांत काम सोंपे जातलें आसलें. बळवंताक पुर्तुगेज करूंक मोरैरा दास नेवीसान धाडलेलो. पूण तो आपल्या भारती मोगान तिगलो आनी दुसऱ्यांक ताणें पुर्तुगेजांकूय, गोंयचे स्वतंत्रतायेवसल्यान ओडले. सालाझारान बळवंताक पीदेचे सांगणे प्रमाण बंदखणींत घालोना. ताच्यान पुर्तुगाली गांवांत भोंव येतालें. पुर्तुगेज गांवांतलो भायर सरूंक जायनासलें. पीदे ताची गजाल करताली आनी ताच्यो भोंवड्यो आखताली आनी मेजताली. इतल्यांत बळवंताक दोग गोंयकार तरनाटे एक दिवचलकार, आग्नेलो सांतोस आनी दुसरो शिरदोनकार - मारियो दा गामा भेटले. ते पुर्तुगाल सोडून पॅरिसाक वचूंक सोदताले. पुर्तुगालाक शिर्विसेक म्हूण आयलेले पूण भुकेन मरताले. ताणीं एक येवजण काडलेली. ते पुर्तुगालाचे पळून वचूंक उपाय सोदताले. बळवंताकूय केन्ना तरी घरा वेचें जाल्लें आनी कामांक लागचें दिसलेलें. एक दीस आग्नेल, मारियो आनी बळवंत पुर्तुगालाचे उत्तरेक गेले आनी थंय कांय दीस इस्पानांत कशी उडकी मारची तें शिकूंक लागले. तांचेकडेन इल्लेशे पयशेय आसले. एक राती कोणाक कळनासतना बळवंतान आपलें पाद्रीचें न्हेसण काडलें. मोटवें कालसांव घालें आनी फ्रांसाचे वाटेक लागलो. मिन्होची शीम काडली. बाराबर मारियो आनी आग्नेलो वेताले. चलतां चलतां इस्पानाक पावले आनी च्याचे कोपाक एके खाणांवळींत भितर सरले. खाणावळीचो धनी खूप मनशाळ जावन आनी बळवंत, आग्नेलो आनी मारियो दा गामा गोंयकार म्हूण समजनाफुडें ताणें तांकां फुकट च्या

दिली आनी इस्कुदांचीं पेसेतां (स्पेनीश नाणीं) केलीं आनी बरी वियाजपण मागून तांकां फ्रांसाक कशे वेचें ताणें ताची सगळी बारीक सारीक म्हायती दिली आनी जाण्ट्याचें बेसांव घेवन तेगूय गोंयकार फ्रांसाचे वाटेक लागले. आदीं जायते गोंयकार मार्शेलस् आनी पेरिसाक नोकरे आनी चाकरे खातीर पळून गेल्ले ते पुर्तुगालाक जेवणा आनी नोकरे खातीर म्हूण आयलेले. पूण थंय ते फसवलेले. भुकेक आनी लजे सांपडून ताणीं चोरयां - लिपयां फ्रांसाचो रस्तो धरलेलो. चलत चलत तेगाय गोंयकारांच्या पांयांक फोड आयलेले आनी तांचेकडेन भोव थोडे पयशे आसले. फ्रांसाचे शिमेक पावतां पावतां ताणीं एका गोरवां राखण्याकडेन उल्लेली वाट दाखोवंक विनवणी केली आनी उल्लेर्ली पेसेतां ताका दिलीं. राखण्यान तांकां अर्दी वाट दाखयली आनी तांकां अर्दे वाटेर सोडून तो गेलो. फ्रांस आनी इश्पाना मदीं एक व्हडलो पूल आसलो. त्या पुला वयल्यान एक शिपाय खांदार बंदूक मारून भोंवड्यो मारतालो. कोणूय पासपोर्ट आनी व्हिसा नासतना वचत जाल्यार तो तांकां फारान मारतालो. बळवंत, आग्नेल आनी मारिओ एक सोडलेले झोंपडेंत दिसाचे लिंपून रावले. वारें आनी वादळ मारून उदकाचे व्हाळ जावन तिगूय हिंवान कडकडटाले आनी भुकेन वळवळटाले. केन्ना रात येतली आनी आपूण वाटेक लागतले अशी तांची आशा जाली. वेळ जायनासलो. रात येयनासली. भुकेन पोटांत कावळे रडटाले. भुकेन पडटात शे दिसताले.

बळवंत नांवां प्रमाणे आनी आग्नेल बलायकेन बरे आसले. मारियो जोरा-तापान ल्हासतालो. जोर ना जोर, कशेय भाशेन फ्रांसाक रातया-रातीं पावंक जाय आसलें. तेगायनीय निश्चेव केलो आनी काळके राती आनी गडगड्या आनी जोगलावण्या वेळार शिरंधरांनी पावस पडटल्या वेळार जीव वो मर्ण म्हूण ताणीं पुलापोंदच्या भूंयमारांत पावल घालें. वेतां वेतां भूंयमारांतल्यान न्हंय वेताली आनी काळकांतल्यान ते न्हंयच्या लोटाक सांपडले. उदकांतल्यान व्हडले मदेराचे लोळगे लोटून वेताले, कानां लागीं गीमगीम जातालें. फकत किडींचो आनी उदकाच्या घोग्यांचो आवाज आयकूं येतालो. इतल्यांत तिगूय गोंयकार भुंयमारांतले भायर पडले आनी लोटत न्हंयच्यान धडेलागशिल्यान व्हांवत दोन मैल पयस पावले. एकएकलो दुसऱ्या कडलो दोनशीं मेत्र पयस आसलो. एकमेकाक उलो मारताले पूण कोणाचीच जाप कोणाकूच पावनासली. पेंवतां पेंवतां मारियो उदकांत बुचकळ्ळो आनी एक पावटी तकली सकला घाल्ली ती ताणें वयर काडलीना.

बळवंताच्यान कांय एक करूंक जायना जालें. पेंवून पेंवून बळवंत आनी आग्नेल एके सुपुल्ले बसकेचेर बसले. आग्नेल खर्शेत खर्शेत पोट जमनीर लावन आड पडलेलो आनी उदक ओंकतालो. बळवंताच्या पोटांत दूक आयलेली आनी पोटाचे भुकेर ताच्या पोटांत कावळे रडटाले. इल्लोसो वेळ रावल्या उप्रांत आग्नेल आनी बळवंत न्हंयेचे धडेचेर मारियो दिसता जाल्यार पळोवंक गेले. कांय तांकां दिसनां जालें. भरवंसो सोडून दोगूय मागण्यांक लागले आनी दोगांय जाणांनी मारियोच्या आत्म्याखातीर मागणी केली आनी दोगूय चलत चलत एका च्यायेच्या घरांत भितर सरले.

फ्रांसेज राष्ट्राचे शिमेर लोक एक पोटभास उलयतात आनी ती इस्पानी आनी फ्रांसेज भाशेची भाजीपुरी कशी दिसता. लुर्दीसाक दख्खीण फ्रांसाक सायबीणमांय दिश्टी पडली तेन्ना ती बेर्नादेताकडेन फ्रांसेज उलयलीना पूण एक पोटभास 'पातोयस' म्हणलेली उलयली कित्याक बेर्नादेत चेडूं फ्रांसेज नकळो आसलें. बळवंतान आपली फ्रांसेज माल्ली आनी ती च्यायेकार अर्दीकुटी समजलो. काकुटसार च्यायेकारान तांकां च्याव फुकट दिली. बळवंत आनी आग्नेल पयशाविणें जाले आनी तांचेकडेन दमडीय ना जाली. वाटेर उबे रावले आनी वेत्या येत्या मोटराक हात दाखयलो. पावता थंय पावता. जीव आसल्यार भीक मागून खायन म्हणीत ते मोटरां थांबोवंक आनी मार्शेले वसल्यान चलूंक लागले. शेंकीमेत एका मोटरकारान तांकां घेतले आनी तांकां मार्शेल शारांत व्हरून सोडले. कांय पळून आयलेल्या पुर्तुगेजांनी तांची काकूट केली आनी बळवंताक एक सुकें कालसांव आनी खोमीस दिलें. आग्नेलाक मोटवें कालसांव आनी गरम बानयेन दिलें. तीं घालून वाटेक थोडे फ्रँन्क घेवन ते चलताले. अर्दे चलून अर्दे फुकट हात दाखोवन ते मध्यान राती पॅरिसाक पावले आनी गोंयकारांचीं घरां सोदूंक लागले. अनकळते देखून तांकां पुलीसेन मानान आनी मोगान लेखूंक नांत, नातर तांकां एक जेवण तरी दिलेंना. ताणीं कोणूय गोंयकार आसात जाल्यार पुलीसेलागीं विचाल्लें. गोंयकारांचें आपणें नांव आयकूंक ना म्हूण पुलीस अधिकाऱ्यान सांगलें. चलत चलत ते 'रूइ दे सेवरेस ९२' हांगसर पावले. थंय आपूण रावता म्हूण आग्नेलाच्या एका इश्टान सांगलेलें. विचारीत विचारीत काळखेराती दोगूय जाण रूइ दे सेवरेस एका घराच्या दासर माल्लें. थंयसल्ली एक सोबीत फ्रांसेज बायल भायर सल्ली. तिचेकडे बळवंतान जुआंव दास नेवीस मिनेझीस नांवाचो एक गोंयकार रावता जाल्यार

विचाल्लें. तिणें आपूण ताका वळखतां आनी तो रावता थंय तांकां व्हरतां म्हूण सांगलें. बळवंताची आनी आग्नेलाची काणी आनी मिरमिऱ्यांची खबर आयकून तिजें काळीज चुरचुरलें आनी मिरमिरलें. तिणें तांकां आपले आवयक दाखयले आनी तांकां दार्जिलींगाची च्याव दिवन 'इंदयान इंदयान' म्हणून तीं मुरगटलीं. बळवंत आपूण गोंयकार पाद्री म्हूण सांगना फुडें तीं खुशालभरीत जालीं आनी ताका कसलोच आदार दिवंक तयार म्हूण सांगलें. सद्याक आपणाक आदार नाका म्हूण बळवंतान सांगलें आनी वेगच्यावेगीं आपणांक जुआंव दास नेवीस मिनेझीस हांचें घर दाखय म्हूण विनयलें. ही फ्रांसेज बायल उठली आनी तिणें दोगूय गोंयकारांक आपल्या मोटरांत घाले आनी नेवीस मिनेझीसच्या घरालागीं थांबयले. ती कातोल्क मेहनतींत वावुरताली आनी विलायत्यांक आनी परदेशांक इगर्ज दाखयताली आनी गरजेक सांपडलेल्यांक पावताली. रातच्या दोन वरांचेर नेवीस मिनेझीसच्या दारार माल्लें आनी लकत लकत मिनेझीसान दार उगडलें. कामाकसून कळाव करून आयलेलो, आतांच ताका दोळो लागलेलो. ताणें दार उगडलें आनी ताणें आपल्या इश्टाक आग्नेलाक वेंग माल्ली. एकमेकाक पळोवन दोगूय रडले. जायतीं वर्सां जालीं एकमेकाक भेटूंक नांत. ते मेळूंक आशेताले. पारिसाक तांचो एकवट जालो.

आग्नेलान बळवंत फादराक बोट दाखयलें. हो गोंयकार पाद्री, तकलेन हुशार, गांवमोगी आनी देवमोगी म्हूण आग्नेलान आपल्या इश्टाक गमयलें. बळवंतान आपल्या नव्या इश्टाक वेंग माल्ली. इतलें म्हणसर जुआंव दास नैवीस मिनेझीसान आपल्या घरांत आसत्या दुसऱ्या गोंयकारांक मांद्रे वयले उठयले आनी एकमेकाक वळखून दिले.सगळे बांकीनांचेर बसून उलोवंक लागले. उलयतात म्हणल्यार, नैवीस मिनेझीसान सगळ्यांक च्याव करून हाडली. सकाळचीं तीन वाजलेलीं. सुदळ जिबेचो बळवंत उलयतच आसलो. रोमाची गजाल सांगली. सालाझाराकडे उलोवणें केलें तें सांगलें आनी त्या उलोवण्यांक आनी फातिमाक केल्ल्या भाशणाक लागून आपणाक हे कश्ट आनी उपद्रे सोसूंक पडले म्हूण बळवंतान सादयलें. आपणाक पुर्तुगेजांचो आनी सालाझाराचो काळजांत राग ना म्हूण सांगलें तरी ताणें जाका एकेक मनीस आंवडेता, सुटका दिवंचीच पडटेली म्हणलें. इगर्जेंत आतां 'काळाची खुणां पळोवंक' हें सत आपणायलां. आमचे जाण्टेले म्हणटाले : 'तेंपा प्रमाणे माथ्यार कुरपणें' सालाझार तकलेन हुशार, तरी

ताका हें तत्व समजना. गोंयची सुटका येतलीच, वेळ लागतलो. सालाझारान आमकां खोशेन सुटका दितीत जाल्यार नेहरू आनी दुसरे आमचे वडील बळान कांय एक करूंक पावचेनांत. बळवंताच्या ओंठांतल्यान उतरां म्होंव कशीं भायर सरतालीं आनी गोंयकार तोखेवन ताकाच पळेताले. पॅरिसाच्या गोंयकारांक सुटका नाका आसली जाल्यारूय बळवंताचीं उतरां आयकून ते स्वतंत्रतायवादी जाले आनी मेकळीकपणाच्या दिसाक आशेले.

बळवंत रातचें मागणें करूंक लागलो. ताचो ब्रेवीयार दर्यांत पडलो आनी एकटोच बसून तो मागण्यांक लागलो. ताका मारियो दा गामाचो उगडास आयलो. जिवो वो मेल्लो हो प्रस्न सुटोवंक ताच्यान जायनां जालो, ताणें सगळ्यां गोंयकारांक एकठायले आनी दुसरे दिसा सांजेवेळार जेन्ना सगळे रिकामे आसलेले आनी कोणाक काम आसचेंना त्या वेळार तांकां ताणें मोंत मार्त्रेचे इगर्जेंत व्हेले. अस्कळ आनी विस्कळ इग्रज. पळोवंक गोंयचेंशें से कॅथेड्रल वो बाँ जेजूचें बासिलिका दिसतालें. सगळ्यांनी मारियो खातीर मागलें. बळवंतान आग्नेलाकडेन मारियोचे आवयचो पत्तो - दिरेक्सांव मागलें आनी ताचे आवयक सकयली चीट बरयली :

रूइ दे सेवरेस, पारीस, फ्रांस

मोगाळ श्रीमती दा गामा,

तुका ही म्हजी चीट आठवीच दिसतली. हांव एक गोंयकार पाद्री, बळवंत दा कोस्ता. ह्या दिसांनी पारिसाक आसां. पुर्तुगालाक हांवें तुज्या माणकुल्या पुताक, मारियो दा गामाक वळखलो. कांय वर्सां शिर्वीस नासतना वळवळून ताणें म्हजे बराबर पारिसाक वचून आनी थंय शिर्वीसेक लागूंक निश्चेव केलो. पुर्तुगालाकसून आमी बाराबर भायर सरले. वाटेर तो तुजीच खबर सांगतालो. केन्नाय आपूण गोंयां वेतलों आनी तुका भेट दिवन तुजेर दिश्ट घालतलों असो आंवडो तो म्हाका कळयतालो. कोटा! ताची खोशी आनी आशा पुरी जालीना. मारियो आनी आनीक एक गोंयकार आग्नेल नांवाचो. तूं घडये ताका वळखत. मारियोचो मोठो इश्ट, तुजो पूत आनी हांव रातचे न्हय पलतड मारताले. आमकां

काळोखी भुयांरांतल्यान वेचें पडलें आनी लोटत आमी न्हंयेतल्यान पयस पयस पावले. आमी हुयेली माल्ल्यो, बोबो माल्ल्यो, आकांताक कोण पावंकना. मारियोन बुचकळ माल्ली आनी मागीर आमकां ताचें तोंड लेगीत दिसूंक ना. म्हजो आनी दुसऱ्यांचोय अदमास, मारियो बुडून मेलो. आमचे लागीं जातें जाल्यार आमी ताका बुडूंक दिवंचे नासले. करूंया कितें! जांव देवाची खोशी. तुजो पूत मोगाळ आसलो. ताणें म्हाका आनी दुसऱ्या पाद्रींक जिवितांत खूप मोग आनी मोयपास दाखयलो. तर, काळीज घट धर. तुजो पूत तुका जाय आसलो पूण देवान व्हेलो. जांव ताची खोशी!

तुज्या सगळ्यां सोयऱ्यांक आनी शेजाऱ्यांक म्हजी भुजवणेची वेंग दी. गोंयां पावतकूच हांव तुमकां भेट दितलों आनी सगळी खबर तुमकां बारकायेन आनी सवकासायेन सांगतलों. सगळ्यां गोंयकार भावांनी, मोंत मार्त्रे, पॅरिसाक इगर्जेक वचून मारियो खातीर मीस भेटयलें. आतां मारियो आमचे खातीर मागणें करता जातलो. देवान ताका आपले वेंगेत दवरचो.

तुमकां बरें मागून,

तुमचो गोंयकार भाव आनी पाद्री
**बळवंत दा कोस्ता**

बळवंतान आठ दीस गोंयकारांमदें रावून काडले. सगळ्यांनी एक सुस्क्रीसांव काडून ताका न्हेसपाचें कालसांव, कोट, कोबेसांव दिलो आनी इतल्यांत बळवंतान स्वीसाक वेची तयारी केली. आग्नेलाक ताणें रेनॉल्ट - मोटरा कारखान्यांत शिर्वीसेक लागूंक तजवीज केली. आग्नेल तुतये घुंवडावंक आनी धाडावंक हुशार आसलो. गोंयांत तो झाज, ट्रम्पेट, सेक्साफोन वाजोवंक शिकलेलो. शिर्वीस जावंचे आदीं ताणें मुज्गाची शिर्वीस केली आनी थोडे पयशे कमायले आनी बळवंत फादराच्या हातांत घाले. बळवंत ते घेवंक तयार नासलो, आग्नेलाकूच ते पयले गरजेचे. ताणें म्हणलें. आग्नेलान आयकलेंना, ताच्या बोल्सांत घालेच. बळवंताक दुसऱ्यांच्या रिणांत आनी फासाक रावूंक बरें दिसनासलें. जिवितांत ताणें पयशांचो मोग केलोना आनी धनयांचें तत्व 'पयलें देवाचें राज सोदात आनी हेर वस्तू तुमकां लाबून

येतल्यो'. तो खोलायेन आनी खतखत्यान जियेलो. इतल्यान बळवंताक स्वीसाक वचूंक जाय आसलें आनी ताणें थोडे तरी घरा वचूंक पयशे कमावंक जाय आसले. ताची आदली इश्टीण जेनेव्हीव वियाजीक मेळलेली ती आतां आपल्या भुरग्यांक आनी घरकाराक घेवन स्वीसाक आपल्या गांव घरा आयलेली आनी थोडे दीस स्वीसाक रावून तिणें ताका रोमाक चीट बरयलेली. स्वीसाक पयलीं येवच्या बदला मोरैरा दास नेवीस ह्या पुर्तुगेज कॉलेजीच्या जाळवणदारान बळवंताचें मन बदलूंक आनी पुर्तुगेज काळजाचो करूंक ताका थंय धाडलेलो. थंय तो तगलो ना. दिसाभितर तो जेनेव्हाक, स्वीसाक पावलो आनी जेनेव्हीव दे चार्दीन हिचें घर सोदून काडलें.

जेनेव्हाक जेनेव्हीव आनी ताच्या घरकाराक आपले हालावाल सांगले आनी कशेय तरेन स्वीसाक बोलयो आनी भाशणां करून, गोंय वचूंक थोडे पयशे कमावंक जाय म्हूण बळवंतान तिका सांगलें. तिणें आपल्या घरांत आपूण पयशे दितलीं म्हूण कळयलें. आपणाक बळवंतान सांबाळ्ळी आनी खरें नयन आनी बुध्द दिली म्हूण तिणें उपकारपणान सांगलें. तांची येदी व्हडली फामील आसतना आपूण पयशे घेवपाक तयार ना म्हूण बळवंतान सांगलें. बळवंताचे आवयन ताका मेळटा म्हूण कोणाचेच पयशे घेवंचे न्हय, जण एकल्यान आपल्या पांयाचेर उबो रावपाक जाय आनी आपल्यान आपले पयशे मोडूंक जाय म्हूण बुद दिल्ली. त्या पासत बळवंतान एका नावास्त्या जेजुइत पाद्रीक भेट दिली. ताचें नांव ओटो सॉमेलरॉथ. ताचेकडेन आपणाक जर्मनाक आनी स्वीसाक भाशणां करूंक सुयेग आनी संदी दी म्हूण परार्थलें. प्रो. ओटो सॉमेलरॉथ हाणें बळवंताचें नांव आयकल्लें आनी ताची भारती विशयांचेर आनी बुध्दीस्ट आनी योगा रितींची गजाल आयकल्ली आनी ताचें नांव युरोपाक गाजलेलें. फ्रॅन्कफूर्त, इन्सब्रक, बेसेल, उपसाला, युनीक ह्या म्हाविद्यालयांनी आपलीं भाशणां बळवंतान केल्लीं आनी घरा परतूंक ताणें फाव तितलो पयसो कमायलो. व्हियेन्ना शारांत ताणें दोन म्हयने काडले आनी थंय ताणें योगाचें इस्कोल स्थापलें. दोन म्हयन्यांभितर ताचे शिकपी हुशार जाले आनी तांच्यान आतां योगाच्यो रिती शिकोवं येताल्यो. युरोपी लोक, तरनाटीं चेडवां आनी चेडे बळवंताक व्हियेनाक राव म्हणटाले. बळवंताक आपल्या गांवचो मोग आसलो आनी कितेंय केल्यार तो परक्या गांवांत रावंक तयार नासलो. ताका आपल्या गांवांत आपले गूण आनी देणीं वापरूंक जाय आसलीं. केन्नाय तरी गोंयांत वचूंक आनी आपल्या दोळ्यांनी आपलो गांव मेकळो जाल्लो पळोवंक

आशेतालो. ताणें ह्या तरनाट्यांक आदेवश केलो. स्वीसाक परतलो आनी ताणें जेनेव्हीवेचे फामीलीक विदाई - आदेवश केलो. वेचे आदीं तो हॉस्पिटलांत पोयण करूंक - वासीन करूंक गेलो.

जेनेव्हाच्या हॉस्पिटलांत ताका एक गोंयचें जोडपें दिसलें. बायल साडी न्हेसलेली. घोव कालसांव ग्रावात न्हेसून युरोपेव लोकांक आनी दादल्यांक कुशीन काडटालो. दोगांय जाणां सोबीत सुंदर, रूचीक आनी रसाळ कोंकणी उलयतालीं. ही तांची अंत्रुजी भास आयकून बळवंताचें काळीज खुशालकायेन उल्हासलें. (फोड्यांच्या लोकांचे भाशेक अंत्रुजी कोंकणी म्हूण नांव पडलां) दादल्याचें नांव पुरूषोत्तम फोंडेकार आनी अस्तुरेचें नांव उषा माईणकार. अस्तुरी आपले पिडेक इलाज आनी वखद सोदूंक आयलेली. तिका कांक्र जाल्लो. ती भायर बसून आसतना, बळवंतान तांची वळख करून घेतली.आपूण गोंयकार म्हूण सांगतकूच तेगांय जाणां इतल्या पयशिल्या गांवांत एकठांय जातात म्हूण चिंतून, तांचे दोळे दुकांनी भरले आनी एकमेकांकडे उलयता आसतना जेनेव्हाच्या हॉस्पिटलाचो वैज आयलो आनी ताणें पुरूषोत्तम फोंडेकारालागीं विचाल्लें :

स्वीस वैज : तूं खंयचो आनी कित्याक आयला?

पुरूषोत्तम : आमी गोंयकार आनी भारती. आमी कांक्राचे पिडेक इलाज मेळोवंक आयल्यात.

स्वीस वैज : तुमी पिशीं जाल्यांत कितें? तुमच्या भारतांत तुमचो गोंयकार भाव, डॉ. अर्नेस्ट बॉर्जीस कांक्राचो सोदपी आनी मुख्य वैज आसा. ताणें तुमकां कितें सांगलां?

उषा माईणकार : ताणें आमकां भरवंसो ना म्हणला.

स्वीस वैज : खांकेंत आसा खंय चेडो आनी भोंवता खंय वाडो अशें कितें तुमच्या जिवितांत घडलांशें म्हाका दिसलें. जेन्ना तुमच्या गांवांत येदो व्हडलो वैज आसा आनी ताका लागतलो दुसरो नासता, तुमी स्वीसाक येवप म्हणल्यार म्हाका पिशेपण दिसता. दोतोर अर्नेस्टो बॉर्जीस संवसारांत फांकी, ताचीच बुध्द तुमी घेवंची. ते बरे करिनांत जाल्यार सोसूंक तरी वखद दितले.

बळवंताचें काळीज खोशेन उफेलें. आमी आमच्याच गांवांत आमचे गोंयकार आनी भारती व्हडल्या मनशांची व्हडव्हीक वळखनांत. घरांत इलाज सोदचे सुवातेर स्वीसाक आनी जर्मनाक वेतात. गोंयकारांमदें केदे केदे वैज उतरले. डॉ. व्ही. एन.

शिरोडकार, डॉ. भाऊ दाजी लाड, डॉ. आकाशिओ व्हियेगास ह्या वैजांनी गोंयचेर आनी भारताचेर उजवाड घालो. आमी गोंयकार आमचें व्हडपण विसरल्यात, आमचो इतिहास नकळों. गोंयां वेतकूच आमच्या गोंयच्या इतिहासाचो अभ्यास करतलों आनी भुरग्यांक आनी वाचप्यांक शिकयतलों. हीं चिंतनां मनांत घेवन बळवंत घरा परतलो आनी ताणें स्वीस एअर विमानाची तिकेट काडली. जेनेव्हा विमानतळार ताणें 'गोल्डन ईगल' विमान धल्लें आनी गोंयचें आनी घरचें चिंतीत मदेंच बसलो. शिरावली, कारामुली, आल्देया-मार मनांतल्यान फिरताली.

विमान सुटलें. बळवंतान पोटाक पट्टो बांदलो. विमान झूम करून वयर सल्लें आनी बळवंतान आपल्या इश्टांक हात हालयलो. ताचे कुशीक एक जर्मानी हिप्पीण बसून आसली. तिचे पोतयेचेर वास्को-गोवा बरयल्लें आसलें. ती काचाबूल कशी वागताली. वयर पळयताली सकला पळयताली. उजव्यान दोळे लायताली, दाव्यान हुसक्यान दिस्ट घुंवडायताली. तिका कितें जाता तेंच समजनासलें. बळवंताकूय कवतूक दिसलें आनी काकुटय दिसली. आपणें उलोवंचें वो ना उलोवंचें, जाप करची वो ना करची अशें ताचें मन फिरतालें. 'म्हाका कित्याक पडलां' म्हणून ताणें न्हिदूंक आनी दोळे धापूंक सुरू केलें पूण ताचें मन थारनां जालें. पाद्री कोण? दुसऱ्या खातीर मनीस, ताणें हालींच जॉन ह्युजेच हाचें पुस्तक वाचलेलें आनी तें ताचे मांडयेर खेळटालें. ताचें काळीज धरनासलें. ताणें आपणाकूच बळ केलें आनी बळवंतान जाप केली आनी तिचेकडे ती खंयची, आनी ती खंय वेता हाची गजाल केली.

बळवंत : तुजें नांव कितें, तूं खंय वेताय?

अस्तुरी : म्हजें नांव मादाम जेनेट क्युरी. हांव गांवान स्वीस.

बळवंत : तूं हे आनी ते वाटेन पळेता मूं! तूं बरी बी ना? म्हज्यान तुका कसलोय आदार दिवं येता? हांव एक कातोल्क पाद्री , म्हजो गांव भारत, गोंय. म्हजें नांव बळवंत.

जेनेट क्युरी : बळवंत फादर. म्हज्या काळजांत संतोस ना. हांव घुस्पल्यां. म्हाका खुशालकाय दी आनी हांव तुका म्हजी अर्दी गिरेस्तकाय दितां.

बळवंत : जालें कितें? तुजी काणी म्हाका सांगशी जाल्यार म्हज्यान तुका कसलोय आदार दिवं येता. तूं काजारी वो आंकवार?

जेनेट क्युरी : हांव काजारी आनी म्हजें एक भुरगें म्हजे भयणीगेर आसा

आनी आतां घोव घेवन भोवता तो म्हजो न्हय.

बळवंत : हो तुजो नवो न्हवरो तुका जेवंक दिता?

जेनेट क्युरी : हय जेवंक दिता.

बळवंत : न्हेसूंक दिता, पयशे दिता?

जेनेट क्युरी : न्हेसूंक दिता, पयशे दिता.

बळवंत : दिना कितें?

जेनेट क्युरी : तो म्हाका इनर सेक्युरिटी - भितल्ली सुरक्षा दिना. तितल्याकूच हांव पिशी आनी नेर्वांनी भरलेली अस्तुरी कशीं भोंवतां. ही भितल्ली सुरक्षा हांव कशी जोडीन?

बळवंत : जेनेट, तूं खंयच्या धर्मांत वाडली?

जेनेट क्युरी : हय हांव कातोल्क, हांव भुरगेपणी मिसाक वेतालीं. दोतोन शिकलेलीं आनी आतां हांव गोंदळांत पडल्यां. आनी तातुंतली भायर सरूंक म्हाका पदवी आनी बळूय ना.

बळवंत : कार्ल जंग ह्या तुमच्या फांकी सोयराण शास्त्र्याक, तकले वैजाक तूं बेस बरें वळखता. ताचे सांगणे प्रमाणे मनशाच्या जिवितांत ताचे आत्मीक आनी कुडीचे भलायकेक धर्मीक आनी भावार्ताचीं तत्वां आनी मोलां खूप गरजेचीं. तुवें तुज्या भुरगेपणावेलो भावार्त नव्यान जिवितांत आनी वेव्हारांत हाडूंक जाय. तुवें आदले भाशेन मागणें आनी ध्यान करूंक जाय, उप्रांत तुकाच आपणें आपलें कितें करचें तें गमतलें. हांव तुका एक पापेलीन आनी पील तयार करून दिना. सद्याक मागण्यांक लाग. तुजो भुरगेपणावेलो भावार्त नव्यान सुरू कर. तो निहाळ.

जेनेट क्युरी : तुज्यान म्हाका कांय शिकोवंक जायना?

बळवंत : दोगांयनी आमी नॉत्र पेरे, आमच्या बापा सुरू करूया आनी इतल्यान फुडाराक तुवेंच मागणें करचें आनी तुज्या प्रस्नाक तुवेंच जाप सोदून काडची. तुज्या जाण्टेल्यांचो भावार्त तुका कितें सुचयता त्याच प्रमाणे तुवें जो तुका सुरक्षा दिना ताका सोडचो वो दवरचो हें उजवाडीत जातलें. वखत घडये भितर बरें करचेंना. तर हांव तुका गोंय शाव्हियेर रिट्रीट हाऊस, बागा कलंगूट थंयच्या वडीलाक चीट दितां. थंय तुवें वेचें आनी आठ दीस तरी मागण्यांत आनी निहाळांत काडचे आनी सांडलेलो देव तुज्या जिवितांत परतो येतलो आनी तुका वाट दाखयतलो. थंयसर आद्रीयान ले तेलियार म्हणलेलो भा. पाद्री आसा. तो

मागण्यांचो मनीस.

इतल्यांत बळवंत मुंबय, सांताक्रूज विमानतळार पावलो आनी थंयसून देवतां म्हणल्यार मारिया दा कोस्ता आयली आनी आठ वर्सां उप्रांत ताका पळोवन खुशाल जाली. एकामेकांचो मोग करतालीं जाल्यारूय आनी लागशिल्लीं सोयरीं जाल्यारूय, तीं एकमेकांक मानान लेखूंक आनी निर्मळपणी मोगाची खुणां दाखोवंक जाणां आसलीं. मारियान बळवंताक आपल्या कॉन्वेंटांत व्हेलो आनी ताका मुंबयचें शार दाखयलें. बळवंतान माद्रींक मीस भेटयलें आनी जेजू क्रिस्ताचो आनी इगर्जेचो मोग करूंक ओडलीं. बळवंत कांय दिसांनी गोंयचे वाटेक लागलो. सगळ्या वाटांनी गोंयांत भितर सरूंक दारां बंद केल्लीं. आगगाडयेन बेळगांव आयलो आनी थंयसून बस धरून कारवार पावलो. कारवाराचे इगर्जेंत रातचो वस्तेक रावलो आनी बळवंत गोंयकारांचो अनद म्हूण आयकून पाद्र विगारान ताका मानान आनी मोयपासान घेतलो आनी गोंयकारांच्या घरांक भेट दिवंक व्हेलो. दोनूय फिर्गोजांनी, गोंयकारांचे आनी काजूभागचे फिर्गोजेंत खूप गोंयकार येवन रावलेले आनी थंयसून सेंट मायकलस् इस्कोलांत शिकताले आनी शिकपांत व्हडलें नांव मेळयताले. सकाळीं उठून बळवंत मोटर धरून पोळें पावलो. पुर्तुगेज पुलीसेन ताका धरलो. ताका पुलीस अधिकाऱ्याफुडें व्हेलो. ताणें ताचें नांव विचाल्लें आनी बळवंत दा कोस्ता हाच्या नांवां खाला कितें आसा जाल्यार पळयलें. पुलीस चवकशे कागदाचेर हें बरयल्लें आसलें.

"पुर्तुगालाक भाशण केलें. थंय ताणें पुर्तुगेजाचेर आड उलोवप केलें. पूण ताणें कोणांक मारूंक ना. खंयचेय क्रांतींत बोबाळपी न्हय. तो कोणाक मार लावपी आनी हातान झुंजपी न्हय. ताचें झूंज जिबेचें आनी शैलेचें Nao e Perigose - तो संकटी न्हय." 'संकटी न्हय' हीं उतरां वाचून पुलीस अधिकाऱ्यान ताका सोडलो आनी खुशालकायेन बळवंतान गोंयच्या गांवांत पावल घालें आनी वाटेर काणकोण, कुंकळ आनी चिंचोणपेट काडतच आपल्या गांव घरा शिरावळे देवलो आनी सरळ शिमितेरींत वचून आपल्या आवय-बापायचो एक फोंड पळयलो. सांता-खुर्साची काडली आनी तांच्या फोंडाचेर फुलांचो तुरो दवरलो आनी मागणें करतकच घरा गेलो. ताका घेवपाक कोण नासलो. घर पोरणें जाल्लें. घरांत भा. आंतोनीचें चित्र आसलें आनी ताचे जाण्टेले ताका शंबर वर्सां पासून पुजताले. मेर्शे सायबिणीक उलो मारल्या उप्रांत आनी भा. आंतोनीक मागणें केल्या उप्रांत

ताणें पणजेची वाट धरली. जरी गोंयचे पात्रिआर्क ताच्या भारतपणाक लागून ताका पयस दवरताले तरी ताका भलेपण आनी जाणवाय आसलेली. गोंयचो पात्रिआर्क दों जुजे कास्त्रो बळवंताचें भलेपण, मनशेपण आनी जाणवाय आनी शिटुकाय वळखतालो. बळवंताक गोंयचो आर्सबिस्प करचो आनी आपणें वेचें ताच्या मनांत शिजतालें. पूण हें काम ताच्या ताब्यांत नासलें. बळवंत गोंयां पावतच ताका कसलें काम आनी वावर दिवंचो हो प्रस्न गोंयच्या पात्रिआर्काच्या मनांत आनी काळजांत भरतालो. कितें कात करचें तें ताका समजनासलें. 'इंदियानो नाऊं पेरिगोज' हाचेर ताचें लक्ष आनी मन गिरगिरतालें!

सातवो अवेस्वर

# गोंयचो पत्रकार आनी प्रवचनकार

**आ**ठ वर्सां उपरांत बळवंतान गोंयचे धर्तरेर पावल घालें आनी हरशीं गांव चडसो बदलूंक नासलो. ताणें आगाशीनी न्हंय काडली आनी पिलारच्यान आनी शिरदोनच्यान दोळो घुंवडायलो. पिलार दोंगरार आनी दोंगरा कुशीक व्हडलीं घरां आनी बांदपां झळकतालीं आनी गोंयच्या मिशनरी मनाची आनी काळजाची गवाय दितालीं. पिलारची संस्था गोंयकारांची मिशनरी संस्था आनी तातूंत जायते आपले इश्ट भितर सरल्यात म्हूण चिंतून बळवंताक मोठी खुशी भोगली. आख्खी पणजी पाकल्यांनी आनी शिपायकांनी भरलेली. बळवंतान मोटरसायकल माल्ली आनी सरळ पात्रिआर्काचे पलाशेंत गेलो. वांटेंत ताका सेमिनारींतले सांगाती आनी इश्ट मेळ्ळे आनी ताणीं बळवंताक ताच्या शिकपाप्रमाणे आनी ताच्या चाली भायल्या गुणांक लागून सेमिनारीचो प्रोफेसर करतले वो ताका गोंयची व्हडली फिर्गोज दितले अशें कानांत फुंकलें. बळवंतान पात्रिआर्काच्या दारार माल्लें आनी पात्रिआर्कान ताका हांसत्या तोंडानूच घेतलो. तेन्ना तांच्यामदें ही भासाभास जाली.

बळवंत : पात्रिआर्क सायबा, तुमी कशे आसात? हांवें आतां सगळें म्हजें शिकप केलें. म्हाका कसलेंय काम दिल्यार उपकारता. हांव कसलेंय काम करूंक तयार.

पात्रिआर्क : हांव आसां बरो. तुज्या कामाची गजाल म्हुणल्यार म्हजी खोशी तुका रायपुरचे सेमिनारींत धाडूंक आसली पूण सरकाराचेंय मन हांवें पळोवंक जाय. तुवें फातिमा संदेश दिलो आनी ताचो आवाज गोंयांत पावलो. हांवें तुका मुख्य आनी म्हत्वीक सुवात दीत जाल्यार पुर्तुगेज अधिकारी गडबड करतले. तूं आनी हांव तर तकलेन आनी चिंतपान पयस जाल्यारूय आमचीं काळजां पयस ना. तुजी म्हाका अपुर्बाय आसली देखूनच हांव जीप मारून तुजे सरशीं कामुर्ली आयलों आनी तुका रोमाक धाडलो. तर इल्लसो वेळ राव. देवाचे गूट देव जाणां. तुवें 'द सॅटीन स्लीपर, पॉल क्लावडल' हाचें पुस्तक वाचलां जातलें. ताणें दाव्यान, कवराचेर हीं उतरां पुर्तुगेजींत मारल्यांत. 'Deus escreve direito em linhas tortas - देव वांकड्या अक्षरांनी नीट बरयता.' तूं सद्याक खंयचीय तुका आवडटा तसली सुवात सोदून काड, उप्रांत तुका नेमणूक दिवंची."

बळवंत भितल्ल्यान शिजतालो. ताच्या आंगांत रागाचें वादळ आनी वारें भरलेलें. रागावेळार ताका आपले आवयचो उगडास येतालो. तिचें नांव शांती आनी शांती एक भारती गूण. तो गूण आपल्या जिवितांत पाळटालो. ताणें भितल्ल्यान आनी भायल्यान समादान जावन पात्रिरआर्काक म्हणलें.

बळवंत : हांव इतलें शिकून आयलां आनी हांवें पांय सोडून ओगो रावंचें? उबगण एक पिडा.

पात्रिआर्क : तुवें पांय सोडून चड वेळ रावंक पडचेंनां. घडये, तूं आशेता तो दीस वेगींच येतलो. इतलेंय आसतना, तूं पाद्री म्हणटकच तुवें इंग्लेजांची म्हणणी मनांत धरची : 'Prudence is better part of Valour' - शिटुकाय काळजीदारपणाचो मुख्य भाग. फुडाराक तुवें शिटूक आनी जाणवीक जावंचो. आतां तुवें तुका जाय त्या पाद्रीलागीं रावंक विंचून काडचें. फुडली वाट जिवितांतली घडितां दाखयतली.

बळवंत चिंतूक पडलो. कोणांक विंचून काडटलों? कोण म्हाका ह्या वेळार आदार दितलो, आनी कोण म्हाका बुध्द आनी भुजवण दितलो हें तो चिंतूक लागलो आनी ताच्या मनांत, प्रि. जॉर्जिन्सन हें नांव मनांत फिरलें. हो जॉर्जिन्सन खूप मनशाळ, खूप समजणीक आनी खूप बुदवंत म्हूण सगळ्या गोंयांत गाजलेलें. बळवंतान इल्लोसो वेळ येवजून आनी नियाळून पात्रिआर्काक सांगलें.

बळवंत : हांव पोरण्या गोंयां वेतां आनी बोंम जेजूचे बासिलीकेंत रावतां.

थंय जॉर्जिन्सन फादर आसा, तो म्हजे वळखिचो आनी समजणीचो. थंय हांव किते करतलों तें मात हांव नकळों.

पात्रिआर्क : वच तरी तूं, शांत राव, शिटूक चल.

बळवंत बों जेजूच्या कॉन्वेंतांत गेलो. थंय व्हडल्या खाडाचो जॉर्जिन्सन दिसलो. खाड इल्लेंशें पिकलेलें. बळवंत, बळवंत म्हणून, ताच्या हाताक धरलो, आनी ताका आपल्या कुडांत व्हेलो. ताका तुवालो दिलो आनी तोंड धुवंक सांगलें. बळवंताक बसयलो आनी बळवंतान आपली अडचण गमयली.जॉर्जिन्सनान ताका मोयमोगान वेंगयलो आनी आपलो एक धाकटो इश्ट उंच शिकप करून आनी भायल्यान व्हडलें नांव जोडून आयलो म्हूण खूप संतोसलो. 'भियेनाका भियेनाका' म्हणून ताका शांत केलो. बळवंत इल्लें इल्लें काम करूंक लागलो. कोणूय ताचे इश्ट येवन ताका भेटताले. पूण ताचें काळीज संतोशी नासलें. काम नासतना आपल्या गुणांचो उपयोग जायना, इतलें शिकून उमथ्या कळशार उदक ताका दिसलें.

मागणें करतालो. मागणें पचनां जालें. तो कुपांनी पडलो. मनांतल्यान आनी चित्र पदवेंतल्यान नाका जाल्लीं चिंतनां येतालीं आनी काळोखी भावनां आंगांत फुलताली. बळवंताक कितें करचें, कितें करचें न्हय, ताका कांय समजना आसलें. ताचें मन काळखांत कशें बुडलें. आपणें कितें करचें? देव आसा? देव ना? ताका आमचें पडलां, अशी काळोखी कल्पना ताच्या मनांत फिरूंक लागली. भावार्ताचेर आड चिंतनां मनांत घोळूंक लागलीं. बळवंत असली दुबावी आनी गोंदळी कल्पना येतच भोव पवित्र संस्काराफुडें वेतालो आनी आपलें काळीज उक्तें करतालो. बळवंत उठलो आनी बों जेजूच्या कॉन्वेंतांत, ग्रादीक तेंकून पवित्र संस्काराफुडें दिमयेर पडलो आनी तो ध्यानूंक लागलो.

'धनया जेजू, हांव तुका सोडून वेतां! म्हज्यान आनीक सोसूंक जायना. हांव रोमाक गेलों आनी तुजे खातीर आनी म्हज्या गांवांखातीर परतो आयलों. हांव समजलों म्हाका प्रोफेसर करतले. म्हाका व्हिगार करतले. म्हाका हांगासर कांय करिनासतना बकीं मारूंक लायल्यांत. ते पात्रिआर्काचो म्हाका राग येता. पूण करतलों कितें? म्हाका कातोल्क धर्म नाका. म्हाका कातोल्क इग्रोज नाका. हांव देवाक सत मानिना. हांव तुका सत मानिना. हांव म्हाका जिवो आसतना पुरलेलो पळोवंक आशेतां. म्हज्यान सोसूंक जायना. म्हजेर काळोख आयला. हांव तुका

आनी तुजे इगर्जेक सोडून वेतां. हांवें गोंयचे खातीर इतलें नांव जोडलें म्हाका युरोपाक गोंयकार विद्वान म्हणटाले. हांगासर म्हाका मूय लेगीत हुंगिनां. म्हाका हांव काळजाचे खरीकसून इंदियानी देखून पिडणूक दितात आनी कोनश्याक मारतात. तुका दोळे नांत! ख्रिस्त युरोपेव म्हणटात तें खरें. तुका म्हज्या गांवचें पडलेलें ना. तूं पुर्तुगेज आनी देखुनूच तू म्हाका हे बंदखणींत घालताय. हांव इगर्जेक सत मानिना. ती पुर्तुगेज आनी तिका राष्ट्रांचे आवंडे मेजूंक आनी मापूंक अंतराळावेली आनी इतिहासाची खुणां वळखूंक समजनां. हांव चल्लों. तूं म्हाका नाका. तुजी इगर्ज म्हाका नाका. चल्लों. कोणाच्याय मोगान पडटां. इतलीं वर्सां हांवें तुजो आनी तुजे इगर्जेचो मोग केलो आनी गांवची आनी देसाची आपुलकी केली. एके व्हंकलेचो आनी अस्तुरेचो मोग पयसायलो! हें म्हाका फारीकपण? चल्लों, चल्लों!'

मागणें करतनां बळवंत आल्ताराकडे पडून आसलो. प्रि. जॉर्जिन्सनान ताका पुंजायलो आनी ताच्या कुवार्तांत व्हेलो. बळवंताचें काळीज खुशालकायेन भल्लें. ताच्या मेजार स्वीसाची एक चीट दिसली. ताणें ती सटासट उगती केली. कव्हर आनी दबट व्हडलेंशें आसलें. ताणें कात्रीन उगतें केलें. ती चीट ताचे इश्टीणीन, जेनेव्हीव दे चार्दीन बरयल्ली आनी ताचेर तिणें आपल्या भुरग्यांची खबर सांगलेली. बळवंताक गोंयांत यश मागलेलें आनी ताच्या गुणांचो बरो उपयोग करूंक विनयलेलें वडिलांनी ताका एक बरें काम दिवंक तिणें आशा दाखयलेली. ते कव्हरांत तिणें फ्रांसेजींतलें आनी जर्मनातलें कागदां कुडके घाल्ले. ते दोनूय कुडके फ्रांसेज आनी जर्मनी पत्रांची कात्रपां आसलीं. तीं कात्रपां दोग आतांच्या व्हडल्या धर्मशास्त्रांचीं आसलीं. एक उर्स व्हों बाल्ताजार, मागणेंशास्त्री आनी दुसरें कार्ल ऱ्हेनर, व्हडल्यांतल्या व्हडल्या धर्मशास्त्र्याचें.

उर्स व्हों बाल्ताझार हाणें आपलो इगर्जेंतलो अनुभव सांगलो आनी ताणें हें बरयलें. 'इगर्जेंत हांव कित्याक रावतां? हांव इगर्जेंत आनी पाद्रीपणांत रावतां कित्याक, कातोल्क इगर्जेंत म्हज्यान एकल्याच्यानूच आंकवारीचो उंडो संस्कारू येता. म्हज्यानूच उंडया आनी सोऱ्या रूपान ख्रिस्ताक आल्तारार हाडूं येता. देखुनूच हांव इगर्जेंत रावतां आनी कातोल्क पाद्रीपणाची अपुर्बाय आनी मोग करतां.'

बळवंतान दुसरें कात्रप उगतें केलें आनी कार्ल ऱ्हेनराचें पत्र वाचलें. ताणें अशें बरयलें : ' हांव इगर्जेंत आनी जेजूचे सभेंत कित्याक रावतां? हांव ख्रिस्ताचे

इगर्जेत रावतां, कित्याक हांव खुर्सार मारलेल्या जेजूक सत मानतां. खुर्सार मारलेल्या जेजूक पाठलाव करतले खुपशे मिशनार आनी पाद्री आसात. खुपदां इगर्जेंत अधिकाऱ्यांनी व्हडल्या शास्त्र्यांक जमनीर आपटिल्यात आनी तांकां धोंगशिल्यात. पूण ताणीं ख्रिस्तावयलो भावार्त सोडूंक ना. ताका ते मरवेर विस्वासी रावले. ताणें इगर्जेंत रावंक आनी तिची सेवा करूंक एक नैतीक अजाप. हें इतलेंच सत, क्रिस्तांव आसणेंतलो खुरीस काडूंक जायना आनी त्याग आनी खुरीस क्रिस्ती आसणेचो भाग आनी सार. खुरीस आनी तपास क्रिस्तांवपणाचो आपरोस. तो काडूंक जायना. समजणी आसणेंक आनी समजणी नासणेंक क्रिस्तांवपणाचो वांटो. थोडे आमकां समजतात. थोडे समजनांत. जिवीत आनी आमचें शास्त्र एक उमाणें. आमचें शास्त्र गुटांचें?

बळवंतान दोनूय कात्रपां वाचलीं आनी खूप वेळ दोळे धांपून नियाळ्ळीं आनी ताच्या आंगांत इलो-सो संतोस भितर सरलो. कार्दीयाल न्यूमनाभाशेन "Ex umbris et imaginibus in veritatem"- "सांवळ्यांतल्यान - सपनांतल्यान सतावसल्यान". तसो ताच्याय जिवितांत इलोसो भरवंसो भरलो. ताणें जेनेव्हिवेच्या जिवितांत सूख आनी संतोस हाडलेलो आनी आतां जेनेव्हीव बळवंताक घटाय आनी बळ दिवंक येतालें.

उर्स व्हों बाल्ताजाराचीं उतरां, "म्हज्यानूच आल्ताराचेर क्रिस्ताक हाडूं येता आनी खुरसाविणें क्रिस्तांवपण नासता" हीं व्हानेराची कल्पनां बळवंताच्या काळजांत रिगली. तो समाधान जालो, नेमणूक आसा, नेमणूक नासा, आपलीं देणीं इगर्जे, क्रिस्ता आनी देसाखातीर वापरूंक निर्णय घेतलो. त्याचफुडें म्हणलें! जिवीत एक आव्हान.

ताणें प्रि. जॉर्जेन्सेनाक भेट दिली. आपणाचेर काळोख आयलो आनी आपूण ताळणेच्या वेळार आसलो म्हूण ताणें ताका गमयलें. जॉर्जेन्सेनान आपल्याय जिवितांत ताळण्यो येतात आनी त्यो पाद्रीच्या जिविताचो वांटो म्हूण कळयलें. बळवंताक, काळजी करूं नाका, शांत राव, सगळें बऱ्याक पडटलें. देव मनशाक सांडिना, तो मनशाचे केंस मेजता आनी मापता, भेटेक व्हेल्लीं कितलीं करंडांतलीं सुखणीं उडून वेतात, कितलीं जमनीर पडटात आनी कितलीं देवाक पावतात. हीं पुराणांतलीं उतरां बळवंताक सांगलीं. बळवंतान आठेक दिसांनी काळोखी चिंतनां आपल्या मनांतलीं भायर उडयलीं आनी देवालागीं देणीं ताचे आनी मनशांचे सेवेक

वापरूंक आनी उपयोगूंक निश्चेव केलो. बळवंताच्या आंगांत नवें बळ भरलें आनी नव्या उत्साहान आनी नवे उमेदीन वावरूंक ताणें थाराव घेतलो. “कितेंय करा पूण उमेदीन आनी व्हडव्हिकेचे वान्सेन आनी आशेन करा”. हीं गोंयबाबाचीं उतरां ताच्या काळजांत सादलीं.

रायपुरचे सेमिनारींत तो एक धाकटुलें सातोळें काडटालो आनी आपल्या जिवितांत केन्नाय आपूण एक पत्रकार जातलों ही आशा ताच्या काळजांत खेळताली. रायपुरा, तो पुर्तुगेजीन बरयतालो. येरोपाक गेल्लो खरें, ताणें रोमी वाटेर कोंकणी खोलायेन शिकून काडली. पुर्तुगालाक आनी मुंबय जावं, स्वीसाक जावं आनी जर्मनाक जावं, गोंयकार मेळत जाल्यार, ताणें कोंकणींतल्यान उलोवंचें, कोंकणींतल्यान सलाम करचो. थोडे दीस जाले, गोंयांत पावल्यार, तो आतां कोंकणींत उलयतालो, सपनेतालो आनी गोंयच्या ‘वावराड्यांच्या इश्टाक’ आनी ‘रोटयेक’ लेख आनी बरोवपां धाडटालो. “कोंकणी म्हजी भास आनी कोंकण म्हजो देस” हीं गोंयबाबाच्या भुरग्यांल्या इश्टावयली भावनां सारकी काळजांत खोंबलेलीं. बळवंताचे सांगणे आनी म्हणणे प्रमाणे कोंकणी भास सगळ्या कोंकण्यांक बांदतली. ते मागीर केरलाचे जावं, ते मंगळूराचे जावं, ते गोंयचे जावं आनी ते वेंगुर्लेचे जावं. कोंकणीच तांकां फासांन फांसयतली. ते भाशेक बळगें आसा आनी गोंयची स्वतंत्राय तेच भाशेंतल्यान येतली. ताणें केन्नाय प्रजेचो आवाज, भारती, मीर्ग, हाचीं पानां आरतिलीं आनी परतिलीं. त्रिस्तांव ब्रागांजा द कुन्हा हेय फांकी आनी उजवाडीत शाणे कोंकणींतल्यान आपले निरोप सांगूंक तजवीत करताले काकासायब कालेलकराचे येवजणे प्रमाणे गोंयची सुटका आनी स्वतंत्राय गोंयचे भाशेंतल्यानूच येतली. बळवंताच्या काळजांत आपलो देस खुपूच खेळतालो. पूण ताच्या आदीं ताचे मेंदूत आनी रूदयांत क्रीस्त आनी इग्रोज उडणां मारताली. जें आपणें इतलें रोमाक आनी युरोपाक शिकून काडलां तें आपले भाशेंतल्यान आपूण दिनां जाल्यार सगळें फुकट वेतलें अशें ताका दिसलें. धर्म आनी शास्त्र आवय भाशेंतल्यान दिवंक जाय, हें तत्व ताणें घट मनांत धरलें.

बळवंताच्या बोल्सांत पयसो नासलो. जे पयशे ताणें स्वीसाक आनी जर्मनाक कमयल्ले तितलेय सोंपले. एक दिसाळें उजवाडाक हाडूंक पयसो-आडको जाय आनी पयशे नासतनां मनीस मडें. ताणें सगळ्यां गोंयांत भोंवडी माल्ली आनी आदले पाद्री इश्टांक भेट दिली. ताणें तांकां कातोल्क पत्राची गरज आनी म्हत्व

हुनहुनीत आनी घणघणीत उतरांनी गाजयली आनी तांचेकडले पयशे कमयले आनी पोरण्यां गोंयांत सायबाच्या कोन्वेंताच्या वडिलाकडे एक मंडप आनी साल मागलें आनी थंय ताणें आपल्या पत्राचो छापखानो घालो. शिटूक आनी अनुभव आसलेल्या कामोत्यांक वावराक लायले आनी देजेब्राचे तिसरेर गोंयच्या सायबाच्या दिसा 'कोंकणी फुडारी' हें दिसाळें उजवाडाक हाडलें. गोंयच्या सायबाच्या हाताखाल ताणें आपलें पत्र घालें कित्याक सांत-फ्रान्सकान मिशनरी इतिहासांत उदेंतीच्यो भासो शिकपाचो प्रयत्न पयलीं केलो आनी तामीळ, मलय, जपानी भाशांनी क्रिस्तांव दोतोन घाली आनी त्यो भासो ताणें आपणायल्यो. सायबाच्या नांवान आनी मजतीन ताणें कोंकणी फुडारी गोंयच्या वाऱ्याचेर एक सोरंगो कसो फुलयलो आनी ताका पळोवन सगळ्या कोंकणी भक्तांचें काळीज फुल्लें.

बळवंतान अग्रलेख बरयलो आनी ताचो मजकूर वो आटाप हो :

"कोंकणी फुडारी ह्या माथाळ्याखाल हें आमचें दिसाळें आयज भायर सरता. क्रिस्त आनी कोंकणी ह्या पत्राचो हावेस आनी हेतू. कोंकणी पत्र आनी पुस्तक, न्हय आयचें कालचें पूण शेकड्यांचें. गोंयांत छापलेलें पयलें पुस्तक १५५७ वर्सा, कॉलेजीओ दे सॅम-पावलो, हाच्या छापखान्यांत उजवाडा आयलें आनी ताचें नांव म्हणल्यार, दोत्रिना क्रिस्ता दे सां फ्रांन्सिस्को झेव्हियर, पुर्तुगेजींतलें. ताचे उप्रांत खुपशीं कोंकणींतल्यान हाताळीं आयलीं आनी रायतुरच्यान कोंकणींतल्यान 'दोत्रिना क्रिस्ता दे थोमास इस्तेव्हांव' आयलें आनी तें अजुनय पुर्तुगेज पुस्तकालयांनी शिंपडलेलें आसा. डायगो रिबेरो आनी दुसरे जेजुईत सांगात्यांनी आनीकूय पुस्तकां आनी रचणां उजवाडा हाडलीं आनी कोंकणी भाशेक गिरेस्तायली. कोंकणी भाशेची आनी आमच्या देसाची आमच्या चिंतपा प्रमाणें आमी सेवा करतल्यांव. अजून मेरेन आमी क्रिस्ताक भायले आनी परके भासांच्या न्हेसणांन न्हेसयला. ह्या फुडाराक ताका आमचे शुध्द कोंकणी भाशेंतल्यान नेटयतल्यांव आनी ताचो धर्म गांवठी भाशेंतल्यान आनी गोंयच्या परमळांतल्यान पांगुरतल्यांव. आमच्या जिविताचें ब्रीद 'Veritas super omnia'- "सगळ्या वस्तुंवयर सत" आमचे कोंकणी भाव ह्या नव्या कोंकणी फुडाऱ्याक आपलो सहकार आनी आदार दितले आनी क्रिस्ताचो धर्म विस्कटावंक आनी कोंकणी भाशेचें जैत वेगींच आमकां पावूंक आनी ते भाशेक आमी मानाचो जागो मेळून घेवंक वावुरतल्यांव. जी कोंकणीचे सेवेची आनी प्रगतीची चूल मिशनारी पाद्रीनी पेटयली ती आमी जिवीच दवरतल्यांव.

ती पालोवंक, फुँलोवंक आनी फळोवंक हातांत घडटा तितलेंय करतल्यांव आनी आमचे शैलेंत तींत आसा तितलेंय सुकयतल्यांव आनी आमचें पेन सोंप मेरेन झरयतल्यांव. कोंकणी फुडारी तुमचे सेवेक आसतलो आनी तुमच्यान खंयच्याय वेळार ह्या पत्राच्या संपादप्याक भेटूं येता आनी तुमचे हुसके आनी आवंडे गमोवं येतात.

पोरणें गोंय, गोंयच्या सायबाचो दीस, १९५८.

"गोंयचो फुडारी" सगळ्या गोंयांत फांकलो आनी ताचें नांव परजळ्ळें. पत्र सोबीत आनी सुंदर कोंकणी भास बरयतालें. कोंकणीची गिरेस्ताय उजवाडा येताली आनी लाळूक आनी रसाळ भाशेंतल्यान क्रिस्ताच्या धर्माचो अणकार आनी गिरोब गावतालो. पत्र रोमी भाशेंतल्यान छापताले पूण तीन पानां देवनागरींत येतालीं. आग्वाद कोटांतले आदले बळवंताचे इश्ट, ताका थंय आल्देया-मारसून धाडलेलो, आनी तो रांपणकारांचे चळवळींत घुसलेलो, पत्राक आशेताले आनी चोरयां-लिपयां वाचून काडटाले. कांय हिन्दू भाव रोमींतल्यान वाचूंक बंदखणींत शिकलेले. प्रो. ज्योकीम आंतोनियो फेर्नांदीसाच्या 'आमचो सोडवणदार' ह्या पुस्तकांतल्यान कोंकणीची रसाळाय आनी गोडवाय चाखताले. कोंकणी फुडाऱ्याचो जल्म आयकून, आग्वादचे कोट संतोसान उफेले. पुर्तुगेज 'फुडाऱ्याक' आनी दुसऱ्या पत्रांक कोटांत येवकार दिनासले. एकली कोंकणी मोगी, स्वतंत्र सैनिकाची आवय, सुमना - सुमनाक ह्या पत्राच्यो कांय प्रती चोळये पोंदा लिपोवन हाडटाली आनी आपल्या पुताक दिताली. वाचून वाचून स्वंतत्र-कैदी, एकमेकांक पावयताले आनी शुध्द, निर्मळ आनी नीतळ कोंकणी वाचून संतोसान तळमळताले. तातुंतल्या एकल्यान आपले आवयचे व्होंटयेंत लिपोवन बळवंताक एक चीट धाडली. ही आसा ती चीट :

मोगाळ बळवंत फादर,

म्हज्या मांयचे अस्तंगी हांवें कोंकणी फुडारी ह्या दिसाळ्याचो पयलो आनी दुसरेय अंक वाचले. कोंकणी रसाळ आनी रूचीक! तातूंत गोड, म्होवें वालावलीकाराचें आनी फेर्नांदीसाचें रगत व्हांवता दिसता. आमचे भाशेची म्होवाळाय आनी गोडवाय तुज्या पत्रांतल्यान परजळटा. हें सुरू केल्लें काम तुवें

फुडें व्हरूंक म्हजी विनंती आनी मागणीं.

तुजे कातोल्क इगर्जेचें एक मात म्हाका बरें दिसनां. तुजे असल्या मनशाच्यान ते इगर्जेंत रावंक कशें जाता तेंच म्हाका समजना. तुमची इग्रोज राष्ट्राचे स्वतंत्रतायेचेर आड आनी ती सदांच जुलूमशाय चलयतल्यांचे वाटेन आसा. ती पुर्तुगेज, धव्यांची. ह्या विशीं तुवें म्हज्या मनार उजवाड घालचो. म्हाकाय म्हज्या शेजारच्या भावांच्या धर्माची वळख घेवंक जाय. म्हजे आवय कडल्यान तुज्या नव्या कोंकणी पत्राक हांव शंबर रूपया धाडटां, म्हजे लागीं घडलेलें जाल्यार हांव तुका आनीकूय धाडीन आसलों. कोंकणी आवयभाशेखातीर हांव कितेंय करूंक तयार.

तुमचो वाचपी
**शंकर फळारी**

आग्वाद कोट, जानेर १९५९.

बळवंतान ही चीट खोशेन वाचली आनी आपल्या काळजाक झरयली आनी उत्साहान भल्लो. जरूय ताका स्वतंत्र सैनिकांचो खुपूच मोग आसलो आनी तो तांकां केन्नाय भेटतालो, ताणें सोसणिकायेन आनी जाणवायेन पावलां मारूंक जाय आसलीं. पुर्तुगेजाच्या कानार आनी दिश्टीर कितेंय पडत जाल्यार जें कितें इलेंशें कोंकणी आनी क्रिस्ता खातीर बरें जाता तें बंद पडटलें आसलें. ताणें फळारी बाबाक सकयली चीट बरयली आनी आवयच्या हड्ड्यारूच लिपोवन व्हरूंक लायली. फळारी बाबाक कांय धर्मीक आनी उंचा-मोलाचींय पुस्तकांय धाडलीं. केन्ना आग्वाद येवन भेटून उमळशीक मारतां म्हूण फळारीक आवयकडल्यान निरोप धाडलो.

ही आसा चीट :

पोरणें गोंय, जानेर १९५९.

मोगाळ फळारी बाब,

तुजें मांये मोगाचें पत्र म्हाका पावलें. तुका इगर्जेचे विशयीं जाणां जावंक आनी तीं राष्ट्रांचे स्वतंत्रायेचेर आड ह्या विशयाचेर उजवाड जाय. हें म्हाका

गोमलें. इग्रज म्हणल्यार सगळी संवसाराची प्रजा, न्हय फकत गोंयचीच, न्हय फकत पुर्तुगेजाचीच, न्हय फकत फ्रान्साचीच. सारकें आनी बारकायेन आमी नियाळूंक वचत जाल्यावर सगळ्या संवसाराची इग्रज, राष्ट्रांचे मेकळिकेचेर आड ना. तिणें आपल्या दोळ्यां मुखार आपल्या घडणाऱ्याची देख दवरूंक जाय. जेजू क्रिस्तान आपल्या जुदेव देसाचो खूप मोग केलो आनी तो जेरूजाल्या - शाराचें निसंतान आदीं - फुडें पळोवन दुकांनी रडलो. तेच जुदेव परजेक ताणें सांगलें: “जशी कोंबी पिलांक पुंजयता तसोच हांव म्हजे परजेक पुंजयतलों.” ताणीं जुदेव राष्ट्रांच्या झाडांचो, सुकण्यांचो, कुपांचो आनी उदकांचो मोग आनी माया केली. ताचे फाटल्यान क्रिस्तांवां मदें ज्योआना दे आर्क परजळटा. ताची देख घेवंक इंदिराबाय गांधी फुडें सरलेली आनी भुरगीच आस्ताना बावटो घेवन इंग्लेजांक धांवडावंक फुडें पावलां मारताली. जॉर्ज बर्नड शॉ ह्या इग्लेज बरोवप्यान आनी नाटककारान तिचे विशयीं सोबीत आनी सुंदर नाटक बरयलां. जुआना दे आर्क हिणें फ्रान्साचो मोग केलो आनी आपल्या गांवांतल्यान इंग्लेजांक धांवडावंक घोड्यार बसून झुजाक गेली आनी दादल्याभाशेन न्हेसून झुजली. तिचे लागीं कोणे इंगलेजांचो मोग करिना काय विचारतच तिणें जाप दिली. “हांव इंग्लेजांचो मोग इंग्लंडाक करतां” - बरें सांगलें!

आमी पाद्रींक ‘द चर्चमॅन’ म्हण्टांव. गोंयकार पाद्रीनीं गोंयचे सुटकेखातीर कांय उणें केलेंना. कोंजुरासांव दोस पिन्तोस म्हण आसा आनी आबे फारिया आनी ताचो बापूय क्रांतिकारूच, आनी स्वतंत्रसैनिकूच म्हणूं येतात. पयलो गोंयकार बिस्पसायब दों मॅथेवस द कास्त्रो आनी दों थोमस द कास्त्रो, दिवारकार हे सगळे आपल्या गांवचे व्हडविके आनी गोंयकारपणांखातीर झुजले आनी प्रोपागांदाचे पयल्यांतले पयले उदेंतीक बिस्प जाले. जेन्ना पुर्तुगेज गोंयकारांक आपल्या संस्थांनी आनी मठांनी मठवासी जिवितांत घे नासले, प्रि. जुजे वाजान आमची गोंयची खाशेली ओरातोरियो दे सांताक्रूज दोस मिलाग्रीस, पोरण्यां गोंयां ही संस्था रचली. हे संस्थेच्यां वांगड्यांनीं शें पन्नास वर्सां सिलांवांक काम केलें आनी एक खरेली देशी इग्रज रचली. देशी रिती आनी देशी भास शिकले आनी सिलोनी इगर्जेक देशी आनी गांवठी रंग दिलो. देशी नाच आनी गीत उत्पन्न केलें.

गोंयकार पाद्रीच्या काळजांत देस आनी देव बाराचबरीं वेता इतलेंच, तुजेभाशेन, ताच्यान बंदखणींत बसून सोसूंक जायना. ताचें धर्मीक काम पयलें

आनी त्या देवाच्या कामाक लागून ताच्यान चळवळींत भितर सरूंक जायनां. तर फळारी तुजो आनी म्हजो आवंडो पुरो जावंचो आनी आमचें गोंय स्वतंत्र जावंचें. हो दीस वेगींच उदेतलो आनी ह्या देसांत आमचे आवय भाशेक मानाचो जागो आसतलो. देखुनूच, कोंकणी फुडारी विकास करता आनी जेन्ना गोंय स्वतंत्र जातलें, तेन्ना कोंकणी स्वतंत्र जातली आनी ती आपली छाती भायर घालून इंडियेच्यान शेकड्यां भासांमदें आपूण स्वतंत्र भास म्हूण आपलें रेंग-टेंग वाजयतली. कोंगो फुलयतली, सोरंगो सोडटेली.

फळारीबाबाक बरें मागून आनी ताचे आवंडे पुरे जावंक आशेवन,

तुजो इश्ट
**बळवंत**

कोंकणी फुडारी आनी ताचे वर्गणीदार चडत गेले. आस्तीक मनीस आनी नास्तिकूय हें दैनीक वाचूंक लागले. जाण्टीं तशीं भुरगीं ताच्या वाचपांतल्यान फायदो काडूंक लागलीं. एका नास्तीक मनशान बळवंताक उगती चीट बरयली. ही आसा ती :

मानेस्त संपादप्या,

हांव हरशीं धर्मीक पत्रां आनी पुस्तकां वाचिनां. एकदां मोटरींत वेत्तनां तुजें पत्र म्हज्या हातांत पडलें आनी हांवें तें वाचूंक सुरू केलें. वाचतां वाचतां तें खुपूच आवडलें. कोंकणीक लागून वाचतालों तर क्रिस्ताचीय गजाल हांव शिकूंक पावलों. हरशीं हांव देवाक आनी ताच्या क्रिस्ताक सत मानिना. तुजें बरोवप म्हाका एकदम मानता. 'पवित्र पुराणांची विस्कटावणी, इगर्जेचो इतिहास, कोंकणी पान हें सगळें एकदम नाजूक जाता आनी वाचता तितलेंय थोडें दिसता. तुजी शैली एकदम सोबीत आनी तुजें पेन धावताच दिसता. बरयतनां तूं लागींच आसून उलयताय दिसता. हांव क्रिस्ताक सत मानूंग लागलां. हांव इगर्जेक वचनासलों. आतां इगर्जेक वेतां आनी क्रिस्ताक खोलायेन आनी लागसारायेन वळखतां. क्रिस्ताचें आनी

कोंकणीचें काम तूं करीतूच वच. थोडे तुका वाखाणतेले, थोडे समजचे नांत, टांच फुडें. कोंकणी आनी क्रिस्त तुजी खुशाली जावं.

बरें मागून,

**जुवांव दोस सांतोस ब्रागांझा**

पणजी मार्स १९५८

बळवंत खोशेन भल्लो आनी आपणें येवजिलेलें काम फुडें पावलां म्हूण संतोसलो. क्रिस्त आनी कोंकणी बाराचबरीं. क्रिस्ताची वळख कोंकणी लोकांक कोंकणीतल्यान पावली. इतल्यान बळवंताक देवान सुदळ जीब दिल्ली. ताणें आपल्या शिरावळेच्या गांवांत आपलें पयलें भाशण तेरा वर्सांचे पिरायेर केल्लें आनी ताचें उलोवप जातच ताका पाद्र विगारान वेंग माल्लेली. तो एकदम व्हडलो प्रेगादोर आनी प्रवचनकार जातलो म्हूण शेजारी आनी सामारी सांगतालीं आनी शेजारचो सांतुलो मुरगट्टालो. ह्या देण्याचो उपयोग करचो वेळ पावलेलो.

बळवंत आपल्या पत्राचें छापप जाल्या उप्रांत मोटरसायकल घेवन लोकाचे सेवेक सेरमांव सांगूंक भोंवतालो. आंगांत आसलें तितलेंय बळ तो क्रिस्ताचे आनी परजेचे सेवेक वापुरतालो. भुरगो आसताना तो आपले भोंवतीं मांद्री गुठलावन सेरमांव सांगतालो आनी केन्नाय आयकुपी सांगात्यांच्या दोळ्यांत दुकां हाडटालो. गोंयच्या मुख्य गांवांनी बळवंतान सेरमांव सांगलें आनी मनशांचीं काळजां जिकून काडलीं. सेरमांव काबार जातच खंयचीय एक मोगाळ आनी मनशाळ अस्तुरी सेरमांवांचीं उतरां आयकून म्होवाळून बळवंताक भेटताली आनी एक साबू, एक मेयांचो पार कुशिनूच व्हरून बळवंताक दिताली. सगळ्यांच्या तोंडार बळवंताचें नांव खेळटा आनी वायट, बऱ्याक येता म्हूण तो समजूंक लागलो. गोंयच्या पात्रिआर्कान ताका कोनशाक माल्लेलो आनी देवान ताचे शैलेचो आनी जिबेचो उपयोग केल्लो : "जो फातर बांदप्यानी सांडलेलो तोच देवान विंचून काडलेलो." बळवंताच्या जिवितांत काळोखांतल्यान आनी सपनांतल्यान आनी सावळेंतल्यान सत आयलेलें आनी ताणें बरोवपांतल्यान आनी उलोवपांतल्यान बरेपण, भलेपण, क्रिस्ताचो मोग, कोंकणीची वळख आनी गांवचो अभिमान शिंपडायलेलो. देवाक आर्गां दितना, ताच्यान आपल्या एका पातक्याच्या मन-बदलपाची गजाल केन्नाच विसरूंक जायनासली. ही आसा ती :

बळवंत एकदां किटुला, हळदोण्यां सेरमावांक गेल्लो. थंय एक नास्तीक आसलो. तो इगर्जेक देवाक आनी धर्माक वचनासलो. तो घरांतूच आपल्या कामांत गूल जातालो आनी कोणाकूच तो जाप दिनासलो. ताची गजाल आयकनाफुडें बळवंतान त्या मनशाक भेटूंक वेतां म्हूण सांगलें. ताच्या घराच्या दुर्गालागीं पावनाफुडें, लोकांन बळवंताक थांबयलो आनी त्या घरांत वचनाका म्हूण विनयलें वचत जाल्यार तो नास्तीक ताका पेटूंक आसलो. बळवंत आपल्या नांवांपरमाणे बळ करून गेलोच. बसलो, उलोवंक लागलो. गजाली केल्यो आनी शेकीमेंत बळवंतान त्या नास्तीक मनशालागीं कुमसार करूंक मागणी केली. ताणें नाकारली. आपूण करूंक ना तो ना म्हूण ताणें बळवंताक सांगलें. बळवंतान ताका सांडलो ना. मागीत आनी समजायत रावलो. शेकीमेंत नास्तिकान सांगलें : "कुमसार करूंक म्हजे लागीं पुस्तक ना आनी हांव कुमसार जायनां." बळवंतान ताका पुस्तकाची गरज ना म्हूण सांगलें आनी आपुणूच कुमसार शिकयतां म्हूण परार्थलें. नास्तिकान ताचें उतर कानांत धल्लें आनी कुमसार जालो. फाल्यां कपेलांत येतां म्हूण आदल्या नास्तिकान आनी आतां नव्या इश्टान सांगलें. नेमलेल्या वेळार ह्या नव्या इश्टान कपेलाक भेट दिलीना. बळवंत काचाबूल जालो. बदललेल्या नव्या इश्टान बळवंताक आपूण दुयेंत -आजारी पूण निरोप धाडलो. बळवंतान ताका सायब घरा व्हेलो आनी सांजेच्या स वरांचेर बळवंताच्या हातांत तो सोंपलो. मरचे आदीं ह्या नव्या इश्टान बळवंताक सांगलें : "तूं म्हज्या घरांत एक आंज-बडवो कसो आयलो. म्हजे लागीं तुका दिवंक कांय ना. म्हजो चाकर म्हज्या घरांत आसा तितलेंय फोडटा आनी मोडटा. म्हजे लागीं एक फुटलेली पीर आसा ती तुवें म्हजो उगडास कसो व्हरची.' बळवंतान ती पीर आपल्या मेजार दवल्ली आनी ती ताका दुखा वेळार भुजवण हाडटाली. ताणें लिओ तेरेज ह्या फांकी सयरण शास्त्र्याचें 'वेसल ऑफ क्ले' हें पुस्तक वाचलेलें आनी ताचेर हीं उतरां मारलेलीं : "There is one single soul in the world whom I alone can save" - 'संवसारांत एकूच एकलो आत्मो आसा, ताका म्हज्यानूच साल्वार करूं येता.' हें बळवंताच्या जिवितांत सत जाल्लें आनी हळदणचो पातकी एकल्याच बळवंताक रावतालो. बळवंत काळखांत आनी कुपांत पडलेलो तेन्ना ताणें 'देव वांकड्या अक्षरांनी नीट बरयता' हीं उतरां वाचलेलीं. काम नासून ताणें सेरमांवांचे काम धरलेलं आनी बरोवपी जाल्लो. कुपांतलो सूर्या कसो परजळलेलो.

इतल्यान बळवंत सगळ्या गोंयांत फांकलेलो आनी सादलेलो. ताका कुपांनी लिपयलेलो आनी तो सगळ्याक गाजलेलो. ताच्यान ताचे जिबेन आनी शैलेन पुर्तुगेजांक हालोवं येतालें आनी गोंयच्या सरभोंवतणच्या गांवांनी कोंकणी, मराठी, संस्कृत जाणां जाल्ल्या मनशाची गरज आसली. आनीक एक पावटी जीप मारून गोंयचो पात्रिआर्क दों जुजे कास्त्रो गोंयां बळवंताक सोदूंक आयलो. बळवंताक ताणें देवगिरी गांवांत व्हिगार जावंक विनयलें. बळवंताक आपल्या बरोवपाच्या कामाची खूप व्हडली आपुलकी आसली आनी तें सांडूंक ताका काळीज जायनासलें. तरीय वडिलांचे मागणेक आनी सांगणेक लागून ताणें देवगिरी गांवची वाट धरली आनी थोडो काळ बरोवपाक आनी सेरमांवांक फाट केली. आपलीं थोडीं पुस्तकां घेतलीं. प्रि. जॉर्जेन्सेनाक आदेवश केलो आनी बरें जातले, वायट जातलें, आपणे पळोवंक ना त्या गांवांत तो उतरलो. शिराधारांनी पावस पडटालो. आपलें म्हाल ताणें फाटीर माल्लें आनी काळोखी पाद्र-व्हिगाराच्या मोडक्या घरांत भितर सरलो. बळवंताक घेवपाक आनी नमन करपाक एक मूस नासलो. इग्रज पोंवताली. काळोख आनी विजां पडटालीं. वादळ आनी वारें किंकीं करून हे ते वाटेन धांवतालें. असल्या वेळार बळवंत देवगिरींत भितर सरलो. शेजारचीं रूखाचीं झाडां बळवंताक नमन करतालीं. जायतीं वर्सां आमचे मदें राव म्हूण उलोवन विनयतालींशीं दिसतालीं. सुणे भोंकताले, मांजर म्यांव म्यांव करतालें. उरलेल्यो वस्तू व्हरूंक तो पोरण्या गोंयां परतलो.



आठवो अवेस्वर

## देवगिरिचो विगार

आल्देया-मार पाद्र-कूर जाल्या उप्रांत बळवंताक लग्न, काजार, बातिज्म आनी दुसरे संस्कार दिवपाचें काम खूप पयशिलें जाल्लें. ताणें सेर्मांव सांगलेलें आनी खूप बरोवप केल्लें. देव दाखयता ती वाट खरी हीं आपल्या आवय-बापायच्चीं उतरां मनांत धरून पोरणें गोंय नव्यान सोडून ताणें देवगिरिची वाट धल्ली. प्रवचन - सेर्मांव सांगपाचें काम सोडूंक ताका खुपूच वायट दिसलें. ताणें आपलीं उरलेलीं पत्रां-पुस्तकां आपले धाकटुले पेटयेंत भरलीं आनी देवाचे मांयेक उलो मारून ताणें लक्ष्मण सुखटणकर हाच्या मोटारांत पांय घालो. नव्या गांवांत कितें जातलें, आपली विगारकी यशवंत जातली, देवगिरिच्या लोकाक कशे तरेन वेंगयतलो आनी तांचे खातीर यज्ञीकी - सेवा कशी करतलों ताच्या मनांत येवजत आयलें. बळवंत पत्रां आनी पुस्तकांचो इश्ट. तो विडी ओडिनासलो, सोरो पियेनासलो. ताची आवड म्हणल्यार पुस्तकां. वाटेर ताणें सुखठणकाराकडे हांगा थंय देवगिरिच्या गांवची गजाल काडली आनी इल्ली आधुनीक लोकाची खबर विचारली. आदीं, बॉम्बे मिशन हिस्ट्री बरोवपी फा. हल एस् . जे; मित्रास लुजितानास; पेलो क्लेरो दे गोवा, पेलो पे. नायसेन दे फिग्रेदो, हिस्तोरिया दो प्राद्रोआदो पुर्तुगेज नो ओरिएन्ते, दों माथेव दे कास्त्रो. उं क्रियेतूर दृ प्रोपोगांदा हीं आनी दुसरीं पुस्तकां ताणें वाचलेलीं

आनी तांचे वयल्यान इल्ली थोडी देवगिरिची गजाल आनी म्हायती मेळयलेली.

देवगिरी इगर्जेचो घडपी आनी रचणार दों माथेवस दे कास्त्रो, इदालशा, पेगू, गोलकोंडा, आनी प्रेस्ते जुवांव ह्यां गांवचो विगार आपोस्तोलीक. ताणेंच देवगिरिची, वेंगुर्लेची आनी बांदेची इग्रज बांदलेली. तो रोमाक एकशें धा वर्सांचे पिरायेर १६७९ वर्सा सोंपलो. दों मातेवस दे कास्त्रो गांवांन दिवाडेचो आनी भुरगेचपर्णी थावन ताच्या काळजांत गोंयकार आनी भारती पाद्रीनी आपल्या गांवांची आनी इगर्जेचीं सुत्रां अभिमानान धरचीं म्हूण सदांच शिजतालें. ताणें जेजुईत आनी फ्रान्सिस्कानांच्या दारार माल्लें आनी आपणाक तांचे संस्थेंत घेवंक विनयलें. पूण ताचें उतर ताणीं कानांत धरलेंना. त्या काळार काळे कातीक मान नासलेलो. जेजुईत जावं, फ्रान्सिस्कांनी जावं, गोंयकारांक आपल्या मठांत घेनासले. दों मातेवस दे कास्त्रो हाका इगर्जेंत हे धवे कातींच्या पाद्रींची जुलुमशाय माननासली आनी ताणें गोंय सोडून पांयवाटेंतल्यान रोम शाराची वाट धरली आनी थंय पाद्रीपणाची ओर्द आनी माखणी घेतली. ताचे हुशारकायेक लागून ताका ग्राव मोगल, पुर्तुगेजांच्या ताब्या भायर आसलेल्या गांवचो बिस्प नेमलो आनी ताणें आपल्या बिस्पपणाची सदरी आनी सिंवासन देवगिरी केलें. दों मातेवस दे कास्त्रोचें म्हणणें आनी धोरण हें आसलें : "गोंयचो सरकारी आनी धर्मीक कारभार गोंयकारांनी चलोवंचो." एका पुर्तुगेज सरकारी ऑफशालान म्हणलेलें : "मिसांवांच्या कामांत शंबर परदेशी मिशनरां मुखार एकूच देशी पाद्री अदीक मोलादीक आनी गरजेचो." दों मातेवस दे कास्त्रो देशी पाद्रींतल्यान आनी देशी भाशेंतल्यान आनी संस्कृतायेंतल्यान मनशांची सोडवण हें तत्व आनी सांगणें येरोपाक आनी खेरीतूचपणी प्रोपोगांदा खात्यामुखार सादयतालो. प्रोपोगांदान ताका आपलो पयलो बिस्प नेमलो आनी ताका उदेन्तेक धाडलो. येन्ना म्हणल्यार गांवचे राजा आनी कुंवर पुर्तुगेजांक वांकड्या दोळ्यांन पळयताले आनी पुर्तुगेज मिशनार आनी पुर्तुगेजांची शाही आपणाक नाका म्हूण दों मातेवसा उदरीं रोमाक आनी क्रिस्ती वडिलांक गमयताले. गोंयकारांक आनी भारती मनशांक भारती कुंवर आनी राजा बऱ्या मनान आनी काळजान आपल्या गांवांनी आनी ग्रामांनी घेतले देखुनूच प्रोपोगांदान गोंयकारांक बिस्प केले आनी तांच्या ताब्यांत गोंय भायले प्रांत आनी देस घाले. देसी पाद्री तकलेन हुशार आनी जिबेन सदळ, कातीन गांवकार हें सत कास्त्रो प्रगटटालो. दों मातेवस दे कास्त्रोचें काळीज बळवंताचे कुडींत धपधपेतालें

म्हणल्यार लटकें जावंचेना. दोगूय शंबर टक्के भारतीय दोगूय शंबर टक्के क्रिस्ती.

दों मातेवस दे कास्त्रोची खबर मोंशिन्योर गोमीस कातावच्या ह्या गोंयकार पाद्रीच्या पुस्तकांतल्यान आनी लेखांतल्यान बळवंतान आयकलेली. देवगिरिची आनीकूय खबर आयकूंक ताचे फुडें तो गेल्लो. अजुनूय ह्या शारांत पासाल दे विगारियो, विगाराचें भाट आनी दुरीग आसलें. तें कामराक आनी नगरपालिकेक तेंकून आसलें. व्हडलें भाट आसलें. तांतलें कोणें अर्दे आपणायलेलें आनी आतां दोन गोंटांचें भाट आसलें आनी आजुनूय रोसाळ घऱ्यांचे पणस वसताले. जाणटेले माड आनी आंबे इतिहासाचो उगडास हाडटाले. ह्या भाटांत मोडकुलें घर आसलें आनी तें भाड्याक दिवन इगर्जेक आड आदाव येतालो. कोणेंय कसल्याय कामांक एक फोंड माल्लो वो माडांक वाळें माल्लें जाल्यार, आदले शिमितिरींतलीं हाडां दिसतालीं आनी पोरणे इमारतींचे व्हडले फातर आनी गूंडे झळकताले. देवगिरीसून सगळे सावंतवाडींत हो गोंयकार बिस्पसायब, दों मातेवस दे कास्त्रो आपली आत्मीक राजवटकी चलयतालो आनी देशी राजां आनी राणयांमदें ताका व्हडलो मान आनी मोयपास आसलो. हे देशी राजा ताका कसल्याय कामांक आधार आनी आलाशिरो दिताले. देवगिरी आदी पुर्तुगेजां खाला नासताली आनी पुर्तुगेजांक धांवडावचे खातीर, दों मातेवस दे कास्त्रो दुसरे वटेन आसलेल्या सप्तकोटेसवाडी वेतालो आनी आपल्या गांव-भावांक स्वतंत्राय जोडूंक उसकायतालो. देवगिरी बांद्यां आनी वाडीच्या वाठारांतल्यान तेत्तीस पादरी धुंवताले आनी आत्म्याची सेवा करताले. ताणी कांय राण्यांक धर्मांत हाडले आनी ह्या राण्यांनी दों मेनेझीस, दों मिरांदा आनी दुसरीं नांवां धरलीं. ह्या पाद्रीनीं एक खेरीत कोन्फ्रारी घडली आनी तिचो इतिहास रोमांक बरयल्लो आसा. हें सगळें बळवंताक ठावें आसलें. देवगिरी गांवांत एक देशी इगर्ज घडची हें ताच्या मनांत फिरलें.

देवगिरींतल्यान दों थॉमस दे कास्त्रो हाणेंय बी पावल दवरलें जातलें. तो दों मातेवस कास्त्रो हाचो भाचो आनी ताका प्रोपोगांदान, ह्या मिशनरी रोमी खात्यान, कोचीन, तानोर, गिंजे, मदुराय, म्हैसूर, क्रांगानोर, कन्नानोर आनी कानाराचो बिस्प नोमियारलो आनी तो मंगळूर रावतालो आनी ताणें कानडी राजांचें आनी राणयांचें मिशनरावसल्यान बरें मन आनी काळीज ओडून घेतलें. ताणें क्रिस्तांवांक शेतां आनी रानां मेळयलीं आनी सगळे आपले गांव भोंवून काडले आनी कोचिनाक दों राफायेल दे फिगेरेदो हाका बिस्प संस्कारलो. मंगळुरांत जुलाय १६ वेर १६८९

वर्सा अंतरलो. ताचोय उस्वास देवगिरींतल्यान आनी सावंतवाडच्यान बांदेच्यान वसतालो आनी तोय बळवंताचेर पडूं येतालो. भारताच्या पुतांनी भारती इग्रज चलोवंची, होच ताचो इकलो आसलो. दों थॉमस द कास्त्रो म्हणल्यार तिसरो गोंयकार बिस्प.

सतान-सत म्हणल्यार देवगिरी दों कुस्तोदियो द पिन्हो पेणे करतालो. तो गांवान वेर्णेचो आनी ताका बाणावलेचे इगर्जेंत साल्वासांव मांयच्या आल्तारा मुखार पुरला आनी ताच्या फोंडाचेर ताणेंच हीं उतरां मारूं लायलीं: "Hic Jacet, Pulvis, Cinis et Nihil" - हांगासर, धूळ माती आनी गोबर पुरलेली आसात हो जावन आसा दुसरो गोंयकार बिस्प. तो देवगिरी रावताना, देवगिरी मराठ्यांच्या हातांत आसतालें आनी थंय शिवाजी आनी संभाजी राज चलयताले. दों मातेवसा भाशेन दों. कुस्तोदियो द पिन्हो बेस बरें काम करतालो आनी ताणेंय मराठी आनी मुसलमानी फुडाऱ्यांचीं काळजां जिखून घेतलेलीं. एकदां संभाजी महाराजान ताका आपणां लागीं आपयलो आनी ताणें गोंयचेर आक्रमण करपाचें मन उक्तें केलें. दो कुस्तोदियो द पिन्हो हाणें प्रोपोगांदाचे हक सांबाळ्ळे आनी प्रोपोगांदानूच तांकां बिस्प नेमलो, तरी ताणें हे पावटी संभाजीचें मन पळोवन, तो गोंयां पळून गेलो आनी हो संभाजीचो गूट कोंद दे आल्वोर, ह्या गोंयच्या राजपालाक उकतो केलो. दों कुस्तोदियो गोंया रावलो आनी थंय ताणें प्रि. जुजे वाजाक दियाकनाची - सेवकाची ओर्द दिली. जेन्ना खूप वर्सां गोंयांत बिस्प सायब नासलो तेंन्ना ताणें मठवास्यांक आनी डायोसेजानी पाद्रींक ओर्द आनी माखणी दिली. प्रि. जुजे वाजान आनी ताच्या सांगात्यांनी ओरातोरियो दा सांताक्रूज दोस मिलाग्रीस ही देशी मिशनार संस्था घडली तेन्ना पुर्तुगालाचो राजा आनी वडील आनी गोंयचे धर्मीक अधिकारीय ते संस्थेक मान्यताय दिनासले. दों कुस्तोदियो द पिन्हो हाणें तांकां मानपत्र आनी खात्रेपत्र दिलें. गोंयकार पाद्री इनकोन्स्तान्तीस इग्नोरेंतीस ते हालते-धोलते न्हय, ते अजाण न्हय, ते आपले काळेकातीक लागुनूच इंदियेच्या गांवांनी काम करूंक आनी धर्म परगटूंक एकदम लायक आनी हुशार. इतलेंच न्हय, इंदियेच्यो भासो शिकूंक भारती मनीस लायक आनी यशवंत. असल्या बिस्पांच्या आनी भारताच्या मोगी गांवांत गोंयच्या पात्रिआर्कान, दों जुजे द कास्त्रो बळवंताक धाडलेलो.

देवगिरी कांय म्हत्वाचे आनी मोलाचे स्वतंत्र सैनीक जल्माक आयलेले.

थंय अजुनूय खुपशे स्वतंत्र-फुडारी आनी सैनीक जियेताले आनी बळवंताच्यान कांय एक शास्त्राखातीर करूं जायना जाल्यारूय, ह्या सैनिकांची इश्टागत जोडूंन स्वस्ताय आनी मांडावळ वसतेली आसली. त्या गांवांतल्यान सदां भोंवपी आनी चलपी म्हणल्यार आपाजी कांता, डॉ. एस्. मुळगांवकार, गुरूजी कारापुरकार, सोमनाथ कडकडे, इत्यादी जियेताले आनी तेच स्वतंत्रतायेचो बावटो उबयत दवरताले. इंदियेकसून मावळींगेंतल्यान स्वतंत्र सैनीक देवगिरी येताले वेताले आनी ताज्यो खबरो घेवन महाराष्ट्रांत परतताले. ब्रह्मानंद चव्हाण देवगिरी येवन आनी भोवून चलून येता-वेतालो. देवगिरींत काम करतल्या ह्या मनशांची इश्टागत जोडना जाल्यार तांकां दुस्मान तरी करूंक फावनासले. इश्टागतीक बळवंत आशेतालो. इश्टागत करपाची ताका लायकी आनी ओड आसली.

देवगिरी पुलापलतडे मुसलमानाचे घराबे आसताले. ते क्रिस्तांवांचे इश्ट जाल्यारूय, तांचेकडे क्रिस्तांवांचो आनी पाद्रींचो चडसो वेवहार नासलेलो. एकामेकांक ते खूप थोडे पावटी भेटताले आनी तांचे धर्म लागीं आनी लागशिल्ले जाल्यारूय तांचेमदें कसलोच विवाद आनी सुसंवाद जावंक ना. मोटरांचो धंदो तांचेच ताब्यांत आसलेलो आनी शिकपाचे नदरेन ताणीं चडशी प्रगती आनी विकास केलोना. गोंयचे पात्रिआर्क सायबान, दों जुजे दें कास्त्रो हाणीं बळवंताची दुसऱ्या धर्माची वळख आनी शिकप जाणां जावन ताका ह्या कामाक विंचून काडटना, हे परजेक लागीं करूंक आनी तांचेकडे सुसंवाद आनी डायलॉग करूंक ताचें लक्ष ओडलेलें. बळवंत बऱ्या नात्यांचो मनीस म्हूण दों जुजे जाणां आसलो. पाद्री भारती जावं, तो पुर्तुगेज जावं ताणें आपलें काळीज सगळ्या मनशांक उकतें दवरूंक जाय. ताच्या मनांत आपली राजकारणीक आनी स्वतंत्र तत्वा खेळोवंक येतात पूण ताणें सगळ्यांचो मोग करूंक जाय, क्रिस्ताची सेवा आनी संस्कार सगळ्यांक दिवंक, मनांत पयस लेगीत जाल्यारूय ताणें काळजांत सगळ्या संवसाराक वेंगोवंक जाय. स्वतंत्रतायेची चळवळ सुरू जायनाफुडें दोतोर आंतोनियो दे ओलिव्हेरा सालाझार हांचे हुकमान, पुर्तुगेजांनी देवगिरीच्या शारांत आनी लागशिल्या पेडणेच्या गांवांत, पाकले आनी आफ्रिकी सैनीक रावताले. तांचीय सेवा करची आसली. पुर्तुगेज मनशां आनी पुर्तुगेज चिंतपा आनी तत्वांमदें वेगळोचार आसलो. पुर्तुगेजांचो मोग करचो, तांचें चिंतप पयसांवचें. सालाजार लिस्बोवाकसून आज्ञा घालतालो आनी हे निरअपराधी शिपाय त्यो पाळटाले. तांचो गुन्यांव कसलो!

खंयच्याय पाद्रीन तांकां मोयमोगान, दयेमायेन, थातोमाथ्यान वेंगावंक जाय आसलें आनी तांकां जेजू क्रिस्ताची भुजवण आनी शिकवण दिवंची आसली.

सगळी देवगिरी हिन्दू भावांच्या आनी भयणींच्या जम्यांनी भरलेली. थंय भरलेले वाडे आसले. हारीन घरां बांदल्यां आनी मदें लांब आनी रूंद रस्ते दिसताले. धाकटीं धाकटीं घरां, त्या घरांनी शिकलेले आनी सवरलेले मनीस वस्ती करताले. ह्या शारांत गोंयबाब वर्दे वालावलीकारांचें घर आनी ठाण अजून उबें आसलें. त्या घराक आपूण केन्नाय भेट दितलों आनी आपल्या पुस्तकी इश्टाच्या घराक पळोवन आनी सोयऱ्यांक मेळून आपल्या काळजाची उमळशीक मारूंक बळवंत आशेल्लो. कांय वर्सां पासून हिन्दू आनी क्रिस्तांव पॅसिफीक को एक्झीस्टन्स, शांतपणी आनी थंडपणी जियेले जाल्यारूय तांचे मदें काळजाची भेट चडशी जालीना. कांय हिन्दवानी आनी क्रिस्तांवानी आग्वादच्या कोटांत एका हेतू आनी हावेसा खातीर, एका तिरा आनी मोखीखातीर जिवीत भेटयलें जाल्यार बाराचबरीं आनी सांगाती पुर्तुगेजांचो मार खालो जाल्यार, एका मेकांचे धर्म कितले लागीं आनी कितले पयस्स तें ताणीं वळखून घेवंक ना. घरा-घराक तेकून आसतानाय ताणीं एकमेकाक खोलायेन वळखून घेवंक नांत आनी खतखत्यान मोग करूंक चडशे यत्न आनी वावर करूंक ना. मोटरांत बसना फुडें बळवंताच्या मनांतल्यान पाद्रीपणांचीं पयलीं वर्सां सवकास घोळ्ळीं आनी जें आपणें कारामुली केल्लें तेंच आपूण देवगिरींत करतलों म्हूण ताणें वाटेरूच निश्चेव केलो. हिन्दू धर्म आपूण पोंदायतलों, संस्कृत भास, वेद आनी पुराणां आरतून - परतितलों आनी शिकलेल्या आनी संवरलेल्या पंडितांकडे भासाभास करतलों आनी खंयच्यान धर्माचे नदरेन लागीं सरू येता तें आपूण पळेतलों आनी शिकतलों तें चिंतीत तो देवगिरीचे शिमेर पावलो.

बार्देसाचो एक पूल काडून बळवंत आपले फिर्गोजेंत पावलो. पावसाचे हुंवार आयलेले आनी शिरांदारी पावस रकवतालो. काळकाचीं कुपां अंतराळार उफेतालीं आनी बळवंताच्या काळजांत दुकां आनी काळोकी चिंतनां उपजतालीं आपलें मिसांव कशें सुरू जातलें आनी कशें सोंपतलें हें ताच्या मनांत फिरतालें आनी ताका आकुळपिकूळ करतालें. तितल्यान बळवंताच्या मनांत आपल्या बापायचीं उतरां रिगलीं. 'बळवंत तुजें नांव. काळीज घट धर आनी चल फुडें. हालूं नाका धोलूं नाका. तुज्या दोनीय पांयांचेर उबो राव. देवाचेर विस्वास ठेव

आनी आपल्याच्या हातांत आसा तें कर.' काळजीदारपणाची भावनां काळजांत खेळयत बळवंत देवगिरी, एका वडालागीं, मोटरनाक्यार पावलो. कांय काळे-धवे मनीस उबे रावन गजाल मारताले पूण कोणूच ताका चेपें न्हय, न्हय तर दोळे मोडिनासले. पोंक पोंक करीत मोटर इगर्जेलागीं चडलें. इगर्जेचो गोपूर मोडलेलो. इगर्जेमुखार चुडटांचो झड मारलेलो आनी सगळ्या वाटांनी काळोख पडलेलो. वेतो विगार नासलेलो आनी बळवंताक भितर काडपाक मनशाची सावळी नासली. ताणें आपलीं साधनां आनी पेटी खांदार माल्ल्यो आनी पावसाच्या आवाजार आनी भिजत भिजत ताणें पाद्र-विगाराच्या घरांत पेणे केले. ड्रायव्हर सुखठणकाराक हात दिलो आनी ताच्या हातांत वीस रूपये घाले आनी सुखठणकार हांसत-मिरत घरा परतलो. जिवीत आमचें एकसुरें, तें सदांच उरना, पूण इश्ट जोडटलो आनी ह्या गांवांतल्यान वेतनां हजार इश्टांक घेवन आपूण भायर सरतलों म्हूण ताणें निर्णय घेतलो. इतल्या म्हणसर वेतो-विगार आयलो आनी ताणें ताका देवगिरींत कशें वागूंकजाय, कशें चलूंक जाय हाचे वयर एक धाकटुलो अभ्यास - लिसांव दिलें आनी तें बळवंतान उपकारपणान आनी ल्हानव्हिकायेन आयकून घेतलें.

बळवंत इगर्जेंत भितर सरलो. आल्तार म्हेळकुटें आसलें. सारण हे इगर्जेंत चडशी भोंवडायनासले. घराक आनी इगर्जेक सुरक्षा नासली, चोरांनी भांगराचीं भंडारां फोडून आनी कुडके करून मोलादीक वस्तू आनी पयसो व्हेल्लो आनी इगर्जेक आनी प्रजेक दुबळी दवरलेली. इगर्जेच्यो वण्टी मातयेच्यो आनी अस्कट फातरांच्यो जावन, फुगताल्यो आनी चुन्याचे कुडके झडटाले. जनेलां आनी दारां पोरणीं जाल्लीं आनी तांकां खिळयो नासून जाय ताच्यान भितर सरूं येतालें. पाखे आनी वागळां इग्रोज म्हेळयताली आनी मिसाक येतल्यांचीं वस्त्रां म्हेळकुटीं करतालीं. पाद्र-विगाराच्या घराच्यो वण्टी पावसाचें उदक चिंवताल्यो आनी आरोगी आनी भलायकवंत मनशाक लेगीत धनुर्वात-रूमॅटीजम हाडटाल्यो. सैमाच्यो वस्तू पळोवंक कसलेंच सोंपेपण नासतालें. बळवंत दुखेस्त जालो आनी कितें करचें, कितें करचें न्हय म्हणीत कुरपेवंत गांवचे सायबिणीफुडें ताणें दिमी घाली आनी तिका ताणें असो उलो माल्लो:

कुरपेवंत मांये, भुरगोच पासून, हांवें तुजो मोग केला आनी म्हज्या पाद्रीपणांत आयजपर्यान तुवें म्हाका तिगयला आनी तिजयला. म्हजो फुडार कितें तें हांव नकळो. ह्या गांवांत व्हडल्या बिस्पानीं काम केलें आनी तांची देख हांवें घेवं. हांव

शंबर टक्के कातोल्क जावं आनी शंबर टक्के भारती जावं, म्हज्या हिन्दू भावांक हांवें लागीं हाडूं, म्हज्या मोयर भावांकडें हांव मायेमोगान चलूं. पुर्तुगेजांक हांवें भावार्ताची सेवा दिवं. हे गांवांत मोयरां, किरिस्तावां आनी हिन्दवांमदें हांव एक बंदपास आनी घट्ट सिमीट जावं. म्हज्या घरांत आनी इगर्जेत तिनूय धर्माचे मनीस खऱ्या देवांक पुजूंक एकठांय जावं. ह्या धर्मामदें क्रिस्ताचे नांवीं हांवें मायेमोगाचो आनी भावपणाचो पूल बांदूं. ह्या गांवांत एक बरें इस्कोल ना, तें हांवें बांदूंक आनी तातूंत दुबळ्यांच्या आनी गिरेस्तांच्या भुरग्यांक एकठावंक, थंय किरिस्तांव, मोयर आनी हिन्दू भुरगीं खांदार हात घालून आनी भाव-भाव आनी भयणी - भयणीं म्हूण भोवूंक आनी मानूंक तुजेकडे हांव विनयतां. म्हज्या जिवितांत हांगासर कसलींय तुफानां येतलीं, कसलीं वादळां मारतलीं तें म्हाका ठावें ना, तें तुका ठावें. तुजो हांव मोग करतलों आनी तुजो मोग करूंक हांव शिकयतलों. क्रिस्ताचो मोग हांवें दुसऱ्यांच्या काळजांत ओंपूंक म्हाका शिकय.

बळवंत मागणें करून भायर सरतालो. विगाराच्या दारालागीं ताका लांब आकाराचो एक मनीस दिश्टी पडलो आनी ताणें नव्या विगाराक, बळवंताक हात दिलो आनी भिवं नाका, आमी तुजे बाराबार आसां म्हणलें. देवगिरींतलो एकतरी मनीस, ताचें नांव तिओबाल्दो फारिया, नव्या विगाराक भेट दिवंक आयलो देखून बळवंताच्या आंगांत शेरभर रगत चडलें. बळवंतान पाद्र-विगारकी म्हणल्यार गवळिकी म्हूण वाचलेलें आनी निहाळलेलें. 'हांव तो बरो गवळी आनी हांव म्हज्या शेळयांक वळखतां आनी म्हज्यो शेळयो म्हाका वळखतात' हीं धनयांचीं उतरां ताणें गांठीक मारलेलीं आनी तीं आपूण खरेपणान पाळटलों म्हूण ताणें थारावो घेतलेलो आनी जिवितांत पाळीत आयलेलो. सकाळीं उठून ताणें आपले इगर्जेची घांट वाजयली. ती घांट जमनीर पडून तिका फूट आयलेली. एकदां आदलो विगार जेवणांक बसून आसतना, ठाण ठाण करून बोवाळ जाल्लो आनी नगरांतलो लोक धावून आयलेलो. देवगिरेचे इगर्जेचे दोनूय गोपूर पडलेले आनी फुडलें मुखावळ पडून इग्रज रांडकशी जाल्ली. पेदो नासून, साक्रिस्तांव नासून, झाडपी नासून हीं कामां विगारानूच करूंक जाय आसलीं. बळवंताचो कुजनेर, म्हणपाचो न्हय, ताचो पाय आनी सांगाती म्हणल्यार जायत, अजून येवंक नासलो आनी बळवंतान केन्नाच रांदनींत उजो घालूंक नासलो. सकाळचो उठून ताणेंच रांदनींत उजो घालो आनी च्याव केली. बळवंत उलोवपाक, बरोवपाक, सेर्मांव सांगपाक एकदम

हुशार आसलो पूण रांदूंक आनी जेवणां करूंक ताका लायकी आनी सवंयीय नासली. तरी ताणें रांदपाक आनी मिरीं वांटपाक हात घालो आनी अशे चार दीस काडले. इतल्यान शिरोड्यासून ताचो मायेमोगाचो मेस्त, मातेवस फेर्नांडीस आयलो आनी ताणें रांदपावून बळवंताचो मोग केलो आनी एक बापूय जाल्ले परीं बळवंताक बरी बुद्द दिवंक लागलो आनी एकसूरपणांत ताचो खरेलो आनी नीज इश्ट आनी व्हडलो भाव जालो. दोगूय मोगान भोंवताले, कुजनेर आनी विगार असलें अंतर नासलें.

मिसाचो वेळ जालो! इगर्जेंत मूस ना. मिसाक वेतानां मंदिरांत तीग अस्तुऱ्यो रिगल्यो. एकलेन सायब घेतलो, दोगी मिसा उप्रांत धांवल्यो. बळवंताक पस्तीस वर्सां जालीं नांत, तरणेपणाच्या फुलारार आसलो आनी कितेंय व्हडलें आनी वरतें जिवितांत करचें हें ताच्या मनांत घडये घडये शिजतालें. एक जाण्टी अस्तुरी, तिका मारी माना म्हूण सगळो गांव वळखतालो. मींस जातकच, ती बळवंतामुखार आयली आनी तिणें ताचे केंस पोशेले आनी बाबा पुता रे! म्हणून, ताचो थातो - मातो करून भियेनाका म्हूण सांगलें. दिसपट्ट्या मिसाक लोक ना, कोमुन्यांव ना हें पळोवन बळवंताच्या काळजाक मोठी दूख भोगली आनी कशेय भाशेन ह्या वायटाक आपूण वखद दितलों आनी सगळे देवगिरीचे क्रिस्ती प्रजेक आयतारा आयतारा मिसाक हाडटलों, भुरग्यांनी आनी दादले - बायलांनी दिसपट्ट्या मिसाक इग्रोज भरतलों म्हूण ताणें निश्चेव केलो. आपल्या पयल्या मिसाच्या दिसा ताणें बिस्प सायबाचीं उतरां आयकलेलीं: "Sit vita vestra delectamentum ecclesiae- तुमचें जिवीत देवप्रजेचो संतोस जावं." बळवंतान तीं उतरां बदलून आपले दैनिकेचेर बरोवन दवरलेलीं : Sit misa vestra delectamentum ecclesiae - तुमचें मीस देव - परसूख जावं. क्रांती सुरू जाली, मिसाची क्रांती ती, हांवें लोकाक मिसाक हाडूंक जाय. हांवें सगळ्यांक कोमुन्यांवांक आनी देवप्रसाद घेवंक ओडूंक आनी शिडकावंक जाय नातर म्हजी ओड आनी पयल्या मिसाची थिरावणी सोंपूनच उरतली, सत जावंची ना. बळवंत येवजूंक लागलो. जे पर्यान हांव देवगिरी आसूं ते पर्यान लोकाक मिसाक हाडूंक, तें मीस तांकां खुशालकायेचो वेळ करूंक हांव वावुरतलों. नातर म्हजी मिसाची क्रांती आनी रेवुलुसांव अपुरें उतरलें, असो बळवंत आपणाचेच लागीं उलयतालो. आत्मिक वस्तू पयल्यो, मागीर दुसऱ्यो. तो गुणगुणटालो.

कारामुलीची शालीनी आनी अमृत आपल्या बापाय सारकेल्या बळवंताक विसरूंक नांत. चडशीं गिरेस्त जावंक नांत, आनी दुबळीय जावंक नांत, दिसपट्ट्या ग्रासांत दादोसभरीत जियेतालीं. शालीनीन शिकवपीण जावन थोडेबी पयशे कमयलेले आनी अमृतान धंदो धरलेलो आनी ताचे वयल्यान ताणीं पयशे कमयलेले आनी बळवंताचें दयाळपण आनी माये मोग निहाळून क्रिस्तांव जाल्लीं आनी जें देणें आपणाक देवान दिल्लें तें दुसऱ्यांकूय दिवंक जाय म्हूण ताणीं मनांत धरलें. बळवंत पाद्र विगाराच्या वरांडांत बसून आसलो, दोगांजाणां पारव्यां सारकेलें जोडें कशें हांसत - मुरगटत वयर सरतालीं आनी अमृताच्या हातांत एक सायकल आसली. बळवंतान तांकां पयसून पयलीं वळखूंक नांत. वळखनाफुडें ताणें धांव मारली आनी हाताक धरून दोगांयजाणांक व्होर कसो भितर काडलेल्या भाशेन आपल्या घरांत भितर काडलीं. देवान तांकां आतां भुरगें दिल्लें आनी ताका ताणीं देवदातो नांव दवरलेलें. अमृतान बळवंताक सांगलें : "मोगाळ फादर, तुवें म्हजेखातीर खूप केलें, आमच्यान तुका चडशें करूंक जायनां. तुवें केलां तितलें आमच्यान फारीक करूंक जायनां. तरी आमी तुका एक धाकटुली भेट हाडल्या. ही सायकल आमची मोगाची भेट तुका. पाद्र-विगार म्हण्टकूच तुका जायतें धावंक आनी भोवंक पडटा. तर हे सायकलीन तुवें तुज्या गांवाक भेट दिवची आनी तुज्या शेळयांक आनी मेंढ्यांक तुवें वळखून घेवंचे." बळवंतान तांकां जाप दिली. "शालीनी आनी अमृत, हांवें तुमचे खातीर चडशें करूंक ना. तरी ही तुमची उपकारपणाची कुरू पळोवन म्हजें काळीज संतोसान आनी दादोसपणान भरलें. संवसारांत दिणार मनीस आनी घेणार मनीस आसात. थोडे आपसुवार्थी मनीस घेतात आनी दिनांत. तर तुमी दिवपीय जाल्यात, आपणांक विसरून दुसऱ्याक पावतात तसलीं उतरल्यांत म्हूण येवजून म्हाका खुशालकाय भोगता. शालीनी आनी अमृत, बेसांव तुमचेर पडूं रे!" बळवंतान तांचेर आशिर्वाद घालो आनी दनपरां जेवून तीं कारामुली परतलीं. मातेवस फेर्नाडीसान, बळवंताच्या मेस्तान तांकां बेसांव दिलें आनी ताणीं ताच्या हातांत पांच रूपयांचे नोट घालें. मातेवस खुशाल जालो, आनी सदांच तांची व्हडव्हीक केली.

नवी सायकल झगझगताली. गांव आनी ताण, शेळयो आनी मेंढरे वळखूंचे हें पाद्र-विगाराचें काम पयलें. बळवंतान पायली गांवची वाट धल्ली. थंय बरें वारें खावं येतालें आनी थंयसरल्यान मांडवी नदीचो फांटो व्हांवतालो. थंयसून

तिसवाडीचें आनी फोंडेचे दुसरे गांव दिसताले. पातमार आनी व्हडीं नळे, फातर, गुणे, माडयो मीन व्हरतालीं. आगशीचे इरवील, दुदी, मिरसांग, वायंगी हाडटालीं आनी मडक्यो व्हरतालीं. पायली गांवचे दोंगुल्लेर बळवंताच्या दोळ्यांत एक कपेल झळकलें. ताचे नळे हुबून गेल्ले. वयल्यो कांबी आनी पाटोस चोरून व्हेल्लो. धवो लोब घालून पाद्री दिसलो म्हूण भुरग्यांनी ताका वेढो घालो आनी बळवंतान आपल्या बोल्सांतलीं पिपिरमिटां वाटलीं आनी तांकां धादोस केली. एका जाण्टेल्यान ताका जाप दिली आनी ताका आपणांगेर च्यायेक आपयलो आनी बळवंत व्हडे खुशेन तांगेर भितर सरलो. बळवंत एका बाकाचेर बसलो आनी ताणें नव्या जाण्ट्या इश्टा लागीं गजाल मात सुरू केली :

'तुजें नांव कितें?'

'म्हजें नांव दयानंद पायली गांवकार.'

'तूं तुज्या नांवां प्रमाणे मनीस, तर तूं म्हाका इतलो दयाळ कित्याक?'

'हांव पाद्रींक सदांच दयाळ आनी मायाळ. ह्या पायली गांवच्या गांवांत रोसा नांवांचो भाटकार आसतालो आनी ताचे मुल्कींत हांव रावतां. हो भाटकार म्हणल्यार एक पाद्री, प्रि. लियांद्रो रोसा, हांचो उगडास म्हज्यान विसरूं नेजो.'

'तर ह्या पाद्रीन तुमकां खंयच्यान बरें केलां?'

'हो पाद्री दिसानदीस, केन्नाय सुमानाक एक पावटी येतालो आनी आमकां भुरगेच पासून पिपिरमिंटां दितालो आनी क्रिस्ताची दोतोण शिकयतालो. ताणें आमकां केन्नाच क्रिस्तांव जायात म्हूण शिडकायले नांत, तरी तो आमकां धा उपदेस शिकयतालो, बरें जावंक आनी बरें करूंक शिकयतालो. देव क्रिस्तांवांचो, हिन्दवांचो, मोयरांचो बाप म्हूण तो आमकां शिकयतालो. अजुनय हांव आमच्या बापा जाणां. आमचीं भुरगीं, आमचे जाणटे, आमचीं वाडटीं चेडवां प्रि. रोसाची याद काडटात आनी ताची शिकवण मनांत घट धरून आसात आनी आपल्या जिवितांत पाळटात. आमी चोरी नांत, आमी मारी नांत, आमी एकामेकांचो खूप मोग करतात. तो पाद्री जुव्यां क्रिस्तावांकूय दोतोण शिकयतालो आनी ताणें शिकयलेलीं भुरगीं आज पयल्या आकड्यांच्यो आनी भाग्यवंत आवयो जाल्यात आनी आपल्या भुरग्यांक देखीन आनी रेखीन वाडयतात.'

इतले म्हणसर दयानंदाची बायल माया, मायेन भरलेलीच भायर आयली आनी तिणें बळवंताक हुनहुनीत च्याव आनी भजीं दिलीं. हें दयाळपण आनी

मनशाळपण पळोवन बळवंताचें काळीज उपकारपणान भरलें आनी प्रि. रोसाची व्हडवीक करीत तो घरा परतलो. प्रि. रोसान ओपलें आनी बळवंतान लुवलें. आपल्या जिवितांत मनशाळायेन आनी म्होंवाळायेन भरलेलो पाद्री जावंक, दुबळ्या- धाकट्याक पावंक आनी हिन्दू, मोयर भावांमदें मोग ओपूंक आनी तांची इश्टागत जोडूंक निर्णय घेतलो. दयानंद ताका anima naturaliter christiana - सैमीचो क्रिस्तांव आत्मो दिसलो. तसले आनीकूय मेळचे आसले.

बळवंत सायकलीर बसून पायली गांवांतसून परतो येतालो. ज्युस्तूच देवगिरीच्या फुटबॉलाच्या मळार भुरग्यांचें भिरें खेळटालें. पातीव, पातीव म्हणत ताच्या सायकली फाटल्यान आयलीं आनी बळवंताच्या लोबाक धरून बळवंताक सायकली वयलो मोगानूच देवयलो. बळवंत देंवलो आनी भुरग्यांक ताणें बोल्सांतलीं पिपिरमिंटा दिलीं. एक एक भुरग्यांन आपली वळख करून दिली.

आग्नेल : म्हजें नांव आग्नेल सांपायो, हांव आठ वर्सांचो. इगर्जेंत न्हेसोंक आनी नेटोंक हांव पयलो. फादर, केन्नाय गरज पडत जाल्यार म्हाका आपय आं! तुका भिरांत बी दिसत जाल्यार, हांव तुजे बाराबर न्हिदूंक येतां - आं!

जुलिओ : म्हजें नांव ज्युलिओ रोबिम्बस. हांव पुर्तुगेज इस्कोलांत वेतां, म्हजे मांयन म्हाका पयशे दितकच तुका एक आंबो हाडटां. भियेनाका पाद्र-विगार, आमी सगळे भुरगे एकदम हुशार. तुका आदार दितले.

मार्तीन : हांव मार्तीन जुवारकार, हांव पांयपेल आनी फूटबॉल खेळूंक हुशार. झगडूंक म्हजे असलो दुसरो ना. कोणीय तुका मारूंक आनी फारावंक बी येइत जाल्यार, म्हाका सांग. हांव तांची पूड करतलों.

बळवंतान ह्या आनी दुसऱ्या भुरग्यांक पोशेले आनी आपूण भुरग्यांचो मोग करतलों आनी आपूण तांकां एक नवें इस्कोल बांदतलों म्हूण सांगलें. दोतीणीक येवंक आनी येत्या आयताराक दुसऱ्यांकूय हाडूंक तांचेकडे विनयलें. ते भुरगे ताच्या फाटाफाट चलूंक लागले. वाटेर वाडलेल्या भुरग्यांचो जोमो आसलो. देवगिरी सगळ्या गांवांच्या लोकान भरलेली. थंय गोंयच्या साबार वाठारांतले मनीस एकवटताले कित्याक तें एक मिनाचें शार जावन गेल्लें. जायतीं वर्सां वलांडलेलीं, फ्रांसेज दोंगरावेलीं मिनां काडटाले. ताणीं व्हडलीं भुयांरां मारलेलीं आनी व्हडल्या झुजाकाळार तीं तशींच सोडून उरलेलीं. इतल्यान गोंयकार भाव जुवांव मान्युअेल बार्रोस इ सौजा हाच्या मनांत तीं मिनां काडूंक आनी गोंयकारांक

सेवेक लावंक येवजलें. ताणें क्रिस्ती लोकाक आपयले आनी सेवेक लायले आनी गांवचोय लोक खुपसो मिनाच्या कामाक लागलो. साष्टीसून आदीवासी, क्रिस्तांव भाव देवगिरींत पत्र्याच्या घरांनी रावताले, तशेंच व्हडल्या मांगरांनी दोंगरार आनी दोंगरा सकला जियेताले आनी तेच देवगिरीची इग्रोज भरताले. मिस्तिसां काळार, देवगिरींत तीन हजार क्रिस्ती लोक वसती करताले, आतां ते मोसबीक, ऑस्त्रालियाक आनी दुसऱ्या देसांनी आनी शारांनी पावलेले आनी देवगिरी गांवचे थोडे, भोवच अस्कळ क्रिस्ती उल्लेले. मिनाच्या धंद्याक आनी कामाक लागून साश्टीचे आनी बार्देसचे क्रिस्तांव येवन आपलीं घरां करून, ह्या शारांत पोटाखातीर निवास करताले. इगर्जेंत गायनां करूंक आनी भक्ती सुरू करूंक भंय नासलो, इतलेंच हीं देवान दिलेलीं दानां आनी देणीं वळखून घेवंक आनी तांचो फाव तसलो वापर करूंक एक फुडारी जाय आसलो आनी फुडारीपण खुपशें बळवंताठांय आसलें.

इगर्जेंत वयर सरतना ताका जमलेले तरनाटे मेळ्ळे. बळवंतान पयलीं जाप केली आनी आपूण परशीं सायकली वयलो देंवलां आनी सगळ्यांक हात दिलो आनी तांचेकडे तांचें नांव, गांव आनी ठाण विचाल्लें. एक एकल्यान आपलें नांव आनी स्थान सांगलें.

मातेवस् : हांव मातेवस् दा कोस्ता. गांवान सावर्डेचो. म्हाका गायनाची आनी गीतांची आवड. हांव तियात्र करूंक हुशार. फादर आमी इगर्जेक आंदार दिवंक एक तियात्र करूया मू गा?

सिरिलो : हांव सिरिलो डिसूजा मोयडेकार. हांव कोतां आनी हिशेब करूंक हुशार. तुजे इगर्जेंत कसलें काम करूंक जाय जाल्यार आपोवंचो..आं!

पेद्रो : हांव पेद्रो फेर्नांडीस, गांवांन देवगिरीकार. म्हजेलागीं खुपशे ट्रक आनी मोटरां आसात. तांचो जाळवणदार आनी चलोवपी हांवूच. तुका केंन्नाय गरज पडल्यार, म्हाका तुवें एक चिटीचो कुडको धाडचो. हांव तुका जाय तें हाडून दितलों.

रोजारिओ : हांव रोजारिओ. म्हजें काम लोखण कातरूंक, पितारूंक, इग्रोज पितारूंक, गरज पडल्यार हांव बरे खोशेन येइन. म्हजें घर देवगिरींत, म्हाका म्हजे इगर्जेचो आनी गांवचो भरपूर मोग.

मार्कोस : हांव कांतरांतलो मार्कोस गोन्साल्वीस. म्हज्यान भुरग्यांक दोतोण

शिकोवं येता. आनी आयतरा आयतरा हांव भुरग्यांक दोतोण शिकयतलों. आमगेर आडसरां आसात. हांव तुका फाल्यां हाडटां.

बळवंत : म्हज्या मोगाळ तरनाट्यांनो, तुमची गजाल आयकून म्हज्या आंगांत शिंसलीभर रगत वाडलें आनी काम उमेदीन आनी उत्साहान करूंक आशा चडली. तुमी नवे देवगिरीचें खांबे आनी आमी सगळी देवगिरी एकवटाचें शार करूंक जाय. आमी हिन्दू भावांक आने मोयर भावांक मोगान आनी मोयपासान बांदून घेवंक जाय. आमची इग्रोज गीतांन आनी गायनान सादूंक जाय. आमी सगळे साश्टीकार, बार्देसकार, देवगिरीकार एकएकल्यान एकचाराचें गायन आनी गीत गावंक जाय. एकवट आसल्यार धाकट्यो वस्तू व्हडल्यो जातात आनी एकवट नासल्यार व्हडल्यो वस्तू धाकट्यो जातात. चलात फुडें.

बळवंत सायकल हातांत धरून, चलत चलत भुरग्यांक आनी तरनाट्यांक घेवन आपल्या घरांत रिगलो आनी भुरग्यांक आपल्या सालांत व्हेले आनी तांकां आपलीं फुडाराचीं कामां कळयलीं. तरनाट्यांच्या हातांत फुडार आसा आनी नवो फुडार आनी नवी देवगिरी रचूंक तेच आपणांक आदार दितले म्हूण तांकां सांगलें. देवगिरी कृपेवंत मांयेक मान दितात म्हण्टकूच तरनाट्यांची एक संस्था घडूंक आनी तिका 'कृपेवंत मांयेची सोदालीटी' नांव दवरूंक तांच्या मुखार ही आपली येवजण घाली. तरनाट्यांनी एकान एक हय म्हणलें आनी तेथून सावन तांचो एकवट उत्पन्न जालो. कृपेवंत मायेचो एकवट नांव दवल्लें.

देवगिरी दिसभर मिनाचे फातर भरतात आनी दिसूयभर मोटरांचो आवाज जाता. मिनांतले ट्रक आनी पुर्तुगेज सैनिकांचीं मोटरां भोंवड्यो मारतालीं. पाकल्यांचो एक ट्रक रस्त्यावयल्यान आनी दोंगरावयल्यान धावट धावट देंवतालो. ट्रक ओमथलो आनी पाकले भायर पडले आनी मोटर चलोवपी मोटरापोंदा पडलो आनी कितलेंय केल्यार कोणाच्यान ताका भायर काडूंक जायनां जालें. बळवंताक इगर्जेंत खबर पावली. बळवंत सायकल मारून सोंतेसावांच्यो वस्तू घेवन आक्सीदेंत अपसयोग घडणेचे सुवातेर पावलो. आपलीं आंगावलीं काडलीं आनी मोटव्या काल्सावांत मोटरापोंदा तोंड आनी हात घालून ताणें पुर्तुगेज शिपायकाक निमणे संस्कार लायले. आपल्या देवगिरीच्या तरनाट्यांच्या आदारान आनी शिपायकांच्याय आलाशिऱ्यान ताणें त्या पुर्तुगेज शिपायकाक भायर काडलो आनी खांदार मारून मोटरांत घालो आनी ताका म्हापशेंच्या इस्पोतलांत व्हेलो. बळवंताचे खुपशे वळखिचे वैज

आसले. तांचेकडे उलयलो आनी ताचो परामर्स करूंक लायलो. देवगिरी तिनशीं पुर्तुगेज शिपायक आसले आनी तांकां चलोवंक कापितांव जुवांव दे देऊस रोंबा आसतालो. बळवंत म्हणल्यार 'Indiano, nao perigoso' - वायट करपी न्हय तसलो भारती, हें ताचे पट्टेर बरयल्लें आसलें. पुर्तुगेजांचो दुस्मान अशें कोणें ताच्या कानांत फुंकलेलें. मोटराकडलें काळजीदारपण आनी उदारपण पळोवन ताचें काळीज विरलें आनी बळवंता ठांय अपुर्बाय वाडली. सगळ्यां पत्रांचेर एक कातोल्क पाद्री पुर्तुगेजाक साल्वार करता हें माथाळें व्हडल्या अक्षरांनी छापून आयलें. पुर्तुगेज टटाकले आनी बळवंत इंदयानी जावन पुर्तुगेजांचो मोग कसो करता तें तांकां समजना जालें. गुटांचो बळवंत ताका ते म्हणटाले.

कापितांव जुवांव दे देवस रोंबा, गिमारेस जल्मलेलो आनी कांय जाणांक ताणें जमनीर रोंबयलेले. ताका पळोवन खूब जांण कडकडटाले. ताका मनशांचो मोग म्हूण चड नासलो. सुकण्यांक, हारांक, जिवाण्यांक तो पोसतालो, दारूणायेन शिपायां आनी सेवकांलागीं तो वागतालो. मनीसपण ताचे ठांय खेळनासलें. ताका बळवंताचें अजापूच दिसलें आनी ताणें ताका जेवणाक आपयलो. जेवणा मेजार पोर्तो आनी मादेयरा हो सोरो काडलो. आपूण सोरो पियेनां म्हूण सांगून बळवंतान सोऱ्याचें कोप पयसायलें. जुवांव दे देवस रोंबा आनी बळवंता मदें ही सकयली भासाभास जाली.

कापितांव रोंबा : सिन्योर पाद्र बळवंत, तूं इंदयानी आनी तूं कसो म्हण मोटरा पोंदा पुर्तुगेजाक साल्वार करूंक गेलोय? तुजो जीव संकटांत घालून तुवें पुर्तुगेज सैनिकाचें जिवीत राखलें. एका इंदियानाच्यान पुर्तुगेजाचो मोग करूं येता?

बळवंत : खरें, हांव इंदयानी हातूंत दुभाव ना, तरी हांव तरसाद आनी बंदूक घेवन झुजूंक वचूंक ना. हांव इंदयानी आनी कातोल्क पाद्री. इंदयानी जावन हांव पुर्तुगेजांचो पुर्तुगालाक मोग करतां आनी कातोल्क म्हणटकूच म्हज्या काळजांत सगळ्या संवसाराच्या मनशांचो मोग वसता. तुजें चिंतप आनी म्हजें चिंतप वेगवेगळें तरी आमी काळजान पयस आसूंक फावना. कसलेय आनी कोणूय मनीस जेजू क्रिस्ताचो रूपकार. क्रिस्ताचे नदरेन हांव मनशाक पळेतां : "हांव भुकेल्लों आनी तुवें म्हाका जेवंक दिलें. हांव तानेल्लों आनी तुवें म्हाका पिवंक दिलें. हांव उकतो आसलेलों आनी तुवें म्हाका न्हेसूंक दिलें." ते भायर इंदियानी जावं, पुर्तुगेज जावं, आफ्रिकी जावं आमी सगळे मनीस. आनी मनीस जातीच्या नांवान आमी

एक. हांव पुर्तुगेजांचो दुस्मान न्हय, इतलेंच  sorrowing lies my land- म्हजो गांव दुखेस्त आसा. तो सुटकेवंत जाल्याशिवाय म्हाका विसव ना. तुमी हांगासर आसासर हांव तुमची सेवा करतलों, हांव राजकारणी वस्तुंनी धोणसोचोनां पूण म्हज्या काळजांत स्वतंत्रायेचें चिंतूंक आनी इश्टांकडे ही खबर उलोवंक कोणाच्यान म्हाका आडवारूंक जायनां.

कापितांव रोंबा : तुमी इंदियानी मनशाळायेन भरलेले आनी जो आवंडो तुमच्या काळजांत स्वतंत्रायेचो खेळटा तो बरो आनी देव दिणारो. तरी आमच्यान करूं येता कितें? आमकां सालाजारान धाडल्यात आनी आमी आमचें काम आनी झुटी पाळटात. बळवंत, आज थावन तुजेकडे हांव लिसांव आनी अभ्यास शिकतां. हांवे झाडांचो, माकडांचो, सोरपांचो मोग केला पूण तुजे दयाळ करणेक पळोवन मनीस जातीचो मोग आनी मोयपास म्हज्या काळजांत आनी मनांत वागलो आनी वाडलो. आयच्यान हांव इंदयानी जावं, पुर्तुगाली जावं, कोणूय मनीस जावं, तांची सेवा आनी अर्पुबाय करतलों.

बळवंताचे दयाळ करणेक लागून, ताची किर्त आनी मूर्त हिन्दवां, मोयरां आनी क्रिस्तावांमदें वाडली आनी वेता थंय ताका लोक सलाम करूंक लागलो. ताच्या येण्यान सगळ्या गांवांक बरेपण येतलें, सगळ्यांच्या मनांत खेळूंक लागलें. बळवंत  एका हातीन लोकाक सलाम करतालो आनी दुसऱ्या हातीन सायकल चलयतालो. सांजेच्या स वरांचेर देवगिरीच्या फुटबॉल मळाचे ग्रादीचेर जाण्टे आनी तरनाटे बसताले. बळवंताक पळोवन उबे रावताले, सलाम करताले आनी मानान तोंडांतली सिगरेट भायर उडयताले. अजून बळवंताक सगळे आपले परजेक भेटूंक संद आनीं सुयोग मेळूंक ना. आयताराक रावतालो. शेकीं आयतार पावलो. बळवंतान पवित्र संस्कारा फुडें दिंबी घाली आनी आपणें पयल्या सेर्मांवाक कितें सांगचें तें तो येवजूंक लागलो. थोडीं चिंतनां आनी भावनां पुंजायली आनी फाटल्यान वळून पळोवंक लागलो.

मोटर - आक्सीदेंताची खबर सगळ्यांक गाजलेली. हरशीं आयतारा - मिसाक चडसो लोक येनासलो. आज सगळी इग्रोज भरलेली. रायपुरचे हातकामती आनी मिनकार आनी तांच्यो घरकान्नी आनी भुरगीं इगर्जेक रंग दितालीं आनी गांवचो आनी गांवभायलो लोक येवन बाकांचेर सुवात ना जाली, बळवंतान आपलो सेर्मांव सांगलो.

म्हज्या भावां-भयणींनो!

म्हजी पयलीच ही विगारकी. हांव नेणार आनी म्हाका जिविताचो चड सो अनुभव ना. तरीय देवान म्हाका हांगासर धाडला आनी तुमची सेवा करूंक हांव उमेदीन आयलां. नवी पिळगी आनी नवी देवगिरी घडूंक होच म्हजो आंवडो आनी इकलो. सगळ्यांच्या एकवटानूच हें काम पुरें करूंक येतलें. आमचो भावार्त न्हय आयचो - कालचो पूण दों मातेवस दे कास्त्रो आनी दों कुस्तादिओ दे पिन्हो हांच्या काळावयलो. देवगिरी दोगां बिस्पाची सदरी आनी सिंवासन. आमची इग्रोज पोंवता, सुखर्णी आमचे बांक म्हेळयतात, येत्या - वेत्यांक इगर्जेच्या मुखावयलो झड दुखाचीं भावनां हाडटा. तर आमी आमचें मंदीर आनी इगर्ज सुरूंगारूया आनी एका शाराक फावते इगर्जेन हें गांव नेटोवया. आमी तीन धर्माचे लोक, हो वेळ न्हय झगडपाचो पूण एकवटाचो. आमचे धर्म आनी वाटो वेगळ्यो जाल्यारूय, आमी एका देवाठांय वेतांव. आनी तोच आमचो रचणार, आमी एका-मेकांक हात धरून चलुंया, इश्टागत वाडोवंया, एकमेकाच्या पालवान चलुंया आनी माये-मोगान आनी मोयपासान भोंवुया. भुरग्यांचो एकवट घडून हाडूंक आमच्या गांवांत एक व्हडलें इस्कोल बांदूंक आनी कसलोच धर्मभेद आनी कातभेद नासतनां एक क्लब घडोवंक म्हजी आशा. हें काम आमी सलामतीं शेवटाक पावोवंक आमी मागणीं करूंया आनी आमच्यो पोतयो सोडून, फूल ना पाकळी दिवंया. तुमच्या आधारान देवगिरी पालेतली, फुलतली, फळतली आनी नंदतली आनी वसतली. नंदू आनी वसूं- बापाचे आनी पुत्राचे आनी पवित्र आत्म्याचे नांवीं. आमेन!!

बळवंताचो पयलो सेर्मांव ! लोकाक ताळ्यो पेटोवंच्यो दिसल्यो. कांय जाणांनी ताका परशीं येवन हात दिलो आनी भिवूं नाका म्हणलें. जाणटी पेलीन मावशी आयली. बळवंताचे केंस पोशेले आनी ताचेर बेसांव घालें. बाबा रे, पुता रे म्हणून बळवंताच्या हातांत एक धवो फूल्ल रूपया घालो आनी ताणें तो उपकारपणान घेतलो. पेलीन मावशेन म्हणलें: “बळवंत, म्हज्या पुता, तुका आवय ना, भयण ना. हांवूच तुजी आवय जातलीं आनी तुका सगळ्या जिनसाचो आधार दितलीं. पयलें कितें तूं आडायतताय ताचे खातीर म्हजो रूपया.” बळवंताच्या दोळ्यांत दुकां आयलीं. उपरांत आनीकूय लोक फुडें सरलो आनी ताच्या दोनूय हातांनी झगझगीत दुडवांचीं नोटां आनी नाणे घालूंक लागलो. दिसपट्टया मिसाक लोक येवंक लागलो आनी भुरग्यांची सोदालीटी फुलोंक लागली आनी सगळ्या गांवांत

खुशाली आनी संतोस चडलो. गांवांत भरवंशाचीं किर्णां फांकलीं! आयताराच्या मिसाक लोक धांवून येतालो.

एकदां बळवंत आपले गालेरींत बसून 'हिस्तोरिया दा कोंपानिया दे जेजूस पॉर पे फ्रान्सिस्को रोड्रीगीस' हें पुस्तक वाचतालो. ह्या जेजुयतांनीं पुर्तुगालाक आनी गोंयांत इस्कोलां आनी कोलेजी रचल्यो आनी कितलें बरेपण विस्तारायलें तें तो निहाळीत आसलो. देवगिरीची इग्रोज कोटांत आसली आनी खंयच्याय कोटांत मंदीर आनी शाळा बाराचबरीं वेतालीं. मराठ्यांच्या कोटांत इग्रोज आसा तशीच एक इस्कोलूय आसूंक जाय हें निहाळीत आसतना ताका भर्मेतलो आनी झेमेंतलो जालेल्या परीं दोगां हिन्दू चलयांनी उठयलो. ताणीं ताचेकडे विचारलें : "तुमचें इस्कोल जावंचें आसा म्हणटात तें तुमी केन्ना उगडटल्यांत. आमी इस्कोलाक येवंक सोदतांव. आमच्या गांवांत आमकां एक इंग्लेज इस्कोल जाय." बळवंताक दोगां हिन्दू चलयांनीं, भयणी त्यो, नीला आनी शैला, चिंतनेक लायलो आनी केन्नाय तरी हें इस्कोल सपनांतलें सत जावंचें तें तो येवजीत रावलो. इस्कोलाक सुवात जाय, इमारत जाय, खूप विस्कळ आनी अस्कळ सालां जाय, वारें जाय आनी उजवाड जाय. चिंतनेंत पडलो आनी कितें करचें, खंय उलो मारचो तें ताका समजना जालें. बळवंत आतां आपली दैनिकी बरोवंक लागलो. ती दैनिकी ह्या बरोवप्याक बळवंताच्या कागदांनी गावली. ती वाचप्यां मुखार घालतां. उतरां, वाक्यां, तारीक सारकी नांत.

णववो अवेस्वर

## देवगिरींत वावर सुरू जाता

आगस्ट १

(दैनिकेचेर कांय उतरां खरपल्यां)

**आ**यज सकाळीं म्हजो पायली गांवचो इश्ट, दयानंद पायली गांवकार आयलो. ताच्या नांवांप्रमाणे, ताची दयामाया सगळ्यांक पावता. प्रि. रोसाचो शिश्य वो शिश्यू तो ! पायली गांवचे दोंगुर्लेर, दोक्यालागीं वयर घरां आसात आनी त्या घरांत पंचात्तर वर्सांचो पाद्री मरणांक तेंकलेलो. मरणांक पावतकच, क्रिस्तांव पाद्रीक आपयतात आनी मरणाचे संस्कार घेतात हें दयानंद बरो जाणां आसलो, दयानंदाक मरत्या पाद्रीची देख आवडनासली, तरीय ताच्या काळजांत दयाळपण आनी कोणाकूय पावचो गूण आसलो. देखुनूच तो सायकल मारून इगर्जेंत आयलो आनी म्हाका भेटलो आनी ह्या पाद्रीक काकळूट दाखोवंक आनी निमणे संस्कार दिवंक ताणें म्हजेकडे विनवणी केली. हांवें पिडेवंताचें तेल घेतलें आनी धावीं - धावीं गळ्याक पवित्र संस्काराचें पेटूल बांदलें आनी सोदीत सोदीत प्रि. दोरेस दोमिंगोस हाच्या घरांत भितर सरलों. ताणें घर भाड्याक घेतलेलें आनी थंय तो एकसुरो कश्टांमदें एक रांड बायलेक घेवन जियेतालो. मरणांक तेंकला म्हूण ती बायल दिंबयेर आसली आनी तिची धूव जेवणा-खाणाचें पळयताली. प्रि. दोरेस

दोमिंगोसान आपले दोळे उगडले आनी हांवें ताका निमणे संस्कार घेवंक तयार आसा काय म्हूण विचारलें आनी ताणें तकली हालयली. हांवें बायलेक दोळो लायलो आनी तिका सांडूंक तयार आसा काय विचारलें. प्रि. दोरेसान ना म्हणलें आनी दिंबी घालून आसलेली बायल रागीश्ट जावन म्हाका व्हडल्या दोळ्यांनी पळोवंक लागली. व्होस्सीमोर म्हणटाशी दिसताली. दोरेस दोमिंगोस आनी म्हजेमदें हो विवाद जालो.

बळवंत : सिन्योर प्रि. दोमिंगोस तूं हांगासर कित्याक पावलो?

दोमिंगो : हांवें इगर्जेखातीर आनी देवाखातीर इतलें काम केलें, हांवें इतलें सोसलें, घरच्यांक आनी शेजाऱ्यांक हांवें इतलें दिलें, पूण कोण म्हाका लेखिना जालो. गोंयच्या वडिलांन म्हाका भेट दिलीना, तूं कसो आसाय, तूं कसलें काम करताय, हें म्हजे लागीं विचाल्लें ना. वडील, वायट केल्यार म्हज्या कानाक वळ घालताले. पूण बरें केल्यार एक ओळ बरयनासले आनी एक भुजवणेचें उतर सांगिनासले. म्हज्या एकसूरपणांत दोना हेलेना हांगासर हाजीर आसलेले - इश्टीणीन आनी सांगातिणीन म्हजो परामर्स केलो आनी म्हाका म्हजे एकांतायेंत म्हाका भुजवण दिली देखून तिजो सांगात हांव सोडचोना. सोडचोना तो सोडचोना.

बळवंत : दोमिंग तूं आनी हांव देवा खातीर वावुरल्यांव, वडिलांनी आमकां एक बरें उतर सांगलें तर बरें आसा, नातर आमकां देव मरणांउप्रांत भरपूर इनाम दितलो. तर दोना हेलेनाक सोड, नातर सोडूंक तरी निश्चेव कर. करताय मूं?

दोना हेलेना : हीं उपाशमां सांगूंक आतां आयलाय? पाद्र-विगार आयले आनी गेले. म्हजो दोमिंग पेजेचो नीस पियेवंक आशेतालो, पिडेंत आनी एकसुरपणांत, तुमीं पाद्रींनीं ताची खबर घेतलीना. मरों-दी पातक्याक म्हूण तुमी ताका सोडलो. इतलीं वर्सां खंय आसले? मोरों-दी म्हज्या दोमिंगाक तुमच्या देवाविणें. हांव हांगासरली उठचिना.

बळवंत : दोमिंग हिका तूं सोडटाय?

दोमिंग : हांव सोडिनां. जिवितांत ती म्हज्या बराबर रावली, आतां मरणांतूय रावंदी.

पवित्र संस्कार हांवें परतून हाडले. दोमिंग म्हज्या पाद्रीभावाची म्हाका खूप व्हडली खंत भोगली आनी जिवितांत हांवें एकसुऱ्या भावांक भेट दिवंक, तांच्या दुखांत भुजवण दिवंक, तांचे टाळणे वेळार, ऐन ते काळार, तांकां समजणी दिवंक

आनी बरी वाट दाखोवंक हांव वावुरतलों म्हूण निर्णय घेतलो. दोमिंग दोना हेलेनाच्या फांसाक सांपडला. म्हज्यानूय सांपडू येता आनी हांव खंयच्यानूय भाग्यवंत न्हय आनी पडचोना म्हणूं जायना. म्हजें आंकवारपण हांव सायबिणीक भेटयतलों. ह्या देवगिरीच्या गांवांत अस्तऱ्यो खूप सुंदऱ्यो, तळ्यांतलीं साळकां दिसतात, तांची भुरगीं मनशांचेर भुलोवणी घालतात. तरी खंयचीय अस्तुरी आनी चेडूं म्हजेर एक प्रभाव म्हूण घालीना. द लिटल प्रिन्स, आंतोयन एपेरी हाच्या पुस्तका प्रमाणे सर्गावेल्या कुवराक थंय धा हजार फुलां आसलेलीं, तरी कुवराक एकूच फूल चड आवडटालें आनी ओडटालें. म्हाका कोण अजून मेरेन ओडिना, म्हाका एक फूल म्हूण ना. तशेंच जाल्यार पुरो, नाजाल्यार बेश्ट्यो खास्ती आनी त्रास. मोग उजो कसो. तो खाता. जेवणाक गेल्यार तें, मिसाक गेल्यार तें, शिकयतना आनी उलयतना तें, न्हिदतनां आनी सपनेंतना तें! असल्यो गोष्टी आनी चळवळी म्हाका आनी नाका. हांवें असले खेळ आदीं पळेल्या, केन्नाय म्हाका उगडास येवन म्हजो जीव खातात. जाता तितलो बायलां कडलो हांव पयस रावतलों. पूण बायलांचो आदार नासतना, पाद्रीच्यान जियेवं येता? तांकां देवान रचूंक नांत? सारक्योच पयस दवरल्यार, हांव रानवटी जावंचो ना मूं?

हांव म्हज्या तरनाट्यांक आनी कांय हिन्दू भावांक घेवन बसलेलों. आमी सुस्त गजाल करताले. फुटबॉल क्लब घडपाची खबर काडटाले. अकस्मात व्हडलें पोंग घाल्ली जाण्टी अस्तुरी म्हाका मेळूंक आयली. ती लिपयां - चोरयां कितें सांगतले भाशेन करताली. हांवें तिका सांगचें आसा तें सांग म्हणलें. ती व्हडल्यान सांगूक जायना, मागीर बरोवन हाडटां आं! अशें तिणें म्हणलें. हांवें बळान सांगलें: "सांग गे व्हडल्यान, कोणाचीच भिरांत ना." तिणें म्हाका ल्हवू सांगलें : "तुका चेडूं जाय?" म्हजें तकलें फिरलें! हांव तांबडो जालों. हांवें तिनशीं मेत्र आड्डत आनी तापत तिका धांवडायली. म्हजे फाटाफाट तरनाटे आयले आनी कितें जालां तें सांगल्या उपरांत तेय तिडले आनी फाटीक लागले. तिका मिस्ता ही खोटी संवय आसली. पाकल्यांक ती अस्तुऱ्यो दिताली आनी पाद्रीकूय दिवं येता अशें मिस्ता चिंतताली आनी समजताली.

ती गेल्या उप्रांत हांव चिंतनेंत पडलों. हांव इतलो कित्याक तापलों. ती भावार्तीं आनी क्रिस्ती बायल न्हय आसली, एक हिन्दू बायल जायत, मनशां भाशेन हांव एक मनीस आनी मनशां गरजो हांव पाळटां अशें तिका दिसलें जायत!

भावार्ता आनी शुभवर्तमानाच्या उजवाडाविणें आंकवारपण समजना. म्हजे भाशेन 'सेलीबसी अंडर फायर' हें एडवर्ड शिलबेक्स ओ. पी. आनी 'इज सेलीबसी आऊट डेटेड?' हे आयडा गेरेस हांचें पुस्तक तिणें वाचूंक ना, आनी तिच्या कोशांत आनी धर्मांत देवाचे कृपेन मनशाच्यान लग्ना विणें रावं येता म्हूण ना. हांवें गर्वान चलूंक फावनां, आंकवारपण आनी निर्मळपण एक देवागेलें फुकट देणें. तें पळोवंक आनी सत मानूंक भावार्ताचो उजवाड जाय. जें आंकवारपण सदांच सोपें आनी संतोशीत जावंक हांवें आदल्या प्रेशितां भाशेन मागूंक जाय. : Existential inability to do other wise - म्हज्यान आनी वेगळें दुसरें करूंक जायना. आदले आपोस्तल आनी पयले क्रिस्तांव, ते क्रिस्तांत आनी ताच्या कामान तितले गूल जाल्ले तांकां बायलेचें आनी घराचें पडूंक ना, तांचें निर्मळपण तांचो वावर जाल्लो, तांचें आंकवारपण आनी तांचें मिसांव एकूच आसलें. मारियान म्हजे मावशेभयणीन म्हाका सांगलेलें : "निर्मळपण आनी आंकवारपण आज आंगवण केली आनी फाल्यां सोंपली, असलें काम न्हय तें." ह्या गांवांत निर्मळपणाखातीर सोसूंक पडना जाल्यार पुरो.

ते म्हातारेचेर हांव कित्याक तापलों? तिका म्हज्यान समजणी दिवंक जायनासली? आमच्या भारतांत पाद्री कोण? देवमनीस. तो देवाभशेन तापना, तिडना, रेंकना, ताणें देवाचो रूपकार आनी इमाज जावंक जाय. कसलेंय देवसपण आनी भक्ती आडयतना, हिन्दू धर्मांत, शांती - शांती ओम ह्या उतरांनी आमी आडायतांव. गोंयच्या सायबान हें सत अणभवलेलें: "Com esta gente da India nada se obtem pela forca mas tudo pela persuasao - हे इंडियेचे लोकां लागीं जबरदस्तेन कांय मेळोवन घेवंक जायना. सगळें समाजेकायेन मेळोवन घेवं येता." हें इतलें आमकां सांत फ्रान्सिस्क द सालीसूय सांगता, आमचो भाग्यवंत पाद्र आग्नेल तेंच म्हणटालो. ताणें भा. फ्रान्सिस्क द सालीसाचीं उतरां पाठ केलीं. "Mais moscas se apanham por uma gota de mel do que um barril do vinagre - म्होंवाच्या थेंब्यान एका विनाग्रीच्या बल्लाहून चड मूस धरूं येतात." आमचे जाण्टेले म्हणटाले : "मूय जा आनी साकर खा आनी वाग जा आनी लाकूड खा." रागान आनी तिडकीन कांय जोडूंक जायना. ह्या फुडाराक हांव सोसणिकायेन काम करतलों. ल्यूथर म्हणटालो : हेरेज धर्म विरोध्यांक उज्यान न्हय पूण पुस्तकांनी जिकून घेवंक

जाय. हांव हो गांव मनशाळायेन आनी म्हींवाळायेन जिकून घेतलों, समजतलों आनी समजायतलों.

म्हज्या जिविताचें ब्रीद हें : "हांव आयलां वाटसूर कसो मोगाचो, स्वस्तायेचो, खुशालकायेचो, शांती-शितळायेचो." हें ब्रीद आमचे रूशी आनी भक्त जियेल्यात आनी तांचे वयल्यान तांकां येस आनी जैत मेळ्ळां. हीं तत्वां उपनिशदांत आनी वेदांत पुरलेलीं आसात आनी जितलीं तीं हांव पाळटां, तितलोच हांव भारती भक्त आनी क्रिस्ती संत जातलों. उजव्यान आनी दाव्यान हांव मोग शिवरायतलों. शांतीन हांव भोंवतलों, शिकतलों आनी विवाद करतना, ताळो उबारचोनां, रजावांनी आनी मुद्दयांनी दुसऱ्याक म्हजें मत मानून घेवंक ओडटलों. क्रिस्ताची कंवळाय आनी मनशाळाय हांव न्हेसतलों आनी तिचीं फळां दुसऱ्यांक वाटतलों.

इस्कोल, इस्कोल, इस्कोल. हें म्हज्या मनांत खेळतूच आसा. त्यो दोगूय सुदंऱ्यो, शैला आनी नीला म्हाका भेटूंक येतात म्हूण सांगून गेल्ल्यो. आपल्या आज्याक घेवन येता म्हणटाल्यो. खंय पावल्यात तर? इंग्लेज इस्कोल हांगा चलत काय? आदीं हांगासर फातिमा इस्कोल आसलें खंय, कितलीं भुरगीं आसलीं, कितलें वर्ग आसले, कितले शिकोवपी - शिक्षक आसले हें म्हाका कांय गोमूंक ना. इंग्लेज इस्कोल हांव सुरू करतां म्हूण पुर्तुगेज म्हजे दुस्मान जायनांत मूं? ही म्हजी दैनीक बरीशी जाता, ह्या फुडाराक हांव म्हणचे सुवातीर बळवंत म्हणटलों. गजाल बरोवन दवरतना, सुसंवाद बा बरयतना त्या त्या नांवान आनी बळवंताच्या नांवान बरयतलों.

आयचो दीस सगळोच म्हजो गेलो आनी घडीभर न्हिदूंक तरी मेळूंक ना. हांवेंच म्हजे माखणेच्या आनी मिसा दिसा निश्चेव केल्लो. पाद्री दुसऱ्यांखातीर मनीस. दुसऱ्यां खातिरूच हांव जियेत आयलां, म्हाका म्हजो वेळ म्हूण ना. म्हाका म्हजो विसव म्हूण ना. कोण ना कोण म्हजो वेळ आनी काळ खाता. रातचो दोळो लावंक वेतालों, कोणे म्हज्या दारार मारलें. म्हजो इश्ट दोतोर जुजे आंतोनियो आल्मेद, वकील जुजे फ्रान्सिस्को आल्मेद आनी तांचो दोतोणीचो धाकटो भाव आनी म्हजो सुपुल्लो इश्ट पिट्रूस दुकांनी भरून आयलो आनी दारार माल्लें. पिजाम काडलेलें आनी जावं सायबा म्हणीत आड पडूंक वेतालो. ही पंचायत आनी खंयची म्हणूंक वेतालों तेन्ना वैजाची आनी वकीलाची दिश्ट म्हजेर पडली, आनी खंतीभरीत तांचें तोंड पळोवन म्हजें काळीज विरलें. सगळे फामिलीन

म्हजो मोग केल्लो, इगर्जेच्या कामाक ते सगळे धावून येवपी, पिटूस म्हजो सांगात सोडिना तसलो. सकाळीं येवन ताणें म्हाका उठायचो, हांव निहाळ करतना ताणें म्हजे कुशीक बसचें, उप्रांत ताणें म्हजें मीस अजुदार करचें, ताचे बराबर तांची धाकटुली भयण मीना आयलेली आनी म्हज्या हाताक धरून रडटाली : “बळवंत, फादर रे म्हजी भयण लिंदा पळून गेली. म्हजी मांय जींट मारून पडली. लिंदा आनी म्हजी व्हडली भयण फोंदा सदांच झगडटालीं, सकाळीं व्हिस्तिदाक लागून गुणगुणटाली आनी लिंदा भायर सरून गेलें आनी ओंजत धावलें. ‘दाखयतां तुमकां बरें. आय वील टेक माय रिवेंज - हांव राग काडटेलीं’ म्हणीत नांच जालें. म्हजी मांय रडून हुसके काडटा, जेविना, खायना, दिसभर आनी रातभर दुकांच्यो झरी करता. बळवंत फादर, लिंदा तुजो खूप मोग करतालें, तुजी गजाल दिसभर सांगतालें, ताका तुज्यानूच परतें हाडूंक येता, तुज्या वर्साक फुलां व्हरूंक जाय, फादराक दोस करूंक जाय, बेबींक करूंक जाय म्हूण हुसके आनी खंती काडटालें. आतां धावलें. जोगला भशेन ना जालें. खंय पावलें !!

लिंदाची काणी न्हय आयची आनी कालची, ताच्या धांवण्या पोंदा दुसरी पिडा लिपलेली आसा. लिंदा पुर्तुगेज ओपशालाच्या मोगान पडलेलें. ताचे मांयन, दोना इस्तेफानिया आल्मेदा ये मिनेझीस, हिणें बेंकडावन आनी लालेवन - लालेवन मागून, त्या पाकल्याक तिणें सोड म्हूण सांगलेलें. कांय वस्तू मेंदींत पुरून उरतात आनी ऐन त्या वेळार जित्यो जातात. लिंदाची व्हडली भयण फोंदा घडये- घडये लिंदाक चाळयतालें : “मॅक्स मानागेर फिलोज केल्यात गोडाचे, येदे रातीचे पाकले भोंवतात खाडाचे.” भंगलें बाबड्याचें! लिंदा वेतकूच फोंदा रडटा आनी पिशें जालेल्या भाशेन, व्हडले केंस पिसडून भोंवता. लिंदा, ताका हांव समजायतां तेन्ना, केन्नाय तिडकून म्हणटालें: “दाखयतां तुमकां मॅक्समानाचे फिलोज आनी खाडाचे पाकले! तुमचेरूय आनी म्हजेरूय काडटेलीं राग!” खंय पावलां जायत! हरशीं लिंदा सोबितूच न्हय पूण खूप मोगाळ आनी मनशाळ! हीं चिंतना मनांत घोळयत हांव भायर सरलों आनी दोना इस्तेफानियागेर गेलों. ती बाजेर पडलेली आनी पिशां भाशेन संवसार कोबार जालेल्यापरीं शिरां-दारांय रडटाली : “म्हज्या लिंदा, कित्याक म्हूण गेलें गो तू, आमकां लजेक कित्याक घातलीं गो! ये, म्हज्या लिंदा.” हांव भितर सरनाफुडें तिणें म्हज्या पांयांक घट वेंग माल्ली आनी म्हणलें : “बळवंत, म्हज्या पुता, तूंय म्हजो पूत रे, लिंदाक सोदून हाड रे. तें घरा तुजीच

खबर सांगतालें, तें भावांक वळखनासलें, तुजी व्हडव्हीक, तुज्या सेर्मांवाची, तुजे हुशारकायेचो सेर्मांव तें घरा सांगतालें. तुज्यानूच ताका घरा हाडूं येता. हाड रे म्हज्या पुता."

म्हज्याय दोळ्यांनी दुकां व्हांवलीं, खंय म्हूण वेतलों, कोणाक रातचो सोदतलों? हांवें पुलीसेक सांगलें. हेराल्दाचेर, ओ हेराल्दाचेर, दियारिओ दे नोयत चेर, दियारिओ दे मान्यचेर खबर घाली, इश्टांक बरयलें, पणजे पावट मारली. अस्नोड्या खोंपीनीं आनी खोटरायेनीं गेलों, कापितांवांकडे जीप मागून, वाळपय गेलों, रानांतल्यान भोंवलों. लिंदा बायेची खबर ना, दोतोर बाब आंतोनियो आल्मेदा आनी वकील बाब जुजे फ्रान्सिस्क आल्मेदा आनी म्हजो सदांचो इश्ट पिटूस म्हजी फाट सोडीनासले. आपले भयणीचे सोदीक लागलेले. लिंदा परतें येना जाल्यार, आपली माये-मोगाची एकूच एकली आवय उरत ना मरत हें तांकां समजनासलें. सोदून - सोदून, दोळे आनी आंगवस्त्रां तांबडीं करून, आमी घरा परतले आनी दोना इस्तेफानियाक भेटले. तिका आमी भियेंनाका म्हणलें. देवालागीं आनी देवगिरीचे कुरपेवंत मांयेकडे भरवंशान माग म्हूण सांगलें. हांवें भियेनाका म्हणलें, तरी ह्या दिसांनीं आनी उपरांत आमी पारो करून रावंचें, इश्टांक आनी मित्रांक बरोवंचें, हे आनी दुसरे कार्यक्रम - प्रोग्राम केले. इगर्जेंत पावतां म्हणल्यार साडे-स जालीं आनी झेमेत हांव मिसाक गेलों. मिसारूच हांव झेमेवंक लागलों. म्हाका लज दिसली. देव समजता म्हणून आनी चिंतून न्हिदेंतल्यानूच इस्कोलाचें येवजूंक लागलों.

सकाळचीं णव वाजलेलीं. सुकूमेस्त, भिरंड सारकेलीं, नीला आनी शैला आपल्या आज्याक घेवन उबीं जालीं, आज आपले बरोबर आपले शेजान्नीक शीलाक, त्यो दोगी भयणी घेवन आयलेल्यो. तांचो आजो व्हडलो भाटकार आनी देवगिरींत ताका व्हडलो मान - भोवमान आसलो. कितें सांगता आनी येवजिता तें वयल्या वयलें आनी पोंद नासलेलें न्हय आसलें. डॉ. रामचंद्र नायक म्हणल्यार सगळी देवगिरी गाजताली. हांवें ताका कदेलीर बसयलो आनी एक चायेचें कप दिलें, पूण ताणें नाका म्हणलें आनी हांवें ताका फकाणांनीं म्हणलें 'क्रिस्तांवांची च्याव पियेनाय कितें?' ताणें सडासड च्याव घेतली आनी उलोवंक लागलो.

डॉ. रामचंद्र नायक : "सिन्योर प्रि. बळवंत, तुजें इस्कोल तूं केन्ना सुरू करता? आमचीं भुरगीं आमचो जीव खातात, आमकां विसव दिनांत, बळवंत -

फादराक इस्कोल घाल म्हूण सांग. तूंच इस्कोल घालतलो म्हूण तांची खात्री. पुर्तुगेजूय तुका चड मान दितात. त्या मोटरापोंदावेल्या मनशाक साल्वार केल्ल्या पासून ते तुजी व्हडव्हीक सांगतात. गोंयचो राजपाल, सिन्योर दों सेबास्तियांव रोजेंदो तुजें रोकडेंच आयकतलो. आमी हिन्दू भावांनी इस्कोल सुरू केल्यार, ते आमकां काळ्या लिस्ट - वळेरीर घालतले.

बळवंत : सिन्योर रामचंद्र, तुमकां क्रिस्तांवांचें इस्कोल कित्याक आवडटा? हांव कातोल्क पाद्री आनी पाद्रीच्या इस्कोलांत तुमचीं भुरगीं येतलीं? तुमच्यो आवयो तुमच्या भुरग्यांक आमच्या आदीन करतल्यो?

नीला, शीला, शैला : बळवंत फादर तूं भियें नाका, आमी एक-एक, दोग-दोग भुरगीं हाडटलीं. आमच्या आवयांनींच आमकां धाडल्यां न्हय तर? भुरग्यांक हाडूंक आमचेर पावलें.

रामचंद्र नायक : सिन्योर पाद्रे, मिशनरी इस्कोलांनीं शिस्त आसा, आमच्या भुरग्यांक बरें एदुकसांव आनी शीळबांदप मेळटा. आमकां कातोल्क इस्कोल जाय. त्या इस्कोलांनीं इग्लेज, आनी भायल्यो भासो शिकूंक मेळटा आनी भारती भासोय शिकोवंक तीं उणीं नांत. भुरग्यां खातीर तूं भियें नाका, सुरू करतनां चाळीस भुरगीं पुरो, तीं मागीर वाडत - वाडत वेतात. तुज्या इस्कोलाचें नांव फांकत जाल्यार, तुज्यान भुरग्यांक सुवात करूंक तुका कुवत आसची ना. म्हजें उतर गांठीक मार.

बळवंत : इस्कोलाक इमारत आनी घर जाय, पयशे जाय, ते म्हाका खंयच्यान मेळटले?

रामचंद्र नायक : तुमचे इगर्जे फाटल्यान, एक घर आसा आनी तांची घरकारां घरा आयलेलीं आसात. तीं तुजें उतर सकला पडूंक दिवंचीं नांत. दुडवां खातीरूय तूं भिवूं नाका. मिना कंपनी आमचे मदें मीन काडटात, ती तुका फूल ना पाकळी दितलीच आनी क्रिस्तांव-हिन्दू-मोयर म्हणनासतना, येद्या व्हडल्या कामाक हात-भार घालतले आनी तुका बऱ्या उतराचो आनी पयसो-अडक्याचो आदार दितले. तूं जिबेन हुशार आनी बऱ्या उतरान जाता तें पयशांच्यान जायना. चल फुडें.

रामचंद्र नायक बाबाचीं उतरां आयकून हांव संतोसलों, धादोसलों. सांजे हांव मीन - कंपनीच्या मॅनेजराक भेटलों आनी ताणें म्हाका पंदरा हजार रूपय भासयले. काळीज संतोसलें. इमारत बांदता म्हणल्यार एक वरस तरी लागतलें, तेन्ना म्हणल्यार, जेन्ना सगळ्यांचीं मनां इस्कोल वेसल्यान ओडल्यां तेन्ना, उजो

हूनहून आसतनाच, हांवें म्हजीं कामां करून घेवंक जाय. हांव इगर्जे फाटल्यान गेलों. मोटेले म्हातारेन म्हाका बरे भाशेन घेतलो आनी हांवें तिचेकडे सरळ तुजें घर भाड्याक वो विकपाक आसा काय म्हण विचारलें. घर म्हाका दिता म्हण तिणें सांगलें, पूण म्हज्या बोल्सांत पयशे नांत तें पळोवन म्हाका पयस केलो आनी धा दिसां भितर तें, खूप पयशे मेळटात म्हण, इतालियानाक दिलें. हांव म्हज्या सुपुल्ल्यां भुरग्यांक घेवन मागणें करूंक लागलों आनी कुरपेवंत मायेक बेजार केली. आमकां घर दी-गे, घर दी-गे. आठ दीस जावंक नांत, घराची भाटकान्न आनी इतालियानी झगडलीं आनी मोटी म्हातारी, दोना रोजा फेर्नांडीस म्हजेशीं आयली आनी म्हाका सांगलें. तूं नोवेन करता म्हणुनूच हांव तुका घर दिवपाक नासलेलीं, पूण आतां कितें जालां तें हांव नकळो, तें घर तुकाच दिवपाक कोण म्हाका शिडकायता. तर तुवेंच वेगचे-वेगीं म्हाका वीस हजार रूपय मेजूंक जाय आनी घर तुजें. हांव सरळ सायबिणीं फुडें गेलों आनी तिका आर्गां दिलीं आनी वेळ काडिनासतनां हांवें पणजेची वाट धरली. दों जुजे व्हियेरा आतां म्हाका खूप बरें करी. भितर सरतनांच म्हाका वेंग मारली. तो मिशनार मनाचो आनी काळजाचो. देवगिरी, फोंड्यां आनी वाळपय, पेडण्यां काम करतात त्या पाद्रींक तो दुप्पेट मोलायतालो आनी पयशांचो आनी मोगाचो आदार आनी भुजवण चौंपट दितालो. देवगिरींत इस्कोल जाता म्हूण खोशेन उल्हासलो आनी प्रोक्युरादोर जुवांव मान्युअेल फेर्नांडीस हाका आपोवन म्हाका वीस हजार रूपयांची चेक दिली आनी दुसरे दिसा इस्क्रूसूर केलें आनी घर आमचें जालें, म्हजें जालें. सगळ्यां पत्रांचेर खबर गाजली आनी कांय जाणांनी लेख बरयले. Escolas Antinacionais de Inglez - Escola de Inglez de Devagiri- ही खबर वाचून न्हीद पडूंक ना. हरशीं हांवें पत्रकाराचें काम केल्लें, आतां म्हजें पेन आनी शैली धावनासली - रातोराती बरोवंक, बड-बड-बरोवंक, टायप करूंक लागलों!

१४-८-५८

## As Escolas AntiNacionais de Goa
## A Minha Resposta por Bollvonta da Costa

वयल्या माथाळ्याखाला इंग्लेजांचीं इस्कोलां राष्ट्रीक, भारतावसल्यान मांडलेलीं म्हणटात तें फटीक आनी फटाशीक हांवें जाप दिली. म्हजो लेख हेराल्द,

दियारिओ दे नोयते आनी उप्रांत कोंकणींतल्या वावराड्याचो इश्ट-चेर आयलो. हांवें म्हज्या विरोद्यांक जाप दिली. एका पुर्तुगेज पाद्रीनूच इस्कोलाचेर आड लेख बरयलो आनी बऱ्या मनशाचीं काळजां आनी मनां विखायलीं. ताचे मुद्दे हांवें फिकिरीन फोडले, रजावांक रजावं दिलें, एका कारणां फाटल्यान दुसरें कारण दाखयलें.

इंग्लेज इस्कोलां पुर्तुगेज सरकाराचेर आड म्हणटात तुमी! तें खंयच्च्यान? खूप आमचे गोंयकार पुर्तुगालाक गेले, पुर्तुगेज म्हाविद्यालयांनी शिकले आनी तेच पुर्तुगेज भाशेंतल्यान ते भारती आनी इंदियानी मनाचे जाले. आदेवदातो बार्रेटो, आंतोनियो फुर्तादो, तेल्य दे मास्कारेन्हास इत्यादी पुर्तुगालाक शिकले पूण ते सालाजाराक भेटून आनी ताचेकडेन उलोवनूच व्हडांतले व्हडले स्वतंत्रायेचे खांपे आनी खांबे जाले. इंग्लेज शिकल्यात ते जायते जाण अजुनय पुर्तुगेज मनाचे आनी तांचे गुलाम जावन आसात, तर इंग्लेज आनी पुर्तुगेज आमकां देशी आनी विदेशी करिनांत, भास आनी संस्कृताय परदेशी आनी देशी करिनांत. चिंतनां एक पदवी, ती कितलीय बंद दवल्ली जाल्यार ती पायले पोंदा उरनां, मनशांचे काळजांतले आंवडे बांदूंक जायनांत.

गोंयकार सैमानूच संवसारावेसल्यान मांडलेले. ते पुर्तुगालाक आसात, ते इंग्लंडाक आसात, ते आफ्रिकेक आसात, ते ऑस्ट्रालियेक आनी कॅनडाक आसात, ते हिमालय दोंगरार मेळटात, ते कन्याकुमारीक थांबे विकतात, ते गोंयचे आनी संवसाराचे नागरीक. ताणीं संवसाराची भास शिकूंक जाय, ताणीं शंबर शारांनी आनी राष्ट्रांनी आपलें पोट भरूंक जाय, म्हण्टकूच ताणीं इंग्लेज शिकूंक जाय. गोंयच्च्या सरकारान गांवच्च्या आनी देशपुतांक नोकऱ्यो आनी चाकऱ्यो, जिनसावार सोपेपणां आनी सवलत्यो दिल्ल्यो जाल्यार हे देसपूत पळून वेचे नासले आनी गांवांतूच रावून आपलो गांव सुदारायतले आसले. पोटाखातीर ही परकी भास शिकूंक पडटा. गोंयांत गोंयची भास कोंकणी कित्याक शिकयनांत?

आमी पुर्तुगेज भाशेचे दुस्मान न्हय. खंयचीय भास एक मूल्य, ते भाशेंतल्यान आमचे जाण्टेले उलयले आनी शिकले. चारशीं वर्सांचो इतिहास वाचूंक आनी आमच्च्या खटल्यांचें शिक्षण करूंक आमकां हे पुर्तुगेज भाशेची गरज पडटेली. हें मनांत धरून, आमी सकाळचें इंग्लेज इस्कोल आनी सांजचें पुर्तुगेज इस्कोल शिकोवंक थारायलां. आमच्च्या इस्कोलांत मान-माणसुकी, रित-रवीस शिकोवंक,

नैतिक तत्वां शिंपडावंक, कातोल्कान आपल्या धर्माची खोल वळख दिवंक कुरपेवंत मायेच्या इस्कोलाचो हेतू. आमच्या अंतस्कर्णाचेर आड वेचे नांत आनी सगळ्यांक बरें तें शिकयतल्यांव. आमच्या इस्कोलांत कसलोच भेद नासतलो. तो धर्मभेद जावं, कातभेद जावं. सगळ्यांक नीत आनी जाणवाय मेळटली. वयलो लेख छापून येयना फुडें म्हाका शंबर धिनवासणेच्यो चिटी आयल्यो. हांवें त्यो उगडासाक कवळून दवरल्यो. पणजेच्या मिशनारी पात्रिआर्कान, म्हाका भुजवणेची आनी घटायेची चीट बरयली आनी चल फुडें म्हणलें. तरी वादळ आनी वारें उणें झुमझुमलें ना. त्या वेळार वासालो-इ-सिल्वा हो गोंयचो राजपाल आसलो. जरी तो जाणां आसलो, हांव भितरल्यान भारती पूण उक्ते काळजाचो भारती, तो म्हाका खेरीतूच मांयेन वेंगयतालो आनी भेद करिनासतना पुर्तुगेजांची सेवा करता म्हूण ताका ठावें जाल्लें. कसलींय लचाणां घालींत जाल्यार कानांत धरिनासलो, कसलेय उपकार करूंक सदांच तयार आसलो. उकत्या हातांनी म्हाका घेतालो, सोरो पियेनां म्हूण आपल्या हातांनी नेस्कॉफे दितालो.

सकाळचीं णव वाजलेलीं. हांव बांक आनी कदेली नव्या इस्कोलाक तयार करतालों. दोग इस्कोलाचे इन्स्पेक्टर - तपासपी, भितर सरले. एक सिन्योर आगापितो मिरांडा आनी दुसरो दों जुवांव फुर्तनातो शावियार द गामा. हरशीं दोगूय गोंयकार आनी ताणीं म्हाका आनी म्हज्या कामांक समजून घेवंक जाय आसलें. ताणीं हो कुवार्त आनी तो कूड केलो, हांगा उजवाड ना आनी इंग्लेज इस्कोलांची गरज ना, पुर्तुगेज लिसेव कित्याक सुरू करिनां असल्यो फटाश्यो फोडल्यो आनी तांच्यो फटाश्यो हांवें तांचेरूच सोडल्यो. दोगूय इंग्लेज शिकलेले मनीस म्हाका उपाशमा सांगताले. इंग्लेज इस्कोलां आनी इंग्लेज शिकप, तरी मनशांक अराष्ट्रीक आनी भारतमोगी करतात जाल्यार, तुमी भारताविरोधी कशे जाले? तुमी पुर्तुगेजाहून पुर्तुगेज कशे उतरले? चड उलयनासतना, शेंपडी पोंदा घालून घरा परतले. राजपाल आनी पात्रिआर्क हे दोगूय म्हजे इश्ट म्हूण जाणा आसले आमी पणजेसून म्हाका बरोवन इस्कोलाची परवानगी आयली. सद्याक वादळ आनी वारें सोंपलें! बळवंताक बळ उणें केन्नाच जालेंना!

२२-८-१९५८

कारामुलीसून शालिनीन आनी अमृतान बरयलें! मोगाळ बळवंत फादर,

लिंदा सारकेलें आमी एक चेडूं जेमिनी सर्केशींत पळेलां. मातशें मोटसार जालां, हड्डें बा भायर सरलां, बरें नाचतालें आनी रामचंद्रन पिल्लाय म्हणलेलो एक केरळी ताका नाचयतालो. हाताक धरून घरा व्हरतालो. सुकण्यां सुकण्यां म्हणून तो बडबडटालो आनी तें ताका पारव्या पारव्या म्हणटालें. सर्कस सोंपतच दोगांय जाणां हाताक हात धरून वाटेंतल्यान गेलीं, न्हेसणां बदलतकूच खंय गेलीं ताचेर आमच्यान चत्राय धरूंक जालेंना. सर्कस आनीक पांच दीस तरी तगतली. हांवें चीट वाचली आनी दोतोर जुजे आंतोनियो आल्मेदाक घेतलो आनी तसोच ताच्या भावाक वकिलाक हुसकायलो आनी तेगूय आमी जिपींत बसल्यांव. नवो कापितांव आयला. आदल्यान ताका म्हजी बरी खबर सांगल्या आनी नव्या कापितावांन, गील आंतुनसान म्हाका दये-मायेन घेतलो. दिसपट्ट्या येवपी, दुबळ्या धाकट्याक पावपी, हांवें ताका म्हजी अडचण सांगनाफुडें ताणें म्हाका जीप आनी चलोवपी दिलो. धा वरांचे राती हांव आनी म्हजे सांगाती लिंदाचे वाटेक लागले. पर्वरे पावतांच, मध्यान्ह राती, रस्त्याचे धनी जाल्ले भशेन रेडे आनी पाडे बसून आसले आनी कितलेंय पोंक पोंक केल्यार उठच नासले. तांकां धांवडावंक अर्देंवर थंयच सरलें. ताकतीन पोन्ते दे लिन्हारेस लागीं आसलेल्या माटवांत रिगले. घर चिकार भरलेलें. भितर सरूंक सुवात नासली.

हांवें सभोवतीं दोळे घुंवडायले. लिंदा म्हणीत हांव हे वशींन आनी ते वशींन पळेतालों. तें आयलें आनी दिश्टी पडना फुडेंच हांवें वकीलबाबाक सिनाल केलें, कुरू केली. मोटें जाल्लें, मोटवें काल्सांव घालून, सरयेचेर चलतालें. सुकण्यां - सुकण्यां म्हणीत रामचंद्र पिल्लाय, सरयेवेल्यान धांवतकच ताका घेवन नाचतालो. पारवो, पारवो, पारवो, सुकणें, सुकणें म्हणीत दोगांय उण्णां मारीत नाचतालीं, नाच पळयत, लोक आनीक कर आनीक कर म्हणटालो. लिंदा बाय कलेंत लिंदपणी आनी सुकुमायेन भेंड हालयतालें आनी दोळे मोडटालें तें पळोवन पळोवपी ताळयांचो पेटपेट करताले आनी ताचेर फुलांचो शिंवोर घालताले. थोडेच वेळान तें व्हडलें नाचपीण जाल्लें, ताचो ताळो मातसो मोठो जाल्यारूय रसाळायेन आनी कंवळायेन गायतालें. इगर्जेच्या तियात्रांत आनी मिसा गायनांनी लिंदाचो मंजूर ताळो गाजतालो आनी मागणें करूंक ओडटालो जाल्यारूय ताच्या तुवादाचेर आनी आवाजाचेर लक्ष दवरून मागणें करूंक लोक विसरतालो. इतल्या सोबीत ताळ्याचें लिंदा पिल्लायच्या हातांत पडलें आनी ताणें आवयचेर आनी आपणाचेर राग काडलो.

तें खंयच्च्यान भायर सरता तें पळोवंक हांव आनी वकीलबाब उबे रावले. हांवें लोब घालूंक ना, ताणें म्हाका वळखिलो. चल या सुकण्यां संगीत म्हणीत पिल्लाय लिंदाक घेवन वेतालो. रामचंद्र जेमिनी तियात्राचो मुख्य नट. आंगलोटीन खूप मोठो, पळोवपाक काळो किट्ट, पूण रूपान वायट दिसनासलो. सर्कशीतल्यो मांडण्यो आनी घडामोडी बरो शिकलेलो आनी कोणाकूय एका थापटान जमनीर शेवटितालो. व्हडल्या मिशांक लागून ताका लोक भियेतालो, पूण लिंदा ताका भियेनासलें.

हांवें लिंदाक हाताक धरलें. तुजी आवय रडणीं करता, जेविना, खायना, तुकाच हुसकेता हांवें म्हणलें. रामचंद्र पिल्लायन हांव उलयतां तें पळेलें, ताका कोंकणीय चडशी समजना जावन, व्हडले दोळे केले आनी चल सुकण्या म्हणीत, लिंदाचो भाटकार आनी धनी जाल्ल्या परीं, व्हडलीं दांगां मारीत चल्लो. वकिलाचें तोंड आनी लिंदाचें तोंड एकूच दिसता तें पळेवन, भाव-भयणीं जायत म्हूण समजन, तो रावंक नां. लिंदाक घेवन धांवलो आनी पळ काडलो. आमी फाटाफाट धांवले. तीं मोटरांत जीव आसल्यार भीक मागून म्हणलेल्या भाशेन खंयच्च्यान पळ्ळीं तें आमकां दिसलेंना. आमचे जिपीक कोणें फूर घाल्लो आनी दोनूय टायरांचें वारें सोडलेलें. फूर काडटा आनी टायर बसयता म्हणल्यार एक वर जालें. आमी आमचें मोटर म्हापश्यांत धुंवडावयलें. ते वाटेन वेतात शीं दिसतालीं. खंय म्हूण आमी वेतले आसले! धांवत - धांवत, सकाळच्च्या चार वरांचेर शिवोलेचे तारीर पावले. तारयोमाम न्हिदून आसलो. ताका आमी जागयलो आनी एक मोटेलो केरळी मनीस पावला काय जाल्यार विचारलें. गोंयचें एक सोबीत सुंदर चेडूं ताचे बाराबर बा पळेलां जाल्यार प्रस्न केलो. ताणें तकली हालयली, हे आनीक खंयच्च्या वेळार आयल्यात काय म्हणलेल्या भाशेन, आळसायेन आनी बेफिकिरीन आमकां परतिले. म्हाका स वाजतां इगर्जेंत मीस आसलें, एकलोच हांव सगळीं कामां आडायतालों, म्हाका कोण एक कूर वो आदारी मेळत काय म्हूण चिंततालों. दोळ्यांक झेम येताली, म्हजो विस्वाशीक मेस्त, शिरोडेचो मातेवस फेर्नांडीस आयलो आनी रोकडेंच म्हाका उदक तयार केलें आनी हुनहुनीत च्याव हाडून दिली. मेस्ताक पळोवन म्हाका म्हज्या बापायचो उगडास आयलो आनी बापायभाशेनूच तो म्हजी काळजी घेतालो. जोर येयल्यार शेकतालो, म्हाका पचतात तीं जेवणां करतालो. हांव जेवल्या शिवाय जेविनासलो, म्हजे खातीर उपास

काडटालो आनी कितेंय करूंक तयार आसलो. म्हजो राखणो-दूत कसो दिसतालो. राती उपाशीं रावलो! म्हजेविणें जेवण ताका रूचनासलें.

## १-९-५८

## “देवगिरी भांगारी अक्षरांचो दीस”

म्हजें पेन आजुनूय बरें धांवता. पत्रकाराचें कितेंय तरी म्हज्या आंगांत खेळता. तें देणें म्हज्या शेपायचें आयलें शें दिसता, तो हुशार पत्रकार आसलेलो खंय आनी आमच्या चिंचोणेच्या पत्राक ‘आ इंदिया पुर्तुगेजा’ हिका बरयतालो खंय. हांवें इस्कोलाच्या उक्तावणेच्या दबाजाच्यो वाको आ इंडिया पुर्तुगेजा, ओ हेराल्दो, हेराल्दो आनी दुसऱ्या दैनिकांनी धाडलो. तो लेख हांवें सांबाळून दवरला. केन्नाय खंयच्याय इतिहासकाराक उपकारत. हो आसा तो :

देवगिरी भांगारी आनी तांबड्या अक्षरांचो दीस उदेलो. कांय वर्सां पासून हें शार एक इंग्लेज इस्कोल पळोवंक आशेतालें. आदीं धाकटीं इस्कोलां आसलीं आनी कांय बऱ्या मनाचे मनीस आपल्या भुरग्यांक एकठांय करताले आनी तांकां शिकयताले. नमान तांकां! सेतेंब्र, तारीक एक, १९५८ वर्स, देवगिरीकारांक व्हडे खोशेचें. ह्या दिसा दों जुजे दे कास्त्रो ह्या गोंयच्या पात्रिआर्कान कुरपेवंत मायेच्या इस्कोलाचेर आशिर्वाद घालो. ताचे आदीं, नव्या इस्कोलाचें फीत आनी लेशी सेक्रेतारिओ दो गोव्हेर्नो, दों जुवांव आब्रांतेस - हाणें कातरलें. इस्कोलाचेर बेसांव घालचे आदीं, गोंयच्या पात्रिआर्कान देवगिरीचे इगर्जेंत मीस भेटयलें आनी त्या मिसाक सगळे तरनाटे आनी तरनाटीं हाजीर जालीं. भुरगीं मोट्यान जबाब दितात तें पळोवन आनी सोबीत आनी रूचीक गायनां गायतात तें आयकून, पात्रियार्क अजापलो आनी तांची आनी पाद्र विगाराची तोखणाय केली. तरनाटीं आनी सुपुर्लीं भुरगीं लातीन भाशेंत मिसाक जाप दिताली आनी तांचे उच्चार चुकीविरेत जाताले तें पळोवन तांचें गीत आयकून जाणे इस्कोलाचेर आड बरयलेलें तोच पाद्री येवन ताणें पाद्री बळवंत दा कोस्ता, ह्या पाद्र विगाराक आनी इस्कोलाच्या मुख्य शिक्षकाक वेंग मारली. दोगूय खोशेन रडटाले.

नवें इस्कोल साबार बोंदेरांनीं आनी झाडांच्या ताळ्यांनी नेटयलेलें आनी न्हेसयलेलें. सगळ्या जिनसांचे मनीस, हिन्दू, मोयर, क्रिस्तांव तांबड्या तोपयांनी, गांधी तोपयांनी झळकताले आनी जाण्टे आनी नेण्टे क्रिस्तांव कासफीस न्हेसून,

गळ्याक ग्रावाद मारून, पायांक मोचे घालून परबेचो दीस म्हूण दाखयताले. अस्त्र्यो सोबीत सुंदर साडयो घालून मुरगट्टाल्यो. एक हिन्दू, एक क्रिस्तांव, एक मोयर भुरग्यान गोंयच्या पात्रिआर्काच्या गळ्याक हार घालो आनी बळवंताच्या हातांत फुलांचो झेलो दिलो. चौग शिकवपी हाजीर आसले. सि. एफ्. डिसौजा, मारिया दोस सेवस, झेड. एन्. एफ. देसाय. जे मारिया त्रिनिदाद. दों जुजे कास्त्रो हाचें काळीज खुशालकायेन उफेतालें. ते सैमानूच मिशनर आनी मिशनारी मनान ताणें हें इस्कोल घडलें. ताणीं ह्या दिसा हो निरोप दिलो.

भयणीनो, भावानो, आमी हांगासर इस्कोल रचूंक जबरदस्तेन क्रिस्तांव करूंक येवंक नांत. आमी तुमची सेवा करूंक आयल्यात. हांवें प्रि. बळवंताक सांगलां आनी विनयलां, ह्या इस्कोला वरवीं ताणें हिन्दवां, क्रिस्तांवां आनी ह्या गांवच्या मोयरांमदें एकवट घडोवन हाडूंक. सगळ्यांनी तुमी एकामेकांचे चिंतून, एकामेकाक आदार दिवंक जाय. इंग्लेज इस्कोल काडलां अराष्ट्रीय करूंक न्हय,पूण खरेली सेवा करूंक. भावा-भयण्यांनो, हें इस्कोल तुमचें आनी तुमी सहकार दिल्यार वाडटलें आनी नंदतलें, नातर पालवतलें. हें इस्कोल आज ल्हान चाळीस भुरग्यांचें, ल्हानव्हिकायेन सुरू जाता, तें ल्हानविकायेंत उरचेंना, खूप वाडटलें. शेणांत...लो कि......डो शे.....णां......त उरोना (घागेत म्हणलें) इतल्यान सोंपयतां. ताळयांचो आवाज जालो. दों जुजेचें मिशनार काळीज उक्तें जालें. बरेय पुर्तुगेज आसात हें सत देवगिरीकारांक उजवाडीत जालें.

पाद्री बळवंतान सगळ्यांक आर्गां आठयलीं आनी सगळ्यांचो आदार विनयलो. आपूण न्हय फकत क्रिस्तांवांचो पूण बगर हिन्दवांचो आनी मोयरांचो विगार म्हूण सादयलें आनी हीं उतरां आनी शब्द उच्चारून 'हांव आयलां वाटसूर कसो, मोगाचो वाटसूर, सवस्त कायेचो वाटसूर, शांतितायेचो वाटसूर, खुशालकायेचो वाटसूर. तुमचीं भुरगीं म्हजीं भुरगीं म्हूण हांव सत मानतलों आनी तेच चिंतनेन हांव तांचेकडेन वागतलों. देवगिरी आमची पालेवची, फुलची, फळची, नंदची आनी वसची. हें सांगून म्हजें भाशण सोंपयतां.' कितलेच हात बळवंताक पावले आनी एकल्यान भिवृ नाका म्हणून ही परब आनी समारंभ सोंपलो.

वयलो लेख वाचून म्हाका चिटींचो भरो आयलो. इतल्या म्हणसर काम वाडलें आनी हात म्हजे मोटवे जाले आनी दों जुजे कास्त्रो आपशींच आनी आपणींच येवन म्हाका दोग कूर धाडटां म्हूण गमयलें. म्हजो जीव धादोशी जालो. इस्कोल

चलोवंक जाय, फिर्गोज चलोवंक जाय, व्हडली जबाबदारी. इतलेंच हांवें देवाकडे मागलें. ह्या म्हज्या कुरांक म्हजेच धाकटेभाव कशे तांचेकडे वागूंक कुरपा दी. बरें करतकूच तांकां एक बरें उतर सांगूंक चुकल्यार मोगानूच आपोवन हाडूंक आनी मायेमोगाचो निरोप आनी सुलूस दिवंक शिकय. म्हजे सरशिली नसायेची भावना पयस कर, ताणीं बरें करतकूच म्हाका संतोसूंक आदार दी, तांच्या पालवान चलूंक म्हाका ओड....

## १५-९-५८

वेळ ना न्हिदूंक आनी उंगूंक! कूर अजुनय येवंक नांत. पात्रिआर्क चाळण घेवन वासुरता जातलो. देवगिरीन कोणाकूच धाडूंक जायना? हांव सायबिणीलागीं मागत आसां, म्हजीं दोतोणीर्ची भुरगीं पाद्री धाड, पाद्री धाड म्हणून सायबिणीक थार दिनांत. सुपुर्ल्या भुरग्यांचें मागणें सोंपेपणी देव आयकता. तीं भुरगीं लिंदाय खातीर मागणीं आनी विनवणीं करतात. आमचें इस्कोल खबरदार चलता. सगळे शिकोवपी आनी शिकवपिणी मोगान आनी मोयपासान आपआपलें काम करतात. एक शिकोवपीण घरा वचना, ती हांगासरूच, श्रीमती आदेलिया मोन्सेरात हांगेर रावता. हांव तांकां खूप थोडे फारीक करतां.तीं पयशांक काम करिनांत. साठ रूपयांनी कितें जाता! भुरग्यांक गायन शिकयता, नाच शिकयता, हो लोक नाच म्हणल्यार आंग काडटा. धावप आनी उडकी मारप, क्रिडा स्पर्धा आनी व्यायाम म्हणल्यार ह्यो वस्तू चेडवांक न्हय म्हणटात आनी केन्नाय ही मेस्तीण ही टिका आयकून रटडा. आपल्या कामाखातीर ती हिन्दू भुरग्यांक पुंजावन हाडटा, म्हाकाय खेरीतूच माया आनी अपुर्बाय दाखयता. ती चलतना, पिटी पिटी करून भोंवता आनी एक एक पावल म्हज्या काळजार बसलेल्या भाशेन जाता, तिच्या दोळ्यांचेर एक खेरीतूच पारज आसा, ओडटात दिसतात, तिचें भेंड आनी हड्डे समतोलान बांदलेली. सारकेंच जेनेव्हीव दे चार्दीन दिसता. वादळ आनी वारें देवगिरींतूय लागतलें काय? मारियान शिरावळे म्हाका सांगलेलें : 'आंकवारपण एका दिसाचें न्हय, आंगवण कर आनी न्हीद तसलें न्हय. मोग आनी लींग आमचे ठांय दिसभर, सुमानभर आनी वरसभर आसात. हांवें तरनाटे पाद्रींक, सेमिनारीस्तांक सेर्मांव सांगतनां खुपदां सांगलां आनी म्हणलां : अस्तरे वेसल्यान मनशांचें काळीज केन्नाय ओढूं येता आनी याज्ञिकाची माखणी घेतली आनी सगळें सोंपलें म्हणूंक जायनां.

मनशान सदांच चतूर रावंक जाय, इतल्यान आपली तकली फोडूंक फावना. सयरणशास्त्राचो उपयोग करून, बायल एक फुरशें न्हय, तिच्यान आमकां खूप आदार दिवं येता हेंय मनांत धरूंक जाय. मारिया दोस सेवस म्हाका खूप आदार दिता आनी हांगासर दुसरो पाद्री ना म्हणटकच, तिचें दयाळपण आनी सेवेमन म्हज्या काळजांत बसता. मारिया दोस सेवस मोगान पडलेल्या भाशेन दिसता, व्हडल्या दोळ्यांनी म्हाका पळेता, कोणाकूच म्हजेर आड उलोवंक दिना. इस्कोलाचें काम आनी इगर्जेचें काम केन्नाच सकला दवरिनां. म्हजें काळीज उपकारपणान भरलां. गरजेप्रमाणें आनी गरजेविणेंय म्हजें दर्शन घेता आनी वेता, मोगाची खुणां कशी दिसतात! हांव ब्रेव्हियार बा म्हणटना म्हजें मन मारिया दोस सेवस् हिचेवयल्यान भोंवता, हांव भिवून आंग काडटां, जेनेव्हिव आनी मारिया जिवितांत दुसरी येतीतशी दिसतात! आनीक नाका सायबा म्हणटा! उजो पेटला दिसता!'

इतल्यान म्हाका लिंदाबायेची काल चीट आयल्या. तिणें श्रीमती जुवाना कार्व्हालो हिचेकडे बुरशेलेल्या कागदाच्या कुडक्यार बरोवन धाडल्या. हांवें ती दैनिकेंत सांबाळून दवरल्यां.

बळवंत फादर,

हांव लजेन बुडल्यां, तुका बरोवंचें, ना बरोवंचें दिसतालें. घरा येवंचें, ना येवंचें असल्या दुभावानीं भरून आसताना, हांवें घटाय घेतली आनी हांव हीं दोन उतरां तुका बरयतां. लजेंतलें म्हाका कोणूच साल्वार करतलो, सोडयतलो जाल्यार तो तूंच. तुजेर म्हज्या वकील आनी वैज भावाहून म्हजो विस्वास थोर आनी व्हडलो. म्हाका रामचंद्र सोडिना, हांव पळून येतलीं आसलीं, ताणें म्हाका इबाडलें, इतल्यान ताचो हांव गुन्यांव करिना, हांव ताचे फाटोफाट गेलीं आनी म्हजेर आनी म्हज्या घराब्याचेर राग काडलो. हांव म्हजोच द्वेस करूंक लागलीं. हांव घरा येवंक सोदतां. हांव एके घाणयारे सुवातेर, करंजाळे एके खोपटेत आसां. ते खोंपटेचेर डॉ. रामचंद्र पिल्लाय हें तकटें मारलां. हांव आवय जावंचेलीं आसां. म्हाका ताणें एके मोटेले आनी राक्षीण सारकेले बायलेचे आदीन केलां आनी ती येवन येवन म्हजें पोट चिड्डिता आनी भुरग्याक भायर काडूंक सोदता. बाळ मरत म्हूण म्हाका भंय दिसता. बळवंत फादर, ये आनी म्हाका हे गायरीतलें काड, एकटो येयनाका, म्हज्या भावांक घेवन ये. नातर तो तुजी दुस्पट करतलो. लोब घाली नाका, ना

जाल्यार तुमी कोण तें ताका समजतलें. तेदूस तुमी ताका पळेला, आनी ताणेंय तुमची नदर घेतल्या. रातच्या णवांक सुमार येयात, नातर म्हजें भुरगें मरतलें. तुजे भयणी सारकेलें लिंदा.

ही वयली चीट वाचून म्हज्यां दोळ्यांत दुका आयलीं. लिंदा मोगाक बरें आनी रागाक खूप वायट. ताणें तो राग आपणाचेरूच काडलो. आतां वेळ ना, हांव सांजे ताचे सोदीक वयतां, ताच्या दोतोर भावाक, आंतोनियो आल्मेदा आनी वकील भावाक जुजे फ्रांसिस्को आल्मेदाक हांवें मोटरांत बसयले. हांवें मोटरीचें वेरें म्हजे हातांत धरलें आनी झूऽऽम करीत, वारें आनी वादळ कशें मोटर धांवयलें आनी धांवडायलें आनी वरा भितर आमी करंजाळे पावले. एके खोंपटेच्या एका कोनश्याक एक गरजेवंत बायल गोरेताली ती आमकां आयकूं आयली. भायल्यान तकटें वाचलें. डॉ. रामचंद्र पिल्लाय.

आमी दारार मारलें. पेगांव सारकिली, दोना पेद्रोसा नांवाची बायल भायर सरली. आमी भितर सरूंक वेतालें. दुरीग कशी मदेंच उबी रावली. तिका कुशीन उडयली आनी आमी भितर सरले. बळवंत, आंतोन, जुजे म्हणीत भायर सरूंक वेतालें लिंदा. हांवें तशेंच राव म्हणलें. आमी तुका उबारून व्हरतात. इतल्यान व्हडल्या मिशांचो रामचंद्र आयलो आनी म्हाका सकला घालूंक वेतालो, ताणे दोतोर आंतोन बाबाचेर मूठ मारली. तो सारकोच न्हिण्णावलो. हांवें भुरगेपणावेली माण्णी काडली, ताका पांय घालो आनी रामचंद्राक जमनीर उडयलो आनी दोन तीन मुठयो घाल्यो आनी ताचेर वयर बसलों. ताका सुमानी बांदलो आनी लिंदाक उभारलें आनी सरळ मोटरांत घालें आनी नीट पणजेच्या हॉस्पिटलांत व्हेलें आनी एके खाटीर घालें. पणजे हॉस्पिटलांत वैज आसलो पुर्तुगेज. डॉ. आंतोनीक बरो वळखतालो. ताणें लिंदाक रोकडेंच भितर व्हेलें आनी तपासूंक लागलो. हांव भायर झेमेत वकीलबाबा बरोबर बसलों आनी कोंत घेवन रोजार करूंक लागलों. देवगिरीचे कुरपेवंत मायेक उलो मारतालों. दों जुजे मोरैरा, हॉस्पिटलाचो वैज जरीय कातोल्क धर्मांत वाडलो आनी ताची आवय खूप भाग्यवंत आसली जाल्यारूय देवाक पांय पडनासलो आनी कातोल्क शिकवण ताणें परा केल्ली. कातोल्क लोक मांयचे खातीर भुरग्याक फुगार करून वो सुरी तोपून आवयच्या कुसव्यांत मारिनांत. कातोल्कांक ही करणी हाणामारी. ती कातोल्क शास्त्राचेर आनी शिकवणेचेर आड.

दों जुजे मरैरा भायर येवन म्हजेकडे भासाभास करूंक आयलो आनी आवयक साल्वार करूंक भुरग्याची तकली तोपता, क्रॅनिओटोमी करतां म्हणलें. लिंदाच्या आंगाक म्हेळीं खतां पडल्यां आनी घोंशेचे हात लागल्यात म्हणलें. कोण तरी वैजणीचें काम करताली म्हूण सांगलें. हय, हय, एकल्या पेगावांन, अनाडी वैजणीन हें काम केलां. हांवें म्हणलें. कितेंय जावं, म्हज्यान तकली फोडीनासतनां आवयक साल्वार करूंक जायना. तितल्यान दोतोर आंतोनीन उतर घालें, आनी आमी कातोल्क, आनी आमच्यान कातोल्क दोतोणीचेर आड वचूंक जायनां अशें ताणें म्हणलें. दों. जुजे मरैरा हाणें कसलोय भरवंसो आसा जाल्यार पळेतां म्हणलें आनी भितर गेलो आनी ताणें सुपुर्लें आनी सोबीत भुरगें भायर काडलें. आमी भुरग्याचें रडणें आयकलें, पूण लिंदा रगत मेळना जावन सोंपलें. आमी ऑपरेसांवाच्या मेजार गेले आनी हांवें नव्या जल्मलेल्याक हातांत घेतलो आनी संकटाक आनी पेरीगाक लागोन हांवें ताका बातिस्म - पवित्र स्नान दिलें. हुसको गेलो. भुरग्याक फोर्च्युनातो, भाग्याचो नांव दिलें आनी दो. आंतोनियो आल्मेदा, जाका भुरगें नासलें ताणें ताका आपणायलें आनी वाडयलें. म्हज्यान लिंदाचे आवयक दोना आल्मेदा इ मिनेझीस हिका ह्या पुटपुटीक भुरग्याभायर आनीक भुजवण दिवंक जायना जाली. तिणें हें देवाचें देणें हातांत घेतलें आनी कांय म्हयने लिंदाचें दुख केले उप्रांत, दुसऱ्यान सुखेस्त जाली आनी मरवेर फोर्च्युनाताक घेवन इगर्जेचें आनी इस्कोलाचें काम करूंक लागली आनी तिणें म्हाका आवयपणाचो पुष्कळ मोग दाखयलो आनी तिचे सांगणे प्रमाणे जो मोग लिंदाचेर रकयतली आसली तो म्हजेरूच रकयलो आनी व्हांवयलो. तशें तिणें मरवेर केलें. हांवूय दुखांत आसताना, तिचेकडे भुजवण घेतालों आनी ती म्हाका बरें तें सांगताली. म्हज्या इश्टांची तीय इश्टीण जाली आनी म्हज्या दुस्मानांची तीय दुस्मान जाली. लिंदाच्या मरणां सातव्या दिसा आनी म्हयन्या मिसा उप्रांत दुख करचें सोंपयलें आनी हांव म्हज्या कामांत गूल जालों.

इतल्यान म्हाका पणजेसून दों. जुजे दे कास्त्रो, गोंयचे पात्रिआर्काची चीट आयली. ते चिटीचेर ताणें म्हाका आठ दिसांभितर दोग कूर धाडटां म्हूण गमयलें. म्हजें काळीज खोशेन उल्हासलें. म्हाका ताणें एका कोंकणी मोग्याक देवगिरी काम करूंक धाडटां म्हणलें. तो इस्पान्याक शिकला, बरी कोंकणी जाणां आसलो, पत्रांक आनी मासिकांक बरयतालो. कोंकणीचो मोगी देखून म्हाका ताची अपुर्बाय

आसली. दुसरो मोठो आनी तरनाटो फेर्रा ब्रास दोस यस फालेरो. आंगलटीन मोठो, पुर्तुगालाक शिकलेलो, समाजीक वावर करूंक खूप जाणवीक आनी लायक. कोणूय झगडूंक आयल्यार, एका थापटाक केदेय पेलवानाक जमनीर उडोवपाचो. लोकाक पुंजावपी आनी उत्सवपी. ही म्हायती आदींच म्हाका मेळ्ळी.

दोळ्यांक तेल लावन हांव तांकां रावतालों. तांकां दवरपाक आनी रावपाक फकत म्हजें साकाचें कूड आसलें. मोग आसल्यार साकाचे आनी मदेराचे कूड उपकारतात. आमचे मदें मोग, आनी मोयपास मात आसूंक जाय. आज ना, फाल्यां ना, हांव पळयत रावलों. इतल्यान म्हजी मायेमोगाची शामुली, पावलीन मावशी रातीकडे मरणाक पावलेली. दोळ्यांक झेम येताली, सायकल मारली आनी झूप करून हांव तिच्या घरांत पावलों. म्हाका पळेना फुडें तिणें आपले दोळे उक्ते केले, आपले हात म्हज्या हातांनी घाले आनी म्हाका ल्हवू म्हणलें : वेतां रे पुता, म्हज्यें घर तुजे इगर्जेक दवरतां. म्हजे खातीर एक मीस म्हण आं! म्हजे पयशे बी दुबळ्यांक दी. पावलीन मावशेक आमी मोगान आनी मानान निखिपिली आनी भुरग्यांनी तिच्या फोंडार हजार फुलां पातळायलीं. आनी बळवंत फादराची मांय मेली, तीं म्हणूंक लागलीं. तिका धनयान सासणीक विसव दिवंचो!

## १-१०-५८

हांव इगर्जेच्या बल्कावांत बसून आसलों आनी केन्ना म्हजे कूर भायरसून पावतले हें चिंतीत आसलों. फादर फादर म्हणीत आनी हालत धोलत तेगां सुपुर्लीं भुरगीं, मीना, सोकोरीना, शोभा येवन म्हाका तेंकलीं. हीं भुरगीं म्हाका भियेनांत, तीं म्हज्या मोगांत पडल्यांत आनी तांचो मोग म्हाका भिरांत हाडिनां. खेळतां खेळतां, म्हजो लोब म्हेळो करताना, ताणीं म्हाका सांगलें : "बळवंत फादर रे, कित्याक आमचे मदें आनी आमचे फिर्गजेंत माद्री हाडिनांय? ती आमकां शिवण-सूत, रित-रवीस शिकयतली. बायलांक बायलांनी शिकयल्यार बरें न्हय फादर?" हें आयकून हांव चिंतनेत पडलों. ही भुरग्यांची आशा पाळूंक हांव उपाय निहाळूंक लागलों आनी हांवें गोंयच्या पात्रिआर्क सायबाक, दों. जुजे दे कास्त्रो हाका बरयलें आनी ताणें रोकड्या रोकडें इस्कोलाचे नवे इमारतीक हात घालूंक लायलो आनी पयशांखातीर भिवूं नाका म्हणलें आनी म्हाका पयलो चेक धाडलो. दोन म्हयन्या भितर सकयलीं पांच सालां जालीं आनी रोकडेंच वणटी फुगलेल्योच आसतना

आमच्यो क्लासी देवगिरीचे इगर्जेमुखार सुरू केल्यो आनी इरमास फ्रांसिस्कानास दे मारिया हांकां विनवणी केली. तांची मुख्य वडील येवन घर पळयलें आनी पयलेच फावटी देवगिरींत कुरपेवंत मांयेचो कोन्वेंत उदेलो आनी ताचें बरेपण आनी भोळेपण सगळ्याक फांकलें. म्हाका एक भाग्यवंत अस्तुरी दी, हांव संवसार बदलीतां. कोणें म्हणलां न्हय? त्या अस्तुऱ्यांनी देवगिरीचें तोंड बदल्लें.

सात माद्री हांगा थंय विस्तारल्यो आनी घराघराक भेट दिवन अस्तुरेचें भोळेपण आनी क्रिस्तांव दयाळपण पसरयलें. देवगिरीचे एके शिमेरसून दुसरे शिमेर पर्यान धव्यो न्हेसलेल्यो आंकवारी भोंवताल्यो आनी कातोल्क इगर्जेचो रूपकार विस्तारायताल्यो. तांचो प्रभाव इतलो व्हडलो की कांय देवगिरीचीं आनी भायलीं शिवणेक येतलीं भुरगीं क्रिस्तांव जातात, दिसभर घरांत क्रिस्ताची खबर सांगतात, कांय जाणां माद्री जावंक येवजितात असली खबर सगळ्याक गाजली. एकदीस मध्यान्ह राती, कोन्वेंटांत शिवण - सुताक येतें सुकांती देसाय हें भुरगें घरांतलें नाच जालें. तें घडये घडये घरांत घराभायर माद्रींची खबर सांगतालें. ताणें सेंट फ्रान्सिस्को दे असिसी आनी भाग्यवंत क्लाराची खबर आयकलेली. माद्रींच्या तोंडांतली काणी आयकून ताणें घरा वचून आपले केंस कापलेले. माद्र जाता, जाता म्हूण तें सपनेंतालें. सगळ्याक सोदपूस केली आनी खंय मेळना जालें. पुलिसेन माद्रींच्या कोन्वेंटाक वेडो घालो आनी कांय लोक म्हज्या घरा सरभोंवतीं भोंवताले. खबर गाजली प्रि. बळवंतान मोटर सायकलीर घालून सुकांतीक व्हेलें आनी महाराष्ट्रांत व्हरून दवरलें आनी थंय ताका बाटयलें. माद्र सुपेरियरीक क्वार्तेलार व्हेली आनी आडवे तिडवे प्रस्न आनी विचार केले आनी खंयच्यानूच तांकां वायट मन आनी वायट काळीज गावलेंना. परती घरा धाडली.

दुसरे दिसा म्हाका पणजे पुलीस इन्स्पेक्टरान आपयलो आनी साबसुबे विचार करूंक लागलो. म्हजें आंगांतलें वादळ आनी वारें ऐन ते वेळार भायर सरलें आनी हांवें हुनहुनीत आनी जाणविकेचे जबाब दिले आनी पुलीस इन्स्पेक्टराक अर्दो शेळयलो.

पुलीस इन्स्पेक्टर : तुवें सुकांतीक मोटरसायकलीचेर व्हरून, महाराष्ट्रांत दवरलें म्हणटात तें खरें?

बळवंत : हांव ताका महाराष्ट्रांतल्या एका खेडेगांवांत व्हरून दवरचो नासलों, हांव ताका बऱ्या नांवाच्या आनी निवळ कोन्वेंटांत व्हरून दवरतलों आसलों.

अज्ञान लोकांचें आयकून तूं म्हाका असले अज्ञान विचार करी नाकाय.

पुलीस इन्स्पेक्टर : तुवें ताका बाटयलां?

बळवंत : हांव पिसो न्हय, म्हजे केंस चडशे पिकूंक नांत, तरी देवान म्हाका जाणवाय दिल्या, तशीच म्हाका शिटुकाय आसा. कोणाकूच आमी खोशेभायर बाटयनांत. आनी आवय-बापायचे रजे विरेत आमी केन्नाच कोणाक बातीज्म दिनांत. तुवें सुकांतीच्या आवय-बापायकडेन विचारून घेवंचें.

पुलीस इन्स्पेक्टर : तर सुकांती खंय आसा? तिका माद्रींनी लिपोवन दवरूंक ना मूं?

बळवंत : तूं गरजेभायर माद्रींचें नांव काडीनाकाय. माद्री लोकाक वेठीक धरून हाडून आपलें कॉन्वेंट भरिनांत. तें खंय आसा तें म्हज्यान सांगू नज, हांव हातूंत निरपराधी. तुमचो कायदो सोदून काडचो. तुमी वास्तपूस कित्याक करिनांत?

पुलीस इन्स्पेक्टराक गोमलें, हें तुफान गरज नासलेलें. ताणें म्हाका हात दिलो आनी म्हाका पावोवंक अर्दे वाटेर मेरेन आयलो. फादर तूं सुस्त वच, हो गूट फोडूंक वेळ लागतलो आनी तुजें नांव उणें जावंचेनां, सत दिसतलें. सत दिसतलें! आमचे जाण्टेले म्हणटात न्हय : सत्यमेव जयते - सत जिखतलें? तूं देवाचो मनीस आनी देवाच्या मनशाक देव सांडिना. तुमकांय सांडचोना. ताणें निमाणें म्हणलें.

## नोव्हेंबर १०

ह्या दिसांनी म्हाका म्हजी दैनिकी बरोवंक वेळ मेळना. म्हजे दोगूय कूर येवंचे आसले ते वाटेर शिरकले. सगळें काम म्हज्या खांदारूच पडटा. मीस सारकें जायना, रोजार रूचना, मागण्यांक म्हूण वेतां आनी कदेलीर न्हिदतां. म्हजो लिव्हर, म्हजें पोपीस सारकें चलना आनी आंगान आळशीं जालां. इंग्लेज म्हणटात न्हय, लायफ डिपेन्डस् ऑन द लिवर, म्हजें पोपिसूय वाडलां आनी जिवितूय उबगलां. भंगलें म्हजें! एकलो म्हजो कूर अमेरिकेक, फोर्दां जेजुईतांचे युनिवरसिदादींत गेला आनी थंय सायकॉलॉजी, सयरणशास्त्र काडटलो खंय आनी दुसरो लिंग्विस्टीक्स, भासशास्त्र, व्हियाना, ऑस्ट्रीयाक पावलो जातलो. सद्याक म्हजी धांदळ, एकसुरो! हांवें एका जाणट्या आनी अनुभवान भरलेल्या पाद्रीक आदार दिवंक आपयला. ताणें सगळ्या गोंयांत सेर्मांव सांगल्यात आनी ताका संवसाराचो आनी आत्मिक जिविताचो बरो अनुभव आसा. ताचें नांव डब्ल्यू मातियास. ताका सोदूंक आनी

ताची बुद घेवंक हांगासर माद्री आनी पाद्री येतात. म्हाकाय तो म्हज्या दुभावांनी भौच उपकारतलो, आयताराचें मीस भेटोवंक फायद्याक पडटलो. म्हाका, बेतकी, काडप्यां वचचें पडटा आनी त्या भायर म्हजीं मनाचीं दुयेसां आनी पिडा म्हाका खातात. मारिया दोस सेवस् म्हाका खाता, जेवताना, न्हिदतना, म्हज्या मनांतूच खेळटा. अदीक बरें हांगा येच नासलेलें जाल्यार! मोगान पडटात तीं तांचे खोशेभायर एकामेकांचो जीव खातात. पाद्रीच्यान दुप्पेट जिवीत जियेवंक जायना, इतल्यो सोबीत अस्तऱ्यो हांगा आसाँत आनी तरी हांव तांकां लेखिनां, तीं म्हज्या मागण्यांचो आनी चिंतनांचो वेळ खायनांत आनी म्हाका चिंतेस्त करिनांत. मारिया दोस सेवस् चलतना, एकेक पावल मारता तें म्हज्या हड्ड्यांत बसता, ताचे कोंगरे केंस म्हज्या दोळ्यांत भरतात, ताचें हड्डें म्हाका चाळवयता, ताचो ताळो आयकून म्हजें काळीज विरता, ताच्या व्हिस्तिदाचो रंग मेंदींत पुरता, धाकट्यो धाकट्यो बऱ्यो करण्यो आनी बरी खुणां मोगांत वाडोवंचे बदला त्यो म्हाका खावंक येतात आनी मनांत खदळ घालतात : ती म्हाका कित्याक म्हूण खाता? म्हजो आत्मो कित्याक म्हूण गोंदळांत घालता? हांवें असल्यो अस्तुऱ्यो जायत्यो पळयल्यात आनी परा केल्यात. हें कालाचें पोर म्हजेहून अठरा वर्सां धाकटें, म्हजो जीव कित्याक खाता? म्हाका कितें करचें तें समजना! त्या डब्ल्यू मातियस, जाण्ट्या आनी शाण्यां पाद्रीकडे हांव उलयतलों. ताका सगळें सांगतलों. कांय लिपोवचोनां!

शाण्यां पाद्रीकडे हांव उलयतालों आनी तेन्नाच मारिया दोस सेवस् उबें जालें आनी हांवें तकली पोंदा घाली आनी तिका पळोवन जाण्टेल्यान दोळे मोडले आनी म्हणलें : हें कोण? पुपिलादे शिन्योर रेयतोर, तें तुजें पालक? हांवें जाप काडलींना, तें आयकून तें पळून गेलें. डब्ल्यू मातियसान म्हाका बागा रिट्रीट हाऊस हांगासर एक हुशार आनी भाग्यवंत पाद्री आसा, ताचें नांव प्रि. आद्रीयान ले तेलियार आनी तो आत्मे आनी बांयो पारखिता, आत्म्याचे फोंड उस्तिता, तशेंच बांयची खोलाय आनी उदकाचे झरे दाखयता. तुवें वचून ताका भेटचें, तो तुजे आत्मिक पिडेक वखद दितलो. वेशी? हांव तुजें इस्कोल आनी फिर्गोज पळेतां. वेतच मागणें क़र, देवगिरीची आनीक गजाल करिनाकाय. पयलो देव पळेता, मागीर हांव देवगिरी पळेतां. इतल्यान वचपाचो थारावो हांवें घेतलो आनी पिराचीत आनी मागणें करूंक लागलों. मारिया दोस सेवस मनांतलें वचनासलें!

रायपुरचे सेमिनारींत आमकां सांगलेलें. निर्मळपण सांबाळूंक मागणें आनी

पिराचीत चड गरजेचें. हांवें जिणवार सुरू केले आनी हांव सायबिणीक उलो मारूंक लागलों. मातशें बरें कशें दिसलें! एक-दोन दीस बरें दिसतालें, पूण मारिया दोस सेवस हिचेर दोळो पडनाफुडें आदलीं चिंतनां, आदलीच मोगाची ओड म्हज्या मनांत आनी काळजांत उदेताली. तें इतलें म्हाका तेंकतालें आनी म्हजे बसकेक लागीं उबें रावतालें, हांवें ताका केन्नाच बोट लायलेंना. रायपुरचे सेमिनारींत प्रि. आग्नेल म्हणटालो खंय : हॅन्डस ऑफ. तशें हांवें केलें. हांवे म्हजे हात पयस दवरले आनी मारियाक हांवें केन्नाच आफुडलें ना. आदीं म्हाका आनीक मारिया आसलें. तें बाबडें म्हजो मोग करतालें आनी हांवेंय ताचो केलो, पूण हांवें केन्नाच ताका आफुडलें ना, म्हजें सोयरें आसतना, ताच्या मुखा कीस लेगीत घेतलोना. ही सगळी नवी काणी, एकेवाटेन एक आव्हान आनी जीत कशें दिसतालें आनी दुसरेवाटेन काळीज म्हजें ओडटालें, ल्हवू हात लावंचो दिसतालो, पूण हांवें देवा पाव गा, भितरल्यानूच म्हणलें आनी सद्याक जैतिवंत जालों आनी म्हजें पाद्रीपण निवळ सांबाळच्याक खरेपणी यत्न करतां आनी वावुरतां. हें सगळ्यांक आनी मारिया दोस सेवस हिकाय ठावें आसलें. हांव जायते पावटी हांगासल्लें पयस सर, धांवडायतालों, तरी तें ते धांवडावणेंतल्यान मोग वाचतालें आनी आनींक चडूच करतालें. मन म्हजें पिशें कशें जालें आनी हांवें बागांतली वाट धरची केली. म्हजी खाटली-पोटली खांदार माल्ली आनी म्हजें मोटर सायकल सारकें नासलें. ते फटेर आनीक नाका म्हणलें आनी वाटेर दुखी चिंतनां चिंतीत बागांतले न्हंये लागीं पावलों. जायतो वेळ रावल्या उप्रांत तारयामाम आयलो आनी म्हाका पलतडी घालो. हांवें ताचेकडे फा. आद्रियान ले तेलियार वयर आसा जाल्यार विचारलें आनी ताणें तकली बागोवन हय म्हणलें. प्रि. आद्रियान ले तेलियार विशीं हांवें जायतें आयकलेलें. ताका मेळूंक मातशी भिरांत दिसताली.

आद्रियान ले तेलियार गांवान आनी राष्ट्रांन बेल्जिकाचो. व्हडल्या घराण्यांत तो जल्मलो आनी गोंयची परजा ताका भाग्यवंत म्हूण मानताली. गोंयचो पात्रिआर्क दों जुजे दे कास्त्रो ताका व्हडलो मान दितालो आनी ताचे लागीं कुमसार जातालो. गोंयचो राजपाल दुखा आनी काळका वेळार ताका भेटतालो आनी ताचे कडली भुजवण मेळोवन घेतालो. कोणूय गरजेक सापडल्यार ताका उलो मारतालो आनी तो कशेय तरेन तांकां पावतालो. ताणें हें बागांतलें घर बांदलें आनी तें बांदूंक सगळ्या गोंयांत भिक्षी मागली. बार्देसच्या आनी साश्टीच्या गांवांनी तो पोती

घेवन वेतालो आनी मिरसांगो, पियाव आनी तांदूळ पुंजावन हाडटालो आनी ते विकून पयशे कमयतालो. बागांतलें घर बांदूक ताणें आपले भाचेचे दोतीचे पयशे विनयले आनी ती माद्र जावंक गेली. ताका गोंयचो आनी गोंयकारांचो खुपसो आनी पुष्कळ मोग आसलो. गोंयांतूच तो सोंपलो आनी ताका पोरण्या गोंयचे शिमितेरींत पुरलो. ताका रेतीर दिवंक उमेद आनी लायकी आसली. ताणें गोंयांत, मद्रासाक, कलकत्याक, मंगळूर आनी मुंबय रेतिराचीं घरां बांदलीं आनी गोंयांत बार्देसच्या कोनशाक हें एक एकसुरें आनी एकांतायेचें घर उभारलें. डॉ. इजिप्सी डिसौजा ह्या सर्गेस्त मनशान ताका घर बांदूक फुकट सुवात दिली आनी हें घर उभारूंक ताका प्रि. इरिनेव्ह लोबो हाणें सहकार दिलो. सेर्मांवांनी तो हांसयतालो, खेळयतालो, रडयतालो आनी सेकीमेंत मनशांची काळजां बदलीतालो. रोमाक आनी लुर्दीस शाराक तो लोकाच्यो जात्रा व्हरतालो आनी ताचो गोंयांत आनी गोंयाभायर मोटो प्रभाव लागतालो. दोन कामां तो हुशारकायेन आनी यशवंतपणी करतालो. बांयची खोलाय पळोवंक आनी आत्म्याचें पोंद खोलावंक. दुखेस्त आनी काळकेस्त मनशाच्या जिवितांत सूख घालतालो आनी अडचणीक आनी कश्टांक सांपडलेल्यांक स्वस्ताय आनी खुशाली हाडटालो. ताका भेटूंक खूप लोक वेतालो. हांवें येत्या आनी वेत्या मनशांक पळेले. म्हाकाय सूख मेळटलें अशें म्हाका दिसलें. कशेंय मारिया दोस सेवस मनांतलें भायर सरूंक जाय.

बागांतलो दोंगर काडटां म्हणल्यार म्हाका जावन आयलें आनी फाट दुखूंक लागली. सायकलीचेर आनी मोटार सायकलीचेर बसून आयलेल्या मनशांक चलूंक आनी चडटी काडूंक खूप अवगड मारता. वयर पावतां म्हणल्यार हांव खर्शेवंक लागलों आनी म्हाका शेळो घाम सुटलो. दारार माल्लें. लांब आनी व्हडल्या मिशयांचो ताजो कुजनेर आयलो. ताका सगळे कृष्णा मेनन म्हणटाले. प्रि. ले तेलियार ना काय विचारल्यार ताणें तो आसा आनी कोणा एकल्या भाटकाराक घेवन एक नकासो आनी मॅप पळयता म्हूण म्हाका गोमयलें : "प्रि. ले तेलियार भितर आसा, तुका मातशें कुवार्तात बस म्हूण सांगलां." तो आपलो पारज घेवन एका मॅपाचेर तो घुंवडायता आनी हांगा हांगा म्हणीत, उदक उदक गावलें म्हणटा. ताका लागतलो उदक सोदपी गोंयांत दुसरो ना, तसोच मनशांच्या काळजांचें पोंद उदपूंक ताका दुसरो लागना. फादर, बस मातसो, इल्लीशी च्याव पिये. म्हणून कृष्णा मेनन गेलो. हे एकसुरे सुवातेर असले लांब आनी घट मनीस खुपूच गरजेचे.

रांदपाक आपणाक कोण लागनां आनी आपुणूच प्रि. ले तेलियाराक न्हंयेतल्यान व्हरतां आनी हाडटां म्हूण आपूण आपली बडाय मारतालो.

इल्ल्या वेळान प्रि. ले तेलियार म्हाका मेळूंक आयलो. ताचे केंस धवे फूल्ल, ताचो लोब धवो, ताच्या आंगांतल्यान निर्मळपणाचो परजळ कसो व्हांवतालो आनी पाजरतालो. ताचें खाड लांब आनी दाट, साफ दवा भाशेन जालां. सगळे कुडींतल्यान आनी खेरीतूचपणीं दोळ्यांतल्यान भलेपण आनी शांती परजळटा. हातांत ताचें घड्याळ आनी पारज आसलो आनी तें हालयत तो म्हजेफुडें आयलो. ताणें म्हाका ल्हानविकायेन समजायलो आनी म्हणलें : "रागार जाय नाका फादर, हांव कोणागेले बांयची खोलाय पळयतालों, ना जाल्यार तुमी गोंयकार नाका जाल्ल्या आनी पाड जाल्ल्या सुवांतार बांयो मारतात आनी उप्रांत उदकाचो थेंबो मेळना. उलयतां उलयतां म्हणल्यार वेळ जालां. आतां हांव तयार आसां तुजी केदीय लांब काणी आयकूंक आनी तुका जाता तितलो आदार दिवंक. तुजें काळीज उक्तें करूंक आनी तुजे गूट फोडूंक तूं भिवूंनाका, आमी दुसऱ्यांचे सेवेक आसां, हे आठ दीस तुज्यान हांगासर काडूं येतात आनी दोगूय जाणांनी मागणें आनी त्याग करून, तुजे प्रस्न सुटावे करूंया." ह्या पाद्रीचीं भलेंपणांन आनी मनशाळायेन भरलेली आकृती पळोवन म्हज्या आंगांत इल्ली खुशालकाय भरली आनी सांजेच्या दोन वरांचेर आपूण भेटूंक येतां म्हूण ताणें सांगलें. तेन्ना मेरेन पोटभर जेवंचें आनी न्हिदचें म्हूण ताणें म्हाका सांगलें. हांव जेवलों आनी सूस्त न्हिदलों. कितलेच दीस जाले, हांव सारको जेवंकना, आनी विसव घेवंक ना. ह्या बागांतल्या एकांतायेच्या घरांत हांव सपनांविणे न्हिदलों आनी रूचिनूय जेवलों. शितळ वारें मारता, सगळी सुवात, दर्या आनी ल्हारां मनशाक मागण्यांक आनी ध्यानांक आपयता. धवीफूल्ल सोनारां (बकी) बुचकळी मारून नुस्तीं फारायतात, तियामाशे घणस करून उदकाचेर शेंपड्यो मारतात. सुपुर्ले ताल्ले किडे कशे धडेर खेळटात आनी तांकां पळोवंकूच एक मागणें म्हणूं येता. सर्गेस्त आनी सुखमेस्त सुवात, केन्नाय नुस्तीं उडण मारून खडपांर पडटात.

वादळ आनी वारें, दोंगरावेलीं झाडां, अंतराळा वयलीं सुकणीं, दर्यातलीं नुस्तीं, कावळे आनी कवडे आमकां सगळ्यांक देवाक वाखाणूंक आनी ध्यानांक ओडटात! ज्युस्तीच दोन वाजतां आपलो पारज हालयत आनी घड्याल घुंवडायत, ल्हव ल्हव धेंपा मारीत, प्रि. ले तेलियार म्हज्या कुडांत रिगलो. हांव कदेलिर बसून

आसलों, तो बाजेर बसलो. खाडावयल्यान हात भोंवडायलो आनी ताणें म्हाका जाय तितलो उलय म्हूण सांगलें. लजेवं नाका आनी भिडेवं नाका. ताणें म्हणलें. हांवे म्हजी काणी सुरू केली;

हांव देवगिरीचो पाद्रविगार, म्हजें नांव बळवंत दा कोस्ता. गांवान शिरावळीचो, साश्टीकार. हांव रोमाक शिकलां आनी धर्मीक आनी संवसारीक पदव्यो आनी पद जोडल्यांत. हांवे पत्रांचेर बरयलां, हांव पुस्तकां रचतां. देवगिरी आयल्यार हें म्हजें तिसरें वरस, एकल्यांनूच हांवें इस्कोल आनी फिर्गोज ताणल्या. आतां दुभावांनी आनी काळोकांत बुडलां. उजव्यान गेल्यार हांव भियेतां आनी दाव्यान गेल्यार हांव घुस्पतां. म्हज्या इस्कोलांत एक शिकोवपीण आसा, नांव तिचे मारिया दोस सेवूस. इतल्यो बायलो आनी अस्तुऱ्यो आसात तरीय म्हजें मन ताचेर फिरता आनी तेंय बी म्हाका आपल्या बोटांचेर खेळयता. हरशीं तें म्हजें अर्दे पिरायेचें, म्हजें काळीज थारना आनी धरना, म्हजें काळीज उडटा, फुलता, ताका पळेनाफुडें उचंबळ जातां.

प्रि. ले तेलियारान आपली तकली हालयली. हें अदीक सायकॉलीजकल ॲट्रक्शन, आत्मिक ओडावणी म्हणटात, ताणें सांगलें. त्या भायर तुका बायोलॉजिकल ॲट्रक्शन वो फिजिकल ॲट्रक्शन, प्राणी आनी आत्मिक ओड येता? तुज्या आंगांत बा कितें घडटा आनी जाता? हांवे जाप दिली: "हय, पूण हांव ताचेर चडशें लक्ष धरिना, जेजू पाव म्हणटां आनी म्हजें मन दुसऱ्या वस्तुंचेर फिरयता."

प्रि. ले तेलियार : हें आतां तुका घडटा, आदीं तुजें जिवीत कशें चल्लें?

हांवे जाप दिली : हांव भुरगोच आसतना मोगान पडलों, उप्रांत आनिकूय पडलों, पूण तें सगळें वादळ आनी वारें कशें गेलें.

प्रि. ले तेलियारान पायची आनी मांयची खबर घेतली. हांवें ताका जाप दिली : "म्हजी मांय एकदम भाग्यवंत. ती म्हजो व्हडलो मोग करी आनी म्हाका जेजूचो आनी मारियेचो मोग करूंक शिकय. तिचेविशीं जें कार्दीयाल ग्रासिआसान आपल्या पुस्तकार, हेवन ॲन्ड होम. हाचेर बरयलें तें तिका इल्लेशें बदलप करून म्हणूं येता; म्हजी आवय बरोवंक नकळ आसली, जें बरोवपाच्यान आनी वाचपाच्यान दिवं जायनां तें तिणें म्हाका दिलें." म्हजी मांय सय करूंक जाणां आसली. इल्लेंशें वाचूं येतालें, ती कोंकणी वाचताली आनी उलयताली आनी

कोंकणीचो मोग तिणेंच म्हज्या काळजांत ओंपलो. देवमोगी आनी मनीस मोगी, दुबळ्या धाकट्यांक पावपी, नितिवंत आनी भाग्यवंत म्हजी आवय आसली.

प्रि. ले तेलियार : तर तूं तिचे खातीर पाद्री जालो, तिणें तुका बळ केलें तर?

बळवंत : तिणें म्हाका बळ करूंक ना, तिणें म्हाका म्हज्या मरणांवेळार आनी पिडेसमयी देवाक भेटयलो.

प्रि. ले तेलियार : तिणें भेटयलो आनी तूं पाद्री जालोय? मांयक लागून पाद्री जालोय तूं? तुका आपोवणें आसलें देखून न्हय?

बळवंत : तिणें म्हाका भेटयलो खरें, ती हांव पाद्री जाल्यार पुरो म्हूण मागताली हेंय सत. पूण तिणें म्हाका सेमिनारींत लोटूंक ना आनी हांव म्हज्या सेवक-माखणेच्या दिसा घुस्पलों पूण येवजून आनी मेजून हांव पाद्री जालों. कोणेच म्हाका बळ करूंक ना. जायत्यांनी म्हाका बोट दाखयलें, चल फुडें म्हणलें. मारिया म्हजे मावशे भयणीन - तीय म्हज्या मोगांत आसली, तिणेंय म्हाका देवाचे सेवेक म्हजें जिवीत भेटोवंक सुचयलें आनी म्हज्या आपोवण्याक म्हाका थिरायलो.

प्रि. ले तेलियार : तुजो बापूय कसल्या जिनसाचो आसलो?

बळवंत : ताचें नांव जयवंत, म्हणजे जैतिवंत. तो कोणाक भियेनासलो आनी सगळ्या वस्तुंचेर जैत व्हरतालो. ताच्या जिवितांत हार नासलेली. तो बक्यांक आनी हांस-पगड्यांक फार मारतालो आनी एक ताचो तीर चुकनासलो. मारता तें पडटालें. म्हाका इल्लीशी दूक भोगताली. कित्याक हांव केन्नाय चुकतालों, म्हजो फार केंसराक लागचे बदला तणांक लागतालो आनी केन्नाय कोणूय वेत्या मनशाचेर म्हज्या फाराचो मुनिसांव आनी गुळी बसताली.

प्रि. ले तेलियार : म्हण्टकूच तूं पाद्री तुज्याबापायचेर जैत व्हरूंक बी जावंक ना मूं?

बळवंत : ना. हांव म्हज्या बापायचो खूप मोग करतालों. तो म्हाका आपणां बाराबर व्हरतालो आनी सिरावळेच्या कपेलाफुड्यान वेतनां, दुखांनी भरलेल्या दोळ्यांनी आनी उपकारान भरलेल्या काळजान तो म्हणटालो : 'आर्गां तुका स्वाम्या." हांवे ताचेकडे विचारलें : पाय तूं कित्याक रडटाय? ताणें म्हाका जाप दिली. पुता म्हज्या, हांव तुजें चिंतून रडटां. जें म्हजे लागीं जायनां तें तूं करतलोय. तुज्या हातांत धनी जेजू क्रिस्त येतलो आनी तूं ताका खेळयतलोय! हें चिंतून आनी उपकारपणान म्हजे दोळे बुडबुडटात.

प्रि. ले तेलियार : म्हण्टकूच तूं पाद्री आनी याज्ञीक तुज्या पायक खंयच्यान तरी सकला उडोवंक जालोय मिस्ता? तुज्यान ताका फार मारून जिखूंक जाय नासलो. तर पाद्री जावन, जें ताच्यान करूं जायना, तूं आपूण करतलो म्हण समजून तुवें सेंमिनाराचे पावंडे चडून काडले. हय मूं? जीत खेळपी तूं?

बळवंत : हांव तुका सत सांगतां, फादर, हांवें केदींच म्हज्या पाय लागीं आव्हान मारूंक ना. हांव ताचे लागीं जीत खेळूंक ना. खरें सगळें म्हजें जिवीत एक जितूच आनी आव्हान. भुरगोच पासून हांव फुटबॉलांत -पांय - पेलांत पयलो जावंक सोदतालों, शिकपांत पयलें - वयलें जैत सोदतालों, उलोवपांत आनी बरोवपांत पयले जागे मेळोवंक वावुरतालों, पूण म्हज्या पायलागीं, 'आट-फाट, धर म्हजी फाट' केन्नाच म्हणिनासलो.

प्रो. ले तेलियार : बरें सांगलेंय तुवें! हांव पायचे लागीं जीत खेळनासलों. हय हें तूं सैरणान आनी जाणा जावन करिनासलोच. पूण हें झूज मना-पोंदा आनी सैरणा-सकला जातालें. आतां तूं देवाकडे पैज मारताय! ताचें जीत खेळूंक सोदताय! आपणाक जाय तें करूंक सोदताय. तुका भाग्यवंत आगुस्तिनाच्या कन्फेशन्स-कुमसारां ह्या पुस्तकाचो उगडास आनी याद आसतेली. हय? त्या पुस्तकाचेर तो पेरांची गजाल सांगता. आपूण पेरां खावंक न्हय, तीं पेरां तो मागीर धुकरांक उडयतालो, पूण, आपूण कोण, आपूण सत्तेवंत, म्हाका जाय तें करतलों हें दाखवपाक पेरांचेर फातर मारतालो आनी रूखार चडटालो. हय मूं? तशेंच तुजें! तूं देवाचे खोशेचेर आड वचूंक हो देवगिरीचो खेळ खेळटा मूं? तूं काजार जावंक सोदताय? अर्दो पाद्री आनी अर्दो काजारी असलें कितें तुज्या मनांत चलना? तूं काजार जावंक सोदताय? हय मूं?

तशें म्हणना फुडें म्हाका बागांतलो धांवून येवचो दिसलो. म्हजी मांय शांती भितरल्यान म्हाका शिडकायताली. शांत राव आनी सता फुडलो धांवूं नाका. हांवे म्हणलें : "हांव पाद्री आनी त्या पाद्रीपणांत रावंक हांव आशेतां. हांवें देवाक आंगवण केल्या आनी ती सदांच पाळतलों, देखुनूच हांव तुजे फुडें आयलां, देवाकडे जीत खेळूंक हांव सोदिनां. त्या पाद्रीपणांत तिगूंक आनी तिजूंक तुजेकडे उपाय सोदूंक आयलां.

प्रो. आ. ले तेलियाराचो ताळो आतां मोगाळ आनी मंद जालो आनी तो म्हणूंक लागलो. "भिवं नाका. तुवें इतलें बरें काम केलां. ती मारिया दोस सेवस

बरी वो वायट? ती काजाराचें चिंतता वो आदार दिवंक सोदता? इगर्जेत भाग्यवंतां मदें बरेल्यो इश्टागत्यो आसल्यो. फ्रांसिस्क आनी क्लारा सालेसा चो फ्रांसिस्क जोआना दे चांताल, क्लावदिवो दे ला कोलंबीयेर आनी मार्गारिदा मारिया. भाग्यवंत इश्टागती इगर्जेंत सदांच सादल्या, म्हज्या घरांत काम करतेली इश्टां आसात पूण म्हज्या जिवितांत हांवे सदांच एक नेम पाळ्ळा. चडूय न्हय, थोडेंय न्हय. त्या भायर क्रिस्ताचो खरो आनी खतखतीत मोग काळजांत बाजल्यार, दुसरे मोग सकले सुवातेर पडटात. हांव, तुका चल फुडें म्हणनां. जण एकल्यान मापान आनी मेजपान, मागण्यान आनी चिंतनान आपण्याच्यान कितलें सोसूं येता आनी आपल्या खांदार केदें आनी कितलें वजन व्हरूं येता तें निहाळून घेवंक जाय. तुज्यान आनी तिच्यान बरे इश्टागतींतल्यान जियेंव जावंचेंना? चींत, मोग, मेज. सांत इनास : "तांतू - क्वांतू - चड न्हय, थोडें न्हय" म्हणटा! पळे.

बळवंत : म्हज्यान तुका चडशें सांगू जायना. हांव काळोकांत आनी कोड्यांत आसां. तुजे लागीं कसलेंय बी वखद आसा जाल्यार दिवन म्हजेर उपकार कर.

प्रि. आ. ले तेलियार : सद्याक ह्या दिसांनी पिराजीत, खुर्साची वाट, खतखतीत मीस भेटय. तुंवें केन्ना तरी भाग्यवंत जेरोनीचें जिवीत बा वाचलां? तो एकसुरो जियेतालो आनी ताका देवचार आनी लिंगी ताळण्यो जीव खाताल्यो, थार दिनासल्यो. तो मागणें करतालो खरें, पूण भरपूर काम करतालो. ताच्या ताळण्यांक लागून, आमकां हेब्रेव भाशेंतलें लातीन भाशेंत अणकारायलेलें पुराण मेळ्ळें न्हय? तुका कसलीच हॉबी, वो मौजेचो खेळ बा लागता? सद्याक ह्या दिसांनी तुजो मौजेचो खेळ रेतिराचे घरांतले म्हातार शेमायक, दोना इजाबेल डिसूजा हिका कुजनांत आदार दिवंक जावंदी. आयकलां? हांव तुजे खातीर मागणें करतां, दुसरें देवाच्या हातांत घाल.

बळवंत : म्हाका पत्रांचेर बरोवंक आवडटा, म्हाका सेर्माव सागूंक ओड आसा.

प्रि. आ. ले तेलियार : "तशें जाल्यार बरोवंक आनी लोकांक भरोवंक लाग. वेळ इबाडी नाका, माग आनी वावूर. हांव तुजे खातीर मागतलों. आतां चल, सगळें देवाच्या हातांत घाल. देव दाखयतलो वाट." हांव कुजनांत दिसाक वरभर काम करूंक लागलों. इजाबेल शामुली म्हाका मोगान घेताली. काम करतना, ती मागणें करताली आनी कोण ना तेन्ना व्हडल्यान मडक्यांलागीं उलयताली

आनी रोझार करी. ती रोझार करतना बळवंत, बळवंत म्हणटाली. म्हजें नांव कित्याक घेताय गे? हांवे विचारलें. तिणें म्हजे केंस पोशेले आनी आवय जाल्ले भाशेन गोडवायेन सांगलें : पुता रे म्हज्या, तुं आमच्या पाद्रीकडे स वरां तरी उलयतालो तें हांवे पळयलां. कितें तरी तुका जालां जातलें! तुजी आवय आसली जाल्यार तुजेखातीर मागतेली आसली. हांव तुजेखातीर मागतां. केन्नाय तुफान येतीत आनी मारीत जाल्यार तुवें काळजी करूंक फावना, तुवें सगळें देवाच्या हातांत घालूंक जाय. हे दर्यांतल्यान आगबोटी येतात आनी वेतात तें तुवें पळयलांच. तांकां कोण चलयता? हे वाटेंतल्यान वास्को -द-गामा वेतालो आनी ताचेर ताचे दुस्मान आनी तारवटी कलपले आनी सगळें परतेंच जालें तेन्ना ह्याच दर्यांत, ताणें म्हणलें : Daqui em diante o piloto e Deus - ह्या फुडाराक म्हजो तांडेल देव. म्हजें जिवीत हांव स्तोत्राचेर बसयतां : परमेश्वर म्हाका चरयता, कांयच म्हाका उणें ना. पुता रे म्हज्या, तुजें जिवीत देवाच्या हातांत घाल आनी दुसरें तोच, जाणें तुका पाद्रीपणाचें आपोवणें दिलां, पळेतलो. इजाबेलाचो सेर्मांव म्हज्या काळजांत बसलो आनी भरवंशान भरलेल्या काळजान हांव बागांतले पांवडे देवूंन देवगिरी परतलों. प्रि. डब्ल्यू मातियासान सगळें म्हजें बारकायेन पळयलें आनी कसलीच अडचण पडलीना. फकत आदिओदातो बार्रेटो हो म्हजो दाट इश्ट भायर पडलेलो. हांवें ताच्या घराब्याक रोकडीच भेट दिली.

### नोव्हेंबर २५

हांव आतां पोटभर मागतालों आनी दीसभर बरयतालों. आदीं हांवे चार पुस्तकां बरयलेलीं. इजाबेल शामुलेचें बेसांव म्हजेर पडलेलें आनी प्रि. आ. ले तेलियाराचो उगडास म्हज्या मनांत खेळटालो. इतलेंय आसतनां केन्ना केन्नाय, मारिया दोस सेवूस म्हाका भेटतालें. ताका हांवें मातशें पयस राव म्हणलें, तरी ताच्यान म्हजें दर्शन घेनासतना रावंक जायनासलें. एकदां म्हज्या कुडांत हांव बडबड बरयतालों, बडबड बरोवप्याचेर (टायप रायटराचेर) बोटां मारतालों. झकच करून म्हज्या कुडांत मारिया दोस सेवस येवन सरलें. उबो रावन, भायर सर म्हणूंक वेतालों आनी म्हजो ब्रेवियार ताचेर शेवटूंक वयर काडटालों, तितल्या म्हणसर व्हडलें चेपें घालून गळ्याक पाद्रीचो कॉलर घालून, आंगार काळी ज्युदी मारून म्हजो युरोपी आनी हॉलांडी इश्ट भितर सरतालो. ताचें नांव जोनस आल्फ्रींक.

दोगूय आमी मोठ्यांतले मोठे इश्ट आनी एक काळीज आनी एक आत्मो म्हणल्यार लटकें जावचेंना. आमी एक मेकांक आदार दिताल्यांव आनी म्हज्या इस्कोलाखातीर तो म्हाका दुडू धाडटालो आनी म्हजे फिर्गोजे खातीर म्हाका वखदां पावती करतालो आनी मागीर तीं हांव माद्रींकडे दितालों. आमी पयसुले इश्ट भेटून एकमेकांक आमी वेंग मारली. इतल्यांत मारिया दोस सेवस् म्हज्या कुवार्तांतल्या वोल्तेरा पोंदा लिपलेलें. जोनस आल्फ्रींक ओल्तेरार बसलो आनी बसतकूच ताका हुनहुनीत कोण कदेली पोंदा लागलो. ताणें ताका चिड्डीलो, हांसत हांसत मारिया दोस सेवस् भायर सरलें. तें ल्हवू भायर सरून गेलें. वेताना हांसतालें.

हांवें सगळी गजाल म्हज्या इश्टाक सांगली. ताणें समजून घेतली. ताणें मारिया दोस सेवस हाका लग्न करून घे आनी कोणूय तुज्या इश्टाक बरो आनी गोरो आनी समजणीक न्हवरो सोदून घे म्हण सांग, ताणें सुचयलें. इतालीयानी भाशेन म्हणणी आसा : "L'amore Fa Passare Il Tempo; Il Tempo Fa Passare L'amore - मोग वेळ सोंपयता आनी वेळ मोग सारयता." लग्न जालें म्हणटकच तुका बोबाळ नासतलो आनी तूंय बी सगळें हें नाटक विसरून वेतलोय आनी तुका काम करूंक मनाची आनी आत्म्याचीय सुटका मेळटली. कितेंय जावं जें पावल सांगता तें खरें. जो आंकवार तो धनयाचें चिंतता आनी आंकवारपण आमकां काळजाची सुटका दिता. लाग कामाक बेगी आनी जाका शेवट जाय ताका उपाय जाय. बेगीनूच तुज्यां इश्टांक बरय आनी तो प्रस्न सुटावो कर. बरोवंक, उलोवंक, कसलेंय काम करूंक मनाची शांती आनी शितळाय जाय. काळजान आनी मनान मेकळो जा, तुजें काम उमेदीन करतलय; म्हज्या इश्टान सांगलें. देवान आंज धाडलेल्या भाशेन हो म्हजो इश्ट आयलो आनी ताका हांवें सगळें सांगलें. इश्ट एक कोट, संवसारांत एका इश्टान आनी समजणीक सांगात्यान पाद्रीपणाची आपोवणी सांबाळल्यांत तितलीं एका आत्मीक गुरून आनी वडिलान राखूंक नांत. पाद्रीच्या जिवितांत एक खरेलो पाद्री इश्ट चडूच गरजेचो आनी म्हत्वाचो. हांवूय गोंयच्या पाद्रींची इश्टागत जोडटलों आनी तांकां गरजांक आनी आकांतांक पावतलों. हांवें शालीनीक आनी जेनेव्हीव हांकां चिटी बरयल्यो आनी म्हजी अडचण आनी गरज कळयली. प्रि. ले तेलियार आनी श्रीमती इजाबेल म्हजे खातीर मागतात शीं म्हाका दिसता. म्हज्या आंगांत भरवंसो उदेलो. फाल्यां म्हजो इश्ट जोनस आल्फ्रींक वेता आनी हांव ताका मुरगांव मेरेन

विमानतळार व्हरतलों. म्हज्या काळजांत ह्या दिसांनी मारियाचो मोग वाडला. म्हजें मीस रूचीन जाता, हांव मेकळेपणाचे वाटेर आसासो म्हाका म्हजे भितर कोण सांगता. इजाबेलीचीं उतरां हांव विसरूंक ना. परमेश्वर म्हाका चरयता, कांयच म्हाका उणें ना.

## देजेंब्र ३, १९६१

म्हाका शालीनीची चीट आयल्या आनी तिणें न्हवरो सोदून काडला. बरो, शिक्षीत, अमेरीकेकसून आयलेलो, बरो पागार जोडटा आनी बऱ्या सभावाचो, धर्मीश्ट, देखदिणो, दयेस्त, बऱ्या नांवाचो. पयर शालीनी आनी अमृत हांगासर पावलीं आनी मारिया दोस सेवस् रोकडेंच खुशाल जालें. पयलें ना म्हणटालें, हांवें बळ केलें आनी ताणें हय म्हणलें. म्हज्या इश्टान जोनस्, होलांडी पाद्रीन व्हडलें पेटूल आनी पयशांचें देणें धाडलें. मारिया दोस सेवस् घरा गेलें आनी थंय आपली त्रुसोव आनी दुसऱ्यो वस्तू तयार करूंक लागलें. इतले म्हणसर देजेंब्र, तारीक ८, ह्या दिसा बों जेजूच्या कोन्वेंतांत लग्न जातलें आनी उप्रांत दोगांय जाणां अमेरिकेक वेतलीं आनी मोग वेळ सोंपयता आनी वेळ मोग सरयता. हीं म्हज्या इश्टाचीं उतरां सत जातलीं.

आज म्हजे नवे कूर, संवसाराक भोवंडी मारून फिर्गोजेंत येतात. जिवितांत हांवें म्हजे जिणेचें ब्रीद केलें: 'जीत, आव्हान, आपोस्त.' हें आतां जमचेंना. जिवीत जीत न्हय, जिवीत एक सेवा. हांव नसायेन कामां करचोनां, फाव ताका मान आनी म्हयमां दितलों. बरें जालें, सर्गीच्या बापाचें काम जालें म्हण हांव मुरगट्टलों. देवाचें काम एकसुऱ्याचें काम न्हय. आमी सगळे पाद्री देवाचे फुटबॉल टिमीचे, पांय-पेल पंगडाचे वांगडी आनी सांगाती, एकलो गोल मारता सगळेच मारतात, एकलो चुकता सगळेच चुकतात. असल्या मनान सगळ्यांनी काम करूंक जाय. एकल्या लागीं जायनां तें दुसऱ्यान करूंक जाय. हांव विगार म्हणटकूच, म्हजें काम पिल्लूक घेवन, सगळें मांडपाचें, बरें आसा तें फुलोवपाचें आनी वायट आसा थंय बोट दाखोवपाचें. म्हजे कूर, म्हजे धाकटे भाव, तांकां हांव मोगान वेंगयतलों, जेवणाक आनी खाणांक उपाशीं मारचोनां, पोटभर जेंवचें आनी पोटभर काम करचें, 'खाता पिता देव दिता' असलें तत्व म्हज्या जिवितांत वेव्हारांत हाडटलों. म्हजें जिवीत तांकां एक देख करतलों. म्हजे प्रस्न सुटे जाले न्हय? हे

वाटेन आनींक मारिया दोस सेवस् बा घुंवचें ना. एक सत सांगतां आनी तें बरोवन दवरतां : "हांवें अस्तुरेक आफुडली नां, म्हजेर ताळण्यो आयल्यात, तांकां लागून हांव चिंतेस्त जालों आनी घुस्पलों, पूण काळोकांत आनी कोड्यांत देवान म्हाका सोडलोनां. 'Daqui em diante O Piloto e Deus' -फुडाराचेर हांव खुशालकायेन दोळो दवरतलों आनी जैतिवंत जातलों. म्हाका खात्री आसा : "Qui confidit in Domino sicut mons Sion- धनयाचेर विस्वास ठेवता तो सियोन दोंगरा सारकेलो", हांव देवगिरीच्या दोंगरा सारको. कित्याक म्हजी इगर्जूय दोंगरार आसा न्हय?"

दोगूय कूर पिटी-पीट करीत सगळ्या गांवांत भोंवतात आनी वळख करून घेतात. "आमचे पाद्र कूर, कितले सोबीत आनी तरनाटे, झुणझुणीत आनी सादे!" लोक उलयतात. युरोपाक आनी अमेरिकेक भोंवून आयल्यात तसले न्हय, तांकां सुकी बडाय ना, पात्राद ना. सामके सादे-सुदे... येतानांच हांवें म्हजें गायन धरलें: "Congregavit nos Christi amor - Ne nos mente dividamus caveamus - क्रिस्ताचे मोगान आमकां एकठायले, मनान दोर्शी जावनां जावंक आमी काळजी घेवंया." म्हणटकूच ताणीं जबाब दिलो : "आमेन!"

आज सांजे धाकटी एनएसयू घेवन हांव म्हारवाड्यांत गेलों. थंय घांटावयल्या लोकाची एक फामिल जियेताली. वसप्पा नांवाचो एक भुरगो कुंटीत चलतालो. ताचो पांय सुजोन एक व्हडलो घावो आनी चोंद जालो. पळोवया म्हणल्यार धावलेल्या भाशेन करूंक लागलो. हांवें ताका मोगान वेंगयलो, खांदार हात घालो. ताका हांवें फाल्यां देवगिरी इगर्जेंत ये आनी हांव तुका वखद लायतां आनी बरो करतां म्हणलें ताका आठ भाव आनी सात भयणी आसात. जेवंक सारकें मेळना, सुकून बडी जाला. पूण पांय सुजून हतयाचें जांगळ दिसता. ताचे आवयन हांव ताचो थातो-मातो करतां तें पळेलें आनी ती म्हजे सरशीं आयली. हांवें वसप्पाक म्हजेशीं धाड म्हूण सांगलें. ताका हांव क्रिस्तांव करिना, बरो करतां म्हूण आस्वासन दिलें. परतून येताना, म्हाका सुकांती, पळून गेलेलें म्हणटात तें चेडूं भेटलें. हांवें खंय गेलेलें, आनी गोंयांत आनी ताच्या घरांत कसले घुस्पागोंदळ जालो ताची गजाल सांगली. तिणें म्हाका संतापून सांगलें : "फादर, म्हज्या सोयऱ्यांनी तुका बेश्टो त्रासांत घालो देखून हांव तुजेकडे आनी सिस्टेरीकडे माफी मागतां. हांव

म्हज्या सोयऱ्यांगेर गेलेलीं आनी थंय हांव एके इश्टागतींतूय पडलीं आनी फारलीं. तुमी खंयच्यानूय म्हाका वायट केलें ना. न्हय म्हण तुवें मोटर सायकलीचेर व्हरून म्हाका महाराष्ट्रांत दवरलें ना. हें हांवें वचून पुलीसेंत सांगलें आनी तशेंच हांवें सगळ्या गांवकारांक कळयलां. सत धापून उरना आनी तूं आमकां सदांच सांगतालो! सत्यमएव जयते - सत जिकतेलें. सत जिखलें आनी तुजो माथ्याचो केंस झडूंक ना. देवगिरी किरिस्तांव, हिन्दू आनी मोयर आपलोच पाद्री जालेल्या परीं तुका मानून घेतात. तुज्या वर्साक सगळी देवगिरी आपलोच बापूय झालेल्या भाशेन तुजो गळो हारांनी भरतात आनी माथें फुलांच्या पाकळ्यांनी रंगयतात. तूं आमचोच, तूं आमकां जाय. हांवें सांगलां आनी म्हणलां! आमचो फादर एकदम बरो, तसलो ना दुसरो, कोणाकूच करिना परो हीं उतरां आयकून म्हजें काळीज धादोसलें.

सगळी देवगिरी पोरण्यां गोंय पावली. सांत फ्रांसिस्क शावियराच्या पांयांशी एकठवली. भुरग्यांनी आपली युनिफॉर्म घाल्ली आनी हातांत कोर्नेटी आनी धोल आनी काश घेवन ती धाडायत, मार्च करीत आपल्या हातांत इस्कोलाचो बावटो घेवन इगर्जेंत भितर सरलीं. मीस जालें आनी मिसार लग्नाचो संस्कार घेतलो. बाय मारिया दोस सेवस् आनी इजनेरबाब जुवांव द देवूस रामाल्हो पणजेकार. हांव कासफीस न्हेसलों आनी म्हज्या बराबर म्हजे दोगूय कूर आसले. हांवें काजाराच्या सांक्रामेंताचो सेर्मांव सांगलो आनी उप्रांत व्हंकल- न्हवऱ्याची साऊद आनी तुस्त केली : “अ कपल इन लव्ह, अ चाईल्डस स्माइल, पीस इन दी होम, अ सेरमन विदाऊट वर्डस् - दोगां जाणां मोगान, भुरग्यांचो अमुरको हांसो, घरांत सवस्तकाय, उतरां नासलेलो सेर्मांव.” मारिया दोस सेवस् हिका आपल्या घोवाचो मोग करूंक शिडकायली आनी जुवांव दे देवूस रामाल्हो - हाका ‘आज पर्यान हांव तिचो परामर्स करतालों आतां तुवें करचो’ म्हणून हांवें म्हजें भाशण सोंपयलें आनी म्हजें कार्य सोंपलें. मीस जातकूच, सगळे परजेन ‘सांत फ्रांसिस्क शाव्हियरा’ हें गायन केलें आनी उप्रांत लग्ना माटवांत ‘बेसांव तुमचेर पडों रे’ सादयलें. इजनेर बाबान सगळ्यांक फाव तितल्या सोऱ्यान आनीक होण्याचे दोसेन धादोशी केले. फास सादलो आनी हांव मेकळो जालों म्हणलें हांवें.

मेकळ्या काळजांन आनी पयलेच फावटी स्वतंत्राय जोडलेल्या परीं हांव सुकण्यां भाशेन उडूंक लागलों आनी फेर्राब्रास फालैरो ह्या म्हज्या कुराक मोटरसायकलीर फाटल्यान बसोवन हांव विमान कसो म्हजे फिर्गोजेंत पावलों.

फेर्राब्रास समाजीक वस्तुंनी लायक आनी खूप उमेद दाखयतालो. म्हणटकूच इगर्जेचीं भाटां आनी लोकाचे भाटांचे आनी समाजीक प्रस्न ताणें आपल्या ताब्यांत घेतले. लोक ताका भेटूंक येतालो. कुरपेवंत मायेच्या इस्कोलांत समाजीक केंद्र ही संस्था सुरू केली. हे संस्थेवरवीं दुबळ्या भुरग्यांक पुस्तकां दिताले, कपडे वाट्टाले आनी जेवंक ना तांकां दनपरां एक जेवण आनी इंटरवला वेळार च्याव आनी उंडो खावंक दिताले. हे तरेन दुबळीं, उपकारांन भरलीं आनी पाद्रींची बरी खबर सगळ्याक शिंपडली. प्रि. जाशिंतो मोरेन्हास इगर्जेचें काम करतालो आनी ताणें मिसा - सेवक ही सभा स्थापली आनी चार वांट्यांनी मीस - सेवकांक फांटलें. आयताराचें मीस पळोवंक आनी भेटोवंक कवतूक दिसतालें. सोबीत गायना, सगळो लोक सायब घेतालो आनी जी मिसाची क्रांती हांव करूंक सोदतालों ती पुरी जाली आनी फिर्गज खुशालकायेन भरली. गायन आनी गीत ताच्या आंगांत आसलें, तें ताणें फुलयलें.

ह्या निमण्या मोरेन्हासबाबाक बारीकसाण आनी चतुराय आसली. जाले थोडे दीस, एक आमच्या इस्कोलांतलो भुरगो नाच जालो आनी शाळेक येवपाचें सोडलें. ताणें ताची खबर काडली आनी ताच्या बापायलागीं तो खंय गेला तें विचारलें. घरांतलो ना जाल्यार आज पांच दीस जाले. ताणें गमयलें. तर खंय गेला हें चिंतीत तो अस्नोड्याच्या पुलार पावलो. थंय तो भुरगो लक्ष्मीदास नायक झळकलो, पळयनाफुडें पळ्ळो. म्हजो कूर धांवलो आनी ताका धरलो. मोगान ताका बसयलो, ताचे कडे मोगान आनी मोयपासान उलयलो आनी कित्याक घर आनी इस्कोल सांडून गेला काय विचारून घेतलें आनी ताका बापायफुडें व्हेलो. पायक शिडकायलो, वाडलेल्या भुरग्याक मारिनांत, समजायतात. पायन ताका वेंगेंत घेतलो. तेथून पासून लक्ष्मीदास इस्कोलाक नियमीतपणी येवंक लागलो आनी शिकून शिकून पयलो आयलो आनी जिवितांत ताणें नवें नयन आनी दिरिक्सांव धरलें आनी हुशार शिकपी उतरलो. उप्रांत तो पाद्रींचो सांगात सोडनासलो.

इतले म्हणसर, मावळींगेच्या आनी दोडेमार्गाचे शिमेर ढम्म ढम्म करून नाळींचे गुळे झूम झूम करून वाऱ्याचेर दिसताले. ढोऽ ठोऽ करून फोग जातालो. झुजाचीं कुपां अंतराळार दिसतालीं. नवो कोपीत, आंतुनेस म्हजेशीं बसतालो आनी ताच्या काळजांत भिरांत आयलेली. तरी तो भावार्ताचो आनी देव-भिरांतीचो मनीस जावन आसलो. तो म्हाका सांगी: "जो हात सांत फ्रांसकाक ना ताचेर हांव

चड पातयेतां, हांव आमच्या दारू गुळ्यांच्या पुरूमेंताचेर आनी आमच्या मनशांचेर पातयेना. म्हजे लागीं जातें, हांव घरा वेतों, हांव हांगासर म्हज्या राष्ट्राखातीर आसां, म्हजी जुटी पाळटां. हांव ताका बुजवण दियी. हांव इंडयेचे चिंतपाचे मुद्दे ताचे फुडें घालीत जाल्यार तो ते मानून घेई. लोक म्हाका अजापतालो. इंदयेचो आमीग आनी इश्ट आनी पुर्तुगेजांचोय इश्ट, हिन्दू मोयर - क्रिस्तांव म्हजे इश्ट ह्या गुटाचो तांका समज मेळनासलो. पुर्तुगेज शिपाय मावळींगे गेल्ले, थंय तांकां मारून उडयले आनी कोपितान तांकां निमणे संस्कार लावंक म्हाका आपयलो. हांवें तांकां संस्कार लायले. पुर्तुगेजांचें आनी म्हजें चिंतप वेगवेगळें जाल्यारूय, आमी काळजान एकमेकांचो मोग करूंक जाय, हें क्रिस्त आमकां शिकयता. कोणाकूय पावंक जाय." इतल्यान व्ही. मातियस घरा गेल्लो परतो आयलो. ताची जाणवाय आमकां खूप गरजेची आसली. तो आमकां बरी बुद्द दितालो आनी भुरग्यांक नवीं नवीं गीतां शिकयतालो. भारती शिपायकांनी सगळ्या गोंयांक वेढो घालो म्हूण सगळ्याक खबर पडलेली. पुर्तुगेज सगळ्या दुभावाच्या मनशांक आनी स्वतंत्राय - शिपायकांक धरताले आनी आग्वाद धाडटाले - पत्रांचेर पिटर आल्वारीस, लावरा डिसूजा - हांकां धरल्यात, बंदखणींत घाल्यात म्हण गाजतालें. गोंयचें कितें जातलें?

आज, सकाळीं, पांय-पेल मैदानांकडल्यान वेतनां, म्हाका म्हजो स्वतंत्राय-सैनीक चंद्रकांत कामत भेटलो. "बळवंत फादर, आयज आमचो दीस पावलो. तूं आनी हांव ह्या दिसाक आशेताले. तुज्या क्रिस्तांव लोकाक तुवें समजणी दिवंक जाय, आतां इतिहास बदलतलो, आनी नव्या बावट्या खाला आमकां जियेवंक पडटलें, सांडलेले भारती भाव एकठांय जातलें." हांव म्हज्या खासगी उलोवपांनी मुक्तिच्या दिसाक म्हज्या क्रिस्ती भावांक नव्या वातावरणांत जियेवंक तयार करतालों; इतलेंच, हांव आनी म्हजे तेजवंत आनी शाणे कूर आमचे पाद्री - वेवसायाचो राजकारणा खातीर उपेग करिनासले.

हांवें इगर्जेचो आनी म्हज्या खासगी मतां खातीर पुलपुत्राचो उपेग करूंक ना. म्हजो लोकूय म्हाका चिंतपांखातीर वळखतालो आनी वेगळें चिंततात तांकां हांवें चिमटो काडूंक ना, समजायले आनी म्हजें काम सोंपलें. हांव पाद्री आनी पाद्रीचें काम उजवाडावंक आनी खरीं तत्वां दिवंक. तें हांवें केलें. स्वतंत्र सैनीक, सत्याग्रही आनी पुर्तुगेज म्हजे दाट इश्ट आसले. देवगिरीचो कापितांव म्हजेचकडे

उलोवंक बसतालो आनी तो इश्टागतीचो फायदो पुर्तुगेजांक आनी इंदियानांक उपकारतालो... चंद्रकांताचे सांगणे प्रमाणें, भारती पावले. मावळिंग्या आयले, सुटका पावली, गोंयकारांचो महान दीस पावलो - उदेलो म्हण तो म्हाका उस्कायतालो.

सांजेच्या पांच वरांचेर एक थोंटो तरनाटो, गोंयकार, भारती फौजे बाराबर भोंवतालो आनी आदींच फुडें गोंयांत भितर सरलेलो. "गोंयकार भावांनो तयार रावात, येतात, येतात आमचे सैनीक पावतात" म्हण पेरगांव घालतालो. पुर्तुगेज शिपायांनी ताका क्वार्तेलार व्हेलो आनी एक रात बंद दवरलो. सांजेचीं स वाजलीं, रणगाडे गोंयांत भितर सरले, पन्नास पुर्तुगेजांक दोडामार्गार मारून उडयले आनी ते अस्नोड्या पावत आयले, कोणें कोणें खबर हाडली. वाऱ्यार ठो-ठो करून फार जाताले. देवगिरी शाराचेर भंय पडलो. कोण उरतलो आनी कोण मरतलो हें कोणाकूच ठावें आनी उगतें नासलें. केन्ना केन्ना भारती फौज आनी शिपाय सुरेतां आनी रॉकेटां सोडटाले आनी तीं इगर्जे लागीं पडटालीं. पुर्तुगेज शिपायकांचो क्वार्तेल इगर्जेक तेंकून आसलो, मोखूंक चुकले जाल्यार गुळी इगर्जेचेर आनी इगर्जेच्या मनशांचेर बसूं येताली. एके वाटेन भिरांत दिसताली आनी दुसरे वाटेन आमी आमच्या बापाचेर विस्वास ठेवताले : "ताचे रजे विरेत आमचो केंस लेगीत झडना, देवाचे खोशेविणें काडी हालना", प्रि. डब्ल्यू. मातिआस आमचो पाय - सारकेलो सगळ्यांक बुजवण दितालो. हांवें ताचे लागीं कुमसार केलें आनी ताणेंय म्हजे लागी केलें. म्हजे कूर एकामेका लागीं कुमसाराक गेले आनी कांय लोक, मिनांतलो क्रिस्ती आनी आदिवासी दोंगरारसून देंवले आनी तांच्या मताप्रमाणें सगळ्यांहून सुरक्षीत सुवात, इगर्ज. थंय जेजू क्रिस्त पवित्र संस्कारांत रावता आनी सगळे आपले प्रजेक राखता. थंय तो सगळो वेळ मागणें करता आनी मनीस कुळाचेर कुरपेची देवदानां रखयता. थोड्यांनी आपल्यो मडक्यो हाडलेल्यो आनी भायरूच ताणीं आंब्या पोंदा रांदलें आनी तांच्या जेवणाचो वास सभोंवती पडलेलो आनी तोंडांत उदक हाडटालो. जाणटो आमचो बापाय - सारकेलो पाद्री - बाब मातिआस ह्या सादूयां - सादूयां लोकांक घेवन तेर्स भेटयतालो आनी सगळें शार देवान सांभाळल्यार पुरो म्हण विनवणी करतालो. आमी तेगायनीं, पाद्र कुरांनीं आनी हांवें सगळ्यां घरांक भेट दिली आनी काळजी करूं नाका, सगळें देवाच्या हातांत घाला म्हण सुचयलें. कुरपेवंत मायेच्या कोंन्वेंतांक आमी भेट दिली आनी

कसलीय गरज पडली जाल्यार आमकां उलो मारात म्हण हांवें कोंन्वेंतांतले व्हडले ताईक (सिस्टरीक) सांगलें. तीं भियेवन - भियेवन आसलीं. आज सांजे झूज पेट्टलें अशें तांकां पुर्तुगेज शिपायकांनी सांगलेलें.

सांजेचीं णव वाजलीं आनी म्हजो इश्ट कापितांव गील इयानेस आयलो आनी खबरेक बसलो. आपलें कुमसार केलें आनी म्हजे लागीं रातचीं दोन वरां वाजूं मेरेन उलयलो. ताणें सालाझाराची आज्ञा सांगली आनी सगळें शार लासल्यार बरें अशें ताका दिसलें. 'एक बाँम्ब गाजोलीन पंपाकडे आनी दुसरो पुलाकडे. सगळें शार वाऱ्यार वेतलें.' 'सिन्योर कापितांव', हांवें म्हणलें : "तुज्यान ही आज्ञा वेव्हारांत हाडूंक जायनां. तूं क्रिस्तांव आनी आजून मेरेन झूज पेटूंक ना, आनी शिपाय भितर सरूंक नांत, तर तुज्यान तुज्यां बऱ्या इश्टांक आनी निरपराधी लोकांक मारूंक जायना." कापितांव बरो मनीस, खूप धर्मीश्ट, खूप नितिवंत जावन आसलो आनी ताणें म्हजें उतर आयकलें. देवगिरीक ताणें बोट लायलेंना. जुस्तूच तीन वाजतां सगळे आपले रणगाडे आनी जीप घेवन दवेगिरीचो पूल बाँम्बान सकला उडयलो आनी सगळी देवगिरी हाल्ली. स्फोट आनी आवाज सगळ्यांक आयकूं आयलो. रातची न्हीद फोडून सगळो लोक इगर्जेन भरलेलो आनी सकाळीं हांव पांच वरांचेर मिसाचे भेटेक चडलों आनी कोंसाग्रासांव वो माखणी सोंपयली. घडायंच करून बाँम्ब जालो, हांव भियेलों, थरथरलों, तशेंच मीस भेटयलें आनी सोंपयलें. सकाळच्या साडे पांच वरांचेर आयमोरेची घांट वाजयली आनी लोकान आय-सायबा आमचो पाद्र-विगार आनी आमची इगर्ज उबी आसा आस्कार सोडलो. लोक पाद्री विगाराखातीर, कुरां खातीर, इजर्गे खातीर आनी नवे इस्कोलाचे इमारती खातीर मागणीं करतालो आनी इतले कश्ट करून उभारलेले शाळेची इमारत उबी उरची होच तांचो आवंडो आसलो. स जालीं आनी सकाळीं रणगाडे, जीप शारांत पावले. आपणें हो गांव जिखून काडला म्हूण दाखोवंच्याक भारती सैनीक वयर फार सोडटाले पूण आमचे कान फोडटाले. लोब घालो आनी इगर्जे सकला उबो आसलों. तितल्यान एक कातोल्क कुरसेवोंगाचो शिपाय देंवलो आनी फादर म्हणून म्हाका पांय पडलो आनी कांय वायट जावंक नां मूं? ताणें बारकायेन खबर घेतली. त्या उप्रांत एक गोंयकार मेजर जिपिंतलो देंवलो, म्हजे बाराबर इगर्जेंत आयलो आनी धाकटें मागणें केलें आनी आपले जिपींत भितर सरलो. इतलेंच, लोकांक अजाप दिसतालें. हे कसले पाद्री, पुर्तुगेजांचेय इश्ट आनी

इंदियानाचेय इश्ट! 'तुमी आमचे भाव - भाव' एकल्या तामीळ शिपायान तामीळ भाशेंत म्हणलें. केरळी म्हजे लागीं मल्याळम उलयले. इतल्यान जिपिंचें पुरसांव नगरपालिकेफुडें गेलें आनी थंय सिन्योर जुजे दोस सांतोस हाणें तिरंगी बावटो फुलयलो आनी बावट्याक सगळ्यांनी सलाम केलो. अधिकाऱ्यां मदलो देवगिरींत एकूच एकलो रावलो तो होच सिन्योर आदमिनिस्त्रादोर. ताका लोकाची आवड आसली आनी परजाय ताचो खूप मोग करताली. आदले राती तो म्हजेशीं आयलेलो आनी म्हणटालो : "फादर कितेंय जाल्यार म्हाका आनी म्हज्यां भुरग्यांक पळे - आं ! पाद्री सगळ्यांचो राखपी न्हय?" देवगिरीची इग्रज सगळ्यांचोच आसरो जाल्लो. इतले फार सोडले आनी देवान आमकां राखलेले. आज सकाळीं, हांव मिसाचो भायर सरलेलों तेन्नां म्हज्या दोळ्यांमुखार ढा - ढा करून बॉम्ब फुटलो, म्हजे कुशीन एक कुडको धांवलो, ताणें म्हाका बोट मात लायलेंना. देवानूच आमकां राखले आनी ताचे रजेविरेत ह्या जगांत आनी संवसारांत कांय एक घडना. घडना! सांजे वेळार, जाहीर सभा वो पुब्लीक सभा भरली. म्हाकाय भाशण करचें पडलें. करचें ना करचें हें म्हज्या मनांत येवजलें आनी जाणट्या पाद्रीची हांवें बुद्द घेतली. कांय क्रिस्तांव आजुनूय दुखांत आसले आनी स्वतंत्रतायेन सगळें क्रिस्तांवपण सोंपलें तांकां दिसलें. आतां धर्माक आनी इगर्जे खर्चाक कांय मेळचेंना. आमी पूर्तुगेज अशें कांय जाण तशेंच समजताले. इतल्याक लागून तांचें काळीज दुखवंना जावंक हांव फाटीं सरतालों. जाण्टेल्या बुदवंतान म्हाका 'वच आनी उलय आनी स्वतंत्रतायेविशीं इग्रज कितें सांगता तें सादय.' हांव सभेक गेलों. सभेंत म्हाका मानाचो जागो दिलो, रायपुरचो हिन्दू आनी मोयर लोक पाद्रीक भरपूर मान दिता.

अशें हांवें म्हजें भाशण केले.

"भावांनो आनी भयणींनो, आज आमकां खुशालकायेचो दीस. फास सोडलो आनी सुटकेवंत जाल्यांव. कातोल्क इग्रज राष्ट्रांच्या आंवड्याचेर आड न्हय, ती कोणाची गुलामगिरी सोंशिना. तिका सगळ्यां राष्ट्रांनी आपली सुटका जोडलेली जाय. देशी पुतांनी आपल्या गांवांचेर अधिकार चलयलेलो जाय. एके तरेन आमची इग्रज आतां स्वतंत्र जाली म्हणू येता. ह्याच देवगिरीच्या गांवांत एक बिस्प आसलेलो आनी ताचें नांव दों मातिवस दे कास्त्रो. ताका गोंयकार पाद्रीनीं धर्मीक काम

चलयल्लें आनी गोंयचे बिस्प गोंयकार जाल्ले ताका जाय आसले. ह्या फुडाराक आमची इग्रज आमच्या हातांत पडतली आनी लियांव तेराव्याचीं उतरां Filli tui, India, administri tibi salutis- इंडिया, तुजेच पूत तुजे सोडवणार जावं, सत जालें. आमी दुखाचीं कापडां घालींना, आमी सुखेस्त कित्याक आमचें गोंय आसलें ल्हान आतां जालें म्हान. आवयच्या गोपांत पडलें." हें भाशण आयकून म्हाका हात दिवंक आयले आनी कोण - कोण सगळ्यांहून बरें भाशण म्हणूंक लागले आनी म्हजो इश्ट आदमिनिस्त्रादोर म्हणूंक लागलो, "Era Peca brilhante उत्तम आनी बरें भाशण", हांवें तकली बागयली आनी घरा आयलों. देव बरें करूं, म्हणलें.

मध्यान राती लासलेल्या कातलेच्या वड्यांचें पुरसांव जालें. तातूंत आमी खरे नागरीक आनी देश मोगी कशे वांटो घेतलो आनी सगळ्यांचें मन जिखून घेतलें. एकुणिसावेर म्हज्या भाशणाची गजाल पणजे पावली आनी दों जुजे दे कास्त्रो हाका खूप मानलें. तो तर पुर्तुगालाचो मोग करतालो, ताच्याहून व्हडलो इगर्जेचो मोग करतालो. तो येवन म्हाका भेटतालो आनी हिन्दूवांक, मोयरांक आनी क्रिस्तांवाक एकठांय करून, पुर्तुगेजांक आनी भारत्यांक एकाच काळजान वेंगोवंक ताणें म्हाका ह्या शारांत धाडलेलो. ताची येवजण पुरी जाली, शिटुकायेन आनी जाणवायेन सगळें पुरें जालें. तो पुर्तुगालाक वेचे आदीं हांव ताका एक भेट दितलों, हांवें येवजिलें. इतिहासान आतां नवें युग (काळ) सुरू केलें आनी तेंपा प्रमाणे माथ्यार कुरपणें जें आमचे जाणटेले आनी म्हालगडे म्हणीत आयल्यात तें आमी पाळचें पडलें. म्हजे प्रजेक आतां शंबर टक्के क्रिस्तांव आनी शंबर टक्के भारती करचे पडले. ही येवजण तेगाय जाणांनीं, हांवें आनी कुरांनी मनांत धरची पडली. कसलेय समाजीक आनी राष्ट्रीक परबेक आमी हाजीर जाताले आनी भाशण करूंक फाटीं सरनासले. ताणींय बरी कोंकणी शिकून हाडलेली आनी ती तरसाद कशी वापरताले. असो सोंपलो स्वतंत्रतायेचो दीस, तातुंतल्यान पाद्रीय देशमोगी हें सत उजवाडलें...

धावो अवेस्वर

# देवगिरींत नवो सूर्य

## देजेंब्र ३१ - १९६२

इतल्या म्हणसर दोगूय म्हजे कूर गेले. एकलो प्रकाश पत्राचो संपादपी जालो, दुसरो मनिला केटेचेटीकल इन्स्टिट्यूट हे संस्थेत दोतोणीची पदवी जोडूंक गेलो. थंय जोओनेस होफींगर व्हडलो दोतोण - शास्त्री शिकतालो आनी ताका लागून सगळे आशियेचे दोतोण शिकपी एकठांय जातालें आनी खोल शिकप घेवन घरा परततालें. वचूंदी आनी व्हडले जावंदी म्हणलें आनी हांवें कसलीच आडखळ हाडूंक ना. गोंयच्या पात्रिआर्कान म्हाका आपोवन व्हेलो आनी म्हाका आनीक दोग कूर धाडटा म्हूण गमयलें. तितल्यान हांव खूप खुशाल जालों. एक अवेस्वर सोंपलो. आमी मोगान भोंवल्यांव आनी कसलेंच वायट आमचें मदें जालेंना. हांसल्यांव, खेळल्यांव आनी बाराबर वावुरल्यांव आनी एकमेकांक आमी बुजवण आनी उत्तेजन दिलें. दों जुजे कास्त्रो हाणें हांव पणजे पलासींतसून घरा येतना, मायेनूच म्हाका एक चामड्याचें बेग दाखयलें आनी ताणें म्हाका हो निरोप दिलो : "बळवंत, हांव तुका पयलो समजनासलों, तुजें व्हडपण आनी तुजें काम आतां हांव समजतां आनी आदींय मातसो समजल्लों. आडखळींचे आनी आडमेळ्यांचे सुवातेर तूं आसलो आनी तें काम सगळ्यांक मानता ते भाशेन तुवें केलें. हांव

आतां पुर्तुगालाक, मादेयरा गांवांत वेतां आनी गोंयांत परतो येवंचो नां. आतां गोंयकारांक गोंयकार बिस्प फाव. तूं गोंयकार आनी हांव पुर्तुगेज. तरी आमी व्हडांतले व्हडले इश्ट. हांव तुका विसरचोंना, तुवें म्हाका विसरना जावंक हांवें हें तें बेग तुकाच दवरलां. तातूंत माथ्यावेलो सोलीदेव आसा, म्हजें रूप्याचें कोंकें, माथ्यावयलो तोप, आनी पात्रिआर्काची न्हेसवण. ती तूं सांबाळून दवर केन्नाय तुका उपकारत. तुका उपकारना जाल्यारूय, तुज्या इश्टाचो एक उगडास म्हण राखून दवर. थोड्यां दिसांनी हांव वेतां, लागीं ये, दोगूय आमी वेंग मारूया." म्हज्या दोळ्यांतलीं दुखां गळ्ळीं आनी हांवे चिंतलेंना, हो म्हातारो म्हजो इतलो मोग करतालो म्हण हांव नकळो आसलों. ताचें काळीज रूंद आसलें आनी तातूंत खेरीतूचपणी मिशनराक, पेडणे, वाळपय आनी दिवचल, फोंडें, काणकोण काम करतल्यां थांय ओडटालें. मिशनार म्हजो इश्ट!

घरा आयलेलों. म्हाका पुलीस रावताली. म्हाका क्वार्तेलार आपयलो. गेलों. पुलीस अधिकारी वळखिचो. ताणें म्हाका कदेल दिली. बसलों. "बळवंत फादर, तुजेर एक तक्रार - केस आसा. तुवें वसप्पा ह्या हिन्दू भुरग्याक बळान आनी फोर्सान क्रिस्तांव केलाय?" "सिन्योर कमांडंट, वसप्पा अजून आमगेर आसा आनी ताका हांवें अजून बाटोवंक ना. तुज्यान ताचेकडे विचारूं येता. तो काय दुदाचो भुरगो न्हय, ताच्यान तुका जाप दिवं येता. ताचो आवय-बापूय म्हार वाड्यान आसा. वसप्पाक हांवें घरा वच म्हूण सांगलें, तो कितेंय केल्यार वचना. तूंच म्हजो पाय, म्हजी मांय म्हूण तो म्हज्या पांयांक धरता. ताच्या बापायक हांवें आपयलो आनी ताका व्हर म्हूण सांगलें आनी तो म्हज्या पेंगटाक धरून रावलो आनी वचना तो वचना म्हणलें आनी म्हाका घट्ट वेंग मारून तिगलो. ताच्या पायन म्हाका सांगलें : "फादर, ताका तुकाच दवर. आमगेर खूप भुरगीं आसात. तुका जाय तशें कर." हांवें अजून मेरेन वसप्पाक बातीज्म दिवंक ना. ताणें म्हजेलागीं कितलेच पावटी तो मागला. हांवें तूं वाडटकूच, हें काम करचें म्हूण ताका फुसलायला. कमांडांतीन म्हाका म्हणलें : "फादर तुका हांव परशीं वळखतां. हें विचारतां तें दुसऱ्याक लागून, सगळेच मनीस सारके न्हय. तुवें सांगलां तें बरोवन दवरतां आनी कोणूय येत जाल्यार हांव ताका तें दाखयतां. तुजी गवाय हांगासर बरयलेली आसा. तुजो देसाचो आनी राष्ट्राचो मोग आमकां ठावो उक्तो : 'Indiano nao Perisos' अशें आमच्या पुस्तकांर बरयल्लें आसा.

म्हाका दोग नवे कूर आयल्यात. लिंदो लोपीस आनी दुसरो न्यायवंत डिसौजा. पयलो आकडे आनी गणीत सडसडीत जाणां. लांब आनी खेळपी. भुरगे ताचे फाटाफाट वेतात आनी ते तांकां पांय-पेल, हॉकी खेळूंक शिकयतात, ताचे बाज्जेर आनी जमनीर बसून खेळपी आनी शिकपी दिसताले. दुसरो भुंयशास्त्र वो भुगोलशास्त्र आनी विज्ञानशास्त्र बोटांचेर खेळयता आनी ताका बरोवपाची आनी उलोवपाची ओड आसा आनी तो केन्ना केन्ना 'इक्झामिनर' पत्राक लेख धाडटा आनी सगळ्यांक फांकी जाला. धर्मशास्त्र आनी सेवाधर्म ताका बेसबरो येता आनी भुरग्यांक मिसाक आनी दुसऱ्या धर्मीक रितींक चुकीविरेत तयार करता आनी सगळे इगर्जेक आनी धर्माक सोबा हाडटा. ह्या म्हज्या कुरांक लागून म्हाका इलोसो चड वेळ मेळटालो. हांवें दुसऱ्या धर्मांच्या मनशांलागीं सुसंवाद सुरू करूंक येवजिलें. सगळ्यां गांवच्या भटांक हांवे भेट दिली आनी तांची इश्टागत जोडली. आपल्या भुरग्यांक दुसरें इस्कोल आसतनाय, ते तांकां आमच्या इस्कोलांत धाडटाले आनी कोणकोण आमच्या इस्कोलाक भटांचें इस्कोल म्हणटाले. दुसरे वाटेन आमचे मुसलमान भाव आसलेले. तांच्या लग्नाक हांव वेतालोंच. तांचेकडे हांव सुसंवाद करतालों. अवघड?

मिलाग्रीस सायबीण, अजापांची मांय, ही भक्ती आनी देवसपण खरें वो खोटें? जी भक्ती आनी पुजा मनशाक एकठायना, कित्याक उपकारता? ती बंद करपाची ! शेजारी आनी सामारी झगडटात, किजिलां आनी केस्तांवां मांडटात, तांगेरसून हांव सायबीण हाडणां कित्याक हांव तांगेर उलयनां, असलें देवसपण आनीक कित्याक जाय? हांवें धरलें आनी देवसपणूच बंद केलें आनी सायबिणीची मुर्ती आनी इमाज काडून इगर्जेंत, साक्रिस्तींत दवल्ली. ही भक्ती मोग वाडयना, राग वाडयता. तसली भक्ती आमकां नाका! नाका!

काल एक बारीकशी बायल आयली. ती हुशार आनी उमेदवंत. तिका अस्तऱ्यांमदें मान आनी म्हयमा आसा आनी ती सगळो संवसार घुंवडावंक लायकेन भरलेली! "सायबिणीक तुवें कित्याक भितर हाडून दवरल्या? फिर्गजेंतल्यो अस्तऱ्यो आमी, एकठांय जावन, तिका शिस्तीन आनी मांडावळीन गांवांत भोंवडायतांव. तूं ओगो राव बसून", तिणें म्हणलें. हांवें तिका सांगलें : "म्हज्यान ओगो रावन बसूंक जावंचेंनां. राग आनी किजिलां हीं भोंवती सायबीण रूजयत जाल्यार, हांव तिका दुसऱ्या इगर्जेंत हाडून दवरतलों. मागीर तूं म्हाका दारूण म्हणूं नाकाय.

पेकट हालयत गेली. वरंजताली. सायबीण व्हरतात म्हुणून फुकट खर्च: चणें, फुगोट्यो आपूण करता म्हूण दुसरोय करता. ही परब एक धावपाची स्पर्धा आनी सर्त जाता. गेली ती आनी घरघरांनी पुरसांव सुरू जालें. जुआंव मानुयेल फेर्रांव-बेबो हांगेर तीन दिसांनी सायबिणीची मुर्ती पावंची आसली. हांवें ती इगर्जेंत हाडली आनी दवरली. जुआंव मानुयेल फेर्रांव - बेबो दुसऱ्याचे बायलेक घेवन रावतालो आनी गांवांत बोवाळ जाल्ली. पाद्र विगाराक नैतिकपण ना! ताका कितेंय चलता! सायबीण कोणागेरूय व्हरूं येता! हांवें वेळ करूंक ना. इमाज हाडली. म्हज्या गांवांत अक्रिस्ती लोक आसात. तांकां आमच्यान पातकाचो आनी उलोवपाचो सयोग दिवंक जायना. जुआंव  मानुयेल फेर्रांव उचंबळ जालो. आपणाक लागून सायबिणीची इमाज काडली हें ताका समजलें. हांवें हरशीं कोणाकूच कित्याक इमाज व्हरता तें सांगलेंना. इतल्यान बारीक सारीक आनी लांब दोना इजाबेल फेर्नांडीस म्हज्या हुंबऱ्यार उबी जाली आनी सायबीण कित्याक हाडल्या काय विचारूंक लागली. हांवें तिका समजायली. ती तोंड इलेशें वांकडे करून परती गेली. वाटेर म्हाका जुआंव मानुयेल फेर्रांव - बेब्याचे पावणे, ताच्या घरांत रावताले तरनाटे रस्त्यार मेळ्ळे. ताणीं पुर्तुगेज भाशेंत, "Aquela coisa de Nossa Senhora - ती सायबिणीची  गजाल" म्हणीत म्हजेकडे वाटेर विवाद करूंक ताणीं सुरू केलें. हांवें तांकां वाटेर उलोवपाक आनी झांकपाक हांव तयार ना म्हूण सांगलें आनी तांकां वयर म्हजे फिर्गजेच्या घरांत व्हेले. तांचेमदें आनी म्हजे मदें हो संवाद आनी उलोवप जालें.

आल्बेर्त दास दोरेस : सिन्योर पाद्र, तुवें सायबीण बंद केल्या. बेबांव तर दुसऱ्याचे बायलेक घेवन आसा तें आमकां पडलेंना. आमकां तुवें सायबीण कित्याक दिली नाय?

बळवंत : तुमी असल्या घरांत कित्याक रावतात? तुमचे आवयक तुमी असल्या घरांत रावतात म्हूण सरळ सांगलां?

फ्रान्सिस्को गोन्साल्वीस : आमी सांगूंक ना. तर आमकां दुसरें घर ना.

बळवंत : फ्रान्सिस्क, इतलीं वर्सां जालीं, हांव हांगासर आसां आनी कोणीय म्हाका कितेंय मागलेलें  ना म्हणिना. तुमकां घर जाय म्हूण म्हाका तुमी सांगलेंनां. हांव रोकडोच तुमकां बऱ्या घरांत घालतलों आसलों. फाल्यां तुमकां हांव एक नवें घर दितां आनी तुमगेर सायबीण व्हरूया आनी मागणें करूंया आनी तुमचो इश्ट

बऱ्या मार्गार आयल्यार पुरो म्हूण मागुया.

फ्रान्सिस्क आनी आल्बर्ट दास दोरेस : देव बरें करूं. आमी तुजे लागीं झगडूंक आयलेल्यांव. तूं चाळवनाय, तापनाय आनी तिडनाय, तूं खूप शांत आनी शाणो, तुवें सांगलां तशें आमी दुसऱ्या घरांत वेतांव आनी तुवें आमकां केन्नाय भेट दिवंची.

इतले म्हणसर बेबो मोठीच बोबाळ आनी बेबांव घालतालो. हांवें जीब भायर घाली ना. ओगो आनी शितळ रावलों. बेबांव आनी गाजयलेलो साद हो. "हांव त्या बळवंताक एकेच मुठीन सकला उडयतलों. फारान मारतलों! हे वाटेन वचूंदी ताका! हांव ताका दाखयतां बरें! ताका सायबीण दितां बरी." सांजे आदेसा हांव वाड्यांतल्यान वेतालों आनी म्हजे बरीं म्हजे क्रिस्तांव आनी मोयर इश्ट वेताले. बेब्याच्या घरालागीं वेताना एकल्या भुरग्यान व्हडल्यान म्हणलें, 'येरे भायर, बेब्या, दाखयतां आतां, तुजें बंदूक हाड. हांव तुजी पूड करतलों. आमच्या बळवंताक मारताय खंय तू ! तुजी पूड करतलों हांव ! आमचो बळवंत म्हण उणो न्हय. पाद्री म्हण ओगो रावता तुका. बळवंताकडे तुज्यान बॉक्सींग खेळूं येता? ये आनी खेळ. हांव पिर्ल्लूक धरतां आनी सगळ्या देवगिरीच्या लोकाक उबो करतां. बळवंत तुका एकेच मुठीन नाच करतलो.' मार्तिन दोस रेयस हाका हांवें उलोवपाचो बंद केलो, जाप करिनासतना घरा परतलों.

रातचो हांव जाण्टे म्हजे शामुलेक, पेलीन मावशेक भेटूंक वेतालों. गांवांत काळें किट्ट पडलेलें. एकसुरो चिंतीत आनी मागीत वेतालों. वाटेर बेबांव लिपून आसलो. ताणें म्हाका पांय घालून सकला उडयलो. हांव उठलों आनी दोन बोरयांचेर थापटां माल्लीं आनी झूम करून पोटार मूठ घाली. सकल उडयलो आनी न्हिण्णे मेरेन मुठी मारल्यो. बेबांव उलोवंक लागलो. 'तुज्या जेजून तुका एका पोल्याचेर थापट मारीत जाल्यार दुसरो पोलो दिवंचो म्हण सांगूंक ना?' हांवें ताका जाप दिली. 'जेजून एक थापट मारीत जाल्यार दुसरे मारूं नये म्हणलां, तुवें कितलीं मारलीं आनी म्हाका तूं जिवेशीं मारूंक सोदतालोय?' बळवंत म्हूण उणो ना. बेब्याची स्थिती गंभीर जाल्ली. हांवें ताका उखल्लो आनी रस्त्यान वेतें मोटर थांबयलें. ताका हांवें इस्पोतलांत व्हेलो आनी ताका वखद दिवंक लायलें आनी म्हज्या वैज इश्टाक हांव फारीक करतलों म्हणलें. इतल्या म्हणसर हांवें बेब्यालागीं केन्ना कुमसार जाल्लो काय विचारलें आनी ताका कुमसार केलो आनी ते वांकडे

बायलेक आनी दुसऱ्याचे अस्तुरेक सोडूंक लायलें आनी बरो जातकूच म्हजे इगर्जेंत आनी इस्कोलांत शिर्वीस दितां म्हणलें. बेबांव म्हजो इश्ट जालो. ताणें म्हज्या हाताचो उमो घेतलो आनी म्हणलें : "पाद्री कितले बरे तें हांवें तुजेकडल्यान पळयलें. देव आसा जाल्यार, तो तुजेच ठांय आसतलो." हीं उतरां आयकून म्हजें काळीज खोशेन भरलें आनी उफेलें. खुशाल घरा परतलों.

## मार्स ३, १९६३

बोकडी - इद, बोकड्यांचें फेस्त आनी मुसलमानांची परब. व्हडलो एक मुसलमानांचो पंडीत आयलेलो आनी म्हाका मानाचो सोयरो कसो आपयलो. हांवें कुराण वाचलेलें आनी प्रि. पियर चार्लस हाच्या खाला हांवें इल्लीशी ह्या धर्माची वळख घेतलेली. प्रि. लेद्रूस आनी गाथियेर हांच्या खाला हांव शास्त्रां आनी वेदां शिकलेलों. इंदियानी तत्वगिन्यान आनी धर्मशास्त्र म्हाका खुपूच आवडटालें. देंवगिरी मोयरांचो गांव म्हणटकूच हांव कुराण शिटुकायेन आनी उमेदीन शिकूंक लागलों. पंडितान आपल्या धर्माची गजाल सांगली. निमणे सुवातेर उलोवंक म्हाका आमंत्रण केलें. हांवें मुसलमान आनी आमचे मदें जो एकचार आनी वेगळोचार आसा तो दाखयलो. मुसलमानाक क्रिस्त एक प्रवादी-प्रोफेट, आमकां देवाचो पूत आनी सोडवणार, देव आमकां दोगांकूय एक, पूण क्रिस्तांव पवित्र त्रितवेक सत मानतात, बाप, पूत्र, पवित्र आत्मो तेगजण, एक देव, हो क्रिस्तांवपणाचो सार. मारी आंकवार मांय, तिका मोयर आनी क्रिस्तांव मानतात. पिराजीत आनी मागणें दोगूय धर्मांक लागता. सढळ जिबेन आनी सुंदर भाशेंत हांवें हें भाशण केलें. सोंपयताना टाळयांचो आवाज आयकूं आयलो आनी मौलाना आझाद ह्या पंडितान म्हाका वेंग माल्ली आनी तूं कुराण इतलें बरें जाणांय म्हूण हांव नकळ आसलों. ताणें सांगलें : "हांव तुका धारवाड भाशण करूंक आपयतलों. आमी धर्मीश्ट मनीस एकठांय जायना जाल्यार केन्नातरी देवाचे दुस्मान आमकां दोशीं करतले. देवाच्या इश्टानी एकठांय रावंक जाय, एकठांय मागूंक जाय, एकठांय पिराजीत करूंक जाय", ताणें धिरान म्हणलें. एकवट हें उतर म्हज्या काळजाक सूख दिणें आनी बुजवणेचें !

आदल्या दिसा हांव भट मास्तराक मेळून गेल्लों. भट मास्तर नानोड्या रावता आनी ताचें नांव काडल्यार जायत्या जाणांक खोशी भोगता. ताणें शंबरांनी

भुरग्यांक शिकयले आनी ते उंचले हुदे आनी वेवसायो चलयतात. खरेलो मेस्त्री आनी पंडीत. दुडवांखातीर न्हय, आपले वेवसायेखातीर आपलें शिकोवपाचें काम करतालो आनी आपलो दुडू आनी पयसो खर्चून दुबळ्या भुरग्यांक वयर काडटालो. भट मास्तरान म्हाका मोयपासान आनी मोयमोंगान घेतलो, रोकडीच म्हाका च्याव हाडून दिली. धर्मीक सुसंवाद करूंक म्हूण हांव ताचे लागीं गेल्लों. हरशीं ताका हांव देवगिरी मराठी इस्कोलांत वळखतालों आनी खंयीय मेळ्ू तो म्हाका आपली गांधी टोपी काडून मान बागोवन, नमन करतालो आनी हांसत्या तोंडान म्हाका जाप करतालो आनी चल फुडें म्हणटालो. असल्यां मनशांक पळोवंक आनी खेरीतूचपणी ताचेकडे उलोवंक देवागेली कुरपा आनी देणेंच म्हणपाचें. ताचेकडे हांवें विचारल्लें : "भट मास्तर, तूं अद्वैतीन वो द्वैतीन?" ताणें म्हाका जाप दिली : "हांव अद्वैतीन. हांव शंकराचार्याचो शिश्य. आमचें व्हडलें तत्व म्हणजे : One without a second- दुसऱ्या विणें एकूच एकलो आनी तो म्हणल्यार निर्गूण ब्रह्मा. आमी सगळे देव, आमचें म्हत्वाचें सांगणें : तात् त्वाम आसी - तूं तेंच, तूं ब्रह्म. हांवें ताचेकडे विचारल्लें : 'देव एकूच एकलो जाल्यार हो संवसार आनी पृथ्वी कशी आसा? आमी देवाक पांय पडटां.' भट मास्तरान म्हाका जाप दिली : 'हो संवसार माया, सपन, अविद्या. अजाणपण. हो संवसार आसा म्हण आमी समजतां आनी सत मानतात, खरी पणीच ना. एकूच आसा तो निर्गूण ब्रह्मा, गूण नासलेलो देव. आमी देवाक पायें पडटां तें कांय काळपर्यंत. आमकां आमी ब्रह्मा म्हण गमतच, आमकां खरी देवाची विद्या मेळटच आमी मोक्ष वो सोडवण मेळयतच आनींक ब्रह्म आनी हांव नासतलों, हांवच तो ब्रह्म म्हूण गमतलें. संवसार म्हणजे वेता, उरना, उरता एकूच निर्गूण ब्रह्म? भट मास्तरान म्हजेयकडे विचारलें : 'तुमी क्रिस्तांव कितें सत मानतात? तुमकां एकूच देव आसा, न्हय?' हांवें सकयली जाप दिली : 'उपानिशद आमकां देवाचो निवाडो वो निर्वाद दितात. देव सत, चीत, आनंदाम् - आसणें, जाणवाय, आनी मोग (आनंद)' आमी क्रिस्तांव देवाक एकूच सैंब, देवपणाचें सैंब आसा आनी तेग जण वो हांवक्यो हें सैंब भोगतात म्हण सत मानतात. आसणें बाप, जाणवाय क्रिस्त, आनी मोग पवित्र आत्मो. जेन्ना उपनिशद आमकां त्रिगूण, सत, चीत, आनंदम् हांची गजाल करतात ते तेग जण न्हय. तीन हांवक्यो न्हय तर एका देवाचे तीन गूण. आमकां क्रिस्तांवांक हे तीन गूण तीन हांवक्यो आनी तेग जण. समजूंक मातशें अवघड भट मास्तर? हो

संवसार खरो आनी बरो. तो देवान कुसकूट नासतनां रचला. प्राकृत सासणीक न्हय, ती परमेश्वरान रचल्या. देवाक आनी संवसाराकूय वस्तुवाय आसा, ती वेगवेगळी. देवाचें आसणें आनी सार आनी संवसाराचो वेगवेगळो. संवसाराचें आसणें देवाकडसून सुरू जाता आनी देवाचेर आदारून उरता. देव आपणापींच आसता, ताका कारण ना.

निमाणें भट मास्तरान म्हजेकडे विचार केलो. 'तुका शंकराचार्य आनी आमचे दुसरे शास्त्री आवडटात?' हांवें जाप दिली : 'हय खुपूच आवडटात - शंकराचार्य, रामानुजम, माधवा हे आमचे व्हडांतले व्हडले तत्वगिन्यानी. आतांच्या व्हडल्यां पंडितांमदें सर सर्वपल्ली राधाकृष्णन म्हजे आवडिचो. शंकराचार्य आनी रामानुजम हांचे विशीं दोग कातोल्क बेलजिकी संस्कृत पंडितांनीं जाणवायेन भरलेले लेख बरयले. तांचीं नांवां म्हणल्यार फा. जोहान आनी दादोनी. ते एक नाजूक नेमाळें काडटाले. 'टू ख्रिस्त थ्रू वेदान्ता.' तुवें वाचून घेवंचें. आजुनूय आमचे मदें जेजुईत शास्त्री, प्रि. आंतोयन आनी फालोन असलें काम करतात. ह्या शास्त्र्यांचे सांगणे प्रमाणे गिन्यानाच्या उजवाडान जी वळख शंकराचार्याक मेळ्ळी ती दुसऱ्या कोणाक तितली मेळूंक ना. ताणें संवसाराक सोंपयलो, पूण देवाची एकीताय राखली. 'दुसरो नासतना एकूच एकलो.' म्हाका हिन्दू धर्माची आवड आनी मोग. थंय देवा आनी धर्मा विशीं उंच उंच तत्वां मेळटात, आनी दये-मायेन भरलेलो धर्म. भट मास्तर, हांव वेगळ्या धर्माचो, आनी तूं वेगळ्या धर्माचो. तरी आमकां दाट आनी थीर इश्टागतीन बांदल्यात. हांव म्हज्या इश्टांखातीर मागतां. बृह्द उपनिशदांतलें मागणें म्हजें करतां : "Lead me from darkness unto light, from death unto immortality - म्हाका काळकांतलो उजवाडांत, मरणांतलो अमरपणांत व्हर." आमकां सगळ्यांक उजवाड जाय, आनी देवाच्या उजवाडा प्रमाणेंच आमी जियेवंक जाय. कार्दीआल जॉन हेन्री न्यूमन सांगतालो : 'I have never sinned against Truth - हांवें सताचेर केन्नाच पातक आदारूंक ना.' तशेंच आमकां महात्मा गांधी सांगता, आमी सताच्या उजवाडा प्रमाणें जियेवंक जाय, सताचेर आड वचूंक फावना. भट मास्तर म्हाका वाटेर पासून पावोवंक आयलो. ताणें म्हाका मुख्य आनी दांबरी रस्त्यार पावयलो, आनी हांव सत, चीत, आनंदम्, बाप, पुत्र, पवित्र आत्मो गायत घरा आयलों.

एक वोंपपी वोंपूंक गेलो आनी वोंपतनां थोडें बीं वाटेचे देगेर पडलें आनी

सुखण्यांनी येवन तें वेंचून खेलें.. आनी हेर बरे जमनीर पडलें; तें किल्ललें आनी वाडलें आनी पीक दिलें, एकाक तीस, एकाक साठ आनी एकाक शंबर (माते ४,३,८)

सुमार सतरा वर्सां जालीं हांव हांगासर आयल्यार आनी हांवें हांगासर एका वोंपप्या भशेन बीं माल्लें आनी तें हांव नकळ आसतनां, रातचो न्हिदून आसतना, सकाळीं उठलों म्हणल्यार, वाडलें आनी एकाक तीस आनी शंबर जालें. हांवें वोंपलें आनी जेजून वाडयलें. हांवें तत्वां शिपडायलीं आनी तीं मळ्यांत शिंपडायलीं आनी ताचें शेत जालें. हांव-हांव, हांव म्हणटां हांव. म्हज्या कुरांनी खुपशें काम केलें आनी तांच्या वावराचें नांव म्हाका मेळ्ळें. पुर्तुगेजींतली म्हणणी : 'Fazer a fama e dormir na cama, किर्त जोड आनी कानप्यार न्हीद' म्हणटात ती खरी. करतात दुसरे आनी नांव म्हजें! हांगासर कितलेच कूर आनी पाद्री शिकोवपी येवन गेले. पी. पाणीकुणेल फ्रान्क डफ दे सौजा. हो तकलेन हुशार, ताका हिन्दी येताली, इस्कोलाचें काम हुशारकायेन आनी मांडावळीन करतालो, ताच्या जिवितांत मांडावळ आनी शिस्त आसलें. ताच्या जिविताचें ब्रीद म्हणल्यार : ड्युटी बिफोर ब्युटी - पयलो कायदो मागीर देखावो. ए. एन्. एस्. बोनामीस, धांवपी आनी जोगलावणें कशें लोकाक पावपी, पाद्र-विगाराचें उतर केन्नाच सकला ना दवरपी. लिंदो लोपीस, धांवपा आनी खेळा मळार पयलो जागो मेळोवपी. ताणीं हें शेत कसलां आनी फळ आमकां सगळ्यांक मेळ्ळां.

म्हजे फिर्गोजेंत जायतें बरेपण हांवें पळेलें. सांत व्हिन्सेंट दे पावल सोसायटी ही संस्था ताई आंजेलीना चलयताली आनी तिच्या वांगड्यांनी क्रिस्ताच्या दुबळ्यांचो मोग केला आनी फ्रेड्रीरिको ओजानां हाचो भावार्थ चिंवला. एकदां एक भिकारी वाटेर पडलेलो आसलो, सि. एफ. मिरांडा हाणें ताका पुंजायलो, आपल्या दोनूय हातांनीं धल्लो आनी ताका कुरपेवंत मायेच्या इस्पोतळांत पावयलो. कांय वेळा उप्रांत, आर्गां आठयत तो घरा गेलो आनी क्रिस्तांवपणाचें नांव फांकलें. इगर्जेच्या खुरसा मुखार एक भुकेल्लो थोंटो आसलो. ताका आमचे एके क्रिस्तांव बायलेन घरा व्हेलो आनी ताचो परामस केलो आनी ताका बरो करून आनी जेवण आनी खाण दिवन परतिलो. आमच्या हॉस्पिटलांत ऑक्सिजन - वायु नासलो. घरा लागीं, आतांच नोकरेवयलो ए. कार्दोज आयलेलो, ताणें सायकलीचेर पावट मारून, सांखळे आनी अस्नोड, तिये भोंवून प्राणवायु हाडलो आनी ते राती मरणांतले

बाळंत अस्तुरेक सांभाळ्ळी. सिस्टरिंचो - ताईचो हॉस्पिटल एकदम नितळ आनी शितळ. भायले वैज आनी गोंयचे वैज तांकां व्हडलो मान दितात. एकलो इंग्लंडाकसून आयलेलो वैज म्हणटालो : 'इतलो निवळ हॉस्पिटल हांवें इंग्लंडाक लेगीत पळोवंक ना.' क्रिस्ताचीं उतरां : 'हांव भुकेल्लों आनी तुवें म्हाका जेवंक दिलें, हांव तानेल्लों आनी तुवें म्हाका पियेवंक दिलें, हांव उक्तो आसलों आनी तुवें म्हाका न्हेसूंक दिलें, आमचे मदें एक सपन न्हय, तीं उतरां हांगासर सत आनी वस्तुवाय जाल्यांत. देवाक आर्गां!

आमच्या इस्कोलांतल्यान आज वैज, वकील, आनी एम्. पी. लेगीत जावन गेले. तांतुंतल्यान तितली म्हाका व्हडव्हीक दिसना. म्हजी व्हडव्हीक आनी बडाय म्हणल्यार हीं भुरगीं मनशाळाय, सु-संस्कृताय, भलेपण आनी दयाळपण शिकल्यांत. तांच्या काळजांत ह्या इस्कोलाचो मोग शिजता. हांवें शंबर पावटी म्हणलें : 'पयलो मोग, दुसरो मोग, तिसरो मोग : मोगाचीं फळां आतां रूजू जाल्यां. काल सुपुल्लीं भुरगीं म्हज्या ऑफिसांत वो कचेरींत आयलीं आनी ताणीं ओडीत - ओडीत एक चुडीत आनी नाल्ल हाडलो. सात आनी आठ वर्सांचीं पयल्या वर्गांतलीं सुपुल्लीं भुरगीं! जेन्ना दुसऱ्या सुवातांनी कोण जनेलां मोडटा, कोण आरशे फोडटा, कोण मांजऱ्यो काडून माडाक नागडो करता, हीं सुपुल्लीं भुरगीं चुट्टां पुंजायतात आनी नाल्ल हाडून दितात !' सिन्योर आदमिनिस्त्रादोर सांगतालो : 'तुजी भुरगीं कितलीं सु-संस्कृतीत, येता-वेताना, दिसाक तिनदां तरी गूड मॉर्निंग, गूड इव्हीनींग म्हणटात. निवळ आनी नितळ न्हेसतात. जाले थोडे दीस, एक म्हातारी एका भुरग्याक घेवन मोटरांत उबी आसली. एकल्या भुरग्यान तिका सुवात दिली आनी तिणें ताचेकडे विचारलें : 'बाबा रे, तूं खंयच्या इस्कोलांतलो.' सट्ट करून जाप दिली. 'कृपेवंत माये-इस्कोलांतलो.' तिणें म्हणलें : 'बेसांव तुमचेर आनी तुमच्या पाद्रींचेर आनी पाद्रीच्या इस्कोलाचेर पडूं रे.' कोणूय दुबळ्या भुरग्याक क्लासींत पळेत जाल्यार, वांगडीच, आपूण पयशे आनी आडको कमावन ताका पुस्तकां आनी कादेर्न विकते घेवन दितात. एकदां एकल्या मुख्य देवगिरीच्या शिक्षकान म्हणलें : 'हो जो गूड मॉर्निंग जीं हीं भुरगीं म्हणटात तोच पुरो आसलो ह्या इस्कोलाक फांकी करूंक. बीं माल्लें आनी तें लागलें, वाडलें आनी ताचें शेत जालें. इतल्यान हांव म्हाका वाखाणिना, म्हयमा देवाक आनी सगळ्यांक ह्या कामांखातीर वावुरल्यांत तांकां ! आर्गां तुका सोमिया !

ह्या दिसांनी बरोवपाची म्हजी ओड मोडल्या. जायतीं म्हजीं दैनिकेची पानां वाळटेन खालीं. वरस सारके दिसना. जुस्तूच वर्साचो कुडको खाला. इतले त्रास घेवन हांवें ही दैनिकी बरयली, उमथ्या कळशार उदक जालें. केन्नाय मनांत माल्ल्यार बरयन !

इतल्यान बळवंताची दैनिकी सोंपली. उरलेलें बरोवप लोकांच्या गवायांचेर, इगर्जेतल्या वाक्यांचेर मांडलेलें आसा. घडये - घडये गोंयचो पात्रिआर्क बळवंताची सेवा आपणाक दुसरे सुवातेर जाय म्हण बरयतालो आनी सुचयतालो. हिन्दू - क्रिस्तांव - मोयर लोक ताका चिटी बरय आनी ती हजार लोकांच्यो सयो (आशिनादी) करून बळवंत फादर आमकां जाय म्हण पणजेचे पलासींत मागणीं करी. पात्रिआर्क दों जुजे दे कास्त्रो गोंयसून गेल्लो आनी आपल्या गांव - घरा विसव घेतालो. व्हॉटीकानान सद्याक गोंयकार तात्पुरतो बिस्प नेमलेलो आनी ताका गोंयचे आर्किडायोसेजीच्यो कारभारी हो नामलेख दिल्लो. देवगिरी बळवंताचो कितलो मोग करता हें दाखोवंच्याक दों फ्रांसिस्को दे मिनेझीस ह्या नव्या बिस्पाक ह्या शारांत आपयलो. आगोस्ताचे पंचवीस तारकेर सगळी देवगिरी धर्म-भेद आनी कात-भेद नासतनां, बळवंताचो वाढदीस समारंभातालीं. ती तारीक सगळो लोक आपल्या बापायचें फेस्त आनी परब जाल्ल्यापरीं पाळटालो. सकाळीं उठून, घांटीच्या आवाजार, सुपुल्ल्या एन्. सावयकार हिणें बळवंताक फोन केलो, दिसभर तेलेग्राम आनी तार येताले आनी चिटींचो दाळ पडलेलो. अमेरिकेकसून मारिया दोस सेवस हिणें आपलो निरोप धाडलेलो आनी पार्सेल करून बळवंताक आपलें देणें धाडलेलें. बळवंताच्या मिसाक हिन्दू, क्रिस्तांव आनी मोयर हाजीर जाल्ले आनी मिसा उप्रांत बळवंताक फुलांनी वयर तो सकल भरलेलो. दिसभर कोण-कोण येवन भेटतालो आनी अठरा वर्सांफाटीं भुरगे शिकून गेल्यात ते भेटून वेताले आनी उपकारपणाचीं उतरां सांगून घरा परतताले. कोणाक नोकरी दिल्ली, कोण वैज जाल्लो, कोण वकील जाल्लो, कोण इस्कोलांत शिकयतालो. जेजू भाशेन परट्रान्जीट बेनेफासियेंदो - बरें करून गेलो म्हणटाले

देवगिरी खेळा मैदानार सभा भरली. नगरपालिकेच्या अध्यक्षान भाशण केलें आनी ज्या पर्यान हांगासर बळवंत फादरान पांय दवरलो, त्या पर्यान सगळें शार सुदरलें आनी बळवंताचें भलेपण देवगिरी महालाचे एके शिमेरसून तें वाळपय, बार्देसाचे आनी महाराष्ट्राचे शिमेर मेरेन पावलें. आनिकूय ताणें सांगलें : 'हांव

बळवंताचो वैज, ताचें पोपीस हालवलां, ताचे दोळे बरोवन बरोवन थकल्यात पूण ताच्या काळजाक कुसकूट जावंक ना. ताचें जिवीत म्हणल्यार काळीज, मोग, मोग. जैनुद्दीन महम्मद हाणें बोली केली आनी मोयर लोकाखातीर कितें केलां तें गाजयलें.' दों फ्रांसिस्को दे मिनेझीस उलयलो आनी देवगिरी गांवांत सगळ्यांचो मोग वसता तो पळोवन आपल्या काळजाक संतोस भोगता म्हण सांगलें. बळवंतान हांगासर काम केलां, आतां घडये ताका दुसरे कडेन वेचें पडत म्हणलें. ते ताका इतलो मोग दाखयतात तें पळोवन आपलें काळीज संतोसान उफेता म्हणलें. त्या लोकान बरेपण भोगलां तें दुसऱ्यांकूय भोगूंक आडखळ घालची न्हय सांगलें.

बळवंत उठलो आनी ताणें आपलें भाशण सुरू केलें : 'तुमी, भावांनो आनी भयर्णीनो, म्हजो सत्कार करतात आनी तुमी इतलो म्हाका मान दितात. हो मान हांव म्हाका बळवंताक म्हण मानून घेनां, पूण तो एका कातोल्क पाद्रीक म्हूण समजून घेतां. कातोल्क पाद्री, हे म्हजे पदवेचेर आनी जबाबदारेचेर हांव बडाय मारतां आनी तेंच म्हजें व्हडपण. कातोल्क पाद्री दुसरो क्रिस्तूच, क्रिस्ताचें तोंड आनी क्रिस्ताचो हात. तो लग्न जायना आनी ताची व्हंकल म्हणल्यार कातोल्क इगर्ज आनी मनीसकूळ. हें जें हांवें इतलें केलां क्रिस्तान सुचयलां आनी ताणेंच तें वाडयलां आनी फळायलां. क्रिस्त पाद्रीक मान ! खंयीय आसूं हांव, देवगिरीक विसरचोना आनी तिका सदांच म्हज्या काळजांत व्हरतलों.'

समारंभ सोंपूंक वेतालो. पुण्याकसून जी. कासार आयलो आनी ताणें सांगलें आपणाक उलोवंक पांच मिण्टां दियात म्हणलें, दिलीं. ताणें आपणाक बळवंत फादरान वयर काडला आनी मनीस केला म्हणलें. ताच्या दोळ्यांतल्यान उपकारपणाचीं दुखां येतालीं आनी ताणें देवगिरी आसासर तीं पाद्री बळवंताक विसरचिंना आनी सगळ्यां पाद्रींक मान दितलीं आनी तांची सेवा क्रिस्ताची सेवा म्हण सत मानतेलीं, ताणें उच्चारलें. ताची पोट तिडक पळोवन दुसरेय रडले आनी बळवंत आपलो शिश्य पुण्यातसून आयलो आनी हाजीर जालो म्हण चिंतून तोय बी रडलो. ताका वेंग मारली. खरेले इश्ट भेटले.

बळवंतान आनीक कांय आपल्या जिविताचें सद्याक बरोवंक ना. तो आतां एक घडी सांबाळून आनी खरपून पुस्तकां बरोवंक लागलो. फाटाफाट, 'सुंदरें', 'विचार', 'शिंवतुलें', 'किरणां' हीं तांचीं पुस्तकां उजवाडा आयलीं आनी लोक तीं हुनहून वडे कशे गिळूंक लागलो. शेकीं देवगिरी सोडपाचो दीस आयलो आनी

सगळे परजेन ताका व्हडलो उपकारपणाचो समारंभ केलो आनी बळवंताक नवी नेमणूक आयली.रायपुरचो रेयतोर. वेचे आदीं ताणें आपले फिर्गोजेच्या पुस्तकाचेर कोंकणी भाशेन एक संदेश दवरलो. आपणाक आदार दिलो तांची नांवां एक खेरीत पानाचेर बरयलीं आनी निरोप व्हडल्या अक्षरांनीं कांतावन दवरलो. पयलीं उतरां लातीन भाशेंत मारल्यांत आनी उरलेलीं आपले सुंदर आनी गिरेस्त कोंकणी भाशेंत मारल्यांत. हो आसा तो निरोप.

## AD PERPETUM REI MEMORIAM !

### सासणीक उगडासाक !

म्हजे कूर माणकुले, मायेस्त आनी काकुटेस्त, खूप मोगाळ आनी खूप मनशाळ. म्हजें उतर केदींच सकला दवरिनासले, दिसभर काम करताले, कितेंय सांगल्यार तापनासले, जाण्टेल्यांचें उतर सकला दवरिनासले, आपूण सगळें जाणां म्हणनासले, काळजाची नितळाय आनी मनाची उजळाय राखताले. उमेदीन आनी खोशेमनान वावुरताले आनी ताणींच देवगिरीची फिर्गोज उभारली, धांवत्या मार्गार घाली. म्हज्या कुरांक नमन ! एकल्याक हांवें म्हजें कोत धाडलां. तो सदळ जिबेचो उलोवपी; एकल्याक हांवें म्हजें पेन धाडलां तो उत्तम बरोवपी. एकल्याक म्हजो तेर्स दिला तो दिसभर मागपी, एकल्याक हांवें लियांव तेरावो, पावल सवो, पिन्ह बारावो, जूवांव तेविसाव्याची गंवळीक चिटींचो भरो धाडला कित्याक तो सामाजिक वावुरपी, एकल्याक हांवें गितांचो झेलो धाडलो कित्याक तो हुशार गावपी आनी मुज्ग रचपी. म्हजे कूर म्हजें धादोसपण, तांचें व्हडपण म्हजें व्हडपण !

म्हजो मेस्त मातेवस फेर्नांडीस, म्हजो मेस्तीर, म्हजे वाजोवपी आनी ताचे सांगाती, हांकां हांव उपकारी. ताणीं गायनांनी आनी गितांनीं इग्रज सोबयली आनी सादयली आनी ताणीं म्हजो परामस केलो. वाचपी आनी गावपी हाणीं इग्रज गाजयली. कोंफ्रारी आनी फाब्रीक हाणीं इगर्जेचें काम शांतपणीं चलयलें आनी सुदारायलें. देव तांकां बरें करूं!

म्हजे शिकोवपी, नमान तुकां! कृपेवंत मायेची शाळा पालेली, फुलली, फळ्ळी. तुमींच ते फुडाराचे बांदपी, रचपी. शिकोवपी बरे इस्कोल बरें, नमान

तुमकां ! म्हज्या इस्कोलांत धाकटीं पूण म्हत्वाचीं कामां करपी आमचे सेवक आनी वावराडी, नमान तुमकां. तुमीं आमचें घर धुलें आनी आमकां एक लिमोनाद दिलें.

नमान देवगिरीचे क्रिस्ती, हिन्दू, आनी मोयर परजेक ! एकवट आसल्यार धाकट्यो वस्तू व्हडल्यो जातात आनी एकवट नासल्यार व्हडल्यो वस्तू धाकट्यो जातात. तुमच्या सहकारान तुमचें शार सुदरलें आनी विकासलें. बळवंत फादराक तुमीं फुलांनी भरलो, ताका मोगान रेवडायलो आनी हेचपरीं तुमीं क्रिस्त - पाद्रीक मान दिलो. क्रिस्ताचीं हत्यारां आमी सगळीं!

नमान फुटबॉल खेळगडयांक! तुमीं खेळ आनी मौज गांवांत हाडली. वेता थंय तुमीं नांव दवरलें आनी व्हडल्यो तस्त्रिपो आनी इनामां हातायलीं. क्रिकेट क्लुब आनी दुसऱ्या संस्थानीं आंगांत आनी काळजांत खुशालकाय वाडयली आनी आमची आळसाय मारली. सलाम तुमकां!

नमान देवगिरीच्या ताईंक आनी सिस्टरींक. तुमी एकान - एक घर भोंवून काडलें आनी वखद, बुजवण, मनशाळपण आनी दयाळपण विस्तारायलें, जेजूची ना दिसती कंवळाय उगती केली आनी कातोल्क इगर्जेचो रूपकार मनशांक दिसलो. खरजेची पूड पयसायली, बारीक जोराचें चोंद पेखयलें, वस्काची पिडा नाकारली, मनशांची काळजां मोगान आनी मोयपासान भरलीं आनी पेटयलीं.

नमान, तुका अनकळत्या शिपायाक, तुजें नांव हांगासर पडलेंना. तुका बळवंत नमान करता आनी ह्या गांवांतलो भायर सरतनां तुका पांय पडटा आनी आपलें चेपें काडटा.

इतल्यान, बळवंत आपलो आदेवस करता आनी तुमकां सगळ्यांक क्रिस्त पाद्रिचो मोग, मोयपास, मनशाळपण आंवडेता, तुमच्या गांवांत मोग वसूंक विनवणी करतां. करात मोग एका-मेकांचो जसो हांवें केला तुमचो. हेंच आशेतां. तुमकां सगळ्यांक नमान आनी क्रिस्त पाद्रीक म्हयमा. अशें जावं ! वादळ आनी वारें खरें, वादळांतल्यान हड्ड्याचें व्हडपण लकलकता.

तुमचो भाव आनी पाद्री
**बळवंत दा कोस्ता**

देवगिरी, माय १९७३

## इकरावो अवेस्वर

# रायपुरचो रेयतोर

**राय**पुरा, बळवंत भुरगेपणार शिकलेलो आनी केन्नाय आपणाक रायपुरा धाडटले आनी आपूण थंय सगळ्या जिनसाचीं आनी फायदूयाचीं बदलपां करतलों हें ताच्या मनांत खेळटालें. देवगिरी कांय दीस मेरेन मनांतली वचनासली. बसीर आनी मोटरीन इस्कोलाचीं भुरगीं आयलेलीं आनी ताका घरांत पावोवन गेल्लीं. रायपुरचे दरवंटे आनी वणटी पळोवन तीं तटाकून परतलेलीं, आनी गळ्यांत फुलांचे हार घालून आनी बळवंताक बरें मागून घरा आयलेलीं. देवगिरींतलीं मनशां आनी मोनजाती, झाडां आनी पेडां, इस्कोल आनी भुरगीं कांय दीस पर्यंत बळवंताक खातालीं, कूड रायपुरा आसताली, काळीज देवगिरी वसतालें. बळवंतान म्हणलें : “Alea Jacta est, - आतां फाटीं सरप ना”, हांवें वावराक लागोंक जाय. म्हजें काम म्हणल्यार प्रगती आनी विकास. हे सेमिनारींत हांवें विकास आनी नवसरणी करूंक जाय. आज मागणें करतना, म्हज्या मनांत कांय इंग्लेज उतरां सुचलीं. हरशीं म्हजें मागणें, चिंतप, सपनेवप, बरोवप कोंकणिंतल्यान जाता. हांव कोंकणींत हांसतां आनी रडटां. इंदियानायज, ह्युमनायज, स्कृटिनायज, सिंपथायज - भारतावंक, मनशाळावंक, आसडूंक आनी दुसऱ्यांबरी सुखा-दुखांत वांटो घेवंक हांव वावुरतलों. म्हाका आडखळी येतल्यो, म्हजे इश्ट आनी बरे

मागपी आनी आंकवार मांय, म्हाका आदार दितली. प्रि. आग्नेल म्हाका पालव दितलो. चल या फुडें. प्रि. जुजे वाजाक हांव उलो मारतलों.

बळवंताचे आदले इश्ट ग्रासिया मोरेनो आनी आगा मेनन सोंपलेले. तांच्या फोंडार ताणें फुलांचे तुरे घाले आनी एक आमच्या बापा आनी नोमान मोरी उच्चारली आनी तांचो आदार मागलो. आतां बळवंताचे रोमी इश्ट आसले. शिकोवपांत ताणीं मोठे काम केल्लें. तरीय सगळे सेमिनारीक पुर्तुगेज आनी अस्तंती रंग आनी वास मारतालो. सेमिनारींत आतां पाद्र ग्रेगो, पाद्र हेब्रेव, पाद्र रेहनेरियानो, पाद्र जेनिकोतीयानो, पाद्र पुर्तुगेज, पाद्र लितरजिको म्हूण आसले. गूण आनी जाणवाय हे रायपुरचे सेमिनारींत भरलेले, इतलेंच तांचो उपयोग करूंक जाय आसलो आनी ते एका थीर शेवटा आनी हेतुवसल्यान मांडूंक जाय आसले. Festina lente - सवकास धांव ही एक जाणवायेन भरलेली म्हणणी. बळवंत सवकास चिंतूंक लागलो. सगळ्या शिकोवप्यांची इश्टागत जोडूंक ताणें भार आनी भर घेतलो, तरीय हें सैराणीक तत्व, You cannot be loved by everybody - सगळेच तुजो मोग करचेनांत आनी सगळ्यांनीच तुका हय म्हणचो म्हूण ना.' सोंपेपणी फोडूंक जायना.

गोंय उदेंत आनी अस्तंत. रूडयार्ड किपलींग हांणें जें म्हणलें : इस्ट इज इस्ट ॲन्ड वेस्ट इज वेस्ट, नेव्हर शाल द टू इन मीट - उदेंत म्हणजें उदेंत, अस्तंत म्हणजें अस्तंत, ती केन्नाच मेळचिनांत. हें गोंयांत सत जायना. गोंयकारांनी अस्तंतेचें खूपशें घेतलां आनी गोंयांक 'चान्सन दे ला युरोप,' युरोपाचें संगीत म्हणटात. जावं! हें बरें. आमी भारती आनी इंदियानी. आमी स्वतंत्र इंदियेत जियेतांव. आमची कात-जात आनी रंग भारती. आमचें मागप आनी जेवप भारती जावंक जाय, आमचें मिसांव आनी जिविताचें कार्य आमी इंदियेक चलयतांव. तर आमी उलोवपांत, जिविताचे चालींत, आमच्या धर्म शास्त्रांत आमी भारती जावंक जाय. व्हडांतले व्हडले मिशनार दे नोबिली - तामीलनाडूक तामील जालो, न्होडस बर्माक बर्मी जालो, रिकी चिनाक चिनी जालो, जुजे वाज सेयलावांक सिलोनी जालो, आमीय आमची खरेली एकीताय आनी आयडेन्टीटी जाणां जावंक जाय. आमी कोंकणे, कोंकणी आमची भास, कोंकण आमचो देस हीं गोंयबाब वर्दे वालावलीकाराचीं उतरां सपनांतलीं सत जावंक जाय. रायपुरचे सेमिनारींत आनी साश्टीच्या वाठारांत कितलेचशे कोंकणी पंडीत उतरले. थंय स्टिफन जियेलो

आनी ताणीं दोत्रिना क्रिस्ता आनी ग्रामातिका कोंकानी बरयलें आनी साश्टींत तें छापून घेतलें. मिंगेल दे आल्मेदा हांणें सेर्मांव सांगून सगळी साश्ट माड्डयली आनी उपाशामू ही सेर्मांवाचीं पुस्तकां, 'अनवाळ्यांचो मळो' छापून घेतलीं. डायगो रिबेरो हाणेंय बी 'दोत्रिना क्रिस्ता' आनी कोंकणी कोश रचलो आनी ताका मराठी, कोंकणी आनी हिन्दी येताली. येतियन दे ला क्रोयस हाका मराठी बेस बरी येताली जाल्यार कोंकणीय ताच्या ओंठार खेळटाली. आंतोनियो पेद्रोसा होय मोठ्यांतलो मोठो प्रेगादोर आनी प्रवचनकार. हे पयले कातोल्क पंडीत गोंयची भास खोलायेन शिकताले. आंकवार मांयेच्या मानाक ताणीं गितां रचलीं, सर्गा संवसाराची राणी, सांत-सायबिणी - म्हयमेंक, सांतान तुजें सुफळ जिणें गाजयलें. भायले आनी परके जावनूय वैकुंठ, सर्ग आनी नर्क, शरणा येता हीं कोंकणांतलीं उतरां कोंकणांयलीं. शरण येता हें मागणें कोंकणींतलें माणीक. तातूंत 'अमृत' देवाचें पोयण मेळटा. वैकुंठ हें उतर घालचें ना घालचें म्हण ह्या विद्वानांमदें विवाद जातालो आनी तें उतर स्टिफन थॉमास आनी दियोगो रिबैरो ह्यां शास्त्र्यांनीं उपकारायलें. वैकुंठ हिन्दू पंडितांनी उपकारायलां, तर तें क्रिस्तांवांच्यान ताका बाटोवन आनी पुरो अर्थ दिवन वापरूं येता, ताचेवयल्यान क्रिस्तांवांचो सर्ग विस्कटांव येता ताणीं सांगलें. तांच्यान तर गोंयच्यां उतरांनीं धर्म-शास्त्र, सेवाधर्म, पवित्र पुराण कोंकणिंतल्यान घालूं येतालें. आमच्या गोंयकार पंडितांनी अती सुफळपणीं घालूं येता. आमी भास जाणां आनी शास्त्र जाणां. ह्या साश्टीच्या जेजुईतांनीं कोंकणी खातीर खूप केलें, आमी तांची देख घेवन आमी कोंकणीचो सोद करूंक जाय. बळवंतान सगळें धर्म शास्त्र, पवित्र पुराण कोंकणींत घालूंक आनी स्टिफन रिसर्च सेंटर - स्टिफन सोद केंद्र रचूंक येवजिलें. स्टिफन कोंकणी घर हातूंत सगळ्या गोंयच्या मुख्य शास्त्र्यांक एकठावंचे, सेमिनारिस्तांक ओड आसलेल्यांक आनी तकलेन आनी गिन्यानान हुशार आसत्यांक हांगासर सोंपेपणां आनी सवलत्यो दिवंच्यो आनी गोंयचे भाशेक उणेंपणांतली मानाच्या जाग्यार पावयची आनी तिका भारत मातेच्या संस्कृत भासांमदें आमचे घटनेचे आठवे वळेरींत जागो दिवंचो बळवंताचो आंवडो जालो. त्या पर्यांत आमी गोंयकार अपुरे. जी चूल गोंयबाब वर्दे वालावलीकारान पेटयली, जो बावटो मोंसिन्योर सेबास्तियांव रोदोल्फ दाल्गाद हाणें उबयलो, ती लायलेलीच आसूंक जाय आनी वाऱ्यार उफेत आसूंक जाय. सर्गेस्त दोतोर हेलिओदोर दा कुन्हा रिवारा हाणें गोंयकार पुतांक

उलो मारलेलो. 'गोंयचे धर्तरे वयल्यां पुतांनो, उठात, जागे जायात, तुमचे भाशेचो विकास करात, आमची भास आमकां जाय, हो साद जिवो आनी ताजो उरूंक जाय. रायपुरचे सेमिनारींत खुपशे कोंकणीवादी आसले, तरी पुर्तुगेजीचो वास आनी आवाज थंयच्या वण्टीनी वसतालो आनी कांय जाणां मदें नंदतालो. मतींचें आनी मनांचें झूंज मांडूंक जाय आसलें. थंय मोट्यांतलो मोटो कोंकणी गीतांय रचपी आसलो आनी आत्मीक बुदवंताचें काम करतालो. केन्ना केन्ना दाल्गादाचो आनी प्रि. आग्नेलो माफियेचो इंग्लेज - कोंकणी कोश घेवन एक एक उतर घेवन तपासतालो. हरशी ताच्या घरांत पुर्तुगेज उलयताले आनी ताणें इंघेयन, बेल्जीकाक शिकप केल्लें. ताका कोंकणी गुरू म्हण उलो करताले आनी कोंकणी भक्त भक्त म्हणत जाल्यार ताच्या आंगांत शेरभर रगत वाडटालें. बळवंतान आपली येवजण ताका सांगली आनी ताणें वचून पाद्री ग्रेगो म्हणटात ताका गमयली. कोंकणी गुरू सुदळ जिबेचो आनी मनशांचीं काळजां एका ध्येया वो तजविते खातीर पेटोवपी. ताणें सेमिनारिस्तांक कोंकणीच्या आनी कोंकणी गीताय आनी कवितायेच्या मोगान ल्हासयले आनी कोंकणीचे सेवेखातीर उस्कायले. तरी सेमीनारिस्तां मदेंय आनी प्रोफेसरांमदें अस्तंत मोगी आसले. तांकां ल्हासून न्हय, समजावन हे नवे येवजणे वसल्यान हाडूंक जाय आसले. ल्युथर म्हणटालो: 'आमच्या विरोध्यांक आमी ल्हासून न्हय, बरोवपान आमचे वसल्यान हाडूंक जाय.' बळवंताक बरोवपाची गरज नासली, चड उलोवपाची गरज आसली. ताणें हेराल्दो, आ व्होज दे सां फ्रांसिस्को शाव्हियेर, रिनोवासांव, इश्टाचेर आनी रोटयेच्चेर, सिने - टायम्स आनी गोवा -टायम्स, पोयणारी आनी राखणो हाचेर लेख बरयले आनी मनशांचीं मनां आनी काळजां उजवाडायलीं. ताणें आपलीं पावलां मारतनां, पुरोगामी - फुडें वचपी आनी प्रतिगामी - फाटीं चलपी हांचे मदें आपलें काम करूंक जाय आसलें आनी तापून आनी तिडून न्हय, शांतीन आनी समजणेन आपली झुटी पाळची आसली. अनुभवान ताका खूप शांत आनी समजपी केल्लो.

बळवंतान सगळ्यां शिकोवप्यांक आनी शिकप्यांक एकठांय केले आनी सगळ्यांक वाटकुळे बसोवन तांकां आपलो निरोप दिलो आनी व्हडली बसका जाल्ले परीं ह्यां गोंयच्या शाण्यां आनी बुदवंतामदें मोट्यांतलो मोटो विवाद जालो. एकदां व्हडल्यान उलयताले, एकदां शांत आनी थंडपणीं, ल्हवू उतरां भायर घालताले. हो पळे आसा तो विवाद, तो सगळोच हांगासर दिवं जायना.

बळवंत : भोव मानेस्त आनी आदरवंत म्हज्या गुरू-भावांनो, म्हज्या सुपुल्ल्या इश्टानो ! काणी - काणी, मुमय - राणी ! दोग आसले जुंवळे भाव. पळोवंक एक सारके, दोळे एक, कान एक, पोले एक, कोण कोण हें सांगूंक खूप अवघड जातालें. तांकां एकमेकांच्या नांवान उलो करताले आनी कोण परतून दिता तें जाणा जावंक सोंपें जायनासलें. एक दीस हे दोगूय भाव दर्याचे किनारेर आनी देगेर गेले. ल्हारां लागीं खेळतनां, एक भाव दर्याच्या ल्हारां मदें नाच जालो. दुसरो किनारेवयल्या सोप्यार बसून चिंतनेंत पडलेलो : बुडला तो हांव वो तो ? आपली एकीताय, आपली आयडेन्टीटी विसरलेलो. तशेंच आमकां गोंयकारांक जालां. हांव कोण, आमी कोण हें आमी नकळों. रोमाक हांव शिकतालों. म्हाका एका पापा सायबान म्हजे भाशेन आपल्या मानाक कितेंय बरोवन हाडूंक सांगलें. हांवें पुर्तुगेजीन दोन उतरां बरोवन व्हेलीं. पाप सायबान म्हजे लागीं विचारलें : ही तुजी मांयभास? हांवें ताका सांगलें : ही म्हजी मांयभास न्हय, म्हजी मांय-भास कोंकणी - तशें जाल्यार कोंकणींत बरोवन हाड. म्हाका लज जाली, वाटेर म्हाका मिसांव - शांस्त्री, प्रि. पियेर चार्ल्स भेटलो आनी ताणें म्हाका आनीकूय लजेक घालो. तुमकां गोंयकारांक आनी इंदियानाक आपले भाशेचो मोग ना, आपले संस्कृतायेची बढाय ना. जीं उतरां तुमच्याच गोंयकार पुतान पुर्तुगेजांक सांगलीं तीं तुमी विसरल्यात : हांव महाभारताच्या गांवांत जल्मलों, आमी शुन्य रचलां आमी गामां उत्पन्न केल्यां. तुमी तुमचें व्हडपण विसरल्यात. भावांनो, हांवें म्हजी तकली पोंदा घाली आनी म्हज्या कुवार्तांत आनी कुडांत परतलों. भारत म्हजो देस, कोंकणी म्हजी भास, हें सत जियेवंक हांवें निश्चेव केलो. तर भावांनो, म्हजें मत अशें : आमी घरांत एकामेकाकडे कोंकणी उलोवंची, ती आमी सुदारावंची, आनी सगळें आमचें धर्मशास्त्र आनी पुराणशास्त्र आमी कोंकणींतल्यान शिकोवंचें. कोंकणींतल्यान धर्मशास्त्र आनी कितलींय आनी कसलींय शास्त्रां आमचे भाशेंतल्यान घालूं जायनांत म्हणटात ती मोट्यांतली मोटी फटास. समजून घेयात. आमचेमदें हुशार आनी उमेदवंत तरनाटे आसात आनी आमचे सेमिनारीचें नांव सगळ्या संवसाराक गाजलां. आमचे मदें एक तामीळ शास्त्री आनी सिंहलेज शास्त्री, दिवाडकार प्रि. जाकोमे गोन्साल्वीस उदेलो आनी ताचीं बरोवपां आनी गितां आजून मेरेन गायतात आनी तांची शास्त्रीक सोद करतात. तसले विद्वान आनी जाणकार ह्या घरांतले भायर सरूंक जाय आनी कोंकणीतल्यान आमचें

शास्त्र परगटूंक जाय. कोंकणी भास अमृताची भास, ती उर्शींचो रस आनी साकर!

बळवंत उलयतनां, कोंकणी - गुरू , ताचें नांव स्वामी मारियादास, मारिये - भक्त, उठटालो आनी बसतालो. ताच्या काळजांत कितेंय तरी खरजतालें आनी केन्नाय तरी तें सांगचें ताका दिसतालें. तकली हालयतालो, ताळयो पेटूंक सोदतालो, पूण पाद्र पुर्तुगेज ताका धरतालो उलोवंक दिनासलो. शेकीमेंत उठलो आनी ताणें हो निरोप दिलो.

'म्हजो सगळो तेंको. हांव बळवंताक सगळो सहकार दिवपाक तयार. वेळ पावलो, आतां उजवाडलें, कोंकणीचे रांडपणाचे दीस गेले. ही आमची भास. ते भाशेंतल्यान आमी देवाक वाखाणूंक जाय, ते भाशेंतल्यान आमी पेल्याची सेवा करूंक जाय. तिचें बळगें सुमाराचें न्हय, तिका गिरेस्त कोश आनी उतरां-वळेरी आसा, तिचे शक्तेन सगळीं भावार्तांचीं सतां सांगू येतात. परक्यांनी हे भाशेंतल्यान सरस्वत रचली जाल्यार, आमच्यान जाता. ही साश्ट कोंकणीचें काळीज आनी माथें.'

इतल्या म्हणसर पाद्र पुर्तुगेज उठलो आनी ताणें दोळे उक्ते करून, आपली मान वयर - सकला करून, लेंसान आपलो घाम पुसून, अर्दो तांबडो जावन, ताणें म्हणलें : 'इतिहासाचीं पावलां गोंयचेर छापलेली आसा. आमची भास पुर्तुगेज. आमची भास पुर्तुगेज! ते भाशेंतल्यान सगळें सांगूं येता. बेर्नार्द पिरीस दा सिल्वा आनी दुसरे आपली भास पुर्तुगेज म्हणटाले आनी सेमिनारींतली भास पुर्तुगेज जावंक जाय. आमी अस्तमतेची भास आपणायल्या आनी आमी अस्तमतेची वस्त्रां न्हेसल्यार आज शेकडे जाले आनी आमच्यान कसलेंच बदलप करूंक जायना.' हीं उतरां आयकून पाद्र ग्रेगो उठलो आनी आमची भास पुर्तुगेज हें आयकून चाळवलो. तापलो, तिडलो. पूण थंड जावन ताणें म्हणलें.

'आमची भास कोंकणी हें सांगची गरज ना. जेजू क्रिस्त मनीस जालो आनी लोका लागीं उलयतना कोयने, लोकांची सादी - सुदी भास उलयलो. तो आरामायक उलयलो, जी लोकाक समजता आनी जी भास लोक उलयता तीच तो उलयतालो. गोंयची भास कोंकणी. आमचे सेमिनारींन कोंकणीचो सोद करूंक जाय, आनी आमच्या तरनाट्यांक आनी पुर्तुगालाक, लंडनाक, आनी रोमाक धाडूंक जाय आनी थंय आसलेली कोंकणी पुस्तकांचीं सावळे-चित्रां आनी फोटू काडून हाडून, स्टिफन सेंटर हाचेवयल्यान छापून हाडूंक जाय. गोंयकारांक आनी गोंयच्या पाद्रीक

आपले भाशेचो अभिमान, आपले संस्कृतायेचो मोग हें सत सगळ्याक सादूंक जाय.

एकलो सेमिनारीस्त उठलो आनी ताचे बराबर दुसरो. ताणीं आपली गजाल आनी इत्सा उकती केली. बळवंत हांगासर येना फुडें, आमी तो कोंकणीचो आंवडो आमच्या काळजांत वोंपतलो हें आमकां दिसतालेंच. आमकां जाल्यार मोटी खोशी! आमी पुर्तुगालाक वचून येतां, सगळीं कोंकणी पुस्तकां हाडटां आनी जिवीत कोंकणीचे आनी क्रिस्ताचे सेवेक भेटयतांव.'

पाद्री पुर्तुगेज आनी पाद्र ओशिदेंताल आनीकूय उलोवंक सोदताले. तांकां बळवंतान समजायले, आनी एक मतान स्टिफन कोंकणी रिसर्च सेंटर पास जालो आनी रायपुरा आनी गोंयच्या सेमिनारींनी उलोवपाची आनी शिकोवपाची भास कोंकणी जाली. ताळयांचो पेट जालो आनी सेमिनारीच्यो वण्टी गाजल्यो : कोंकणी आमची भास, आमची भास आमकां जाय. नवी क्रांती सुरू जाली. तरनाटे कोंकणी भास उमेदीन आनी उत्साहान शिकूंक लागले आनी फाव ते चिंतनेक फाव तें उतर ते सोदूंक पडले. स्वामी मारियादास संतोसान उफेतालो आनी रातो-रातीं नवें गीत आनी नवी कविता रचून हाडटालो. बळवंतूय आपलें मीस, आपलें वाचप, आपलें चिंतप, आपलें उलोवप कोंकणीतल्यानूच करूंक लागलो आनी घरची आनी गांवची भास उलोवन सेमिनारींत अती-व्हडली मनशाळाय, मोगाळाय, घरकी उत्पन्न जाली. आपली भास उलोवन शिकोवपी आनी शिकपी समजणेन आनी मोय-मोगान वाडले.

बळवंताच्या जिवितांत एक अनुभव आयलेलो. बायलांची भिरांत खुपशी ताच्या आंगांत पुरून आसली. बायल म्हणजे एक सर्पट, फुरशें, घांस मारपीण, कूंस लावपीण, पातकाचो सोयेग आनी संद असलीं चिंतनां ताच्या मनांत आनी मनापोंदा पुरून आसलीं आनी एके सोबीत अस्तुरी पळेतकच तो आंग काडटालो. अस्तुऱ्यांलागीं कशें वागचें, तांची सोबितकाय कशी चाख ची, तांचेकडे कशें उलोवंचें हें ताका भुरगेपणार चडशें कोणें शिकयलेंना. पाद्रीच्या जिवितांत दुलबाय आनी गोडसाण आसूंक जाय. पाद्री दादल्यांखातीर, तसोच तो अस्तुऱ्यांखातीर. जेजूच्या जिवितांत अस्तुऱ्यो भरपूर आसल्यो, त्यो ताका आदार दिताल्यो. मार्था आनी मारिया हांचो तो खेरीतूच माया आनी अपुर्बाय करतालो. मारिया माग्दालेना, आनी दुसऱ्यो अस्तुऱ्यो जेजूक सांगात करताल्यो आनी ताच्या आपोस्तलींक

आनी धर्मदुतीत कामांत सहकार दिताल्यो. एका पाद्रीन अस्तुरे लागीं उलोवंक आनी मानान आनी मोगान लेखूंक सेमिनारींतल्यानूच शिकूंक जाय. बळवंताक आपूण तसो दुसरो हें तत्व जिवितांत मोलाचें आनी म्हत्वाचें जावन आसलें.

आदींच फुडें शिकलेलो जाल्यार जेनेव्हीव दे चार्दीन, मारिया दोस सेवस आनी मारिया दा कोस्ता हीं इतलीं ताका भेकडावंचीं नासलीं. हो अनुभव घेतलेलो देखून ताणें सेमिनारींत गोंयचे माद्रीक हाडल्यो. त्यो जेवणाच्यो आनी खाणाच्यो वस्तू पळेताल्यो, आल्ताराचेर सोबीत फुलां घालताल्यो, भुरग्यांचे भलायकेचें येवजिताल्यो. त्यो भोंवताना आनी चलताना सेमिनारिस्तांक इगर्जेचो उगडास हाडटाल्यो. धवीफूल्ल न्हेसलेली माद्र म्हणजे इगर्जेचो रूपकार. इगर्ज क्रिस्ताची सोबीत व्हंकल. निवळ आनी नितळ न्हेसलेली माद्र एक एक सेमिनारिस्ताच्या दोळ्यांमुखार क्रिस्ताचे व्हंकलेक हाडटाली. अस्तुरेची भिरांत आनी भंय पळून वेतालो. दादल्याच्या जिवितांत दारूणाय आनी असंस्कृताय जी वसता, ह्या सोबीत आनी भाग्यवंत अस्तुऱ्यां लागीं उलोवन सेमिनारिस्तांच्या जिवितांत भोळेपण, दयाळपण, सुसंस्कृताय वाडलेली आनी निर्मळपणाचो मोग वाडलेलो. सेमिनारींत माद्री हाडून खूप बरेंपण हाडलें म्हूण सांगून शिकपी आनी शिकोवपी बळवंताक धिनवासताले आनी परबीं दिताले. भाव-भयणिकी वाडलेली.

गोंयच्या गांवांत भात आनी पोल, खरी भक्ती आनी आचार बाराच बरीं चलताली. पत्रां आनी दुसऱ्या परजे प्रगटणे उपायांचो भरपूर उपयोग बळवंत करतालो. सगळ्या गोंयांत खबर पावली. लोकाचे लोंड्याचें लोंडे साश्टीच्या एका भांगरपेट म्हणलेल्या गांवांत वेताले. एक चमत्कारी मनीस मिलाग्री करपी दिश्टी पडलेलो. ताका एका मिनाच्या गांवांत खुरीस मेळ्ळो आनी ते खुरसाचे पदवेन तो अजापां आदारतालो. देवचाराक आनी भुताक काडून तो बोतलींत घालतालो. ताचे शेंपडेक धरून ताका दर्यांत मारतालो. सादोसुदो लोक ताका पांयां पडटाले आनी देवाक पांयें पडूंक वतात ते भाशेन ताका पुजताले. तो फकत सोमाराचो, बुधवाराचो आनी शेनवाराचो देंवचार काडटालो. ताच्या घरालागीं भुतयो घेवन लोक दीस सारतालो. चमत्काराक लोक चमत्कार सायब म्हणटाले आनी ताका जेवणाच्यो, खाणाच्यो वस्तू आनी पयशे वांटताले. मिलाग्री जातात, देंवचार पळटात. मेल्लें मारी कोंयसांव पेद्रूचेर बसलें ताका चमत्कार फोर्सुल्यान बोतलींत घालें आनी तें मागीर लोर्सूचेर बसलें असलीं फकाणां वाऱ्याचेर भोंवतालीं.

बळवंताच्यान हीं सगळीं धर्मांची फकाणां सोसूंक जायनां जालीं. कसलेय तरी उपयोग घेवंक जाय आसले आनी आपले जाणविकायेचो फायदो दुसऱ्यांक दिवंक जाय आसलो. इतलीं मनशां गोरवां कशीं चिंतिनासतनां आनी येवजिनासतनां वेतात तें पळोवन बळवंताचें काळीज खंतवलें आनी ताणें कसलोय तरी उपयोग घेवंक आनी लोकाचीं मनां उजवाडावंक निश्चेव केलो.

एकदीस भांगरा पेट गांवांत वचूंक बळवंत आनी ताचो सांगाती रोमी इश्ट काळजीदार फालेरो भायर सरले. बळवंतान पांयांक जोतीं घालीं. आंगार शेरवानी चडयली. लोब घाली नासतना भांगरपेटची वाट धरली. काळजीदार फालेरो फोटुवाल्याभशेन न्हेसलो. गळ्याक टाय बी मारलो. लोब घालीत जाल्यार हे पाद्री आमकां चळवळूंक आनी धरूंक आयल्यात, कोणाकूय दिसून येतलें आसलें. बळवंताक पळेनाफुडें, भांगरपेटींतलो लोक खुशाल जालो. "आमचो पाद्र विगार आयलो, आमचो आदलो पाद्रविगार आयलो" फाम करून सगळ्या गांवांत धास्त पडली. भांगरपेटींतलो लोक धांवून आयलो. बळवंत पाद्री म्हूण सगळ्यांक गमलें कित्याक ते भांगरपेटकार देवगिरी मिनांचे काम करताले. मिनकार आपणागेर, तुपणागेर ये म्हूण बळवंताक विनवणी करूंक लागले. बळवंत अमक्या कामाक आयलेलो आनी तें केल्या शिवाय ताका थार नासलेलो. तर ताणें चमत्कार फोर्सुल्यागेर वचपाचें थारायलें. चमत्कार फोर्सुलो देवगिरी मिनांत काम करी आनी ताचे खाला कांय चाकर आनी नोकर वावर करताले. येन्ना म्हणल्यार चमत्कार फोर्सुलो व्हडलो भांगरपेटकार जाल्लो आनी देवचार काडून पयशे कमायल्ले. फोर्सुल्याक बळवंतान देवचार काडून दाखय म्हणलें. भांगरपेट आनी गापीदास फोर्सुल्यान आयज देवचार काडूंक जायनांत, सोमारादीस ये म्हण सांगलें. देवचार काडूंक सोमारूच कित्याक जाय, आपलीं दुसरीं कामां आसात हें चिंतून बळवंत मातसो संतापलो. चमत्कार आनी भांगरपेट फोर्सून बळवंताक आनी काळजीदार फालैराक आपल्या घरा व्हेले आनी थंय ताणें म्हेळें उदक दाखयलें आनी त्या आगबेंतान आमकां भलायकी मेळटा, आपूण देवचार काडटा म्हण बडायेन सांगलें. काळजीदार फालैरो उलयनासलो. तो शिकतालो आनी सैबान शिटूक. फोर्सुल्याचीं उतरां धाकटुले दैनिकेचेर बरयतालो आनी पेन्सील घुंवडावन मुसांक आनी देवचारांक आपुणूय धांवडायतल्या भाशेन करतालो. इतल्या म्हणसर पोटाक भूक लागली. काळजीदार फालैरीचें घर लागींच वागांपेठ हांगासर आसतालें आनी थंय ताचे

आवयन बळवंताक आनी काळजीदाराक जेवणांक आनी वसतेक आपयले.वेचे आदीं बळवंत आनी भांगरपेट हांचे मदें हें उलोवप जालें :

बळवंत : हें सांग म्हाका, फोर्सुल्या, तूं देवचार काडटाय तें कशें? देवाचे पदवेन देवचाराचे सक्तेन, वो तुजे लागीं कसलोय गूट -सेग्रेद बी आसा? खरें तें सांग म्हाका.

भांगरपेट फोर्सुलो : हांव देवचाराक धरतां आनी तांकां हांव बोतलीन घालतां, ते केन्नाय बोतलींतले भायर सरतात आनी हांव तांकां परते बोतलींत भरतां आनी उपरांत ते मनशांक आनीक वायट करूंक पावनांत.

बळवंत : बरो हुशार मूं तूं, मंत्रांकार आनी चमत्कार ! देवचारांचे शेंपडेक धरपाक आनी तांकां धरून बोतलींत भरपाचें काम सोंपें न्हय ! हें सांग म्हाका, हे बोतलींतले देवचार भायर काडटकूच खंय वेतात? सर्गार वो नरकांत?

भांगरपेट फोर्सुलो : ते सर्गार वेतात.

बळवंत : हें शास्त्र म्हाका बरें शें लागना. देवचार सर्गार वेतात म्हणल्यार म्हाका आटवेंच दिसता, आमच्या धर्माचेर आड न्हय?

कुशीक काळजीदार वोंट ताण करून हांसतालो आनी मदेंच खूक करतालो. बळवंत आनी काळजीदार आपल्या घरा वागांपेठेर परतले आनी दुसऱ्या दिसा जेवल्या उप्रांत भांगरपेठीक गेले. वाटेर तांकां वाटसुरांचे जोमे मेळटाले. दोग पाद्री वेतात म्हण तांकां खबर नासली. वाटेर तांचेकडे एकल्या शिक्षीत संस्कृत मनशान तुमीं खंय वेतात काय विचारलें : फोर्सुल्यागेर मिलाग्र पळोवंक वेतांव. देवचार काडटात खूंय. बळवंतान ताचेकडे विचारलें : तूंय बी शिकलेलो आनी संवरलेलो मनीस चमत्कारागेर ! थंय कसली खबर? शिकलेलो अनाडी. थंय आज प्रि. बळवंत दा कोस्ता, रायपुरचो रेयतोर येवपाचो आसा, बोंदेरां मारल्यां आनी पत्रांकार उबे जाल्यात. तो तकलेन हुशार. तो फोर्सुल्याक बळ दितलो, ताचें काम फांकतेलें आनी पसरतलें आनी भांगरपेठ आनीकूय भांगरान भरलेलो जातलो. अशी आशा आसा. काळजीदार आनी बळवंत फोर्सुल्याच्या घरालागीं पावतां - पावतां हुयेली आनी बोबाळ आयकूं येतालो. पाद्री आयलो. पाद्री आयलो कोणें म्हणलें. बळवंताक कांय जाण वळखताले. तो पत्रकार आनी प्रवचनकार जावन आनी देवगिरीचीं मनशां भांगरपेठींत आसून, ताका लोकान रोकडोच वळखिलो.

बुरशीं आनी भुतां बसलेलीं मनशां बोबाळ करूंक लागलीं. खरींच बुरशीं

आनी भुतां बसलेलीं मनशां कशीं दिसतालीं, पूण बोबाळींतल्यान आनी चालींतल्यान शिट्टूक मनशाक हांगासर फट आनी फटास आसा, तशेंच साधारण तकलेच्या मनशाकूय तेंच गमतालें. देवचार खुरसा सभोंवतीं घुंवताले, पाद्री आयलो, पाद्री आयलो म्हण बोबाळ करताले. बळवंत वोगो बसलो. इतल्या म्हणसर काळजीदारान आपलें सावळे चित्रांचे फोटवा-मिशीन उगतें केलें आनी चित्रां काडूंक तयार जालो. देवचार मदेंच हांसताले, मागीर शांत आनी उप्रांत सारके नियमीत आनी आरोगी मनीस कशे दिसताले. हातूंत देवचाराचें कांय ना म्हण कोणाकूय उगतें जातालें. बळवंतान भांगरपेठ फोर्सुल्याक देवचार काड म्हण विनवणी केली. ताणें एका मुसलमान चेडवाक उबें केलें. बेश्टें बोबाळ करतालें. उप्रांत हांसतालें. फोर्सुल्यान जाप करून ताचेर उदक माल्लें आनी रोकडोच देवचार गेलो म्हणलें. फोर्सुल्यान ताका तीन पावटी आपोवन हाडलें. सोमारा दीस, बुधवारा दीस आनी शेनवारा दीस. बळवंतान ह्या चेडवाक, तिचे नांव रेजमाबी, तीन पावट कित्याक हाडलें काय फोर्सुल्याकडे विचारलें. ताणें ताचेर मारी कोयसांव आयलें, ताका हांवें काडलें, आनी उप्रांत ताका बोतलींत घालें, आनींक एकदां काडलें, आनीक एकदां ताचेर बसलें. आतां हांवें तिसरे पावटी ताका हाडलें आनी ताका काडून भायर उडयतां म्हणलें. सत मानतां, आमच्या बापा म्हणत चमत्कारान सांगलें आनी थंय लागींच जळवाची व्हडली पुंजी आसली थंय पळयात म्हण रेजमाबी बोबाळ मारूंक लागलें. थंय  देवचार लिपला म्हणलें. सगळ्या लोकाचे दोळे जळवाचे पुंजीकडल्यान गेले, देवचाराक कोणें पळोवंक ना. थंय मारी कोंयसांव आनी फुलू कोंयसांव कोणाकूच दिश्टी पडलेंना. रेजमाबीक घेवन दोगी मुसलमानी अस्तुऱ्यो आयलेल्यो आनी त्यो ताका धरून उब्यो आसल्यो. बळवंत एके कदेलीर बसलो, हातांत पेन घेतलें, मांडयेर फोल आनी कागत धरलें. ताणें साबार जाणां लागीं विचार केलो आनी चवकशी, दुसऱ्या दिसा, पणजेच्या प्रकाश पत्राक धाडली. हो आसा तो विचार आनी जबाब:

बळवंत : रेजमाबाय तुजेर कोण आयला?

रेजमाबी : म्हजेर मारी कोंयसांव आयला.

बळवंत : फोर्सुल्यान ताका काडलें ना? गेल्ल्या सोमारा दिसूय हांगासर आयलेलें न्हय? लोकांचे सांगणे प्रमाणें तूं सदां येताय, सोमाराचें येताय, आनी बुधवाराचेंय येताय. तें कशें? तुजेरूच ते देवचार कशे येतात? तें मारी कोंयसांव

बोतलींतलें कशें भायर सरता आनी तुजेर कशें बसता? तुजे बाराबर तुका धरून आसात त्यो अस्त्र्यो कोण? तूं कित्याक हांसताय?

रेजमाबी : तें येता - वेता, बोतलींतलें कशें भायर सरता तें हांव नकळं. फोर्सुलो म्हाका आपयता. (हासून).

बळवंत : ह्यो तुका धरून आसात त्यो कोण?

रेजमाबी : उजव्यान आसा ती म्हजी आवय. इतल्या म्हणसर दाव्यान आसा ती म्हणूंक लागली : हांव ताची आवय. रेजमाबी हांसलें आनी ताच्यान सत पोटांत धरूंक जायना जालें. बळवंतान आनिकूय विचार केले. 'हांव कोण?' रेजमाबीन जाप दिली. 'तूं पाद्री, आदलो देवगिरीचो विगार.' बळवंतान म्हणलें. 'हो कोण?' (प्रि. काळजीदाराक बोट दाखोवन) रेजमाबीन जाप दिली. 'तो पणजेचो फोटूवालो.' हो देवचार कसलो तरी, बळवंताक पाद्री म्हण वळखता, दुसऱ्या पाद्रीक वळखना, असली दुभावाचीं चिंतनां परजेच्या मनांत घोळूंक लागलीं.

बळवंतान दुसऱ्या एक रासयच्या चेडवाक उबें केलें. तें खंयचें, ताचो गांव, नांव आनी थाण बरोवन घेतलें. ताका हाडलेले अस्त्रेकडे ताणें हो विचार - जबाब केलो.

बळवंत : आगे, तूं खंयची?

रासयकान्न : हांव रासयकान्न

बळवंत : तुंवें ह्या चेडवाक कित्याक हाडलांय?

रासयकान्न : ताका मोल्लूक मारता.

बळवंत : ताका मोल्लूक मारता जाल्यार, देवचार खंयचो आयलो, तुका ताचेर देवचार आनी भूत बसलां म्हूण कोणे सांगलां?

रासयकान्न : ताचेर देवचार बसला देखून हांवें ताका हांगासर हाडलां. ताका पिल्लां दीत जाल्यार तें बरें जाता.

बळवंत : पिल्लां दिवन बरें जाता जाल्यार, हांगासर आनींक देवचाराची गजालूच नां.

बळवंत आनी काळजीदार फालैरो भांगरपेठ फोर्सुल्याच्या घरांत भितर सरले. थंय वास्कोचो आनीक एक चमत्कार आयला आनी मागणें करून देवचारांक पयस करता म्हणटाले. बळवंत आनी काळजीदार भितर सरतच वास्कोचो गोपीदास बळवंताक हाताक धरून हालोवंक आनी भेंकडावंक लागलो. काळजीदारान

ताचेर एक थापट माल्लें आनी जमनीर उडयलो आनी आतां कर तुज्यो मिलाग्री म्हणलें. हांगासर फटाशी आनी फटींचो पावस तुमीं घालतात! बळवंत खुर्सा लागीं परतो आयलो आनी ताणें मिलाग्रीं सवें हो निर्णय दिलो: 'भावांनो आनी भयणींनो, हो सगळो फटकिऱ्यांचो सांगोड. हो थोड्यांचो पंगड. हीं मोयरां आनी रेजमाबी तींच सदांच कित्याक येतात आनी त्यांच दिसांनी कित्याक पावतात! आर्दी फोर्सुलो अजाप करतालो, आतां ताची बायल, ताची मोगीण, ताचो पूत आनी ताची धुवूय करता. जंय मोग- मोग आनी पेल्याचो मोग ना, थंय मिलाग्री जावं येनांत. हांगासर कोणूय मरता तो दुसऱ्या दिसा बऱ्यां मनांच्यां मनशांचेर बसता. आमी बडाय मारतांव, आमचो भावार्त न्हय आयचो कालचो पूण सां फ्रासिस्क शाव्हियेराचो. तरी आमचो भावार्त हलको, पोल्को! देवचार बोतलींत घालून आनी तातूंतले तांकां काडूंक फकाणाचो म्हाल न्हय? हो सगळो खेळ फकाणांचो गुटलो. हीं आडकां- नाडकां सोडात आनी एकाच धनया जेजू क्रिस्ताक पांय पडात. तोच खरेलो वैज आनी भलायकी दिवपी. दुसरीं फकाणां आनी फटकिऱ्यांचो सांगोड आनी पंगड. म्हजे चवकशेंत हें म्हाका ठावें जालां. हांगासर लोकाक धरून हाडटात आनी तीं मोयरां चुकनासतनां हांगासर येतात. तींच सोमाराक, तींच बुधवाराक आनी तींच शेनवाराक. हे आचार वेगीं सोडात, पयस करात, चलात घरा. फोर्सुलो बळवंताक व्हडले दोळे करून पळेतालो आनी ताचे इश्ट बळवंताक धरूंक सोदताले. बळवंत कसलेंय वादळ आनी वारें माल्ल्यार भियेवपी न्हय तसलो हें ताच्या जिवितांतल्यान आमकां उक्तें जालां. भियेनासतना आनी तापनासतनां, आपले इश्टाचे, काळजीदाराचे हात धरून, सवकास - सवकास एक - एक पांवल मारीत गेलो आनी गोंयच्या गांवांतले आचार आपूण सोंपयतलों म्हणून तो आपले सेमिनारींत परतलो. दुसऱ्या दिसा, बळवंताचें सावळे-चित्र पत्रांचेर आनी दिसाळ्यांचेर आयलें आनी ताणें इकरा लेख बरयले आनी फोर्सुल्याचीं अजणानपणां आनी फकाणां इस्कुटायलीं.चिटींक आनी विरोध्यांक ताणें - 'द डेवल्स ॲडव्होकेट - देवचाराचो वकील' हाचेर लेख बरयले आनी फोर्सुल्याचे सांगोडाचीं सुमां सुटयलीं आनी तुटयलीं.

बळवंतान जिवितांत खुपशें सोसलेलें आनी ताणें दुसऱ्याक डायोसेजानी पाद्रींची इश्टागत जोडूंक आनी तांकां तांचे जिवितांत बुजवण आनी आलाशिरो दिवंक निर्णय घेतलेलो आनी निश्चेव केल्लो. शेनवारा- शेनवारा, तो नियमीतपणी

आपल्या लागशिल्या आनी पयशिल्या पाद्री भावांक भेट दितालो. ताणें 'पावर ॲन्ड ग्लोरी' हें पुस्तक वाचलेलें. ताचे वयल्यान ताचो बरोवपी ग्राह ग्रीन म्हणटालो : 'फर्स्ट द लोनलीनेस, देन द बॉटल, देन द वुमन.' हे पाद्रीच्या जिवितांत सोंपेपणी सत जांव येता. 'पयलें एकसूरपण, उप्रांत सोऱ्याची बोतल, मागीर अस्तुरी.' पाद्रीच्या जिवितांत दुसऱ्या पाद्रीची इश्टागत जाय. एका पाद्रीच्या जिवितांत दुसऱ्या पाद्रीच्यान बुजवण आनी उजवाड हाडूं येता. भावान भावाक राखूं येता.

बळवंत शेनवारा - शेनवारा, आयताराचें इस्कोल बंद देखून आपल्या पाद्री भावांक भेट दितालो. साश्टीच्या कोनशाक, भेटाल म्हणलेल्या गांवांत, बळवंत इगर्जेंत रिगलो. थंय ताचो इश्ट प्रि. पेद्रो बोर्जेस जियेतालो आनी ते दोगूय मायेमोगान आनी मोयपासान वागताले. प्रि. पेद्रूक म्हयन्याक एक पावट बळवंत येना जाल्यार हुस्को जातालो. वाटेर ताका पाद्र-विगाराचो मेस्त बाजारांत नुस्त्याक वेताना मेळ्ळेलो. बळवंत हुस्क्या विणें इगर्जेच्या वारांदांत भितर सरलो पूण हूं आनी कूं नासलो. 'पेद्र, पेद्र', फकाणां करीत बळवंत पेद्रूच्या कुवार्तांत भितर सल्लो. पेद्र कानप्यावेलो सकला पडलेलो. ताची नाड आनी रक्ताबळ (प्रेशर) वाडलां शें दिसतालें. पेद्र लांब आनी रूंद. ताका जमनीवयलो उबारूंक आनी कानप्यार घालूंक बळवंताक मोटें अवगड लागलें. बळवंताचें बळ चडशें देवूंक ना आनी आज सुमार पंचेचाळीस वर्सांचो जाल्लो. तरीय तोणको कसो दिसतालो. बळ करून ताणें ताका उभारलोच आनी कित्याक फडफडटाय आनी घोरेताय काय म्हूण पेद्रू लागीं विचाल्लें. पेद्रून जाप दिली : "बळवंत हांव वेतां आनींक हांव जियेवपाक ना, म्हजो वेळ पावलो. तूं म्हज्यो निमाण्यो घडयो पुंजावंक आनी म्हजो गूट आयकूंक पावलोय देखून हांव तुका आनी देवाक आर्गां दितां. बळवंत तूं न्हय फकत बळादीक पूण खूप दयेस्त आनी मायेस्त, तुकां मायेस्त नांव घालूंक जाय आसलें. तुवें नसायेचेर आनी आपलेपणाचेर जैत व्हेलांय आनी तुजे पाद्री भाव आनी तांचें बरेंपण म्हणल्यार तुजो संतोस. एका दिसा तूं व्हडलो मनीस जातलोय, आनी कोणाकूच गोंयची बिस्पकी आनी कार्दीआलकी फाव जाल्यार, ती तुकाच फाव. हे पदवेचेर तूं पावशी जाल्यार जशें तूं आतां करीत आयलाय, सदांच तुज्यां पाद्री भावांचो मोग कर, तांकां समजून घे, आनी कोणूय पडलो जाल्यार ताचेर फातर घालूं नाका, ताका उभार आनी सांबाळ. तुज्या भावांचे गूण फुलय, तांकां हात दिवन, तांचीं देणीं लिपलेलीं उजवाडीत कर. म्हज्या असल्या

जाण्ट्या मनशाचें तुजेर बेसांव! बळवंत हांव मरतां, म्हजें काळीज धडधडटा, दुखता, मरतां... तुका गूट सांगपाचो आसा.... गूट ... तूं राखतलोय आनी ताका इलाज दितलोय म्हूण म्हाका खात्री आसा. आतांच म्हजो भाचो आयलेलो... तो पाद्री आनी तो म्हाका कितें सांगूंक आयलेलो, एका काळ्याकिट्ट चेडवाक घेवन घरांत रिगलेलो. हांवें ताका व्हास्सीबॉर म्हूण तिनशीं मेत्र पयस धाडलो. हांगासर भितर सरूं नाका म्हणलें, जिवो यमकोंडांत वेतलोय, रागान सांगलें आनी ताका धेंगशे घालून धांवडायलो. असले मनीस जल्मना जाल्यार बरे! कसली लज, कसली वीट, नाक कातरून उडोवंपाचें काम! म्हजी भयण, ताची आवय, हें कोत्रांदांस पळोवंन आयज जेविना आनी खायनां आनी दिसभर दुखांच्यो झरी करता. हळशिकावणो, फटकिरो, फामिलेचें नांव होगडावणो, नश्टो, व्हडलें तोंड घेवन हांगासर मार व्हडयो घेवन आयलेलो. हे वाटेन येत जाल्यार हांव म्हजें बंदूक घेवन फार सोडूंक आसां. मारतलों जितो! बंदूक भरलेलें कोनशाक आसा!

बळवंतान ही सगळी गजाल शांतपणी आयकली आनी आपल्या इश्टाचे दोनूय हात आपल्या हातांत धल्ले आनी मरत्या इश्टाच्या कानांत हीं उतरां फुकलीं : "पेद्र म्हज्या भावा, तशें उलोवंक फावना, पाद्रीय मनीस आनी तें मनशेपण हांवें आनी तुवें आमच्या जिवितांत अणभवलां. तुज्या भाच्यान, जुवांव दे देवस मेंडीस "मिन्टो" म्हणटालों हांव ताणें एक फट माल्ली. खरें आपल्या ओर्देनासांव माखणेच्या दिसा, ताणें क्रिस्ताक आपलें उतर दिलें आनी ताका आनी ताचे इगर्जेक विस्वासी रावतलों म्हूण भासावणी केली, तरी तो आज ती, तुज्या मताप्रमाणें एका काळ्याकिट्ट खापुल्ल्या खातीर मोडूंक फुडें सल्लो. हें ताणें करूंक फावना आनी ताचे हे करणेचेर कोण बेसांव घालीना. एक पावटी पाद्री, सासणांक पाद्री. तरी क्रिस्त पातक्यांचो मोग करिना? जुदासूय क्रिस्ताचो पाद्री आसलो की ना? सायबा, म्हाका भोगोस म्हणल्यार क्रिस्त ताका भोगशितलो आसलो की ना? तुजे भयणीचे तुज्यान हालहवाल पळोवंक जायनांत, आनी तुज्यान लज सोसूंक जायना. दुसऱ्याच्या पातकाक लागून तूं तुजोच दुयेंस करताय आनी मरणाक पावलाय? एका क्रिस्तांवाच्यान आनी चड करून एका पाद्रीच्यान,काळजांत राग आनी क्रोध दवरून मरूंक जायना. मायेमोगाचो आनी माफीचो सेर्मांव तुवें खुपदां सांगला जातलो. सांग म्हाका, पेद्र, तूं तुज्या भाच्याक भोगशिताय की ना?"

प्रि. पेद्र बोर्जीसान जाप दिली: "हय, हांव भोगशितां. बळवंत एक तुजेकडे

मागतां, ताका इगर्जेंत तरी परतो हाड, आपूण काजार जातां आनी प्रोटेस्टंट जातां म्हूण तो म्हाका बढायेन आनी छाती भायर घालून सांगतालो. देखून हांवें ताका व्हास्सीम्बार दिलें, चल पयस म्हणलें. हय, तुका भास दितां. म्हज्या लागीं घडटा तें हांव करतलों. बळवंत आपल्या इश्टाक पोशेतालो. इतले म्हणसर मेस्त आयलो आनी प्रि. पेद्रून व्हडल्यान म्हणलें : "बापा, ताका भोगोस आनी हांवूय भोगशितां." बळवंताच्या हातांत तकली घाली आनी सोंपलो. इगर्जेची घांट वाजली आनी लोकाची उरपंज जाली आनी गांवच्या लोकान प्रि. पेद्रूक फुलांनी आनी दुखांनी पुल्लो आनी मरणाचो गूट, बळवंताच्या काळजांत उल्लो.

मोटर सायकल माल्ली आनी बळवंत रायपुरा सेमिनारींत आयलो. ताचें मन धरनासलें. चिंतेस्त भोंवतालो. एकेवाटेन ताका आपल्या इश्टाचो उगडास येतालो, तो ताचे हातांत, पयलो रागान आनी उप्रांत मोगान मेल्लो. दुसरे वाटेन तो जिवो आसून आत्मिक मरणांत आसलेलो. खंयच्याय पाद्रीक कसलीय आडखळ आयल्यार बळवंत तें वायट आपलेंच म्हूण समजतालो, ताका न्हीद पडनासली आनी आपल्या पाद्री भावाचो प्रस्न सुटयल्या शिवाय तो जेवी नासलो. शिकयतालो पूण ताचें मन वेगळेच कडेन फिरतालें. ह्या दिसांनी तो खूप रोजार करतालो आनी आपल्या सेमिनारिस्तांलागीं आपणां खातीर मागणें करूंक विनयतालो आनी कितें जालां काय विचाल्ल्यार आपलो गूट फोडिनासलो. पेद्रू बोर्जीसाचे भयणीलागीं वचून मेळूंक ताणें येवजिलें. तिच्यानूच तिचो घरांतलो आनी इगर्जेंतलो ना जाल्लो पूत खंय पावला, कितें करता, खंयचे सुवातेर ठिकाण करता हें ताका तिच्यानूच सांगूं येतालें. ब्रिस्तारादीस सुटये दिसा, सोदीक वचूंक ताणें निर्णय घेतलो.

चांदोरपट्टी गांवांत ताणें आपली मोटर सायकल दवरली आनी दोनां जुवाना बोर्जीस हिच्या घरांत रिगलो. भितर सरताना, वसऱ्यार एका वोल्तेरार पडून, माथ्यार पालोव घालून, आंगाक काळी साडी न्हेसून, दोना जुवानाबाय दुकांच्यो झरी करताली. बळवंतान ताच्या भावाच्या मरणां निमतान तिका बुजवण दिली. प्रि. पेद्रूचें नांव काडिनाफुडें बुळबुळ्यांनी रडूंक लागली. बळवंताचे दयाळ आनी कनवाळ दोळे पळोवन तिका अदीक दुकां फुटलीं आनी तिणें संतापून आनी कळवळून आनी वळवळून म्हणलें: पेद्रू म्हजो भाव तुज्या हातांत मेलो, तुवें ताका शिकयलो देखून हांव सुखेस्त. म्हजो सर्गेस्त भाव सदांच भलायकेन ठणठणीत आसलो, पूण म्हज्या पुतान ताचो जीव घेतलो आनी ताका माल्लो म्हणल्यार

लटकें जावंचेंना. तो मरचे आदीं हांव काळें घालतालीं आनी मेल्ल्या पुताखातीर, आमच्या धर्माक आनी पाद्रीपणाक अंतरलेल्या जुवांव द देवस मेंडीस ह्या म्हज्या नश्टूया आनी नशीब फुटक्या पुताखातीर हांवें मरणाच्यो घांटी माल्ल्यो. व्हडलें तोंड घेवन तो हांगासर एका खापुल्ल्याक घेवन आयिल्ल्यो. मोगान पडटा जाल्यारूय, धव्या फूल्ल आनी मनशाळ आनी सांस्कृतीक चेडवाच्या मोगान पडचो आसलो, हांवें भायर घालो आनी दरवंटो धापून मेलेल्याची मागणीं म्हणली. खंय मेळत जाल्यार हांव ताका सान्नीचो खुंटो घेवन धोपटावंक आसां. ह्या भुरग्याक वयर काडूंक हांवें कितलें सोंसलें आनी कितलें मागलें, म्हाका उणें करून, हांवें ताका सेमिनारींत धाडलो, बाबा पुता करून वयर काडलो आनी ताणें आमचे फामिलीचें नांव घाणयलें. हांव ताका म्हजें घर आनी दार उक्तें करचिना तें ना.”

बळवंतान गजालींत गजाल घालीनासतना थंडपणी आनी मंदपणी सगळें आयकलें, आनी ओकपाचें आसा तें ओकूंदी म्हूण ओगोच बसलो आनी उप्रांत ताणें उतर घालें : “दोना जुआना, तुवें सांगलां तितलेंय हांवें बारकायेन आयकलां. कितेंय जावं, जुवांव दे देवस तुजोच पूत, ताणें केलां तें बरें न्हय, ताचेर आमी बेसांव घालूंक जायना, तुज्यानूय जायना. तरी आमी ताका भोगसूंक जाय आनी ताकाय देवाच्या घरा सुवात आसा, ताणें मात भोगसणें मागूंक जाय, इगर्जेचे कायदे पाळूंक जाय. तो पातकी, आमी कोण? पावल तिळीच हो व्हडल्यांतलो व्हडलो प्रोटेस्टंट बरोवपी आनी शास्त्री म्हण्टा : ‘देव फावनासलेल्यांचो मोग करता आनी मानून घेवपा न्हय तांकां मानून घेता - गॉड लव्हस द अनलव्हेबल ॲन्ड एक्सेप्टस् द अनएक्सेप्टेबल’ तर, दोना जुआना, तुका आनी म्हाका देवाचो मोग फावो? तरी ताणें आमकां विंचून काडल्यांत. पाद्रीची चूक मोटी चूक, इतल्यान तांकां आमी कोयर कसो भायर उडोवंक फावनांत, तांचेय ठांय काकूट आनी मोयपास दाखोवंक जाय. म्हाका दिसता तुवें ताचेखातीर मागत जाल्यार, तुजो पूत परतो येतलो आनी नांव होंगडायलां तें अदीक मोलान आनी मापान तो तें परतें हाडटलो. हांवें तुज्या भावाक उतर दिलां आनी तें पाळल्याशिवाय हांव न्हिदचोना, थार घेवंचोना. तर तूं मागूंक लाग आनी मुरगांवच्या, बंद रावत्यां चिकलेच्या माद्रींक बरय आनी आपल्या पुताखातीर मागणें कर म्हूण विनवणी कर. आगुस्तीनाचे आवयन आपल्या पुताखातीर तीस वर्सां मागणें केलें. हांव म्हजे लागीं आसां तें

करतां म्हूण तुका खरी भासावणी दितां जशी तुज्या भावाक केल्या. आतां तुजें काळें न्हेसप काड आनी रडचें बंद कर. म्हज्या मतान तुजो भाव पेद्र सर्गा राज्यांत पावलो आनी जुवांव द देवस परतो बापाच्या घरांत आनी कातोल्क इगर्जेच्या गोपांत येवंक मागणें करतलो. "जे संवसार सपनेनां तें मागणें करता - "More things are wrought by prayer than the world dreams of", ही इंग्लेज म्हणणी आयकूंक ना?"

दोना जुआनांबाय उठली आनी दुखांतली बुजवणेन भरली. लोकाक बुजवण दिवपाचें काम पाद्रींकडे, खेरीतूचपणी, बळवंताकडे बेस बरें जातालें.

बळवंतान प्रि. जुवांव दे देवस खंय आसत ही बारीक खबर ताचे आवयकडे काडली आनी एक दीस एकलो आपलें मोटरसायकल घेवन भायर सरलो. चिंतनेन आनी भावनेंत तो गुल्ल जाल्लो. वाटेर ताका एक पाद्री इश्ट मेळ्ळो आनी ताका पळोवन मातशें चिंतेस्त जालो. 'बळवंत तुका कितें जाला, इतलो चिंतेस्त कित्याक तूं? कोणाचेर मोटरसायकल बा व्हरून मारशी', ताणें म्हणलें. खरेंच बळवंतान एका वाटेन वेत्या म्हाताऱ्याचेर मोटर सायकल माल्ली. ताच्या बोल्साचेर खुरीस पळोवन ताका कोणे कांय केलेंना, आनी म्हाताऱ्याचेर चडसो मारूय बसूंक ना, ताचोय इल्लोसो गुन्यांव आसलो. बळवंतान आपले हात पुसले आनी मडगांवच्यान खाऱ्याबांदावसल्यान गेलो. एका पत्र्याच्या घरांत प्रि. जुवांव दे देवस बसून आसलो. बळवंताक पळेनाफुडें ताणें दार धांपलें. भितर रावन ताणें म्हणलें: "बऱ्यान पयस सर हांगा सरलो. हांव तुजेर पातयेना, तूं व्हडलो पाद्रींचो आमीग अनी इश्ट म्हूण समजताय! हांव कोणाचेर पातयेना. तुमचें क्रिस्तांवपण, माया आनी दया नासलेलो धर्म म्हाका समजना. तो म्हजो तीव रागान भरून मेलो आनी ती म्हजी आवय हांव जिवो आसतना म्हाका घांटो मारता. वाटेवेल्यान वेताना, आतांचे तरनाटे खापुल्लीना खापुल्लीना म्हूण म्हजीं खेबाडां आनी फकाणां करतात . दवर तुजें पाद्रीपण". बळवंतान ताका जाप दिली. "पाद्र जुवांव द देवस, अजुनूय तूं पाद्रीच, एकदां पाद्री सासणाक पाद्री, तुजें दार मातशें उकतें कर. तुका इल्लेंशें कितें सांगूंक जाय. तुका खेरीतूच निरोप आसा." "दवर तुजो निरोप, हांव आसां थंय बरो आसां." बळवंतान म्हणलें : "एकलो तुजो जीव तुका लागोन सासणाची न्हीद न्हिदलो आनी आतां तुजी आवय भायर पडची आसा. कितेंय जाल्यार ती तुजी आवय आनी तूं तिचो पूत. तिचे नांवीं हांव हांगासर आयलां."

आवयची खबर कार्डिनाफुडें जुवांव द देवस हाचें काळीज विरगळ्ळें आनी ताणें ल्हवू दार उक्तें केलें. तें दार अस्कट पत्र्याचें आनी सर्वय वाटांनी कुसक्या नुस्त्याचो वास मारतालो, घाणयारी वारें मारतालें. बळवंताक ओंकारे येवंक लागले. ताणें तशेच ते सोसले. बळवंत एके धाकटुले म्हणयेर बसलो आनी जुवांव दे देवस एके पिंजके कदेलीक तेंकलो आनी तांचे मदें ही भासाभास जाली:

जुवांव द देवस : म्हाका आनीक आवय ना.

बळवंत : तशें म्हणूं नये. पाद्रीची आवय आपल्या पुताचो खुपसो मोग करता आनी ताच्या आंकवारपणाक लागून दुसरी अस्तुरी आपल्या पुताच्या जिवितांत येवंक ना जावंक मागणें करता आनी कोणूय फाव न्हय ते भाशेन ताच्या जिवितांत रिगत जाल्यार ती ताची पूड करूंक तयार आसा. तुजी मांय दुकांच्यो झरी करता आनी आपूण कितेंय सोसूंक तयार म्हणटा, न्हय हे दिसग्रास आनी उणेंपण. तूं परतून येवं मेरेन आपूण मागणी करतेलीं म्हूण म्हाका सांगलें आनी आस्वासन दिलां.

जुवांव द देवस : तशें जाल्यार तिणें घांटो कित्याक मारल्योत तर?

बळवंत : दुखी खंती वेळार, एक आवय आपले केंस बुड्डिता आनी आपूण कितें करता तें नकळ. तुवें तिका भोगसूंक जाय आनी तिणें तुजे खातीर खुपशें सोसलां.

जुवांव द देवस : तें हांव समजतां. आवयच्या मोगा इतलो दुसरो मोग ना आनी पाद्री ठांय ती खेरीतूच पणी एका दाट बंदपासान ओडटा. म्हजे मांयन म्हाका खूप मोग दाखयला आनी देखुनूच ती इतली रडटा. हांव तिचे खातीर कितेंय करूंक तयार आसां. म्हज्यान कितें करूं येता? माल्लेलें पावल परतें घेवं येता? त्या भायर ही अस्तुरी येवंची जाल्या?

बळवंत : म्हज्या भावा, तूं ह्या चेडवा बाराबर कित्याक भोंवताय? खंयच्यान ही टाळणी तुजेर आयली?

जुवांव दे दवस : हांवें इतलें काम केलां, पाद्र-विगार बरें उतर म्हणिना, वयलेय वडील म्हजी गजाल लेगीत करिनांत. दे डू नॉट रिकॉग्नायज मी, ते म्हाका वळखिनांत आनी हांव आसा म्हूण लेगीत नकळत. हांव ह्या खापुल्लीना बाराबर बेश्टो सांगाता आनी बुजवणे खातीर भोंवतां, अजून ताका आफुडलें ना, भाव आनी भयण, इश्ट आनी इश्टिण कशीं भोंवतां. मनशाक 'टू बी वॉन्टेड', 'टू बी

रिकॉग्नायजड' हें चड गरजेचें. कोणेंय तरी आमकां मानान आनी मोगान घेवंक जाय. खापुर्ल्लीना म्हाका मानून घेता आनी उमेद आनी उत्साह दिता.

बळवंत : तुंवें साधना वाचलांय? थंय एक हुशार जेजुईत एक्सरसायज इन रिकोगनिशन, वळखी - रीत ही एक आसा. ताचे प्रमाणें तुंवें जेजु लागीं विचारचें. "तूं, सायबा म्हाका वळखताय, हांवें तुजे खातीर केलां ताचे खातीर तूं खुशाल?" जुवांव दे देवस देवान आमकां वळखिल्यार पुरो न्हय? आमी आमचें जिवीत आनी जिविताच्यो घडयो देवाक आनी ताचे म्हयमेक भेटोवंक ना? त्या भायर तुका ह्या गांवांत काम करची खोशी ना आनी लज दिसता जाल्यार, तुका हांव उज्जयन मिशनार कसो धाडटां. थंयसरलो बिस्प-सायब म्हजो मोटो इश्ट आनी तो आपल्यां पाद्रींक मोगान आनी मोयपासान वेंगोवपी. तूं वचपी?

जुवांव दे देवस मेंडीस : मिशनार जावंक सदांच म्हज्या मनांत खेळटालें आनी गोंय सोडून गेल्लों जाल्यार हांव जायते आत्मे जिखून काडटलों आसलों. वेतां. ह्या फुडाराक हांव मनशाचें मानून घेवप म्हज्या काळजाचो आंवडो करचोनां. खापुर्ल्लीनाक हांवें आफडूंक ना, आनी चडय वेळ आमची इश्टागत तगली ना. ताका लार दे सांता तेरेजिन्हा हांगासर घाल्यार बरें न्हय?

बळवंत : तें म्हजेर पावलें. हांव सेमिनारींत वेतां. परवां हांव गाडयेच्या स्टेशनार तुका पावोवंक येतां आनी आज घरा वेतांच उज्जयनच्या बिस्पाक तेलेग्राम धाडटां. गोंयच्या पाद्रींक धाड म्हूण तो म्हजेकडे मागतालो. आतां नवें जिवीत सुरू करचें. म्हज्या जिवितांत खुपश्यो ताळण्यो आयल्यो, आज मेरेन जेजूच्या मोगान, इगर्जेचे भक्तेन, आनी वावरान आनी देवाचे कुर्पेन म्हाका पाद्रीपणांत दवरला आनी हांव तसो दुसरो म्हणुनूच हांव हांगासर पावलों. जुवांव फाटलें विसर आनी फुडाराचेर दोळो दवर आनी तुजें काम फिकीरीन कर. तुजें जिवीत देवाच्या हातांत घाल. हांव एकदां ताळणेंत आनी तळमळांत जियेलों आनी बागांतल्या रेतिराच्या घरांतले एके अस्तुरेन म्हाका म्हणलें : 'देव आसा व्हडलो, ताच्या हातांत तुजें जीण घाल.' सकाळीं उठलो म्हणटकच तुजें पाद्रीपण आंकवार मायेच्या आनी जेजूच्या हातांत घाल. ताच्यान तर दिसानदीस म्हजें पाद्रीपण सांबाळूंक जायना, तर ताच्यान कुस्कूट जायना. बरें, आदेवस. हांव खापुर्ल्लीनाक समजायतां आनी ताका तेरेझिनाच्या घरांत दवरतां. पुरो मूं?

सेमिनारीनी गेलो आनी बळवंत खुशाल भोंवतालो. दोन दिसांनी तो मडगावां

स्टेशनार गेलो आनी थंय ताणें आपल्या नव्या इश्टाक, प्रि. जुवांव दे देवस मेंडीस हाका वेंग माल्ली आनी वेतनां उज्जयनच्या बिस्पाक गोंयच्च्यो काजूच्यो बियो धाडल्यो. बळवंत धाकट्या - धाकट्या वस्तुंनी मोग शिवंरायतालो आनी हजारांनी इश्ट जोडटालो. इश्टागत आनी इश्ट ताच्या काळजांत खुपूच घुंवताले. तो जेजूकडे शंबर पावटी मागतालो : 'जेजू, म्हाका हजार इश्ट दी, तातुंतलो कोणूय म्हज्यांत गूल जावं नये आनी हांवूय तांच्यांत गूल जावं नये. म्हाका मोग दिवंक आनी घेवंक शिकय. रायपुरचे सेमिनारींतूय खुपशे ताणें इश्ट  जोडले. बळवंत हें उतर सगळ्यांच्याच तोंडांत खेळटालें आनी सगळे ताका मान बागयताले. प्रि. ग्रेगो, लातिनो आनी पुर्तुगेज ताच्या हाताक धरून भोंवताले आनी सेमिनार एक मोगाचें पेणें जाल्लें. 'Numquems duo, raro unus, semper tres - दोग ना, एक केन्नाय, सदांच तीन'. पळून गेल्लीं आनीक खरेलो मोय-मोग आनी मोयपास  सेमिनारीच्यां वणटीनीं रिगलेलो आनी ती एक मोगाचें घर जाल्लें.

बळवंत सकाळीं उठून आपलीं नोतां टीप वाचूंक गेल्लो. ताका एक बरो सो सेर्मांव - उपदेश तयार करूंक जाय आसलो. ताणें दों जुजे व्हियेरा हाणीं दिल्लें तें पेट्रूल फिकिरीन उकतें केलें. ताच्या उतरांचो ताका उगडास आयलो: "हो तोप आनी कोंके तुका केन्नाय उपकारत. देवान तुका सगळीं देणीं दिल्यांत आनी तुका घडये देव केन्नाय तरी गोंयचो आर्सेबीस्प आनी पात्रिआर्क आनी कार्देयाल जावंक विंचून काडीत." ही उतरां कानांत आवाजतनां, बळवंत ना, ना म्हणून तकली हे आनी ते वाटेन हालोवंक लागलो. ही ताळणी, ही ताळणी म्हाका नाका, म्हज्या खांदार जबाबदारी म्हाका नाका म्हणत तो आपल्या मेजार बसलो आनी आपलीं आदलीं नोतां आनी टिपो वाचूंक लागलो.मिसाक गेलो. मीस भेटयतनां, तींच चिंतनां ताच्या मनांत भरलीं. तो तोप, तें कोंके! आर्गां आठोवंक बसलो आनी कोणें ताच्या काळजांत हीं उतरां उच्चारलीं. 'म्हज्यां शेळयांक राख'. बळवंत तकली हालयतालो, तरी तींच चिंतनां आनी भावनां मनांत फिरतालीं आनी घोळटालीं. सेमिनारीच्या व्हडल्या मेजार मदें बसून आसलो, हरशीं तो खंयच्याय कोनश्याक बस, आपूण रेयतोर, आपूण वडील असलीं कल्पना ताच्या मनांत चडशी येवजनासली, थंयीय तीच भावनां आनी कल्पनां खावंक लागलीं : "तोप आनी कोंके."

सकाळचीं इकरा वाजलीं. तार आयलो आनी ताचेर हीं उतरां माल्लेलीं.

**व्हातिकानो,**

**२-१-१९७०**

भोवमानेस्त बळवंत दा कोस्ता तुमचे आत्म्याचे आनी कुडीचे गूण नियाळून, तुमची क्रिस्त आनी इगर्जेखातीर केल्ली सेवा दोळ्यांमुखार दवरून, तुमकां गोंयचे आर्सेबीस्प नोमियारतात आनी हें काम तुमीं बरेपणीं करूंक तुमचेर आपलें बेसांव घालतात. सगळे क्रिस्ती गोंयचे प्रजेक आनी बऱ्या मनाच्यां मनशांक आपलें पाप-सायबाचें बेसांव धाडटात. Ad Multos Annos - खूप वर्सां तुमी तगचे आनी देवान तुमकां आपले वेंगेत धरचे.

नेमणूक - पत्रां फाटल्यान येतलीं. तेथून मेरेन, आपले झुटयेचो तुमी सोदपूस करचो आनी खंयच्या दिसाक तुमीं तुमचे जबाबदारेची पोस घेतात तें आमकां कळोवंचें.

**- जॉन आल्फ्रींक, कार्दीआल - चिटणीस**

बारावो अवेस्वर

# गोंयचो कार्दीआल पात्रिआर्क

रोमांकसून बळवंत दा कोस्ता गोंयचो आर्सबीस्प जाला म्हूण सगळ्याक फांकले आनी बळवंताक तारांच्यो पुंजी आयल्यो आनी पयलीं-पयलीं पोस्टमास्तर इतले तेलीग्राम हाडले म्हूण अजाप जालो, पूण चिटयांचो भार आनी भरो पळोवन उबगलो. रायपुरच्या सेमिनारिस्तांनीं बळवंताक खांदार माल्लो आनी सेमिनारींमदें भोंवडायलो. आल्दीया-मारचो आदलो विगार लकत लकत बार्देससून पोरशीं आयलो आनी बळवंताक वेंग माल्ली, ताका पोशेलो आनी ताचेवयल्यान हात घुंवडायलो आनी बेसांव तुजेर पडों रे म्हणून घरा परतलो. मादैराकसून दों जुजे व्हियारा हाणें तेलेग्राम धाडलो आनी आपूण परवानगी घेवन, बिस्पाची माखणी दिवंक येतां म्हूण कळयलें. उज्जैनच्या बिस्पसायबान आपूण धावीं -धावीं माखणेक येतां म्हुणून चीट बरयली आनी आपणांक पाद्रीचें देणें केलें देखून, पाद्री जुवांव दे देवस हाका मिसांवाक धाडलेलो ताचे खातीर उपकार आठयले आनी देवाचीं बेसांवां विनयलीं. अमेरिकेकसून, मारिया दोस सेवस आपूण आनी आपलो घरकार आनी भुरगीं बिस्पसायबाचे माखणेंक येतात म्हूण धिनवासणेचो तेलेग्राम धाडलो आनी विमानान तीं गोंयां पावलीं आनी आपल्या घरा वेचे आदीं ताणीं सेमिनारीची वाट धरली आनी बळवंतान खुशालकायेचीं दुकां गळयलीं. स्वीसाकसून जेनेव्हीव

दे चार्दीन आनी सोयरीं खासगी विमान करून गोंयां पावलीं. देवगिरी फोगोट्यांचो आवाज जालो आनी सगळीं क्रिस्तीं, हिन्दू आनी मोयर परजा बसी करून रायपुरा पावली आनी बिस्प सायबाची माखणी देवगिरी मळार जावंची आनी तातूंत सगळ्या धर्माच्या मनशांनी वांटो घेवंचो अशें बळवंताक सुचयलें. बळवंतान तांच्या मोगा आनी मोयपासाखातीर मान बागयली आनी हय म्हणलें. अमृत आनी शालीनी मोटर मारून खुशालकायेचीं दुकां घोळयत रायपुरा पावलीं आनी येतना ताका कारामुलीचो कोंकणो दुदी आनी मोटच्यांतलें वायंगें हाडलें. पत्रांचेर आनी वितरावणेचेर बळवंत गोंयचो आर्सेबिस्प आनी पात्रिआर्क जालो म्हूण सगळ्याक गाजलें आनी सादलें. देवगिरी मळार जायती पत्रांनी खबर पसरायली.

सगळे दोळे देवगिरी वसल्यान लावन सगळे गोंयकार चलूंक लागले.

तारीक आठ म्हयनो देजेंब्र, त्या दिसा कातोल्क निश्कलंक मारियेचो गर्भसंभव समारंभतात. बळवंतान आपले बिस्पमाखणेचो दीस मारियेच्या परबेच्या दिसा पाळचो ही आपली इत्सा म्हूण कळयलें. देवगिरी कुरपेवंत मायेक भेटयल्ली. तिचे परबे दिसा आनी तिणें पाद्रीच्या जिवितांत ताका राखलेलो आनी सगळ्या विघ्नांतलो निवारलेलो. ज्या दिसा ताची संवसारी आवय जल्मलेली आनी अंतरलेली, त्याच दिसा आपली माखणी जावंची, ताणें चिंतलें आनी तारीक थारायली. देवगिरी शारांत मुखेल नागरीक जमले आनी कशेतरेन ही परब पाळची हाचेर भासाभास केली आनी सगळे परजेक आर्दी फुडें कार्यावळ कळयली. आख्ख्या शारान आपआपली देणगी दिली. आनी हो समारंभ आपल्या गांवांत आनी शारांत पाळूंक निर्णय घेतलो. देजेंब्राचे आठवेर शारांतल्या मुख्य लांब आनी रूंद मळार धा हजार कदेलां मांडलीं, वयल्यान जिनसावार रंगाचे पड्डे माल्ले, सगळें मळ रंगीत बावट्यांनी नेटयलें, झिगझिगीत दिव्यांनी परजळायलें, भितर आनी भायर लोकाचे लोंडे दिसताले, सगळें शार आनी सगळें गोंय एकठावलेलें. बावीस गोंयकार बिस्प-सायब आनी आर्सेबीस्प एकठवलेलें, बळवंताचे रोमी इश्ट आयलेले आनी त्या बिस्पांची तांबडीं न्हेसणां घालून सगळें मळ तांबडें जाल्लें. देवगिरीच्या पाद्रयांनी आपल्या मीस-सेवकांक तयार केल्ले आनी तांकां एक म्हयनोभर तालीम दिल्ली. रायपुरच्या सेमिनारिस्तांनी आपल्या मायेस्त्रोखाला मुजगां, वाजपां आनी गितां तयार केल्लीं आनी ऑर्गांवांचो साद सगळ्या शारांत गाजतालो. आल्देया-मारसून व्हडलें मुजगांचें बॅन्ड आयलेलें

आनी आवाज चारूय कोनशांनी पावतालो. देवगिरी आनी कारामुलीसून देशी वाजंत्री, बॅन्डां आयलेलीं आनी सगळे परबेक भारती रंग दितालीं. एका हिन्दू याज्ञिकान मागणी केली, उप्रांत एक मुल्ला उबो रावून अल्लाक उलो माल्लो. समारंभ सुरू जावंचो वेळ जालो.

देवगिरी इगर्जेंतसून व्हडलें पुरसांव आनी मिरवणूक भायर सरलें. साठ वेदी-सेवक सवकास सवकास पांय मारीत, जिनसावार रंगार्ची न्हेसणां घालून फुडें सरताले. मुखार व्हडलो खुरीस दोगां सेवकांच्या हातांत दुम्पेलां आनी पवित्र उदकार्ची आयदनां, सेवक आनी याज्ञीक हळुहळू धेंपां मारीत मळार वेताले, कॉन्फ्रार तांबडें न्हेसण घालून दुसरे कार्दिआल कशे दिसताले. तांचे फाटाफाट पंवचीस बिस्प-सायब चलताले, तांचे मागीर उमाळ्यांनी भरलेल्या दोळ्यांनी आनी धर्वी-फूल न्हेसणां घालून बळवंत चलतालो; ताचे मागीर तेग माखणी करतले आर्सेबीस्प आनी तांचे मदें बळवंताचो पर्तुगेज इश्ट, दों जुजे व्हियेरा हांसत्या तोंडान बेसांव घालीत  धेंपां मारतालो. एस्से सेक्रेदोस मागनूस, हो पळे म्हा-याज्ञीक हें गीत सेमिनारींतल्या भुरग्यांनी चार तुआद आनी सुरांनी गायलें आनी तें आयकूंक एक नवलूच दिसतालें. इतलें सोबीत गायन गोंयांत आनी देवगिरींत भोव थोडे पावटी सादलेलें. मळार व्हडलीं फळ्यांची माची मांडलेली आनी रिती पाळटात त्यो खंयच्याय कोनशाक रावन दिसताल्यो. लांब आनी रूंद पाकलो आर्सेबीस्प माचयेर चडलो आनी खुर्साची कुरू काडली आनी सगळ्याक 'आमेन' आवाजलें.

बळवंतान मुख्य बिस्पां हुजरां दिमी घाली आनी आपूण इगर्जेच्या भावार्ताक विस्वासी रावतलों तसोच पापासायबाक खालतो जियेतलों म्हूण सभेमाजार भासावणी केली. बळवंत जमनीर सारको आडवो पडलो आनी उप्रांत सांताचें लादीन - स्तुतीमाला सुरू जाली, आनी बळवंताच्या दोळ्यांनी दुकां व्हावतालीं आनी ल्हानविकायेचीं चिंतनां ताच्या मनांतल्यान फिरतालीं. तकली आनी मान जमनी वेसल्यान बागोवन आनी वयर-सकयलसून आडवो न्हिदून आपूण कितलो उणाक मनीस आनी कितलो मातये सारकेलो पाद्री हें चिंतून भितरले भितर तो देवाक आर्गां दितालो आनी सांतांचीं लादीन म्हणटना, आपल्या पातकांची दूख धरतालो. आपल्या जिवितांत तो 'काळजान नितळ ते सुभागी कित्याक ते देवाक पळेतले' हें भाग्य सदांच जियेल्लो. आतां ताणें तें जियेवंक देवाकडेन खतखत्यान

मागलें. दिमयेर पडलो आनी सरळ दों जुजे व्हियेरा हाचेफुडें मान पोंदाक घालून रावलो आनी दों जुजेन ताचे फाटीर शुभवर्तमानाचें पुस्तक दवरलें आनी म्हणलें : 'पवित्र आत्म्याक घे'. बिस्प-सायबाची मुख्य जापसालकी देवाचें उतर परगटप, तें ताणें शिकूंक जाय, खरो भावार्त आपले डायोसेजींत राखूंक जाय, देखुनूच आपले फाटींर येदें व्हडलें पुस्तकाचें वजन घेवंक जाय. दों जुजेन बळवंताचे तकलेर आनी कपलार तेलांची माखणी केली आनी पवित्र त्रित्वेक उच्चारली. उप्रांत ताणें बळवंताच्या हाताक तेल लायलें आनी ताच्या हातांत कोकें दिलें आनी ताका गोंयचे डायोसेजिचो राखणो केलो आनी ताका बरो आनी मनशाळ जावंक शिडकायलो. मुदयेचेर बेसांव घालें आनी ती बळवंताच्या बोटाक घाली. 'इग्रज तुजी व्हकल.' ताणें म्हणलें 'इग्रज म्हजी व्हंकल, तीच म्हजी सुंदरी.' म्हणून आनी दिशीं-माशीं चिंतून बळवंतान आपलें निर्मळपण सांबाळ्ळें. बळवंत आपले सवंये प्रमाणे आदल्या मुख्य पाद्रींचीं पुस्तकां वाचतालो आनी तांचेवयल्यान एक सत परजळटालें : 'इग्रज पाद्रीची व्हंकल.' तें सत तो जियेल्लो आनी ह्या फुडाराक खोलायेन जियेवंक ही भांगराची मुदी ताका ओडटाली. ह्या मुखार गोंयची आर्कीडायोसेज बळवंताची व्हंकल जाली. बळवंतान आपलें उपकारपण दाखोवंक दों जुजेक दोन धाकटुलीं सोऱ्याचीं भल्लां आनी दोन उंडे आनी दोन वाती अर्पिल्यो आनी भेटयल्यो.

भेटवणेवेळार रायपुरच्या सेमिनारिस्तांनीं नव्या बिस्पाक नवो करार भेटयलो, देवगिरीच्या लोकान आपल्या दोंगरार पिकतले मिनाचे फातर हाडले, आल्देया-मारसून खारवी भावांनी व्हडलें बळवंता येदें नुस्तें अर्पिलें, देवगिरीचे नगरपालीकेन नागरिकां नांवान पितळेच्यो दिवल्यो ओपल्यो, मारिया दोस सेवूस हिणें अमेरिकेकसून भांगरांचे पेन हाडलें, जेनेव्हिव आनी तिच्या घरकारान स्वीसाचें घडयाळ समर्पिलें आनी शालींनी आनी अमृत हाणें कारामुलीच्या पोरसांतसून तवशें आनी मोगें ओपलें. मिसाचे सोंपतेर दों जुजेन बळवंताच्या माथ्यार भांगराचो तोप घालो आनी सगळे परजेन लेटीन भाशेंत आर्गांचें गीत गायलें आनी सगळें मळ आवाजलें. बळवंत लोकांक बेसांव दीत वयरसून सकला गेलो आनी सगळीं बळवंताचीं सोयरीं दुकांनी भरलेल्या दोळ्यांनी ताका पळेतालीं आनी ताचे दुबळे हिन्दू आनी मोयर इश्ट ताका पांयांचो उमो घेवन नमन करताले.

सांजेवेळार नागरिकांनी व्हडलें मानपत्र आडायलें. नगरपालिकेच्या अध्यक्षान

हुनहुनीत बोली केली आनी ताणें लॅटीन उतरां माल्लीं. 'Gloria virtutis umbra' - महिमा गुणाची सावळी. जितलो तूं गुणेस्त जावंशी तितलीच तुज्या फाटाफाट महिमा आनी मनशांचो मोग येता आनी धांवता. खुपश्या नागरिकांनी आनी इश्टांनी बोलयो केल्यो आनी शेकींमेत बळवंत उठलो आनी ताणें निमणे सुवातेर आपली बोली केली आनी आपलो निरोप दिलो.

"म्हज्या मोगाळ भावानो, आज म्हाका देवान पाद्रीपणाची पुराय आनी संपुर्णाय दिल्या, म्हाका गवळी आनी शिकोवपी केला. हांव देवाक उपकारी आनी उप्रांत हांव दों जुजे कास्त्रोक दिनवासी. तो पुर्तुगेज आनी हांव भारती. आमकां एका खरेल्या मोगान बांदले आनी हो मोग दाखोवंक तो आयज मादेयराकसून आयलो. म्हज्या भायर पडलेल्या बापायक आनी आवयक हांव उपकारी आनी समेस्त म्हज्या इश्टांक आभारी. देव तुमकां बरें करूं. म्हजेर मोठी जबाबदारी पडल्या ती हांव म्हजेलागीं घडटा ते भाशेन पाळीन. तुमच्या आदारान हें म्हजें वजें म्हज्यान तोलूंक जातलें. तुमी हे परबेक खुपसो खर्च केला. फुडाराक आमी दुर्बळपणान जियेवंक जाय. खुपसो लोक दुबळो जियेता आनी दुबळो मरता. हांव दुबळो जल्मूंक ना, पूण दुबळो जियेलां आनी दुबळो मरूंक म्हजो आवंडो. दुबळ्यांक वेंगावंक आनी तांकां माया-मोग दाखोवंक आनी तांच्या गरजांक पावूंक म्हज्या जिवितांत हांव खेरीत भारान यत्न करतलों."

बळवंताची बोली सोंपुकूच ना, एक धा-बारा वर्सांचो भुरगो माचयेर चडलो आनी ताणें बळवंताक वेंग माल्ली आनी ताका सांगलें : 'फादर हांव तुजो वेदी-सेवक. हांव तुजे भाशेन पाद्री जातलों आनी सगळें गोंय भाग्यवंत करतलों.'

माखणी घेतली आनी बळवंत पणजे पलाशींत आयलो. व्हडले मनीस एकसुरे. व्हडपण आनी एकसूरपण बाराच बरीं चलतात. जुवांव तेविसवो वाटीकनांत रिगलो आनी एकसूरपण आयलें. पापासायबा एकसुरो जियेवंक जाय आसलें. जुवांव तेविसव्यान ही सवंय मोडली आनी आपल्या चिटणिसांबरीं जेवंक-खावंक लागलो. बळवंताचेर एकसूरपण आयलें. व्हडल्यो पलासी - रावळाच्यो वण्टी आनी व्हडले कूड एकसूरपण वाडयतालें. आपूण सकला एका धाकटुल्याच कुडांत आनी कुवार्तांत रावतलों ही ताची येवजण जाली. आपल्या कुवार्तांत ताणें एक सादें मेज घालें, धाकटुलो कानपो घालो आनी एक बडबड बरोवपी (टायपरायटर) आनी उदकाचें मातयेचें बिंदूल आनी एक उदक पिवपाचें मग. सादें चिंतप आनी

सादें जिवीत! ताणें आपलें जिविताचें ब्रीद केल्लें. “Servus Servorum Dei” - 'देवाच्या चाकरांचो चाकर'. जशे देवाचे चाकर जियेतात तशेंच ताणें जियेवंक जाय. दुबळे क्रिस्तांव आनी अक्रिस्ती मनीस जियेतात तशे जियेवप आनी तांच्या दुबळेपणाचो वांटेली जावंक आनी न्हेसपान आनी वागणुकेन क्रिस्त दुबळ्या भाशेन जावंचो ताणें येवजिलें. पयल्या दिसांनी आपले आदले इश्ट ताका पयस सरतात शे दिसले आनी मागण्यांतल्यान आनी चिंतनेंतल्यान एकसूरपणाचेर जैत व्हरूंक निर्णय घेतलो. सगळ्या जिनसांचें आतां शास्त्र आसा, थिओलॉजी ऑफ रिडेम्पशन, थिओलॉजी ऑफ नथींग, थिओलॉजी ऑफ रिस्क, सोडवणेचें शास्त्र आसा, कुस्कुटाचें शास्त्र आसा, संकटाचें शास्त्र आसा, तशेंच एकसूरपणाचें शास्त्र, थिओलॉजी ऑफ लोनलीनेस आसा. ती तिलोगी बळवंत शिकूंक लागलो आनी ती शिकून केन्नाय आपल्या पाद्रींकूय सांगूंक उपकारतली अशें ताका दिसलें. आपल्या जिवितांत आनी आपल्या पाद्रींच्या जिवितांत एकसूरपण आनी एकांताय खूपशीं वसता आनी तरनाटेय पाद्री एकसूरपण आनी एकांताय हीं उतरां खूपशी वापरतात. त्यो खोलायेन शिकून घेवंक जाय. पिडेक वखद जाय.

आमी पाद्री एकसूरपणाची इतली बोबाळ करतांव. एकसूरपण मनशाच्या साराक आनी आसणेक लागता. तें सारकेंच नाकारूंक जायना. स्कोलास्तीक तत्वगिन्यानी सांगताले त्या परमाणें मनीस स्पातिओ-तेंपराल, ताका कूड आसा आनी कुडीवरवीं ताका वाटे आनी भाग आसात. मनीस आनी ताची हांवकी एकेचकडेन, आनी एकाच तिप्यार आनी कोंक्यार बांदून नासता आनी ती सगळ्या मनशांत शिंपडटा आनी मनशाक परतून चिंतपाची पदवी आसा जाल्यारूय, मनशाच्यान आपणाकूच पुरायेन वळखूंक जायना आनी वळखिल्यारूय आपणाकूच उतरांनी आनी चिंतनांनी इस्कुटावंक जायना. मनीस आपणाचेच ठांय आनी आपणाक एकसुरो आनी आपणाक सगळ्याक हाजीर जायना देखुनूच तो एकसुरो. दुसऱ्या ठायीय तो एकसुरो, दुसऱ्याकूय तो पुरायेन वळखना आनी दुसरो मनीस ताका एक गूट. मनीस सैमानूच एकसुरो कित्याक तो वेळा-काळांतलो आनी सुवाते - जाग्यांतलो. तो एका पोंतार ना, शिवरला.

मनीस इतिहासीक आनी इतिहासांत जियेता. मनशाचो इतिहास पातकाची खबर. पातक आमच्या काळजांत खेळटा. पातका आदीं मनशा आनी देवामदें एकवट आनी वळख वसताली. पयल्या मनशांच्या पातकांतल्यान मनशामदें आनी

देवामदें फूट पडली आनी मनीस आपणाकूच पानांनी लिपोवंक लागलो. मनीस आनी मनीस, दादलो आनी बायल, एकमेकांक उकतीं आसलीं, पातका उप्रांत एकमेका हुजरां विंगळी रावंक फाटीं सरलीं. पातक मनशाक आनी देवाक आनी मनशाक आनी मनशाक दोशीं करता आनी एकमेकांक अनोळखी करता, एकमेकांची भिरांत काळजांत रचता. एकसूरपण सैमांतल्यान आनी सैमाच्या आनी जण एकल्याच्या पातकांतल्यान येता. जेजूय एकसुरो आसलो आनी एकसुरो जियेलो.

जेजूचें जिवीत निहाळळ्यार तो एक व्हडांतलो व्हडलो एकसुरो. ताचे शिश्य ताका समजनासले. ताच्या बापान ताका सांडलो आनी ताणें म्हणलें : "बापा म्हज्या, बापा म्हज्या, तुवें म्हाका कित्याक सांडलोय. एकसूरपण बिस्पाच्या आनी पाद्रीच्या जिविताचो वांटो कित्याक तो क्रिस्ताच्या जिविताचो वांटो. आमचे एकसूरपण मरणान सोंपतलें. मरणांदिसा 'मोमेंट ऑफ लायट' -जसो नावास्तो लादिस्लावस बोरोस आमकां सांगता, 'आमी देवाच्या आनी मनशाच्या मोगांत परजळतल्यांव आनी एकसूरपण सोंपतलें आनी आमी देवाक आनी पेल्याक हाजीर जातल्यांव. जिवंतपणा उप्रांत जेजू वण्टींतल्यान, वाऱ्यांतल्यान दुसऱ्यांक हाजीर जातलो. तशेंच मरणाचे घडयेर आमी सुटे आनी मेकळे जातल्यांव आनी देवाकडेन, मनशाकडेन आनी सगळ्या संवसाराकडे नाती जोडटल्यांव आनी म्हणटल्यांव : "एकसूरपणां, तुजें कूस खंय गेलें? मरणान मोग उतरतलों'. ह्या संवसारांत आसूं मेरेन एकसूरपण आमकां भोगूंक पडटलेंच. तरीय तें आमच्या मागण्यांत उणांव येता. क्रिस्तान एकसूरपणाचेर मागण्यांत आनी बापाकडे, भावार्तान एकवट जोडून जैत मेळयलें. बळवंतान मागणें आनी निहाळ सांडचो ना म्हूण निश्चेव केलो आनी एकसूरपणाच्यो वणटी फोडूंक लागलो. खरो गवळी आपल्या शेळयांक वळखता आनी ताच्यो शेळयो ताका वळखतात. जेजून सांगलेलें, "वचात". सगळो वेळ भितर बसून रावूं जायना. पाप सायबाच्यान घरांत बसून आपलें काम करूं येता. एका बिस्प-सायबान भोवूंक जाय आनी आपल्या कार्याची आनी कामाची पोरशीं अनुभवान वळख घेवंक जाय. इतल्यान बळवंत आपली दैनिकी नव्यान बरोवंक लागलो. उरलेलें ताचें जिवीत आमी ताच्याच उतरांनी दितां.

१-२-७५

आधुनीक बिस्पसायबाच्यान एके सुवातेर बसून रावंक जायना. पयले बिस्पसायब, जेजूचे शिश्य आनी आपोस्ताल कुडांत बसून रावनासले. ते गांवागांवांनी भोवताले. थॉमस पन्नासाव्या वर्सा इंडियेक पावलो. पावल आनी पेद्रून रोम शाराची धर्तरी आपल्या रगतान न्हाणायली. हांव आपोस्तलांचे सुवातेर आसां आनी म्हाका एक मिसांव आसा. हांव धाडलेलो, हांवें सदांच म्हज्या पांयार उबो आसूंक जाय, एक म्हजो पांय सदांच धांवतेर आसूंक जाय. हांव बरो आनी हुशार विगार - जेराल विंचून काडटलो. पयशांचो आनी आर्थीक संवसार पाद्र मातेमातिको हाच्या हातान घालतलों. ताका हांव सेमिनारींत वळखतां. ताका एक पध्दत आसा, ताका रीत आसा. ताका गोंयचे आर्कीडायोसेजीच्या भाटांची आनी शेतांची वळख आसा. भुकेलेल्या पोटांनी देवाचो आनी पेल्याचो मोग करूंक जायना. रित्या आतकड्यांनी देवाचो उगडास करूंक सोंपें न्हय. आमच्या पाद्रींक आनी परजेक फाव तितलें जेवण आनी उदरपोसण मेळूंक जाय. सगळीं भाटां हांव पाद्र मातेमातिको हाच्या हातांत घालतां. बरो भांडारी जातलो. विगार - जेराल हाच्या हातांत सगळीं घरचीं सुत्रां घालतां आनी जाता तितलें पॅरिश व्हिजिटेशन गांव गांवच्यो भेटो हांव फिकिरीन आनी उमेदीन करतलों. फिगर्जीक भेट दिवप बिस्पाचें मुख्य आनी मोलादीक काम. हांव म्हजे वागणुकेंत आनी चालींत सादोसुदो जियेतलों आनी दुबळ्या धाकट्याक क्रिस्ताचो खेरीतूच मोग दाखयतलों.

काल हांवें म्हजें धाकटें मोटर गॅरेजींत दवरलें. हांवें म्हाका दिल्ली ती सायकल भायर काडली आनी धवो लोब घालो, आनी गळ्याक धवो खुरीस लायलो आनी हांव आल्तिनोचोर पासयेक गेलों. वाटेर म्हाका एक म्हतारो कानडी अप्पाया नांवाचो मेळ्ळो. ताचे दोनूय पांय सुजलेले आनी ताच्यान चलूंक जायनासलें माथ्यार व्हडली पोटली मारून चलतालो. म्हजें काळीज विरगळ्ळें. 'मामा तुजी पोटली म्हजेकडे दी, हांवें म्हणलें आनी ती पोटली हांवें म्हजे सायकलीक बांदली आनी मामाक हांवें सायकलीचेर घेतलो आनी हांवें ताका ताचे खोंपटेंत व्हेलो. ताचे पांय हांवें धुले. घरचीं म्हाका पळेवन तटाकलीं. हांव गोंयचो बीस्प म्हूण तीं नकळो आसलीं. एका पाद्रीन वखद दिवंक शिकूंक जाय. क्रिस्ताचो 'हिलींग पावर' - क्रिस्ताची वखदी पदवी पाद्रीन चालूच दवरूंक जाय. पाद्री वैज न्हय

जाल्यारूय, ताणें गरजेचीं वखदां जाणां जावंक जाय, आनी उणेंच जाल्यार 'दे चायने' ह्या वैजाचीं वखदां लावंक शिकूंक जाय. हांव शिकूंक लागतलों. दिसपट्टीं शिकतलों. पालयेकाराचो गूट नव्यान वापुरतलों.

आज राती हिन्दू फार्मासींत हांव गेलों आनी 'दे चायने'ज बूक ऑफ मेडिसीन' हांवें विकतो घेतलो. पानां आरतिलीं आनी परतिलीं. पयलेच पावटी एका मनशाचे पांय धुले आनी म्हाका ओंकारो आयलेल्या भाशेन जालें. फाल्यांय हांव त्या अप्पायाच्या घरांत वेतलों. आमी गोंयकार ह्या लोकाक घांटी म्हण्टांव. ते खंयच्यान घांटी? आमी खंयच्यान उंच? खरें आमकां जाय ती अस्तंमतीची संस्कृताय लागता तितल्यान आमचे असलो कोण दुसरो ना हें आमच्यान म्हणूं जायना. हांवें म्हज्या गवळीकी चिर्टींनी आनी उलोवपांनी गोंयकारांक सुपिरिऑरिटी कॉम्पेलक्स - व्हडव्हिकेची पुंजी सोडून दिवंक आनी आमी दुसऱ्या भारती भावांक मोगान आनी मोयपासान वेंगावंक शिकोवंक जाय. आमकां क्रिस्तावांक भारती मनशांचो मोग आसूंक जाय.

सकाळीं हांवें गोंयचीं पत्रां वाचलीं. तीं क्रिस्तावांक आनी म्हाका अराष्ट्रीय आनी भारताचे दुस्मान म्हणटात कित्याक हांवें पॉल ६व्याचे गवळीक चिर्टींचो उल्लेख केल्लो. क्रिस्तांव आनी राष्ट्र हें एकामेकाचे दुस्मान न्हय. सगळ्या म्हज्या जिवितांत हांवें देव आनी धर्म, भारत आनी इग्रज ह्या दोगांय जाणांनी एकामेकांच्या हातांक धरून चलूंक जाय म्हूण परगटलां. राष्ट्र घडटा आनी राष्ट्र मोडटा अशें स्वतंत्र सैनिकांनी सगजूंक फावना. वस्तू हुनहुनीत आसतना, इस्कुटावंक जाय. हांव हेराल्दाचेर, इश्टाचेर आनी आमच्या धर्मीक पत्रांचेर म्हजो निरोप परगट्टलों. लोकाक निवळ आनी उजवाडीत तत्वां आनी नयन-दिरेक्सांव जाय. गैरसमज रोकडोच थाऱ्यार घालूंक जाय. आमी जायते पावटी लोकाक उंडे दिवंचे सुवातीर फातर दितांव. आज राती हांव लेख तयार करतलों. इग्रज सरकाराचेर आड न्हय आनी इगर्जेचेर सरकार आड आसूं नये. तरी केन्ना अशें जावं येता, सरकार देवाच्या आज्ञांचेर आड वचूं येता आनी आमच्यान शेंपडी पोंदाक घालून ओगे रावंक जायना. जेजून आमकां सांगलां 'हय-हय, न्हय-न्हय' असलें आमचें जीण जावंक जाय. खूप आमचे पाद्री एकसुरे रावतात, तांचेकडे उलोवंक आनी गजाल करूंक कोण ना. हांवें तांच्या जिवितांत वांटो घेवंक जाय, जी शितकडी ते जेवतात ती हांवेंय जेवंक जाय, जो पेज्जेचो नीस ते पियेतात तो हांवेंय पिवंक जाय. रेंग-टेंग

वाजयनासतना, धोल बडयनासतना, कोंगो फुलयनासतनां सादे लोब घालून, लागशिल्या गांवांनी सायकल मारून हांव म्हज्या पाद्री भावांक भेट दितलों. गोंय गिन्यानीक आनी शाण्यां पाद्रींचो गांव. थंय हुशार आनी जाणणार पाद्री आसात, गोंय म्हजें पुरोगामी आनी प्रतिगामी हांचे मदें फांटलां. म्हज्यान पुरोगामीय जावं येना, न्हय म्हूण प्रतिगामीय जावं येना. हांव मदें रावतलों आनी दोगांकूय वेंगयतलों. तागडी उबी दवरूंक वावुरतलों.

२-२-७५

एकसूरपणाक म्हज्या कामांतल्यानूच म्हाका जबाब मेळटा. एका बिस्प-सायबान आपले परजेक आनी फिर्गोजांक भेट दिवंक जाय. ह्यो भेटो करून म्हाका मनशांची वळख घेवंक संद मेळटा आनी गोंयचो सादोसुदो लोक बिस्प - सायबाचो कितलो मोग करता तें म्हाका ठावें जाता. आमचे पाद्री अजुनय खतखतीत, भायलें वारें आनी वादळ तांकां लागलें ना. आंकवारपण आनी ताची अपुर्बाय तांचे ठांय जिवी आनी ताजी उरल्या. आमचे पाद्र आग्नेल आनी प्रि. जुजे वाज तांकां आंजा सारकेले पाद्री म्हणटाले, तांची देख आनी तांचो परमळ आमच्या पाद्रींमदें आजुनय वसता आनी जो तळमळ दुसऱ्यां गांवांनी दिसून येता तो आमचे आर्कीदिओसेजींत ना. दामांव गेल्लों, थंय लोकान म्हाका मोय-मोगान आनी मोयपासान घेतलो. फुलांनीं म्हाका भरलो, नुस्त्यान म्हाका जेवयलो. लोकाचो मोग पळोवन म्हज्यां दोळ्यांनी दुकां भरलीं आनी म्हाका दिसलें. इट इज गूड टू बी अ प्रिस्ट - पाद्रीपण खूप बरें. तें देवान म्हाका दिलें आनी आजून मेरेन हांव पाद्रीक आनी पाद्रीपणाक उंच मोलायतां. हांव मरून दुसरी जल्मांक आयलेलों जाल्यार, हांव पाद्रीच जातलों आसलों.

काल हेराल्दाचेर मोटी खबर आयल्या. सायबीण रडटा आनी तिचीं दुकां पडटात म्हण गजाल आयकल्या. दुकां पळोवंक सगळी साश्टी आनी बार्देज वेता खंय. आज सकाळीं म्हजे समोर थंयचो पाद्र-विगार जुवांव बातिस्ता फेर्नांडीस आयल्लो आनी आपणें कितें करचें तें आपुणूच नकळो म्हणलें. म्हाका सगळें सांगलें. खरें म्हणल्यार, आंकवार मारियेच्या काळजाचेर रगता सारकेले थेंबे दिसताले. खरेंच रगत, कितें कात आपणाकूच समजना ताणें म्हणलें. कुश्ठाळेच्या इगर्जे भायर फेर मांडल्या, वाती विकतात, मोटरांचो आवाज, पुलीस खातें आपल्या

मनशांक धाडटा. मिलाग्री जाल्यात, खूप पयशे पडटात. एकलो थोंटो बरो जालो, कोणाचें पोपीस कुसलेलें बरें जालें म्हण सगळ्याक गाजता. गांवचे पुरपी आनी साक्रिस्तांव गजाल लोकाक सांगत आसात आनी पयशे आपुणूच कमायतात. ताणीं आजून पयशे म्हजे लागीं दिवंक नांत. सदांच फाल्यां दितां म्हणटात. जिनसावार लोक येता, हिन्दू, क्रिस्तांव, मोयर. लोक आपुणूच होरां-सांतां तेर्स आनी मागणीं करता. हो गूट फोडूंक म्हज्यान नज. "फेस्तिना लेन्ते" - सवकास चल, हांवें म्हणलें.

"असल्या कामांनी धांवूंक फावना", हांवें पाद्र-विगाराक सांगलें. लुर्दीस शारांत देवचार दिश्टी पडलो, तुजी सायबीण पोत्यांत घाल म्हण पाद्र-विगारान सांगलें आनी उपरांत ताणेंच आपलीं उतरां खावंची पडलीं. फातिमाक सरकारी मनशांनीं जार्सिताक, फ्रान्सिस्काक आनी लुसियाक खूप त्रास दिले. उपरांत सत उगतें जालें. सायबीण रडटा वो नांच आमच्यान म्हणूं नज. देव जायते पावटी दिशण्यांनी आपले परजेक न्हिदे - भरमेंतल्यान उठायतां आनी तिका खतखत्याचे वाटेर हाडटा. नवीं सतां दिनां, कित्याक देव-उक्तावणें निमण्या आपोस्तलाकडल्यान सोंपलें, तरी सायबीण फातिमाक, लुर्देसाक दिश्टी पडली आनी आदल्यां सतांचेर लक्ष ओडूंक तिणें विनवणी केली. "मागणें आनी पिराजीत". देवाच्यान गोंयचे म्हजे परजेक आनी म्हाकाय कसलोय निरोप दिवं येता. आमी शेळमोडे जाल्यांव न्हय मू? दुखां-रडणें, हें गोंयांत नवें आनी अनकळतें न्हय. सांताक्रूज दोस मिलाग्रीस ही हालती -धोलती खुर्साची कुरू आजुनूय गोंयां आसा. सांता मोनिकाचे कोंन्वेंतांत रडटी इमाज आसा. पाकले आनी गोंयकार माद्रींक त्रास दिताले खंय, आनी ते वेळी सांता मोनिकांतली इमाज रडली म्हण आमकां इतिहासीक पुस्तकां सांगतात आनी ती मुर्ती आमचे मदें आसा आनी तिका सगळे इंडियेच्यो आनी आशियेच्यो माद्री पांय पडटात आनी थंय आतां चुकनासतनां मीस जाता. कितें जायत हो गूट? रडटी सायबीण वो फसवती परजा?

एके वाटेन आमची परजा भक्तिवंत आनी जाणवीक जाल्यार, दुसरे वाटेन ती एकदम सादी आनी एकदम भावार्ती. ती कितेंय सत मानूक तयार! हें हुमाणें ताकतीन सुटोवंक जायना. पाद्री विगाराक थंड राव म्हण सांगून हांवें ताका घरा धाडलो. सद्याक हांव म्हज्या हुशार विगार-जेरालाक कुश्ठाळे वचूंक सुचयतां आनी तसोच आमचे सेमिनारींतल्या गिन्यानीक प्रोफेसराक पोरशीं वचून पळोवंक

धाडटां. उपरांत हांव पोरशीं वेतलों. सगळें सारकें शिकून हाडूंक जाय आनी उपरांत म्हज्यां शेळयांक हांवें निवळ आनी नीज शिकवण दिवंक जाय. इतल्या म्हणसर म्हाका धांवून दिसता आनी म्हज्या आंगांतलो बळवंत म्हाका ओडटा. हांव समजतालों खूप शांत आनी शिटूक जालां-सो! वादळ आनी वारें म्हाका उठायता आनी जागृत करता. आदलो मनीस मेलो म्हणटात तें खरें न्हय, आजून जिवो आसा. कुश्ठाळे पयशे पुंजायतात तांकां हांव बंद करूंक आसलों, पुलीसेंत दिवपी आसलों. तशें करीन, सगळें काम हांव इबाडटलों. शिटुकाय आनी शांती बाराचबरी वेतात.

म्हजो आप्पाया कसो आसा काय? ताचीं घरचीं जबर-शीं ताका लेखिनांत, तशेंच तें! मनीस म्हातारो आनी पिडेस्त जातकूच तो कोणाक नाका. हांव फाल्यां ताका भेट दितलों. म्हज्या कुजनांतली ताका एक चपाती व्हरतलों आनी म्हज्या वैजाकूय ताका दाखयतलों. बरेपणाचो चडसो भरवंसो ना, पूण हांव आप्पायाक मरोवेर मोग दाखयतलों. तो क्रिस्ताचो साक्रामेंत न्हय?

आप्पायान म्हाका आपोवंक धाडलो. ताची सुपुर्ली धूव व्हरूंक आयली. भियेनासतनां आनी लजेनासतनां, म्हज्या सकयल्या कुवार्तांत आयली आनी हांवूच तिचो बापूय जाल्ल्या परीं तिणें म्हज्या हाताक धरलो आनी ताच्या हाताचो म्हज्या लोबाक तांबडो रंग लागलो. जावं, बिस्प-सायब सगळ्यांचो बापूय, खेरीतूचपणीं दुबळो धाखटो ताचो पूत आनी धूव. तिणें म्हाका आप्पाया मरता आनी म्हाका गरजेनूच आपयला म्हणलें. हांवें दोतोर जुजे मारिया दे कोस्ता पेरैरा हाका घेतलो आनी हांव वाटेर आसतनांच खोंपटेंतलीं भुरगीं धांवून आयलीं आनी ताणीं म्हज्या हाताक धरलो आनी म्हजे दोनूय लोबाचे हात म्हेळयले. कानडी भुरगीं म्हाका भेटतात आनी म्हजे लागीं खेळटात तें पळेवन दोतोरबाबाक अजाप दिसलें आनी ताणें म्हाका म्हणलें : "सिन्योर बिस्प, तूं त्यां घाणयाऱ्यां आनी घाटयां भुरग्यांक तुका हात लावंक दिताय? तीं तुका वसो बा दियीत!" हांवें ताका जाप दिली : "सिन्योर दोतोर तीं भुरगीं घाटयां म्हणटाय तें म्हाका बरें दिसना. आमकां मेळटात त्यो संदी आनी जेवणाच्यो आनी न्हेसणाच्यो सवलती तांकां मेळलेल्यो जाल्यार तीं आमचेहून नितळ आनी संस्कृत जातेली आसलीं. आमी ल्हानविकायेन चलूंक जाय, मनशां केरळी जावं, मंगळुरी जावं तीं देवागेलीं भुरगीं आनी देवाच्या भुरग्यांचो मान तांकां आमी दिवंक जाय. इंडियेक जांकां म्हार आनी चांमार म्हणटाले तांकां

गांधीजीन हरिजन, देवाची भुरगीं नांव दिलें. सगळ्यां मनशांक आमी देवाचीं भुरगीं म्हूण मानूक जाय हेंय मनांत धरूंक जाय, खंयचोय भारती नागरीक तो पुरो आनी शंबर टक्के भारती हें आस्वासन आनी सुगूरपण आमकां आमचे घटनेन दिलां. सिन्योर दोतोर, हें तुका सांगतां म्हण रागार जाय नाकाय. तुका हांव बेस बरो वळखतां, तूं केन्नाच सताचे आड वचनाय."

हांव घरांत भितर सरलों. अप्पायाक उठोवंक सोदतालों. ताणें म्हाका कुरू केली आनी आपल्या उश्यालागीं म्हाका म्हणयेर बसयलो आनी म्हणलें : "ह्या म्हज्या म्हाताऱ्या जिवितांत उस्वास आनी भरवंसो तुवें पयलो घालोय. तुवें म्हज्या माथ्यावेलो भरो घेतलो आनी तुवें म्हाका म्हज्या घरांत पावयलोय. हांव जाणां, तुजे लागीं एक गूट आनी सेग्रेद आसा आनी तो म्हणल्यार क्रिस्त. ताचेच खातीर तुवें म्हजे पांय धुले आनी तुवें म्हाका भेट दिली. म्हज्या असल्या मोल नासलेल्या मनशाचें तुवें मोल केलें आनी आज तुवें ह्या वैजाक हांगासर हाडलोय." म्हजें काळीज म्होवाळ्ळें तशेंच वैजाच्या दोळ्यांतलें दूक अप्पायच्या पांयांचेर पडलें. दोतोर हरशें जमनीर बसनासलो, अप्पायागेर जमनीर बसूंक शिकलो. अप्पायाक हांवें म्हणलें : "हांवें केलां तें खूप थोडें. जेजू क्रिस्त जाका तूं वळखताय ताणें मनशांखातीर आपलें रगत व्हारयलें आनी आमकां सगळ्यांक मनशांचो मोग करूंक आनी दुबळ्या धाकट्याक वयर काडूंक आनी ताका उखलून दवरूंक ताणेंच आमकां शिकयलां."

अप्पायाच्यान आनीक आपले कश्ट सोसूंक जायनासले. वैजबाबान ताका तपासलो आनी ताणें आनींक चड वेळ म्हजो इश्ट तगचोना म्हण म्हाका सांगलें. अप्पायान म्हाका म्हणलें : "बळवंत फादर, हांव आतां म्हजे दोळे धापूंक वेतां. तूं आसतलोय थंय हांव आसूंक जाय. हांव आतां जाणटो आनी चिंतूंक आनी येवजूंक जाणां. हांव म्हजो आत्मो आनी कूड तुजे अधीन करतां आनी हांवें कानडी भाशेन मर्ण-पत्र बरयलां आनी म्हजे निमणे खोशे प्रमाणे हांव क्रिस्ताक वेंगावन मरतां म्हूण म्हज्या हातांनी बरोवन दवरलां. बळवंत फादर, आतां हांव मरताना तुका दिवंक म्हजे लागीं कांय ना. हांवें पांच रूपय सांबाळून दवरल्यात आनी ते तुवें व्हरचे आनी जी निधी आनी फंड तुवें "दुबळ्यांची निधी" म्हण पुंजायल्या तातूंत म्हजीय देणगी दुबळ्या खातीर घालची. म्हजे केंस पिकल्यात आनी हांव देवाच्या घरांत वेतां. थंय हांव गोंयच्या बिस्पाखातीर मागतलों आनी तुका सैंबाची आनी

सैंबावरती देणीं विनयतलों. तुजें जिवीत वादळ आनी मोड जालां आनी तुवें सदांच बळवंताय आनी थिराय दाखयल्या ती तुका मेळून घेतलों." मरणाचे आदीं हांवें ताच्या माथ्यार उदक घालें.: "बापाचे, पुत्राचे आनी पवित्र आत्म्याचे नावीं" इतल्यान अप्पायान आपले दोळे धांपले आनी म्हज्या हातान आपले हात घाले आनी म्हाका म्हणलें : "बळवंत हांव वेतां आनी हांगासर रावतेल्यां खोंपटेकारांचो तुवें सदांच मोग करचो, ते आपले पूत आनी धुवो म्हण समजून घेवंचें." अप्पायान आपलो प्राण सोडलो. देवान ताका आपले वेंगेत धरचो आनी सासणेचें जीण ताका दिवंचें.

वैज आनी हांव अप्पायाची गजाल करीत आयल्यांव. दुबळ्या धाकट्याक क्रिस्ताच्या राज्यांत हाडूंक शिकलेल्या - सवरलेल्या मनशांनी दुबळें जिवीत जियेवंक जाय आनी काळजाचे खरीकसून तांचो मोग करूंक जाय. आमची जीण आनी वागणूक भितरल्यान आनी भायल्यान दुबळी जावंक जाय.

## ११ मार्स १९७५

'De Pluralismo in Ecclesia' हो हांवें भुरगेपणार निबंध बरयलो आनी ताचे वयल्यान हांवें रोमां जैत मेळयलें. इगर्जेंत वेगळोवाय आसूंक जाय तोच धर्म आनी तोच भावार्त सांबाळून आनी तेंच वाक्य राखून धर्मीक तत्वां आनी शिकपां वेगवेगळे भाशेन इस्कुटावं येतात. शुभवर्तमान बदलना आनी तें देवागेलें सासणीक उतर. तरी तें आतांच्या मनशाक लागूंक जाय आनी आधुनीक मनीस सत मानता ते तरेन उच्चारूंक आनी बरोवंक जाय. गोंयचो गांव विद्वान पाद्रींचो गांव. ह्या आमच्या धाकटुल्या गांवांत, केदे मनीस जल्मले आनी ताणीं आपल्या जल्माच्या गांवांचेर उजवाड घालो आनी धर्मीक सोद केलो. आमच्या काळार रोमाक इंडियानांक "मेथाफिसिस्कोस" म्हणटाले. अर्थतत्व शास्त्री म्हण आमकां मानताले, आमचे गोंयकार पाद्री गिन्यानीक. मोंसिन्योर सेबास्तियांव रूदोल्फ दाल्गाद, प्रि. सिरियाको फेर्नांडीस, दों. मातेवस दे कास्त्रो, आगामेनन आनी दुसऱ्यांनी गोंयचें आनी गोंयकारांचें नांव सादयलें आनी गाजयलें. हांवें चिंतप आनी येवजप बंद करूंक जायना, कोण चड फुडें गेलो जाल्यार, रोकडीच ताचेर कूट मारूंक जायनां, तो कितें सांगूंक सोदता आनी खंयच्यान चुकता तें सारकें करून ताका फुडें चल म्हूण हांवें तांकां उत्साह आनी उमेद दिवंक जाय.

इगर्जेंत धर्मीक सोद जावंक जाय. सगळ्या विद्यांनी आमी प्रगती करतांव आनी धर्मांत कित्याक विकास जावचोनां?

हांवें गोंयच्या तत्वगिन्यान्यांक आनी शास्त्र्यांक म्हज्या घरांत हाडले आनी तांकां एक च्याव भेटयली. प्रि. इमॅन्युअल फोर्टस, नैतीकशास्त्री, प्रि. एम्. संतोष - तत्वशास्त्री, प्रि. दोग्मातिको, -प्रि. सी. एम्. दा क्रूज - पुराणशास्त्री हांकां म्हज्या कुवार्तांत हाडले आनी तांकां तुमी सोद करात, येना तो कोंकणींतल्यान घालूंक शिकात म्हूण हांवें उत्साहायले. प्रि. एम्. संतोष म्हणूंक लागलो : "म्हज्या जिवितांत हांवें इतलें बरयलां आनी शिकयलां आनी अजून मेरेन कोणेंय म्हाका एक बरें उतर सांगूंक ना, पयलेच पावटी बळवंतान म्हाका उत्साहाचें आनी उत्तेजनाचें उतर दिलें आनी म्हज्या आंगांत शेरभर रगत वाडलें. कॅनन शेहान आपल्या पुस्तकार 'द क्युरेट' सांगता तें खरें : 'अ कायन्ड वर्ड वर्कस लायक अ टॉनीक - बरें उतर वखद (टॉनीक)' ह्या जाणणारांलागीं उलोवंक म्हाकाय व्हडली खोशी भोगली आनी ते म्हज्या कामांत म्हाका आदार दितले अशें म्हाका दिसलें."

म्हजे पलासींत कांय कुवार्त रिकामे आसात. हांवें तांकां एक कूड दिलो आनी थंय आपलें शिकप करात म्हण सांगलें. ते थोडे दीस पासून म्हजेशीं रावतात. ते सोदाक लागल्यात. पणजे सगळ्यो सवलत्यो मेळटात. बिबलिओतेका नशिओनाल आनी आर्किवो नशनाल हांगासर हजारांनीं पुस्तकां मेळटात. गोंय म्हजें पंडितांचें आनी पुस्तक-पत्रांचें. जेन्ना इंदियेच्यां गांवांनीं पत्रां-पुस्तकां नासलीं, पयलें पुस्तक, दोत्रिनां क्रिस्ता दे सां फ्रान्सिस्को शाव्हियर १५५७ वर्सा छापलें आनी उपरांत खुपशीं पुस्तकां उजवाडा आयलीं. इंदियेचें छापलेलें पयलें व्याकरण कोंकणिंतलें म्हणटात. पयलो आशियेचो व्याकरणकार गोंयकारूच खंय. खरें जावं! इतिहास आमच्या गोंयकारांचेर एक जबाबदारी घालता आनी आमी ती जबाबदारी पाळूंक जाय. ह्या विद्वानांक हांव पयस आनी परा करचोंनां. तांचो सांगात हांव जोडटलों आनी तांचो उपयोग म्हज्यो गंवळीकी चिटी बरयतनां करतलों. गोंयचे आर्कीदियोसेजीच्या आनी धर्मांतीत पत्रांनी आनी दिसाळ्यांनी धर्मीक आनी उजवाडीत लेख बरोवंक लायतलों. हरशीं बरोवप म्हज्या आंगांत आसा. पूण हांव वेळाचो भिकारी जालां. दिसभर, सकाळीं आनी सांजे कोण ना कोण येताच, हांवें म्हज्या पाद्रींक भेट दिवपाची सवंय केल्या.

पयर हांव आघाशिनी गेलों आनी थंय भेटेक गेलेलों तेन्ना म्हजो इश्ट पाद्र-

विगार मरणाक तेंकलेलो. हांवें ताका खटारे मोटारींत घालो आनी ताका सरळ मेडिकल कॉलेजींत व्हेलो. हांव वेळार पावना जाल्यार तो अंतरतलो आसलो. "पाव गा, पाव गा" म्हणीत तो साक्रिस्तांवाक उलो मारतालो. म्हाका पळेनाफुडें बिस्पसायब म्हणले. बिस्पसायबाक हांगासर पावलो म्हण खुशाल जालो. म्हज्या हाताचो उमो घेतलो आनी आपणाची काळजी घेतलो समजून अर्दो बरो जायत आयलो. हांवें ताका म्हज्या इश्टालागीं व्हेलो आनी दोतोर एस्. डब्ल्यू. सुखठणकार रोखडोच धांवून आयलो आनी सडासड ताका इलाज दिलो आनी मरणाक तेंकलेलो मनीस जिवो जालो. म्हजी भेट आनी वखद वेळार पडलें आनी म्हजो पाद्री भाव आनी इश्ट आतां कामाक लागला आनी म्हजी व्हडव्हीक सगळ्यांक सांगता. पाद्रीक आनी बिस्पाक इश्ट जाय, ते खंयच्याय धर्माचे जावं, इश्टागतींतल्यान आनी मोगांतल्यान जें करूं येता तें पयश्यांच्यान जायनां. ह्या आनी दुसऱ्या इस्पितलांतले वैज तांकां सांगूंक मात जाय, केन्नाच म्हजें उतर सकला दवरिनांत! बळवंतान धाडला म्हणल्यार पुरो!

## १५-३-७५

पॉल ६व्यान म्हणलें : "सिस्टर, यू आर द चर्च - ताई, तूं इग्रज" रस्त्यावयल्यान चलतना, तिका हांव निर्मळ भावार्ताच्या दोळ्यांनी पळयतां. एक सिस्टर म्हाका जिवि-ताजी, भोंवती - चलती इग्रज. एका बिस्पान आनी पाद्रीन तिकाय मोयमोगान पळोवंक जाय आनी तिका तिच्या वावरा खातीर उपकारपण आनी धिनवास उक्तावंक जाय. हांवें सगळ्या कोन्वेंतांक भेट दिल्या आनी ताईंक - सिस्टरींक वळखून घेतल्यात. गोंयचे इगर्जेंत तांचें काम वरतें. चड मोलाचें आनी म्हत्वाचें म्हूण हांवें तांकां कळयलां. केन्ना केन्ना त्यो म्हाका मेळूंक येतात आनी तांच्या आत्म्याचेय प्रस्न हांव सुटयतां आनी केन्नाय तांकां हांव रेतीर दितालों. काल हांव वास्कू, मुरगांवां गेलों आनी थंय म्हाका सिस्टर ॲनाबेल गांवली. तिच्या तोंडावेलो आदलो रसरस आनी प्रकास पळून गेल्लो, उमेद नासलेली कशी दिसताली. हांवें तिचेकडे विचाल्लें "ॲनाबेल तूं कशी आसाय?" "बिस्पसायब, म्हाका तूं ॲनाबेल म्हणटाय? म्हजें नांव दोलारोजाताई सिस्टर". हांवें तिका जाप दिली आनी तिका समजणी दिली. "ॲनाबेल तुजें जल्माचें आनी बातिस्माचें नांव कितलेंय आमी बातिस्म वो पवित्र स्नान विसरले जाल्यार, तो आमच्या जिवितांतलो

कोणाच्यान काडूं जायना. सिस्टर वो मठवासी जिवीत म्हणजे कितें? मठवासी जिवीत बातिस्माच्या जिविताचो फुलार आनी फळार. जें कुरपेचें आनी सैंबावरतें जिवीत आनी पवित्र स्नानांवरवीं घेतलां तेंच आमी आमच्या आंगवणेनी फुलयतांव, ज्यो भासावण्यो आमी पवित्र स्नानांवरवीं केल्यात त्यो आमी मठवासी जिवितांतल्यान पाळतांव आनी संपुर्णायतांव. बातिस्माचें नांव आमी सांबाळूंक जाय, तें आमच्यो माद्री आतां करीत आयल्यात. पूण जावं! हें सांग म्हाका, तूं चिंतेस्त मरणाचें आनी पुरगाचें तोंड घेवन कित्याक भोंवताय?"

"बळवंत फादर (म्हाका ती फादरूच म्हणटात, खूप बरें) हांव माद्र जाल्यार म्हाका पंचवीस वर्सां जालीं. हांवें खूप काम केलें. हांव सदांच हासतें तोंड घेवन भोंवतालीं, म्हाका म्हज्या कामांत खूपशें यश मेळ्ळें, आतां हांव उबगल्यां, हें जिवीत म्हाका पचना, म्हाका "आय जम्पड ओव्हर द वॉल" वो "द नन" ह्या कादंबरीवयल्या सिस्टर-ताईभाशेन दुर्गावयल्यान उडकी मारची दिसता." हांवें ॲनाबेला लागीं सकयले विचार केले : "ॲनाबेल तूं तुजो सकाळचो निहाळ करताय? तुजी चालती मागणी करताय?" तिणें म्हाका जाप दिली. "म्हाका आनीक वेळ ना. वावरूच मागणें न्हय? सकाळचें मागणें आनी मीस कित्याक जाय?" हांवें ताका जाप दिली. 'बाय गो, तशें न्हय तें!ताई जावंक आनी मठवासी जिवीत भावार्तांचें जिवीत, तें क्रिस्ताकडे एकवटनूच जियेवं येता. वावर, मागणें म्हणतात थंय इल्लेशें तरी सत आसा पूण फॉर्मल प्रेअर, पुरें आनी नितळ मागणें नासतना, मनशाच्यान देवाच्या एकवटांत जियेवंक जायना. जेजुईत "In Actione Contemplativus - करणेंतल्यान ध्यानवंत" तें सगळें जिवीत मागण्यांत बदलतात, तांचेकडे सगळ्या वस्तुंचें, सगळ्या वेळांचें आनी सगळ्या सुवातांचें मागणें आसा, पूण तेय तांच्या कायद्या परमाणें दिसान दीस सकाळचें कायद्याचें वरभर निहाळ करतात, अंतस्करणाची चवकशी दिसाक दोनदां करतात. जालें ना, तेच वावर करताना, करचे आदीं, केन्ना केन्ना इल्लोसो वेळ रावन आपलें मन देवावसल्यान ओडूंक शिकयतात. बंगळूर सगळे इंदियेचे फांकी पाद्री, माद्री आनी ग्रहस्थी एकठांय जाले आनी थंय इंदियेक वर्टीकल डायमेन्शन - उबें परिमाण, मागणें आनी ध्यान चड गरजेचें म्हण ह्या जाणकारांनी सांगलें. 'ओयसीस ऑफ प्रेअर - जिवीतांत मागण्यांचें थार' आनी वाटेवयलें दवरणीं आसूंक जाय. भारताक "लॅन्ड इन्टोक्सीकेटेड विथ गॉड" म्हणटात. मठवासियांनी आनी डायोसेजानी

पाद्रीनीं आमी देवाचीं आनी मागण्यांचीं मनशां म्हूण दाखोवंक नाका? ॲनाबेल, तुज्या जिवितांतलें मागणें परतें हाड, वावर आनी माग. वावरूच पुरो न्हय. हांव चिखलेचे माद्रीक बरयतां, तिचेकडें मागण्याचे आनी ध्यानाचे गूट आनी साबार रिती आसात. थंय पंदरा दीस तरी मागण्यांतल्यान आनी ध्यानांतल्यान काड आनी तुजी आदली खुशालकाय परती येतली."

ॲनाबेल परतें गेलें आनी ताच्या जिवितांत आपल्या आपोवण्याची अपुर्बाय परती येवंक हांवें म्हज्या मिसार मागलें. बऱ्या मनाचें आनी पोटतिडकेचें भुरगें म्हणटकच, जी स्वस्ताय ती सोदता ती ताका मेळटलीच म्हूण म्हाका खात्री आसा. चिखलेची माद्र सांता तेरेझा दे आविलाचे भाशेन, तिच्या आंगांत "कॉमन सेन्स" - अक्कल हो भरपूर आसा आनी जायत्या जाणांक ती बरी बुद्द दिता आनी काळजांत खुशालकाय आनी स्वस्तकाय घालून ती मनशाक परतून धाडटा. हांवूंय म्हजेर तुफान आनी वादळ येतकूच तिचेकडे मागणीं आनी बुद्दी मागतां. ती म्हजे आनी आमचे आर्किडायोसेजीचे खातीर मागणीं करता. पुर्तुगेजांनी, खेरीतूचपणी प्रि. ले. तेलियार हाणीं तांकां हाडून घेतल्यो खंय. चिखले मागण्यांचें आनी देव-पदवेचें भांडार आसा! तो मठ भाग्यवंतांनी भरलेलो.

## १-४-१९७५

हांव भारती, हांव कातोल्क. सदांच यत्न केल्यात आनी सदांच वावुरलां, म्हज्या धर्माचो आनी म्हज्या देसाचो मोग करूंक हांवें त्रास घेतल्यात. कातोल्क म्हणटकूच हांवें भावार्ताचें एक कुस्कूट बदलीनासतनां हांवें म्हजी झुटी पाळूंक जाय. दुसरे वाटेन म्हज्या सरकाराचेर आनी देसाचेर म्हज्यान आड चलूंक जायना. देसाखातीर म्हाका पुर्तुगेज भारती म्हणटाले आनी आतां म्हजेच भाव म्हाका विदेशी परकी, देशद्रोही म्हणटात. हो गैरसमज चलूंक फावना. हांवें नितळ तत्वां दिवंक जाय, दुभाव आसा थंय उजवाड घालूंक जाय. हांवें हेराल्द पत्राक ही मुलाखत दिली.

पत्रकार : तूं भारती वो पुर्तुगेज?

बळवंत : हांव भारती, भारत म्हजो देस.

पत्रकार : तूं भारती जाल्यार, तूं फॅमिली प्लॅनींग, घराब्या-कल्याणाचेर आड कित्याक? सरकाराक इतलीं तोंडां पोसूंक सोंपें न्हय, तुमीं क्रिस्तांव चलात

फुडें, भुरगीं करात म्हणटात तें खरें आनी बरें?

बळवंत : कातोल्क इग्रज जिविताची मोगी, तिची परंपरा हीच जिवीत आनी मोग. पिव १२व्यान, पिव ११व्यान "Casti Connubii" हाचेर आनी उप्रांत पावल ६व्यान 'Humanae Vitae' हे आपले गवळीकी चिटीर मनशाच्या संभवाचेर जितले आडेचे उपाय घेतात तांचेर बंधन घालां आनी ते आडवारल्या. हातूंत आनींक दुभाव ना. आडेंच्या उपायांचेर कातोल्क इग्रज, पावल ६व्याचे शिकवणे परमाणे आड?

पत्रकार : तशें जाल्यार, तुमी आमच्या देसाचेर आड?

बळवंत : आड आनी आड न्हय. आमी आडेच्यां उपायांचेर, संभव - आड पिल्लांचेर आनी गुळयांचेर आमी आड. भारत आदीं पासून जिविताचो वकील जावन आसलो आनी आमच्या राष्ट्राच्या घडणारान महात्मा गांधीन जिविताचीं तत्वां आमकां दिलीं, ताणें आपल्या जिवितांत पिराजीत आनी सुवा-जैत चलयलें आनी सुवा-जैत न्हय फकत क्रिस्तांव गूण तो सैंबीकूय गूण, न्हय?

पत्रकार : गांधी आदलो, आदलीं वायंगीं आतांचे शाकेक उपकारनांत.

बळवंत : गांधी आदलो म्हणूं नाका. आमकां "भटाक जाय जाल्यार उमास ना जाल्यार पुनव" अशें मू? आमी आडेच्या उपायांचे आड नाजाल्यारूय, आमी सैंबीक उपायांचेर भावार्त आनी भरवंसो धरतांव. आमचे डायोसेजींत आमी फॅमिली सेंटर स्थापलां आनी थंय आमी सैंबाचेर बांदलेल्या उपायांचो सोद करतांव आनी तांचो उपयोग करूंक शिकतांव. आमी डॉ. बिलींग्स् मेथड वापुरतांव आनी आमची तेरेजा आई आनी आमच्यो दुसऱ्यो माद्री ते उपाय परजेक आनी अशिक्षीत लोकाक लेगीत शिकयतात. ह्या उपायां वरवीं कोणाचेंच वायट जालेंना. नेर्वां आनी दुसरीं दुयेंसां पयस जातात. सद्या युनो लेगीत तांचो उपयोग करता आनी नातुराल फॅमिली प्लॅनींग सुदरत आनी फुडारत वेता. हो आमचो कातोल्काचो राष्ट्रा खातीर सहकार. तूं म्हाका खंयच्यान देशद्रोही आनी दुस्मान कसो म्हण्टाय?

पत्रकार : हें इतलें तुमी करतात तें हांव नकळो आसलों. तुमी कातोल्क पत्रवेव्हराचो, आनी परजे-प्रगटणे-उपायांचो चडसो उपयोग करिनांत आनी करतात जाल्यार तुमी आनीकूय चडसो करूंक जाय आसलो. तुमी कम्युनिस्टांची देख घेवंक जाय, ते जेविनासतनां आनी खांयनासतनां, सायकलीर आनी मोटरसायकलीर भोंवून आपलो प्रचार करतात आनी घरा-घरांनी भोंवतात आनी आपलें वीख

पसरायतात. तुमीं आनी आमीं तांची देख घेवंक जाय. बरें फुलोवंक आनी सादोवंक आमी फाटीं सरतांव. हे सैंबीक उपाय आमचे सादेसुदे परजेक गोमलेले जाल्यार, ती फाटीं सरची नासली.

बळवंत : बरें तर आमच्यां परघटणे उपायांचो चड आनी चड प्रचार करतल्यांव. आमकां गरजेचें म्हणल्यार एक कातोल्क कोंकणी दिसाळें. दिसाळें चलोवंक सोंपें न्हय आनी आमचे आर्केडायोसेजीकडे चडशे पयशे नांत, तरी एक दैनीक रचूंक हांव सगळे उपाय आनी यत्न करतलों. आदेवस, पत्रकारबाब.

म्हजे पाद्री भाव आनी ग्रहस्थी लोक फॅमिली सेंटर हांतूंत वावुरतात तांकां चलात फुडें, फाटीं सरूं नाका म्हणटालों. काल सांजे हांवें प्रि. जोनाथन डायस हाका आपयलो आनी ताचे फाटीर हांवें एक मोगाचें थापट माल्लें आनी तुजें काम बरें चलता म्हणलें. तो खुशाल जालो आनी बळवंतान आपणाक आपोवन व्हरून मेजार चाव दिली आनी आपलें काम बरें जाता म्हण सांगून सगळोच मुरगटतालो. तशेंच तें! बरें उतर वखद आनी गोडसाणेची आनी घटसाणेची गुळी. आतांचो वडील म्हणल्यार, उत्तेजन दिवपी, नेट दिवपी, उर्बा दिवपी, स्फुर्ती दिवपी. खूप दीन!

## १५-६-१९७५

कुश्ठाळेचें देवस्पण चलत आसा. मोटरां आनी बसी थांबनांत आनी पुरपी जुवांव पेद्र आनी सक्रिस्तांव पेद्रुलो कमायलेले पयशे दिनांत. आपूण मेजतात आनी पाद्र-विगाराक कुशीन दवरतात. हातूंत कसलोय तरी गूडमेळ आसूंक जाय. विगार जेराल आनी आमच्या चिटणिसान बरीशी खबर हाडूंक ना. हांवूच गेल्यार बरो, म्हजें म्हाका पळोवंक जाय, आनी उप्रांत म्हजो थारावो घेवंक जाय. काल सायकलीर वेतनां, म्हाका रेड्यान सकला उडयलो. हांव लजेन वेगीं वेगीं उठलों आनी हात फापुडले - आनी तसोच हरिजनी भावाच्या गांवांत गेलों. रगत व्हांवतालें. सुपुल्र्या चेडवान, कुमुदीनीन पिंजको फडको हाडलो आनी म्हजो रगतान भरलेलो पांय पुसलो आनी उप्रांत घरचो सोरो हाडून रखयलो. ही दयाळ करणी पळोवन म्हजें काळीज रडलें. म्हजो पांय अजून बरो जावंक ना. दुखता, पुलेता-सो दिसता. हांव वेतलोंच आनी कुश्ठाळेचो गूट हांवूच फोडटलों - आनी मनशांचीं मनां उजवाडायतलों.

म्हजें खटारेंशें हांवें मोटर धरलें. सादो लोब घालो. पांयांक हांवें लुगट बांदलें आनी म्हजे पलासींत, धाकट्या घरांत म्हणटां हांव, रावतेल्या शास्त्र्यांक मोटरांत भरले. पाद्र दोगमातिको, पाद्र मेताफिजिको, पाद्र मोराल हांकां मोटरांत बसयले. मोटे आसात, ताणीं म्हाका चिड्डिलो. आमचे मदें चडसो व्हडलो-धाकटो ना. पाद्र मेताफिजिको फकाणांनी हांसयतालो आनी सगळ्यांक खुशाल दवरतालो. कुश्ठाळेचे इगर्जे समोर आमी पावल्यांव. सगळ्यांनी सादे लोब घातलेले. पाद्र-विगाराक बोबाळ चडसो करूं नाका म्हणलें. हांव मायक्रोफोनी फुडें उबो रावलों आनी लोकाक मातशे भायर सरा म्हणलें. हय-न्हय म्हणीत लोक भायर सरलो. हांवें फोटूवाल्यांक आपयलेले आनी तांकां सायबिणीचो आनी थेंब्यांचो फोटू काडूंक लायलो. निसण लायली आनी हांवें विगार - जेराल सायबाक वयर वचून पळोवंक लायलो. ताची दिश्ट जबर-शी बारीक नासली. म्हजो पांय दुखतालो. हांवूच चडलों. इगर्जेच्या पाटसार तांबडें कळमेल्लें पत्रें आसलें, ताचेवयल्यान पावस पडटालो. पत्र्याक बुराक आसलेलो. त्या बुराकांतल्यान तांबड्या उदकाचे थेंबे पडटाले. ते थेंबे मारियेचे इमाजीच्या दोळ्यार पडून हड्डूयार पावताले आनी इतल्यान दुखांची मिलाग्र जाली. हांवें एक दूख घेतलें आनी सकला म्हजो रसायनकार (केमिस्ट) म्हाका रावतालो आनी ताणें तो थेंबो मायक्रोस्कोपाच्या उजवाडापोंदा घालो आनी गोमलें तें हें : थेंबे रगताचे न्हय पूण पत्र्याचें तांबडें उदक.

परजेक हांवें इगर्जेंत आपयली आनी तांकां हांवें सांगलें : "भावांनो आनी भयणींनो, आमी आमच्या भावार्ताचीं फकाणां करूंक फावना. सायबिणीच्यान रडूं येता आनी रडूं येना. जीं तुमी दुखां म्हण पुजतात तीं खऱ्यानींच दुखां न्हय, तीं पत्र्यावेलीं उदकां व्हांवतात आनी मारियेचेर पडटात. हांव पोरशीं वयर चडलां आनी पिंजक्या पत्र्यांक हात लायला आनी उदकाचे थेंबे म्हज्या दोळ्यांनी पळेल्यात. म्हजो रसायनकार डॉ. एदुवार्द बोर्रेटो हांगासर उबो आसा आनी ताणें परिक्षा केल्या, हे थेंबे मनशाचीं दुखां न्हय, तें पत्र्याचें कळमेलेलें उदक. तुमकां सायबिणीचो मोग, तसोच म्हाकाय आनी हांगासर आसलेल्या पाद्रींकूय. आमी हें फटकिरें देवसपण पयस करूंया आनी आंकवार मारियेचो खरो आनी नीज मोग करूंया. मारियेची व्हडली भक्ती म्हणल्यार तिची देख घेवंक, आनी आज देख तुमीं सगळ्यांनी दिवंक जाय ती ही. तुमीं तुमच्या पाद्र-विगाराक आनी तुमच्या बिस्पाक

हय म्हणूंक जाय आनी दुखांचें देवसपण बंद करूंक जाय. इतल्या म्हणसर पेद्रुलो आनी जुवांव प्रेद्र ओंजताले आनी बडबडटाले. तांकां हांवें पाद्र-विगाराच्या मंडपांत आनी सालांत आपयले. ते दोगूय मान पोंदाक घालून आयले आनी तांचे मदें आनी म्हजे मदें ही गजाल जाली.

बळवंत : पेद्रुल्या, पयशे खंय पावले?

पेद्रुलो : पयशे म्हजे लागीं नांत, जुवांव पेद्रुकडे आसात.

जुवांव पेद्र : पयशे खंय आसात? म्हजे लागीं नांत. अर्दे पयशे आमी खाल्यात, दुसरे साकांत भरल्यात. हातांत नांत.

बळवंत : तुमी हे पयशे कोणाक दवरल्यात आनी कित्याक तुमी तांचो फायदो काडटात?

पेद्रुलो आनी जुवांव पेद्र : आमकां भुरगीं चडां आनी पाग पावना.

हांवें उरलेले पयशे हाडले आनी अनाथ भुरग्यांक धाडले. पेद्रुल्याचें आनी जुवांव पेद्रुचें पाग वाडयलें आनी फुडाराक शिडकायले. खुपदां मनीस चोरयेक लागता आनी आडकां-नाडकां भुकेक लागून रचतां. आमी सारको पागार दीत जाल्यार, आमचे सेवक उमेदीन काम करतात आनी चोरूंक पावनांत. गोंयच्या सगळ्यां गरजेच्या येंप्रेगादांक आनी सेवकांक हांव फाव तितलो पागार दिवंक फर्मायतलों आनी इतल्यान चोरयो सोंपतल्यो, ना तर उण्यो जातल्यो. तें वयलें पत्रें कोणें घातलें जायत? गूट न्हय?

रोमांक म्हजो इश्ट आनी सांगाती, जुजे पालोमेरो सॅम पेद्रूचे गाडयेर चडला. ताका गोंयचे आर्कीडायोसेजीचो पुश्कळ मोग. तो म्हजे बराबर मिशिओनॉलॉजी, मिसांवाच्या क्लासींक येतालो. पिअर चार्लस् हांच्यो क्लासी आनी उलोवपां आयकून गोंयचे डायेसेजीवेसल्यान ताचें काळीज ओडलें. हरशीं प्रोपोगांदाचीं पुस्तकां ताणें खूप वाचलेलीं पूण दोतोर सिल्वा रेगो - हाचीं पुस्तकां, 'Documentacao Para As Missoes Portuguesas' वाचले उप्रांत ताणें आपलें मन बदललें आनी गोंयच्या देशी पाद्रीठांय तो एका खेरीत मोगान वागतालो. आपणांक देवान कसलीय पदवी दीत जाल्यार ती आपूण गोंयचे आर्कीडायेसेजीक उंचल्या पदाक पावूंक वापुरतलों म्हण म्हाका खोशेन उल्हासून सांगतालो. गोंयकार पाद्रीनीं सैलांवाक भांगारी मिसिओनार पानां बरयल्यांत तीं ताणीं वाचून काडलेलीं. प्रि. जुजे वाज आनी प्रि. जेकॉम गोन्साल्वीस हांचें जिवीत

वाचून तो म्हजे फुर्डे येवन रडलो. तोखणायवंत विचारांचें जिवीत म्हण तो उच्चारतालो. ओरातोरिओ दे गोवा, दा सांताक्रूज दोस मिलाग्रीस हांचो सैलांवाचो एकशें पन्नास वर्सांचो इतिहास वाचून तो संतोसतालो आनी धादोसतालो आनी घडये घडये म्हाका धिनवासतालो. तांची मिसिओनार रीत आनी पध्दत निहाळून तो म्हाका सांगतालो : लुक्स एक्स ओरियेंत - उदेंतीकसून उजवाड. रोमी शिकप्यांची हुशारकाय आनी भाग्यवंतपण पळोवन, तुमी सन्यासी, तुमी तत्वगिन्यानी, तुमी बुदवंत, तुमी शाणे ह्या उतरांनी म्हाका पाचारतालो.

काल म्हाका तेलीग्राम - तार पत्र आयलें आनी ताचेर नव्या पापासायबान गोंयच्या आर्सेबिस्पाक आपलो कार्दीआल केला म्हूण कळयलें. कार्दीआल म्हणल्यार एकेवाटेन मान आनी दुसरेवाटेन मोठी खांदार जबाबदारी. पयलीं कार्दीआल दिआक्न आसले आनी ते एके फिर्गोजेक बांदून आसले आनी ते दुबळ्या धाकट्यांचें जतन घेताले, इगर्जेची भाटां पळेताले. दिआक्न म्हणल्यार सेवक, हांव सदांच सेवक कसो जियेतलों आनी म्हजें ब्रीद म्हणल्यार "Servus Servorum Dei" - देवाच्या चाकरांचो चाकर. सुर्वेचे कार्दीआल एके फिर्गोजेक चिकटून आसलेले पाद्री, ते पापासायबाचे हात आनी पांय म्हणल्यार जाताले, ते पापासायबाक आदार दिताले आनी ताचें वजन ल्हव करताले. हांवूय कोणाचेरूय जुलूमशाही चलोवंचोना, सगळ्यांचो भार हांव थोडो करतलों. आरंबाक कार्दीआल, रोमाभायले आनी पयशिले आसले, ते आपली फिर्गोज चलयताले, पापा सायबाचे वेंचणुकेंत वांटो घेताले आनी ताचें काम ल्हव करताले. दिआक्न - कार्दीआल, पाद्री - कार्दीआल, बिस्प-कार्दीआल हे सगळे देवाचे सेवक आनी ताणीं पाप सायबाचे आदारी जावंक जाय आनी सगळे इगर्जेची जबाबदारी आपल्या खांदार घेवंक जाय. देवान म्हाका बळ दिवंचें.

पाप सायबाचें पत्र हांवें चत्रायेन आनी फिकीरीन वाचलें :

मोगाळ आनी मानेस्त बळवंत,

गोंयचो आर्सेबिस्प आनी उदेन्तीचो पात्रियार्क!

तुमची गोंयची आर्किडायोसीस न्हय आयची-कालची, ती सां फ्रान्सिस्क शाव्हियेराची. ताचे देकीन उदेन्तीच्या दरवंट्याकसून, पोरण्या गोंयसून मिसिओनार वेताले आनी गोंयची आर्किडायोसेज म्हटल्यार उदेन्तीच्या डायोसेजींची आवय

आनी तिका पयली आवय म्हण मानीत आयल्यांव. गोंयच्या पुतांनी मदैरापासून ते जपानमेरेन, तिबेट पर्यान काम केलें, आनी ह्या उगडासाक आनी तुमच्या भाग्यवंत पुतांच्या नांवाखातीर प्रि. आग्नेलो डिसूजा आनी प्रि. जुजे वाज हांचे यादीक, आमी तुमकां पाद्री बळवंत दा कोस्ता, आमचो कार्दीआल विंचून काडटांव आनी तुमचे आर्किडायोसेजीक हो कार्दीआलाचो भोवमान दितांव. तुमी सगळे इगर्जेच्या कामांत आनी खेरीतूचपणी मिसिओनार वेव्हारांत वांटो घेतले आनी इगर्जेचें काम - कार्य पुरें करतले म्हूण समजतांव, तुमकां आनी तुमचे परजेक आमच्या पापा सायबाचें बेसांव दितांव.

**पावलूस - पापा**

वाटीकन शार
१४-७-७६

इतल्यान बळवंताची दैनिकी सोंपता. ह्या इतिहासाच्या आनी बळवंताच्या जिविताच्या बरोवप्यान पणजेचे कचेरींतले वाके आनी दुसरीं पुस्तकां वाचून ही जिवीतकाणी बरयल्या आनी सोंपयल्या. बळवंत आतां रोमांत वचपाची तयारी करूंक लागलो आनी आपल्या भायल्या जिवितांत आनी न्हेसपांत आनी जेवणांत कसलेंच बदलप केलेंना. वेळ इबाडना जावच्याक बळवंत विमानान रोमाक गेलो आनी ताच्या इश्टान पापा-पावलून ताका वेंग माल्ली - बळवंत लांब आनी रूंद दिसतालो, आनी ताका कोणे बोट दाखोवन म्हणलें : Filii tui, India administritibi salutis - भारत, तुजेच पूत, तुजें तारण !

रोमाकसून बळवंत तांबडें न्हेसून आयलो आनी गोंयांत ताका व्हडल्या मानान घेतलो. इंदियान सरकारान हो मान सगळे इंदियेक फावता आनी बळवंत एक व्हडांतलो भारतीय पूत म्हण सांगलें. बळवंत आतां दुप्पेट उत्साहान आनी नेटान काम करूंक लागलो, आनी पापासायबान ताका कांय रोमी कचेरींत कामां दिल्लीं देखून तो गोंयां आनी गोंयांभायर आपलीं कामां करतालो. रोकडोच पापासायबान 'सिनोद ऑफ बिशप्स' हांचो ताका येजमान नोमियारलो आनी तें काम करूंक तो रोमाक गेलो. रोमी मेळाव्यांत ताणें आपली हुशारकाय दाखयली आनी इगर्जेच्या शिकोवपांत आनी मागण्यांत देशी रिती वापरूंक जाय आनी इगर्जेंत देव मनशेपणाचीं फळां गांवठावप, संस्कृतावप, सुंदरावप भितर सरूंक

जाय म्हण परगटलें. बळवंत सुदळ जिबेचो आनी ताणें सर सर्वपल्ली राधाकृष्णन, शंकराचार्य, रामानुजम, माधवाचार्य हांचें शिकप केल्लें आनी तांची वळख भरपूर मापान ताणें एकठावलेल्या कार्दीआलांक दिली. बळवंताचें सादेपण आनी भोळेपण, ताची जाणवाय आनी शिटुकाय सगळ्यांक ठावी आसली आनी कांय जाण तो एक पापाबील म्हण पाचारताले. पापासायब जायत सो म्हणटाले.

गोंयां सगळें काम बरें चलतालें. मुख्य कामां सगळीं थाऱ्यार पडलेलीं आनी गोंयचो विगार-जेराल सगळें कार्य बळवंताच्या मनापरमाणें चलयतालो. एक दीस विगार -जेरालबाब रक्ताचे बंबाळ जावन जमनीर पडलो. मरणाचे निमणे दीस ताचेर आयले-शे दिसताले. आंगलटीन मोटो आनी दिसभर काम करपी देखून ताचें रक्ताबळ वाडटालें - देंवतालें आनी सट्च करून संवसार सांडून वचत म्हण भंय आसलो. विगार - जेरालबाब जागृत आसून ताच्यान उलोवंक जायनासलें. बळवंत आनी तो सारके दाट भाव कशे जियेताले. केन्नाय ढूम ढूम करून मेजार मूठ मारताले. एक पावटी थारावणी घेतली म्हणटकूच एकाच मतान सगळें पाळटाले. ताका जुवळे भाव म्हणटाले. ते दोगूय रोमाक बराचबरीं शिकलेले आनी जोनाथन आनी डेव्हीड इश्टागतीन भोंवताले तशेच तेय जियेताले. एकल्याक दुखयल्यार दुसऱ्याचेर बसतालें, दुसऱ्याक माल्ल्यार पयलो रडटालो. मरणावेळार आपलो आनी आपलें बळ, बळवंत ना म्हण आमच्या विगार-जेरालबाबाक मोटी खंत जाली. तो किर्ते सांगूंक सोदतालो पूण ताचीं उतरां समजनासलीं, गमनासलीं. ताणें एक पेन घेतलें आनी हास्पिटलांतल्या कानप्यार रावून ताणें पेनान आपल्या हातार बरयलें : “बळवंत” बळवंताक आपया म्हण ताणें तकलेन कुरू करतकच, बळवंताच्या गोंयच्या चिटणिसान, बळवंताक तार धाडलो : “विगार - जेराल गंभीर - तुका रावता.”

हातांत तार घेवन, बळवंताचें मन वावराचेर धरना जालें, ताणें सगळ्यांची परवानगी घेतली आनी पयलें मेळटा तें अलइतालीया विमान घेतलें आनी मुंबय पावलो. दाबोळेच्या विमानतळार ताचो चिटणीस ताका रावतालो. मोटर घेवन सरकारी इस्पतलांत गेलो आनी आजुनय ताचो इश्ट आनी वावराचो, आनी भुरगेपणावेलो सांगाती जिवो आसलो. बळवंताक पळेनाफुडें ताच्या पोल्यांचेर आनी ओठांचेर अमुरको हांसो सुटलो आनी अर्दजिवो कसो जालो. बळवंतान आपल्या इश्टाचेर आडवो पडून ताच्या कानांत फुंकलें : ‘तूं बरो आसाय मूं? तुवें

पिडेवंताचो संस्कार घेतला? म्हाकाच रावलाय कितें?’ विगार-जेरालबाबान ना म्हण तकली हालयली. बळवंतान पिडेवंतांचें तेल हाडलें आनी दोळ्यांचेर आनी मुख्य विसव्यांचेर तेल लायलें आनी आपल्या इश्टाचेर आनी पाद्रीपणांतल्या भावाचेर तेल लायलें : “Per istam unctionem - हे माखणेन तुजीं पातकां भोगसूं, तुका भलायकी मेळूं”. मरणाचो वेळ पावलो. सगळ्यांक गमलेलें आनी सी. एम्. दा. क्रूज आपल्या इश्टाकूच रावतेल्या भाशेन अजून मेरेन जिवो रावलेलो म्हण सगळे वैज म्हणटाले. बळवंतान आपल्या सांगात्याचे हात आपल्या हातांत धरले आनी ताच्या हातांतूच हात धरून विगार - जेरालबाबान आंकवार मारियेच्या चित्राचेर दोळे दवरून सवकास आपलो प्राण सोडलो. इतल्यान बळवंताचो एक हात गेलेल्या भशेन ताका दिसलें. इश्ट सोंपलो.

बळवंत कुशीक गेलो आनी थंय वचून शिरांदारी रडलो. लोक म्हणूंक लागलो: “पळयात, तो कशे भाशेन ताचो मोग करतालो.” सी. एम्. दा. क्रूज अजून आपणाक मोटो आदार आसलो, तो आपणाक सांबाळटालो, पूण रडून आनी कसलो फायदो आसा हें चिंतून बळवंतान आनीक रडचें थांबयलें आनी दुसऱ्यान, नेटान कामाक लागलो. उगडास बंद केल्यारूय ताचो इश्ट ताच्या दोळ्यांमुखार रावतालो. आतां आपलो इश्ट मरणान चड पदवेदार जाला आनी देवाच्या मुखार आसून आपल्या वावराचेर बेसांव घालतलो आनी सर्गावयलीं देणीं आपणाचेर आनी आपले डायोसेजीचेर देवदानां देंवयतलो हें चिंतून बळवंत आपलें काळीज घट धरतालो. इतल्या म्हणसर बळवंताचेर काळोखाचीं चिंतनां उदेतालीं. भावार्ताचेर आड कुपां देंवतालीं - मागचें आनी पिराजीत करचें ताणें सांडलेंना.

बळवंत आपल्या इश्टाच्या मरणा उप्रांत केन्नाकेन्नाय चिंतनेंत गूल जातालो. आतां आनीक एक तुफान आयलेलें. कमुनिस्टांचो प्रभाव वाडत वेतालो आनी बळवंत एक कम्युनीस्ट म्हण भाटकारशाहीकार म्हणटाले. दुसरे वाटेन गोंयचो कार्दीआल पात्रिआर्क दुबळ्यांचें पळेना हो शीण चलतालो. बळवंतान पणजेच्या आनी साश्टीच्या पत्रकारांक आपयले आनी च्यायेवेळार तांकां मुलाखत दिली आनी आपलें धोरण निवळ आनी स्पश्ट केलें.

पत्रकार : सिन्योर कार्दीआल, तुमी कम्युनिस्ट, तुमी रांपोणकारांचे वाटेन आसात. तुमी मोड आनी फोड तातुंतले आसात म्हणटात तें खरें?

बळवंत : आमी मोड आनी फोड म्हणटात तातुंतले न्हय. खरें, आज

आमच्यान रांपणकार भावांमदें, आनी नुस्त्याबोटीं मदें टँव टींव जाता तें खरें. आमी सगळ्यांनी हें मनांत धरूंक जाय. हे आमचे दुबळे खारवीभाव शेकड्यां मेरेन आपलो धंदो करीत आयल्यात आनी तांकां आपलें पोट भरूंक दुसरे उपाय नांत. देखून आमी तांच्या हक्काखातीर उलयल्यांव आनी झुंजल्यांव. इतल्यान आमकां कम्युनिश्ट म्हणचें न्हय. कातोल्क इगर्ज 'रेरम नोवारम', हे लियांव १३व्याचे चिटी उप्रांतसून, 'मातेर येत माजिस्त्रा', 'पोप्युलरम प्रोग्रॅसिवो' ह्या चिटींतल्यान दुबळ्या धाकट्यांचे हक आनी दिरेयत राखीत आयल्या आनी कोणाकूच रस्त्यार उबंत उडयलेले तिका नाकात. ती दुबळ्या धाकट्यांची राखणदार्न आनी तिचो गोंयांत प्रतिनीधी गोंयचो पात्रिआर्क. नितीचेर आनी सताचेर लोक आड वेतात तेन्ना इगर्जेक कार्दीआल हेनरी न्यूमन हाणें "कोन्सायन्स ऑफ ह्युमॅनिटी - मनीसकुळाचें अंतस्कर्ण" म्हणलां आनी धर्मीक अधिकार म्हणल्यार गोंयच्या सरकाराचें अंतस्कर्ण. कातोल्क इगर्जेन राजकर्णीक कार्यांनी पडूंक फावना, तरी मनशांचो हक माड्डयतात तेन्ना तिणें मनशां मदें उबी रावंक जाय आनी आपलो आवाज आयकूं-सो करूंक जाय. हें हांवें केलां.

कम्युनीश्ट पत्रकार : तुमी कम्युनिश्ट न्हय, उफराटे तुमी कम्युनिस्टांचें दुस्मान. तुमी इगर्जेचीं भाटां तुमच्या मुंडकारांक कित्याक वाटिनांत?

बळवंत : तशें न्हय, सांगताय तशें न्हय. इगर्जेचीं भाटां आमी मुंडकारांकूच विकल्यांत आनी दुबळ्या धाकट्याक estacio vital - इगर्जेची सुवात दिल्या. कोणाकूच आमी अनीत करूंक ना. आमी कम्युनिश्टांचे द्वेषी आनी दुस्मान न्हय. आमी हत्यारां घेवंन झुजनां, जंय कम्युनिश्ट पदवेर आसात थंय इगर्जेक कसलीच सत्ता आनी मेकळीक ना. आमी कम्युनिश्टांचेर दोन कारणांक लागून मनान विरोधी. पयलें म्हणल्यार आमी आत्म्याक आनी देवाक सत मानतांव. पोट आमचो देव न्हय. पोटा आनी जेवणाभायर देव आन धर्म आसा, आत्मो आनी आत्मीक हक आसात. तुमकां दे-आत्मीक संवसारा भायर दुसरीं तत्वां नांत, आमकां आसात. तुमचें तत्वगिन्यान वर्ग-झुंजाचेर बांदलां. आमी आमचो धर्म मोगाचेर बांदला आनी क्रिस्ताच्या उतरांक "करात मोग एकामेकांचो" आमी मान दितांव आनी पाळतांव. आमी इश्टूय. जी प्रगती कम्युनिश्ट सरकार करूंक सोदतात ताचेर आमी आड न्हय. तुमचे बराबर आमी शेतां लायतांव, रोयतांव आनी लुवतांव, तुमचे बराबरीच आमी कारखाने रचतांव आनी मिनां पुंजयतांव. जी आज्ञा मनशाक

संवसाराचे सुर्वेक दिली "संवसार हातासात आनी तुमचे खाला हाडात." ती आमी तुमचे सांगाती पाळूंक वावुरतांव आनी तेच खातीर वाटीकन विस्वसभेन "द चर्च इन द मॉडर्न वर्ल्ड" - आतांच्या संवसारांत इग्रज" ही घटना रचली आनी क्रिस्तावांक संवसाराची आनी पृथ्वेची प्रगती आनी विकास करूंक उसकायले आनी शिडकायले. ते आमी कम्युनिस्ट आनी ना कम्युनिस्ट गांवांनी करीत आयल्यांव. आमचे पाद्री बांयों मारतात, शेतकामत करतात आनी निती आनी भावार्ताखातीर झुंजतात.

जाण्टो पत्रकार : तुमचे इगर्जेंत कांय बरेली शिकवण आसा ताची वळख तुमी अ-क्रिस्तींक दिल्ली जाल्यार काय बरें जातें - तुमी आमकां खुबदां आपोवचें, आनी आमकां तुमचो निरोप आसचो.

बळवंतान जाण्टेल्याची गजाल आयकून घेतली आनी समाजीक कामाखातीर एका पाद्रीक ताणें जर्मनाक धाडलो. जर्मनाकसून शिकून येतकूच, हे पाद्रीन पणजे आपली कचेरी उक्ती केली आनी समाजीक फुडारी तयार करपाचें शिकप दिवंक सुरू केलें. "कातोल्क सामाजिक केंद्र" नांव दिलें आनी थंय शेतकी आनी तांत्रिक जाणवाय दिवंक लागले आनी कसलोय, खंयच्च्यान इगर्जेविशयीं गैरसमज जालो जाल्यार, रोकडोच जबाब मेळटालो. इगर्जेचीं शेतां आनी भाटां फुलूंक लागलीं आनी जिनसांवार विकास जालो. इतल्यान बळवंत पासस्ट वर्सांचे पिरायेक पावलो आनी ताच्या आंगांतलें बळ देवूंक लागलें. ताच्या इश्टाचें मर्ण ताच्या दोळ्यांमुखार खेळटालें.

बळवंत पिरायेन वाडलेलो तरी काळजान तरूण आसलेलो. ताका जाण्ट्यां आनी नेण्ट्यां पाद्रीमदें खुपशे इश्ट आसले आनी तरूण इश्ट ताका तरणेच दवरताले. जिविताच्या निमण्या वर्सांनी तो मागण्यांक आनी ध्यानांक लागलो. चडांतचड तो आपलें काम दुसऱ्यांकडे वाट्टालो, हे भाशेन मागण्यांक आनी नव्यो येवजण्यो वेव्हारांत हाडूंक ताका वेळ मेळटालो. तो क्रिस्ती आनी हिन्दू ब्रह्मानंदयांचीं पुस्तकां वाचतालो. 'सेवन स्टोरी माऊंटन' हे थॉमस मेर्टोन, 'लायफ ऑफ मदर तेरेजा, द फ्लेम ऑफ लव, द क्लावड ऑफ द अननोवींग' तो उमेदीन वाचतालो आनी दिसाक दोन वरां तरी मागण्यांक भेटयतालो. इतलें मागणें केलें आसतनाय ताका मागणें रूचनासलें. मनांत काळजांत काळोख कसो दिसतालो. देव आसा वो ना असलीं जीव-खातीं चिंतनां मनांत घोळटालीं. मनांत काळोख, काळोख. मागणें

सोडचें दिसतालें. आपणें इतलें काम केलें, नोवीस फोरा नादा, तें कित्याक उपकारलेंना असलीं दुभावाची कल्पना ताच्या मनांत खेळटाली. ताणें आपल्या घरच्या पाद्रीकडे, आपल्या आत्मिक गुरूकडे आपलें काळीज उक्तें केलें पूण ताका चडशी भुजवण आनी उजवाड मेळना जालो. तितल्या म्हणसर ताका चिखलेच्या बंद माद्रींचे वडिलीनीची चीट आयली आनी आपणाक उलोवंक जाय आनी कसलो प्रस्न सांगूक आनी सुटोवंक जाय - तिणें बरयलें. वेचेंच पडलें आनी बळवंताक तिका आपल्या मागण्यांची अडचण सांगची दिसलेली. बरें जालें म्हणलें आनी वचपाची तयारी केली.

आपलें सादें मोटर भायर घालें आनी आपुणूच मोटर चलयतालो तें थांबयलें आनी मोटर आपल्या चिटणिसाच्या हातांत घालें . आपलें पोट दुकता ताणें म्हणलें आनी परते पणजे पावतच सगळें बरे भाशेन पळोवंचें म्हणलें. मोटर चिखलेच्या कोन्वेंत - मठालागीं पावलें. बिस्पसायबाक आनी ताच्या चिटणिसाक गृहस्थी - ताईन (सिस्टरीन) दार काडलें आनी तांकां भेट - मंडपांत बसयले. माद्री ध्यान करताल्यो. बळवंताक अर्देवर बसूंक पडलें आनी ताणें आपलो ब्रेव्हीयार म्हणून काडलो आनी वाचून तो सोंपयलो. चिटणिसान दिसाचो 'नवहीन्द' वाचून सोंपयलो आनी ताचो मजकूर ताणें बळवंताक सांगलो. ही सवंय दिसा-दिसाच्यो खबरो आनी म्हायती आयकपाची बळवंतान सोडली ना आनी तोच म्हणटालो : बऱ्या सेर्मांव सांगण्याच्या एका हातांत दिसाचें वर्तमान आसूंक जाय, दुसऱ्या हातांत शुभवर्तमान. इतल्या म्हणसर पिटी पिटी करीत माद्र सुपेरिअर आयली आनी उलयताना तिणें आपलें तोंड दाखयलें ना. बिस्पामदें आनी माद्रीमदें काळो पडदो आसलो. ह्या माद्रींनी आपल्यो आदल्यो चाली बदलूंक नांत, सद्या मिसाच्या वेळारूच, त्यो आपूण मीस भेटयतात त्याच कुवार्ताचो पडदो उक्तो करतालीं आनी मिसाउप्रांत रोकडोच धांपतालीं. ताळो आयकूं येतालो पूण तोंडां दिसनासलीं. सुपेरिअरीन आपलें काम सोंपयलें आनी देव बरें करूं म्हणून ती फुडें वेताली. बळवंतान 'मातशें राव ताई' म्हणलें.

"सिस्टर", ताणें म्हणलें, "म्हाका कितें जाता तें हांव नकळों. एके वाटेन पोट म्हजें दुखता, दुसरे वाटेन म्हजेर काळोख आयला -सो दिसता. बळवंत म्हजें नांव. म्हजें बळ देंवता-शें जालां. मागण्यांक गेल्यार चीत लागना. मनांत चिंतनां नांत, रूच लागना, बेश्टो कांय म्हणिनासतनां बसतां आनी मनांत एक बरी चिंतनां





येना. मागणें करतनां मनांत चिंतनां येनांत, तोंडांत उतरां व्हावनांत, हरशें हांव जिबेन सदळ" ताईन हा-हा केलें आनी म्हणलें : "बळवंत फादर, भिवूं नाका, तूं मागण्यांक बसताय आनी सोडिनाय म्हणटकच तूं देवाक लागीं आसाय. हें सांग म्हाका, हें तुका घडूंक लागल्यार कितले म्हयने सुमार जाले." बळवंतान जाप दिली : "तीन म्हयने" वडिलीनीन तिका आनाबेल म्हणटाले, जाप दिली : "फादर, तूं डार्क नायट ऑफ द सेन्सीस, वो क्लावड ऑफ द अननोईंग हातुंतल्यान चलताय. विसव्यांची काळकी रात हें पुस्तक आमच्या सां जुवांव दे क्रूज हाणें बरयलां आनी क्लाऊड ऑफ द अननोईंग, अनकळत्याचें कूप ताचो बरोवपी अनकळतोच. तांचे परमाणें एक वेळ येता जेन्ना देव ताका उतरांचें आनी चिंतनांचें मागणें बंद करता आनी ताका आसणेंचें - अस्तित्वाचें मागणें दिता. मनीस आपल्या काळजाचे खरीकसून मागणें करता, तो उतरां उलयना, तो चिंतनां चिंतिनां, ताचें मन बंद जाता आनी तो देवांत गूल जाता, ताका आमी क्रिस्तांव 'इनफ्यूजड कॉन्टेंप्लेशन' दिल्लें ध्यान म्हणतांव न्हय? मनशाचो आनी देवाचो एकवट आसणें जाता आनी देव आनी मनीस आसणेंत एकवटतात - 'युनियन इन द बिईंग' उतर नासलेलो एकवट, चिंतनां नासलेलो एकवट! तर तुजी तकली पिशी करिनाका, दुसऱ्या जिनसाचें मागणें सोदीनाका, देवान दिलेलें देणें मानून घे आनी देवाक आर्गां आठय. आमच्या कोंन्वेतांत असलीं ध्यानिकां जायतीं जाणां आसात आनी हांव तांकां तशींच रावात, कांय बदलूं नाकात म्हणटां, तेंच हांव तुकाय सांगतां - देवाक आर्गां दी."

बळवंत खुशालकायेन भरलो आनी ध्यान प्रार्थनाचो खूप सोध करूंक लागलो. आदीं ताणें तरणाट्यांक योगा शिकयलेलें आनी आतां ताचो फायदो ताणें आपल्या जिवितांत काडचो पडलो. योगांत कुरपेची चडशी खबर जायना, क्रिस्तांव कुरपे आनी देवाच्या आदाराविणें जियेनां. एक दीस सकाळचें योगा करतनां, ताच्या पोटांत दूख आयली आनी घुंवळ येवन बळवंत जमनीर पडलो. चिटणिसान रोकडोच वैजाक हाडलो. वैजान तपासलो आनी रोकडेंच ही पिडा गंभीर म्हणलें आनी बळवंत आपल्या इश्टाक मोटरांत भरलों आनी सरळ ताका रायबंदरा, होस्पितल दे सांता मिसेरिकोर्दीया व्हेलो. आरतिलो आनी परतिलो, ऑपरेसांवाच्या मेजार घालो आनी दुखांनी भरलेल्या दोळ्यांनी भायर आयलो आनी चिटणिसाक सांगलें : "कॅन्सर". बळवंताचो चिटणीस जुजे फालेर पूत

कसो ताचो मोग करतालो आनी तो केन्नाय आपले सुवातेर कदेलीर बसतलो म्हण चिंतून ताका बळवंत शिकयतालो आनी शिडकायतालो. प्रि. जुजे फालैरो दुखांनी रडटनाच बळवंत पोटाचेर हात धरून भायर सरलो आनी फालैराक सांगलें 'रडूं नाका. एक क्रिस्तांव मरूंक भियेना.' कांक्र म्हाका देवान दिला आनी ह्या स म्हयन्यां भितर हांवें म्हजी तयारी करूंक वावुरतलों. क्रिस्तांवाक मर्ण उजवाडाची घडी, सुटकेचो वेळ."

बळवंत आपले दीस लागीं पावल्या म्हण जाणां आसतनाय आपलें काम नियमीतपणीं करूंक लागलो, आनी कोणाकूच कसलेच त्रास दिनासतनां, जेवण आनी खाण पलासींतल्यां दुसऱ्यां भावांबरी घेवंक लागलो. काणकोणसून एक तार आयलो. त्या तारावयल्यान बळवंताचो इश्ट जुवांव शाव्हियर मेंडीस, विगार - वार सोंपलो म्हण खबर पावली. बळवंत घुंवतालो आनी पोटाची दूख सोसूंक जाय नासली. ह्या मर्णांक आपणें वचुंकूच जाय म्हण ताणें सांगलें. मिसार आपूण बसलो आनी निमणीं मागणीं गावंक आपल्या खांदार काप घालूंक लायलें आनी रेक्वियेसकात इन पीस - "संवस्थायेन विसव घेवं" म्हणून आपूण पडलो आनी बळवंत सोंपलो. काणकोणकारांनी आपल्या पाद्र-विगाराचें दूख करचे सुवातेर, बिस्प सायबाचें दूख करूंक सुरू केलें. वेगीं-वेगीं जुवांव शाव्हियर मेंडिसाक पुरलो आनी बळवंताचें मडें परमळान धुलें आनी तें कामियांवाचेर घालून मडगांवचे वाटेर व्हेलें. कुंकळे, चिंचोण्यां, नावेले लोकांच्यो उरपंजी जाल्यो. कुडीक इंजेसांव मारलेलें. घडये बळवंताचे इश्ट निमणें दर्शन घेवंक आशेताले आसले. मडें कार्दीआलाच्या वस्त्रांनीं न्हेसयलें आनी पणजेचे इगर्जेंत दवरलें. लोकांचे लोंडे येताले आनी वेताले आनी एक एक वराक पांच हजार लोक भेट दिवन वेतालो आनी ताच्या रडण्यांतल्यान "बळवंत मोगाळ, मनशाळ, पाद्रींचो अनद आनी म्हयमा" असलीं उतरां आयकूं येतालीं. ताच्या कायशांवाचेर हजारांनी फुलांचे तुरे आनी हार पडलेले आनी बळवंत फुलांमदें रावन जिवोच, हांसतोच दिसतालो. सगळ्यां गांवांतसून तार आनी तेलेग्राम येताले आनी दिल्लीकसून सरकारी प्रतिनिधी आयले आनी गोंयच्या मंत्र्यांनी दूख परगटायलें. बळवंताचो ते मोग करताले आनी तशेच ते ताका भियेताले, कित्याक बळवंताचे सांगणे परमाणें "बिस्पसायब सरकाराचें अंतस्करण" भियेनासतना आनी लजेनासतनां, तो आपलें काम करतालो आनी सरकाराच्याय कानांक केन्नाय वोळ घालतालो.

बळवंताचें मडें पणजेसून से कातेद्रालांत व्हेलें आनी मरणाचे मिरवणुकेंत बिस्प सायब, कार्दीआल सायब, इस्कोलाचीं भुरगीं आनी कानडी भुरगीं दुखां गळयत 'आमचो पाय मेलो, आमचो आस्कारी मेलो' म्हण बोबाट मारीत चलतालीं, मारिया दोस सेवस, आनी तिचो घरकार अमेरिकेकसून आयल्लो, जेनेव्हिव आनी तिचीं भुरगीं रडटालीं, गोंयचे भिकारी पाय-गा म्हणीत दुखां पुसताले. दोन वरां भितर मडें गोंयच्या से-कातेद्रालांत पावलें आनी बळवंताक ज्युस्तूच दरवंट्यार फोंड काडलो. ताणें सांगलेलें म्हाका से च्या दारार पुरात. कित्याक येते-वेते म्हाका माड्डयतेले आनी ल्हानव्हीकायेची वाट शिकतेले. "निहील, पुल्वीस, सीनीय - धूळ, माती आनी गोबोर". सवस्थायेचो ताका विसव दी म्हणनाफुडें भुरगीं व्हडल्यान रडलीं आनी जाणट्यांचे लेंस दुखांनी भिजले. बळवंताक मातयेन पुरचे सुवातेर ताका दुखांनी आनी फुलांनी पुरलो. फुलांचो एक दोंगर जालो. बळवंत सादो-सुदो जियेल्लो, सायकलीन आनी मोटरान भोंवतालो, मर्ण एक जैत कशें जालें. मातयेंत पुरोवंचे आदीं, से-कातेद्रालाच्या वडिलान, मायक्रोफोनी उदेशीं बळवंताचें मरणपत्र, ताची निमणी खोशी वाचली. ती ताणें ताबेलींवागेर वचून बरोवन आपल्या चिटणीस, फालैराकडे दवरलेली. कवरांत घालून ताचेर लाख मारलेली, से च्या वडिलान, दों फ्रान्सिस्को दे आल्मेदान कवर उक्तें केलें आनी स्पश्टपणीं बळवंताची निमणी खोशी वाचूंक सुरू केलें. "भावानो आनी भयणींनो" इतलेंच सुरू केल्लें, ताचो ताळो बंद जावंक लागलो, दुखांनी तेस्तामेंताचें, मरण-पत्राचें पान बुडलें. आपणालागीं जायना देखून ताणें तें काडून जुजे फालेरोकडे दिलें, आनी ताणें तें चतुरायेन सवकास आनी समजणेन वाचलें. हें आसा तें :

"गोंयकार म्हज्या भावां-भयणिंनो!

हांव सत मानतां कातोल्क इगर्जेक आनी तिचो खरेलो आनी खालतो पूत कसो हांव मरतां. तिचो हांवें सदांच मोग केलो आनी इगर्ज म्हणल्यार म्हजी सोबीत व्हंकल. बिस्पाची मुदी गोंयची इग्रज म्हजी व्हंकल म्हण दिसानदीस म्हज्या मनांत हाडटाली. भावांनो, इगर्जेचो मोग करात, आनी रोमाच्या पाप-सायबाक मरवेर विस्वासी रावात. गोंयकार 'बिस्पाकडे झगडले, पूण ते सदांच रोमाच्या पाप-सायबाक विस्वासी रावले.

हांव क्रिस्ताचो आनी मनशांचो सेवक. हांव पाद्री, हांव पाद्रीपण किर्ते तें जाणा जावंक तितलो वावुरलोंना, पाद्रीपण जियेवंक हांव तळमळलों. पाद्री क्रिस्ताचें तोंड आनी क्रिस्ताचे हात, देखुनूच ते हात आनी तोंड निर्मळ सांबाळूंक हांव वावुरलों. वादळ आनी वारें आमचें जिवीत, बुडटल्या पेद्रूक वादळांत आनी मोडांत क्रिस्तान हात दिलो. ताणें म्हाका सदांच हात दिलो आनी ताच्या विस्वासान हांव जियेलों आनी जिखलों.

हांव भारती, हांव भारतांत जल्मलां. म्हज्या देसाचो आनी गांवचो हांवें मोग केलो, तिच्या व्हडल्या मनशांचो, तिच्या फातरांचो, दोंगरांचो, न्हंयांचो, तिचे सरस्पतींचो आनी भाशेंचो, तिच्या वेगळेचार नागरिकांचो. भावांनो आनी भयणींनो, भारत मातेचो मोग करात आनी तिचें व्हडपण मापा, देवाचो आनी धर्माचो गांव.

हांव गोंयकार. हांव गोंयचो मोग करतां, थंय जियेतात तितले गोंयकार. गोंयकार दुबळ्यांचो मोग, खोंपटेकारांचो म्हाका मोग. ह्या खोंपटेकारांक जितले थोडे-शे पयशे हांवें कमायल्यात ते तांकां दवरतां. हांव दुबळो जल्मूंक ना, तरी दुबळो जियेलों, आनी दुबळो हांव सोंपूंक आशेंतां.

सगळ्या गोंयकार पाद्री भावांक हांवें एका खेरीतूच मोगान वेंगयले. गोंयकार म्हज्या पाद्री भावांनो, हांवें तुमचो मोग केलो, एकामेकांचो मोग करात, एकामेकांठांय इश्टागतीन चला, एका-मेकाक पावा.

सगळ्या गोंयकार आवयांक आनी गोंयकार बापायंक म्हजो नमान. जें एका व्हडल्या गोंयकार पुतान बरयलें ताचो उगडास हाडटां : “म्हजी आवय बरोवंक नकळो आसली, जें वाचप्याच्यान आनी बरोवप्याच्यान दिवं जायना तें तिणें म्हाका दिलें” असल्यो आवयो तुमी जायात.

तरनाट्या चेड्यांक आनी चेडवांक म्हजो नमान! गोंयकारांक एक जबाबदारी आसा आनी तुमी ती पाळून घेयात.

म्हजें जिवीत क्रिस्ताचे व्हडले म्हयमेक!
म्हजें जिवीत पवित्र त्रितवेच्या मानाक!



बळवंत दा कोस्ता.



## फा. आंतोनिओ पेरैरा, एस्. जे.

फा. आ. पेरैरा म्हण सगळ्यांचे वळखीचे.

तांची फांक बरोवपांतल्यान आनी उलोवपांतल्यान गोंयकार निवास करतात थंय पावल्या.

कोंकणीच्या मळार तांकां भरपूर येस मेळ्ळां, आनी तांणीं कला अकादेमीचीं आनी कोंकणी भाशा मंडळाचीं इनामां आनी तस्त्रिपो जोडल्यात.

ते पिकाळ बरोवपी. तांचीं लिखणां वावराड्यांचो इश्ट आनी रोटी ह्या पत्रांचेर नियमीतपणी आयल्यांत आनी कोंकणी भक्तांच्या काळजांत संतोस आनी आनंद रचला.

ते साहित्य अकादेमी आनी कला अकादेमीच्या सल्लागार समितीचे वांगडी तशेच गोंयचे प्रजे-प्रगटणे-उपायां समितीचे यजमान म्हण वावुरल्यात.

बागांतल्या एकांतायेच्या घराचे ते अध्यक्ष आसले. जिबेन आनी हातान सुदळ आनी सुलभ अशी तांचीं नामना.

गोंयचे एक मुखेल धांवते प्रवचनकार आनी उलोवपी अशी तांची नामना. *वादळ आनी वारें* हें तांचें तेरावें पुस्तक.

जाण्टे पिरायेचेर २४ फेब्रुवारी २००४ हे दिसा ते ह्या संवसाराक अंतरले.

Printed at **impressions,** Bgm. Ph.: 0831-2421232